# महाप्रस्थान

(इतिहासीक कादंबरी)

उत्तरार्ध

**प्रो. डॉ. कस्तुरी मोहन पै**

26/12/2022



| | |
|---|---|
| **महाप्रस्थान** | **MAHAPRASTHAN** |
| (कोंकणी कादंबरी) | (Konkani Novel) |
| उत्तरार्ध | Part - 2 |



| | |
|---|---|
| **प्रो. डॉ. कस्तुरी मोहन पै** | **Prof. Dr. Kasturi Mohan Pai** |
| 301, वैश्णोवी, | 301, Vaishnovi |
| अम्मेमबळ सुब्बराव पै रस्तो, | Ammembal Subbarao Pai Road, |
| डोंगरकेरी, मंगळूर 575003 | Dongarkeri, Mangalore 575003 |



| | |
|---|---|
| प्रकाशक : | Publisher : |
| **संजना पब्लिकेशन्स** | **Sanjana Publications** |
| 39, दत्तवाडी, सांगें, | 39, Dattawadi, Sanguem, |
| गोंय. 403704 | Goa. 403704 |

sanjanapublications2@gmail.com



| | |
|---|---|
| **© प्रो. डॉ. कस्तुरी मोहन पै** | **© Prof. Dr. Kasturi Mohan Pai** |



| | |
|---|---|
| **पयली उजवाडावणी** : 2022 | **First Edition :** 2022 |
| छापणावळ : | Printing : |
| **रा प्रिंटस्,** पणजी | **Ra Prints,** Panaji |
| मुखचित्र : | Cover : |
| **अमोल कामत** | **Amol Kamat** |
| अक्षरजुळणी : | Typesetting : |
| **अतुल र. पंडित** | **Atul R. Pandit** |
| 9623269013 | 9623269013 |
| **मोल : रु. 250/–** | **Price : Rs. 250/-** |



म्हजें जिवीत घडोवंक

चंदनापरी झरपी,

संस्काराचें बीं

मनांत खोल रुजोवपी

म्हजी आवय

**सर्गेस्त कस्तुरी मोहिनी देविदास पै**

हिका ही कादंबरी नमळायेन ओंपतां... !



# धर्मांतरीत परत धर्मांत नाका

मठग्रामांतल्या मठा दोंगराच्या माथ्या वयल्यान सोबीत देखावो दिसतालो. अस्तंतेक दिसताली भांगरा रेंवेची दर्यादिग - उत्तरेक कोलवा मेरेन आनी दक्षिणेक बाणावले मेरेन. तिचे पेल्यान आसलो विशालकाय दर्या - दोंगरा सकयल ताच्या मुळसांत दिसतालो मठग्राम गांव.

गांवचे उत्तरेक आनी दोंगराचे उजवे वटेन लांब रूंद पातळून पडिल्ल्या शेतवडेच्या मळार कृष्णाक सैनिकी तळ पडिल्लो तो दिसलो. त्या दिसा त्या तळार तरेकवार कामां चलतालीं तीं ताणें पळयलीं. सहाय्यक विसराय त्या तळार हाजीर आसलो. अडेजश्यां परस चड सैनीक थंय आसले. फिलीप दे ब्रागांजा हाणें तेन्नाच साश्टीच्या विसरायपदाचो ताबो घेतिल्लो. खोस मनोवपाची कार्यावळ थंय चलताली. चंद्रपुरांतल्यान धरून हाडिल्ल्या लोकांक थंय सोरो आनी जेवण वाडपाच्या कामाक लायिल्ले.

रात फेरयेच्या पंगडान त्या दिसा आपली दोंगरा वयली सांजवेळा करपाची राखणे फेरी बेगिनूच केल्ली. काळोख दाट जालो तेन्ना दर्यादिगेर तीन मंद चुडी पेटिल्ल्यो दिसल्यो. दर एक चूड थोडें थोडें अंतर सोडून तीन फावटी चक्राकार बाऱ्यांत घुंवली. 'कसलोच धोको ना' असो त्या वाटकुळ्या घुंविल्ल्या चुडींचो

अर्थ आसलो.

ब्रह्मपुरींतले ते घोड्यां वयले तरणाटे त्यो चुडींच्यो कुरवो वळखून तशेंच घोड्यांचेर सुवार जावन दोंगरा वयल्यान सकल देंवले आनी अस्तंती दिकेन गेले. दर एकटो एकेका घरांत गेलो. त्या दर एका घरांत 15 - 20 मनशां आपली मुस्तायकी आनी गरजेच्या वस्तूंच्यो पोटल्यो बांदून तयार आसलीं. दर एका जम्याक ते दर्याचे तडीर घेवन गेले. 10 - 12 व्हडीं थंय येवन राविल्लीं. एक वेपारी तारूं आदींच दर्यांत भायर येवन राविल्लें. मध्यान राती मेरेन शंबरां वयर आशिल्ल्या दादले आनी बायलांक तीं व्हडीं तारवां मेरेन घेवन गेलीं. सगलो लोक तारवार चडलो. सोंपते फांतोडेर सुमार तें वेपारी तारूं दक्षीण दिकेन वचपा खातीर सुटलें. सगलीं जाणां जल्मभूंय सोडून वचपाच्या दुख्खान भितरले भितर आवाज चेपून रडटालीं. जिवाची राखण आनी नव्या प्रदेशांत नवे जिणेची सुरवात करपाची मोख बाळगून तांचो प्रवास सुरू जाल्लो.

1557 वर्साच्या जून म्हयन्यांत पुर्तुगालचो राजा दाँ. जुआंव तिसरो दुयेंत जावन ताणें हांतरूण धरलें. 'आस्ते घेयात, ताकतीक नाका' ह्या धोरणाक कार्डिनल हेन्रीक हाणेंय तेंको दिलो आनी त्या कारणान दुयेंस बळावलें आनी 11 जून 1557 ह्या दिसा राजान हो संवसार सोडलो. ताचो नातू दाँ सेबास्तियान तेन्ना तीन वर्सांचो आसलो. राजपदाचो ताका वारस केलो आनी राजप्रतिनिधीच्या रुपान मानधन फावो जाल्ली राणी कातालीना हिका ताचें पालकत्व दिलें.

पाद्रींनी वेळ वगडायनासतना संदीचो फायदो घेवन गोंयांत जाता तितल्या नेटान आनी बळजबरेन धर्मपरिवर्तनां घडोवन हाडपाक पावलां मारलीं. कार्डिनल हेन्रीक हाणें गोंयांत धर्मन्यायालय (इंक्विझीशन) सुरू करपाची येवजण आंखली.

लिस्बोआंत जी अस्थीर परिस्थिती उप्राशिल्ली तिचो बिशप जुआंव दे आल्बुकेर्कान बरो उपेग केलो. गोंयांत आसलो तो गोव्हेर्नादोर दाँ फ्रान्सिस्क बार्रेत हो ताच्या हातांतलें बावलें जाल्लो. बिशपान पाद्रींक अस्तित्वांत आशिल्ले परिस्थितीचो पुराय फायदो घेयात म्हूण आदेश दिलो. तिसवाडी म्हालांत सरकारी कचेऱ्यांनी कामाक आशिल्ल्या सगल्या हिंदू कर्मचाऱ्यांक कामा वयल्या काडून उडोवपाचो आदेश गोव्हेर्नादोरा कडल्यान ताणें मेळयलो. शेंकड्यांनी कर्मचारी बेकार जाले आनी कुटुंबां पोसपाचो प्रस्न तांचे मुखार उबो जालो.

अशे तरेन काम नासून जगपाचें साधन वगडायिल्ल्या लोकांक दनपारचें एक

जेवण दिवन आदार दिवपाचें गांवकारांनी थारायलें. गांवांतल्या देवळांत ते तांकां जेवण दिवंक लागले. त्या भायर देवळांतल्यान तांकां अर्द शेर तांदूळ आनी भाजीपालो दिवपाचीय वेवस्था केली.

जायत्या परंपरावादी लोकांनी अशे तरेची सेवा ब्राह्मण सोडून हेर लोकांक दिवपाक विरोध केलो. ही भेदाभेद करपाची जायत्या गांवकार आनी देवळांच्या भटांची वृत्ती पाद्रींच्या धर्मपरिवर्तनाचे येवजणेक एके तरेन वरदान थारली. तांणी ब्राह्मण जावं हेर जातींतले जे कोण क्रिस्तांव जावपाक तयार आसले तांकां परत कामार घेवपाचें एक हांयस दाखयलें. दर दिसा पांच ते स जाण क्रिस्तांव धर्मांत वचपाक लागले. तातूंतले चडांत चड ब्राह्मण सोडून हेर जातींतलेच हिंदू लोक आसले.

ही खबर आयकून ब्रह्मपुरीचे प्राचार्य सोमनाथ शर्मा आपूण जावन गांवकारांक येवन मेळ्ळे आनी भटां - ब्राह्मणां कडेन त्या विशयाचेर उलयले. तांणी आपणायिल्लें तें धोरण आनी तांची वृत्ती हिंदू धर्माक धोक्याची थारतली आनी पाद्री ते परिस्थितीचो धर्मांतरां घडोवन हाडपाक अदीक नेटान उपेग करतले म्हणपाचें ताका समजावन दिवपाचो खूब यत्न केलो. पूण परंपरावादी गांवकार आनी भटा - ब्राह्मणांनी तांचें आयकून घेतलें ना तें नाच.

'तांणी धर्मपरिवर्तनां केल्यार करूं ताची आमकां पर्वा ना.' अशेंय बी तांचे मदले थोडे संवाद तोडून मर्दी मर्दी उलोवंक लागले. आनीक थोडे जाण प्राचार्यांकूच धमकावंक लागले. तांचे हे तरेचे हट्टीपणाचे अर्थहीण वृत्तीक लागून प्राचार्यांक वायट दिसलें. ते बरेच दुखावले.

तांणी कट्टरपंथ्यांक सांगलें, 'आमी ब्राह्मण संख्येन उणे आसात. ब्राह्मणांक सोडून तांणी हेर सगल्या लोकांचें धर्मपरिवर्तन केलें जाल्यार आमी अल्पसंख्याक जावन उरतले आनी ते वरवीं आमचो विनाश जातलो.' तांणी शिटकावणी दिली.

'आमकां हुस्को ना ताचो. आमच्या सांगाताक देव आसा. पूण आमी सकयल्या जातींतल्या लोकांक आमचे पंगतीक बसून जेवपाक दिवचे नात. तशें केल्यार आमी बाट्टले.' जायत्या लोकांनी आपलो हट्ट सोडलो ना.

'ही ब्रह्मपुरी न्हय तुमची. तुमी देवळाच्या कारबारांत पडूं नाकात.' थोड्या जाणांनी तांकां शिटकावणी दिली.

'चाळीस वर्सां वयर काळ पुर्तुगाली आमकां एक सारके सतायत आसात. आमी

एकवटान रावले जाल्यारूच तिगतले. जातींचो भेदभाव करून न्हय.' प्राचार्यांनी काळजा किंवाट्यान विनवणी केली, पूण तांचे यत्न फुकट गेले.

धर्मपरिवर्तनाचीं कर्तुपां कसलेच आडखळी बगर जायत रावलीं.

20 ऑगस्ट 1557 ह्या दिसा वासू नायक नांवाच्या चोडण गांवांतल्या एका गिरेस्त वेपाऱ्यान व्हडल्या दबाज्यान धुवेचें लग्न केलें. लग्नाक सुमार हजारभर आमंत्रीत हाजीर आसले. पूण त्या उमेद आनी खोशयेच्या दबाज्याचें कोडूसाण आनी भेदभावांत रुपांतर जालें. लग्न सुवाळ्याक जे सोयरे हाजीर आसले तांचे मदल्या कोणें तरी जोजेफ दे मेलू नांवाच्या एका धर्म बदलून क्रिस्तांव जाल्ल्या मनशाक त्या सुवाळ्यांत पळयलो. वासू नायकाच्या कांय नात्यांतल्या मनशांनी आनी आमंत्रितांनी मेळून ताका विरोध केलो आनी जोजेफ दे मेलू हाका लग्नाच्या सुवाळ्यांतल्यान बळयां भायर काडलो. ताणें वचून हे घडणुकेची बिशप जुआंव दे आल्बुकेर्क हाचे कडेन कागाळ केली.

बिशपाक खूब राग आयलो आनी ताणें गोव्हेर्नादोराक शिपायकांचो पंगड धाडून वासू नायकाक धरून हाडपाचो आदेश दिवपाक सांगलें.

इतले मजगतीं न्हवऱ्याचीं आवयबापूय आनी सोयऱ्यांक त्या लग्नाक जोजेफ दे मेलू हाजीर राविल्ल्यान धर्मीक विधीक भ्रश्टकार जालो अशें दिसलें. ते खातीर शुद्धीकरण करून न्हवऱ्या वटेंतले थोडे जाणटेले सगलोच विधी लोकां मुखार परत करपाचो हट्ट धरून बसले आनी नाजाल्यार लग्न मोडटले म्हूण धमकावंक लागले.

दोन दिसां उपरांत वासू नायकान पुराय धर्मीक विधी आनी सुवाळो गांवांतल्या 450 ते 500 लोकां मुखार घडोवन हाडलो. हो सुवाळो भर भारार आसतनाच सुमार शंबरेक पुर्तुगेज सैनिकांनी लग्नाच्या माटवांत घुरी घाली आनी सगल्याच लोकांक धरून व्हेले.

गोव्हेर्नादोर दाँ फ्रान्सिस्क बार्रेत हाणें न्हवऱ्याचो बापूय वासू नायकाक आनी कांय गांवकारांक निमणी मुजत दिली आनी तांकां सांगलें की तांणी एका क्रिस्तांव मनशाचो अपमान केला. ते खातीर सगल्या 458 जाणांनी ख्रिस्ती धर्माची दिक्षा घेवन एका सप्तका भितर क्रिस्तांव जावपाक जाय. अशें केलें ना जाल्यार व्हंकल न्हवरो धरून सगल्यांक गुलाम जावन घडये जिवीतभर मलाक्का वा आफ्रिकेंत दीस सारचे पडटले. अशें सांगून सगल्यांक भायल्या संवसारा कडल्यान संबंद तोडून तळघरांतले काळ कोठयेंत फकत एक फावट पेज दिवन बंदखणींत दवरले.

चोडण गांवांतलो जावं वासू नायकाच्या घरांतलो कोणूच गोव्हेर्नादोराक वचून मेळपाक धजलो ना. लग्नांतल्यान धरून व्हेल्ल्या लोकां वरीच आपणाकूय ते काळकोठयेंत बंदखणीची ख्यास्त जातली म्हूण तांकां भिरांत आसली.

एका सप्तका उपरांत सगले 458 बंदी ख्रिस्ती धर्माची दिक्षा घेवपाक तयार जाले आनी तांकां पणजेच्या कोटांत बातिझ्म दिवन क्रिस्तांव केले. कोणूच विरोध करपाक धजलो ना. नवे धर्मांतरीत लोक आदल्या आपल्या धर्मांतले धर्मीक विधी आचरतात बी जाल्यार तांचेर नदर दवरपाचें काम जोजेफ दे मेलू हाचेर सोंपयलें. ताचे सारके आनीक जायते गुप्तीं काम करपी खबरेकार सरकाराक म्हायतीची पुरवण करपाक लागले. अशे तरेन खबरो दिवपी मनशांक बिशप आनी गोव्हेर्नादोर हांचे कडल्यान फावो तीं इनामां मेळटालीं.

इतले मेरेन धर्मपरिवर्तनाच्या मळार जे पाद्री वावुरताले तांची म्हणल्यार फ्रान्सिस्कन, जेज्वीत आनी दोमिनिकन पंथांच्या पाद्रींची सरकारी यंत्रणेचो आपणाक बळिश्ट तेंको मेळटलो म्हणपाची खात्री जाल्ली. आनी ते उपरांत तांणी धर्मपरिवर्तनाची एकूय संद सोडली ना.

धर्मपरिवर्तन करूंक न्हयकार दिल्ल्या सगल्यांक तांणी कादयेंत घालपाक आजुबे हांगा व्हेले. अठ्ठेचाळीस वरां तांकां उदक आनी खाण जेवण दिनासतना भितर दवरले. ते उपरांत तांकां धर्मपरिवर्तन करून क्रिस्तांव जावपाक तयार आसल्यारूच मेकळे सोडटले म्हूण सांगलें. एकटोय मनीसधर्म सोडून ख्रिस्ती जावपाक तयार जालो ना.

दुसऱ्या दिसा सकाळीं तांकां सगल्यांक हात फाटल्यान बांदून आनी पावलां कडेन पांय बांदून एके हारेन दिमयांचेर दवरले. निग्रो गुलामांनी जनावरांच्या पोटांतल्या इंद्रियां सयत अर्दकुटें शिजयिल्लें मास व्हडल्या घमेल्यांनी घालून तांचे म्हऱ्यांत हाडलें.

दर एकट्या बंदी मनशाच्या नाकाक घट्ट धरून तांणी तोंड उगडना फुडें तांच्या तोंडांत सोरो रकोवंक लागले आनी फाटोफाट तोंडांत मास घालपाक लागले.

खूब जाणांक त्या अर्दकुट्या शिजिल्ल्या मासाच्या वासान पोटांत धवळपाक लागलें आनी तांकां ओंकारे येवपाक लागले. थोडे ओंकले आनी घुंवळ येवन पडले. ते आडवे पडून आरते परते घुंवून जमनीर लोळपाक लागले आनी तांणी तोंडांत घाल्लें मास थुकथुकून भायर उडयलें. थोड्यांची शुद्ध वचून ते थंड पडले.

शिपायकांनी तांकां निर्दयपणान खोंटायले. निग्रो गुलामांक आदेश दिवन तांकां चाबकांनी बडयले. शासकांचीं हीं प्रजेचेर भिवकुऱ्यांवरी अमानुशपणान केल्लीं कर्तुपां सुमार वरभर चल्लीं. खूबशे कैदी शुद्ध वचून पडले. चडशे जाण पुरायपणान थकिल्ले, उदक नासून कासावीस जाल्ले आनी शरिराची कसलीच हालचाल करपाची तांक नाशिल्ल्यान थंयच पडून उरले.

बंदखणीचो कपीत दाँ पेद्रू ई कुतीन्यु हाणें शिपायकांक राखणेच्या कामार रावपाचो आदेश दिलो आनी थंयच्यान तो गेलो. त्या उपरांत 24 वरां भितर 12 कैदी घुस्मटून पोटाक भितर लागिल्ल्या माराक लागून आनी पुरायपणान थकिल्ल्यान मेले. दाँ पेद्रून एक नवी तरा आपणायली. ताणें कैदी लोकां मदल्या वयल्या जातींतल्या मनशांक वेंचून वेगळे काडले. हेर उरिल्ल्या लोकांक सांगलें की तुमी जर क्रिस्तांव धर्मांत आयले तर तुमकां शेतां रोवपाक जमीन आनी दुडू आमी दितात. तुमी मागीर स्वतंत्रपणान जाय तशे जगपाक मेकळे.

पांचवो दीस सोंपतासर दर एकटो धर्मपरिवर्तन करपाक तयार जालो. दुसऱ्या दिसा सकाळीं गोव्हेर्नादोर दाँ फ्रान्सिस्क बार्रेत आनी बिशप जुआंव दे आल्बुकेर्क हांचे सामकार तांकां क्रिस्तांव धर्माची दिक्षा दिली. वेगळायिल्ल्या उच्च वर्णीय कैद्यांक बाणस्तारीच्या कोटांत काळकोठयेंत बंद केले.

उच्च वर्णीय आनी गावडी बायलांक दादल्यांचे कुडीक तेंकून आशिल्ले कुडींत बंदखणींत घालीं. तारवां वयल्या तांडेल्यांक त्या बायलांचेर अत्याचार करपाक भितर सोडटाले आनी दादल्या कैद्यांक तांकां पळोवपाक लायताले. चार ते स शिपायक एकेकटे बायलेचेर अत्याच्यार करताले. त्या बायलांच्या किळच्यो आनी आड्डी - हुयेलींच्या आवाजान ती आख्खी बंदखण थरथरताली. तिसऱ्या दिसा आठ बायलो त्या त्रासान मेल्यो. कोटाचे वणटी वयल्यान तांच्यो कुडी न्हंयेंत उडयल्यो.

कैद्यांचो फुडारी जना परबाक मध्यानराती पयलींच ओडून भायर काडलो. पाद्रींनी निमणो उपाय करपाचें चिंतलें. जना परबाच्या दोळ्यांक पट्टी बांदली आनी ताचे हात फाटल्यान बांदले. दोनूय पावलां वयर करून खुब्यां कडेन सांखळ बांदली. चार शिपायक ताचे मुखार आनी चार शिपायक ताचे फाटल्यान चलताले. ते ताका सारको धुकलीत व्हरताले. बंदखणींतले कैदी एका फाटल्यान एक येवन जें एकूच ल्हान जनेल आसलें तातूंतल्यान पळयताले. बंदखण घराच्या मदल्या

चारकोणी आंगणांत मदीं एक कोंड्याची म्हेड पुरिल्ली. जना परबाच्या आंगार कसलेंच वस्त्र नासलें. फकत कमराक वालो गुठलायिल्लेवरी माडाचें चुडीत गुठलायिल्लें आनी चुडटांचोच मुकूट घाल्लो. ताका मदीं व्हरून ते म्हेडीक हात आनी पांयाक घाल्ल्या सांखळ्यांनीच बांदिल्लो. उज्याक घालपाच्या जळवाचीं धा बारा लांकडां ताच्या पांयां कडेन राशीर दवरिल्लीं. तांचे वयल्यान सुकें तण आनी चुडटां घाल्लीं. जना परबाक कितें घडपाचें आसा तें कळ्ळें. तो व्हडल्यान आड्डूंक लागलो. ताणें काकुळटेक येवन कृपा करात म्हूण मागणें केलें. ताचे भोंवतणी वीस पंचवीस शिपायक उबे आसले. तांणी जळवाक उजो लायलो. रगत गोठोवपी अश्यो ताणें आड्डी आनी हुयेली मारल्यो. त्यो धा मिणटां चल्ल्यो. तितल्या वेळा भितर तो पुरायपणान उज्यांत हुलपलो. अचकीत ताचो आवाज बंद जालो. अर्द वरा भितर ताचे कुडीचो गोबर जालो. अशे तरेन 'आव्तु दे फे' हे ख्यास्तीची देख तांणी बंदखणींतल्या कैद्यांक दाखोवन दिली.

सगले कैदी ती क्रूर आनी रानवटी करणी पळोवन भिरांतेन कुळकुळ्ळे. जायते जाण मोन्यांनी रडटाले आनी कितलेशेच जाण फकत आपल्या कुळदेवाच्या नांवाचो जप करीत रावले. दुसऱ्या दिसा सगले जाण धर्मपरिवर्तन करपाक तयार जाले आनी तांकां पाद्रींनी रोखडोच बातिझ्म दिवन ख्रिस्ती धर्मांत घेतले. सगल्यांक कडक उतरांनी आयताराच्या मिसाक इगर्जेंत हाजीर रावपाचो आदेश दिलो.

* * *

जेन्ना ते दोग घोडेसुवार शारांत पावले तेन्ना सूर्य बरोच वयर पाविल्लो. बाजार भरून लोकांची गर्दी जाल्ली. दुडू बदलून दिवपी दलाल आपलो दर मोठ्यामोठ्यान सांगताले. रस्माचे वेपारी, चीनी मातयेचीं तरेकवार आयदनां विकपी आनी तरेकवार वाद्यांचे वेपारी अशे सगले त्या बाजारांत आपापलो म्हाल खपोवपाक गुल्ल जाल्ले. एका पोंतार घोड्यांच्या तबेल्यावरी तयार केल्ली एक बांदावळ आसली. तातूंत पन्नाशेक घोडे बांदिल्ले. थंय राजेशाय थाटाचे फिदाल्ग, निळ्या पोशाकांतले सैनीक, शेजारच्या राज्यांतल्यान आयिल्ले गिरेस्त हिंदू वेपारी, थोडे हिंदू धनीक आनी सरदार चाकरांनी खांद्यार धरून हाडिल्ल्या माचुलांनी बसून थंय हाजीर जाल्ले. अशे तरेन तरेकवार लोक बऱ्यांतले बरे अरबी घोडे मोलायताले. थोडे फिदाल्ग शिरंगारिल्ल्या घोड्यांचेर बसून आयिल्ले. तांचे फाटल्यान निग्रो

आनी मलबारी गुलाम तांचें सामान घेवन चलताले. एक गुलाम सगल्यांत फुडें आपल्या धनयाक शृंगारीत रंगयाळी सत्री धरून चलतालो.

कृष्णा आनी केदार हे दोगूय घोडसुवार भर बाजारांतल्यान मुखेल रस्त्यान फुडें वचून फळां विकपी दुकाना कडेन आयले. कृष्णा त्या दुकानांत भितर गेलो. दुकानदारान नदर वयर करून ताचे वटेन पळयलें आनी दुकानाच्या तळघरांत वचपाची कुरू केली. कृष्णा पांच स सोंपणां देंवन सकयल गेलो. तो एके काशीर बसलो. दुकान मालक ताचे फाटोफाट गेलो आनी थंय बसलो. तितल्या वेळा भितर आनीक धा बारा गिरायक दुकानार आयलें. दुसरे दोग जाण तांचे सेवेक हाजीर जाले.

'तें तांणी केलेंच. तांणी काल रातीं चोडणेच्या जना परबाक जितोच लासलो. पाखल्या शिपायकांनी स – सात बायलांचेर अत्याचार केले. चडशीं तांचे मदलीं मेलीं. तांच्यो कुडी न्हंयेंत मेळ्ळ्यो. हेर सगल्या कैद्यांक सकाळीं बातिझ्म दिवन क्रिस्तांव केले.' दुकान मालकान कृष्णाक सांगलें.

बरोच वेळ थंय शांतताय पातळ्ळी. कोण कांयच उलयलो ना. 'खंय गेले ते लोक?' कृष्णान विचारलें.

'ख्रिस्ती धर्मांत घेवन तांकां बंदखणींतल्यान मेकळे केले.'

'तांची चड कितेंय खबर कळ्ळ्या?' कृष्णान विचारलें.

'हय. इतलीच की जना परबाक जितोच लासलो. स बायलां मेलीं. नरक यातना फकत. सांगूं नज, उलोवं नज. सगळें कल्पने भायलें.'

कृष्णा जड काळजान थंय बसलो. तो जाणा आसलो कीं जेन्ना ते लोक आपल्या गांवघरा वतले तेन्ना तांकां जगप नाका जातलें.

चोडण गांवांतली पुराय शांतताय ना नपयत जाल्ली. आदली शांत जिणेची घडी विस्कटून गेल्ली. ज्या शेंकड्यांनी लोकांक बातिझ्म दिवन क्रिस्तांव केल्ले ते आतां गांवांत पाविल्ले. गांवांतल्या मुखेल भटाक घेवन गांवकारांनी बसका घेतली. चडांत चड लोकांक धर्मपरिवर्तन जावन गांवांत आयिल्लो एकटो लेगीत मनीस परतून जातीधर्मांत आयिल्लो नाका आसलो. धर्म बुडिल्ल्या लोकांचें शुद्धीकरण करून तांकां परतून आदल्या जातीधर्मांत घेवं येता अशी तांच्या कुटुबांतल्या वांगड्यांनी सुचोवणी केली. ते सुचोवणेक खरसाणेन विरोध जालो.

कृष्णा आनी केदार चंद्रनाथ भटाक मेळ्ळे आनी आपली वळख सांगली.

'धर्मपरिवर्तन जाल्ल्या लोकांक परतून जातीधर्मांत घेवप आमच्या समाजाच्या हिताचें जातलें अशें आमचे प्राचार्य म्हणटात. आमी तांचो रेकाद दिवपाक आयल्यात.' कृष्णान म्हणलें.

'ती गजाल घडून येवप शक्य ना. धर्मशास्त्रा आड जातली ती करणी.' चंद्रनाथ भटान आपलें मत लावन धरलें.

'शुद्धीकरणविधी करूं येता म्हणपाचें धर्मशास्त्रांत सांगिल्लें आसा. त्या लोकांक धर्मांत घेवचे पयलीं हो विधी करचो अशें प्राचार्यांनी सुचयलां.' कृष्णान परत एक फावट ताका सुचोवणी केली.

'वर्णसंकराक शुद्धीकरण ना.' चंद्रनाथ भटान कृष्णाक धिटायेन सांगलें.

धर्मांतर जाल्ल्या आपल्या कुटुंबांतल्या मनशांक परत घराब्यांत आसपावन घेवचे न्हय म्हूण सगल्यांक गांवकारांनी शिटकावणी दिली. पाद्री अशें घडून येवपाची वाटूच पळयताले. ते गांवांत आयले आनी नव्या क्रिस्तांवांक तांणी तांदूळ आनी मांजऱ्यो वांटल्यो. दर नव्या कुटुंबाक जमीन आनी घरां बांदपाक दुडू दिलो. .

प्राचार्य सोमनाथ शर्मा स्वाम्यांक मेळपाक गेले आनी तांचे सामकार एका पाटार बसले.

प्राचार्यांनी म्हणलें, 'परिस्थिती खूब भिरांतेची आनी गंभीर जाल्ली आसा. आमी येन्नाच योग्य उपाय केलोना जाल्यार आमचो हिंदू समाज मोट्या अरिश्टांत पडटलो.'

'आमी कितें करचें अशें दिसता तुमकां? इतलो व्हडलो शेंकड्यांनी वर्सांचो काळ आमी धर्म सांबाळ्ळो. हो धर्म मानपी प्रजेक खंयचेय परिस्थितींत धर्माक उणाकपण येवपा सारकें काम करूं नाकात अशी शिकवण आमी दीत आयल्यात. आमी राजकारणांत वांटो घेवपाक असमर्थ आसात. दुसरें कितें करचें आमी?' स्वाम्यांनी विचारलें.

'स्वामी महाराज, तुमची अडचण आमी जाणात. दर एकट्यान आपल्या धर्माची राखण करपाक जाय. पूण आयचे परिस्थितींत ह्या परकी पाखल्यांच्या आनी तांच्या धर्माच्या चपक्यांतल्यान आमचे प्रजेक वाटावप हो आमचो मुखेल धर्म जाल्लो आसा.' प्राचार्यांनी काळजांतले कळकळेन प्रस्न मांडलो.

'त्या भायर हें राजकारण न्हय, हो धर्म. ब्राह्मण सोडून हेर जे हिंदू लोक

आसात तांकां मुखेली नात. गरज पडटा तेन्ना आमीच तांकां मुखेलपण दिवपाची गरज आसा. ताचेय भायर आयज तांणी पिडपाक सुरवात केल्या. त्या लोकांक आयज जर आमी परतून सामावन घेतले नात तर आमी तांकां सासणाचे मुकतले. तांचे वंशज आमचो दुस्वास करतले.' प्राचार्यांनी ही गजाल स्वाम्यांच्या लक्षांत हाडून दिली.

स्वामी तांचें म्हणणें आयकुपाचे मनस्थितींत नासले. आपल्या मताक धरून ते ठाम रावले.

प्राचार्य मान बागोवन आदर दाखयत थंयच्यान उठून चलूंक लागले. स्वाम्यांचो प्रसाद घेवपाची रीत कुशीक सारून ते उठून गेले.

ब्रह्मपुरींत पावले उपरांत प्राचार्यांनी आपल्या विस्वासांतल्या सांगात्यांची आनी शिश्यांची बसका घेतली.

'गोमन्तकांतलीं अनेक देवळां पाखल्यांनी मोडून घालीं. हजारां वयर लोकांचें धर्मांतरण केलें. घडये थोड्याच काळा भितर ते ही ब्रह्मपुरीय नश्ट करतले आनी बळजबरेन आमकांय बी ते धर्मभ्रश्ट करतले. आमकां राजकी राखण दिवपी कोण ना. ते खातीर आमीच आमची राखण करपाची गरज आसा.' .

'पाखल्यांनी गोमन्तक जिखून घेतला तेन्नाच्यान कितलेशेच फावटी हम्पीच्या राया कडेन मजत मागली. पूण ताणें केन्नाच मजत केली ना. डचांक मेळपाचें म्हणलें जाल्यार ते खूब पयस आसात आनी आमचे खातीर ते आक्रमण करपाचो धोको पत्करचे नात.' प्राचार्यांनी म्हणलें.

'तरी एक यत्न केल्यार कसो?' जिवबान म्हणलें.

'करूं येता. करुंया आमी एक यत्न. हम्पीच्या रायाक मेळपाक दूत धाडुंया आनी पालक रामराया कडेनूय प्रस्न मांडपाचो यत्न करुंया. कोचीनाक डच गोव्हेर्नादोरा कडेनूय प्रतिनिधी धाडून प्रस्न मांडपाचो यत्न करुंया. ते भायर सावंतवाडीच्या भोसल्यां कडेन आनी आदिलशा कडेनूय आमचे दूत धाडून दिवया. कृष्णा, केदार आनी हेर तरणाट्यांनी घरादाराक मुकिल्ल्या आनी धर्मपरिवर्तन केल्ल्या लोकांक आपापलो जीव वाटावपा खातीर गोमन्तक सोडून वच्चें म्हूण तांची उमेद वाडोवपाचें काम करीत रावूं दी. भुरग्यांनो, तुमची म्हाका गरज आसा. तुमच्या जिवाक खूब धोको आसा. सांबाळून रावात. देवान कृपा करून तुमची राखण करूं.' प्राचार्यांनी म्हणलें आनी तितल्यार ती बसका सोंपली. ■■■

# नवे मनीस नवे कायदे

दाँ कॉन्स्तांतीनु दे ब्रागांझा हो एक प्रशासक आसचे परस चड धर्मांध मनीस आसलो. जेन्ना ताका आपूण गोंयचो गोव्हेर्नादोर जावपाचो आसा हाची खात्री जाली तेन्ना ताणें कार्डिनल हेन्रीक हाचे कडेन हे विशीं विस्तारान भासाभास केली. ताणें गोंयांत नवे कायदे आनी धूर्तपणाचे अशे प्रशासकी निर्णय चालीक लावपाच्या हेतान सुचोवन दवरले. त्या बदला ताणें राणी कातालीनाचेर दबाव हाडून तिणें राज्य प्रतिनिधीपद सोडचें आनी तें कार्डिनलाक मेळचें म्हूण ताका मजत केल्ली.

1558 वर्सा फ्रान्सिस्क बार्रेत हाणें दाँ कॉन्स्तांतीनु हाका व्हडा दबाज्यान व्हडलो उत्सव मनयिल्लेवरी येवकार दिलो. पावसाचो मोसम सोंपत आयिल्लो. अश्या दिसांनी दाँ कॉन्स्तांतीनु हो गोंयांत पावलो. आपणाक दिल्ल्या येवकाराचे उपकार पावोवपाचे नदरेन फ्रान्सिस्क बार्रेत हाका ताणें गोंयांत आशिल्ल्या काळांत पुंजायिल्ली सगले तरेची गिरेस्तकाय व्हडल्या व्हडल्या ट्रंकांनी आनी पेटांनी भरून तारवार वेवस्थीत चडोवन दिवपाक मजत केली. तीन वर्सां भितर फ्रान्सिस्क बार्रेत व्हडलो गिरेस्त जाल्लो आनी तो लिस्बोआंत आपल्या स्वताच्या बंगल्यांत रावन निवृत्त जीण ऐशारामांत सारपाक शकतालो.

कॉन्स्तांतीनु दे ब्रागांझा ह्या नव्या गोव्हेर्नादोराचें तारूं धक्यार पावनाफुडें दोन घोड्यागाडयो ताका आनी ताच्या सरकारी अधिकाऱ्यांक घेवन वचपा खातीर हाजीर आसल्यो. चार अरबी घोडे त्यो गाडयो ओडटाले. एका व्हडल्या प्रवेशदारांतल्यान सवकासायेन वचून त्यो गोवा कोटांत भितर गेल्यो. धोल आनी तुताऱ्यो वाजोवन तांकां येवकार दिलो. विसरायाच्या दरबारांतल्या दर एका मनशान गोव्हेर्नादोराच्या येवपाची सुचोवणी दिवपी ते आवाज आयकले.

एकलो अधिकारी फ्रान्सिस्क बार्रेत गाबिनेतीच्या दाराचेर येवकारा खातीर हाजीर रावलो. फ्रान्सिस्क बार्रेत आपल्या आसना वयल्यान उठलो. ताच्या आंगाचे मुस्तायकेची जतनाय घेवपी सेवकान ताच्या कपड्यांचेर हात भोंवडावन ते वेवस्थीत केले. कमराचो तरसादीचो पटो फावो तश्या कोनांत थारायलो. तो भारदस्तपणान चलत दरबाराच्या मुखेल दरवट्या वटेन गेलो. ताच्या खाशेल्या दबाज्या वेळार घालपाचे फाटी वयल्यान पावलां मेरेन देंविल्ल्या लोबाचीं दोन पोंतां उखलून धरपा खातीर दोन सेवक तरणाटे फुडें सरले आनी लोब धरून ताचे फाटल्यान चलत गेले.

राखणे पंगडांतल्या पन्नास रक्षकांचो एक पंगड, निळ्या पोशाकांत दोन हारींनी मुखार चलपाक लागलो. दर एकट्याच्या कमराच्या पट्याक एक लांब पात्याची तिख्याची तरसाद दावे वटेन हुमकळटाली आनी ताच्या उजव्या हातांत एकेक परशू आशिल्लो. रक्षकांच्या माथ्यार शिरस्त्राणां आशिल्लीं. तीं वतान चकचकतालीं. तीं शिरस्त्राणांयबी धव्या, निळ्या आनी तांबड्या लांब पाकांनी शिरंगारिल्लीं. त्या पंगडाचो मुखेली एका काळ्या अरबी घोड्याचेर बसून शिस्तीन चलपी रक्षक पंगडा मुखार फुडारपण करतालो.

दाँ कॉन्स्तांतीनु आपले शाही घोड्यागाडयेंतल्यान सकयल देंवलो. पंगडाचो मुखेली घोड्या वयल्यान देंवलो आनी ताणें नव्या गोव्हेर्नादोराक सलाम करून मानवंदना दिलीं. आपली वळख सांगली आनी ताका दरबाराची इश्काद आशिल्ली थंय घेवन गेलो. फ्रान्सिस्क बार्रेत हाणें ताका येवकार दिलो तेन्ना दोगांयनी एकामेकांक हात दिवन शुभेत्सा उक्तायल्यो. बार्रेत नव्या गोव्हेर्नादोराक दरबाराच्या मुखेल येवकार कक्षांत घेवन गेलो.

ते दरबार कक्षांत भितर सरपाच्या खिणाक थंय हातांत परशू घेवन उबो आशिल्ल्या घोषकार सेवकान गोव्हेर्नादोराच्या येवपाची खबर ऊंच आवाजान

कळीत केली. थंय बशिल्ले सगळे मानेस्त उठून उबे रावले. नवो गोव्हेर्नादोर दाँ कॉन्स्तातिनुक दरबाराच्या एका पोंतार आशिल्ल्या मंचका वयल्या एका व्हडल्या आकाराच्या सोबीत आसनाचेर व्हरून बसयलो.

सगल्या दिव्यांच्या झुंबरांतल्यो वाती पेटयल्यो. देखाव सोबीत दिसलो आनी त्याच वांगडा मंद आनी हुनसाण पातळावपी उजवाड सगल्याक पातळ्ळो. सगळे भारतांतले पुर्तुगेज राजवटींतले ऊंच पदा वयले आनी हेर मानेस्त जमनीर घाल्ल्या मोव मोव आनी मोलादीक अश्या गालिच्याचेर भांगरा रंगाची सोबीत विलुदी चादर पातळायिल्ल्या आसनाचेर बसले.

फाटल्यान तेंकपाक तांकां मोव लोडां वणटीक तेंकून लायिल्लीं. सगले मानेस्त रस्मी आनी सॅटीन कपड्याची मुस्तायकी घालून आयिल्ले. रक्षकांचे फाटल्यान वणटींक तेंकून आसनां मांडिल्लीं आनी तांचेर सगळे पुर्तुगेज मंत्री आनी सल्लागार, अधिकारी, पुर्तुगेज रईस अशे मानादीक बशिल्ले. तशेंच थंय अनेक आमंत्रितांकूय बसपाचो मान दिल्लो.

फ्रान्सिस्क बार्रेत हाणें येवकाराचें उलोवप केलें. ताचे फाटोफाट दाँ कॉन्स्तातिनु हाणें नवी जबाबदारी स्विकारपाचें उलोवप केलें आनी आपलें वळखपत्र तशेंच राजाचो पदभार दिल्ल्याचो आदेश हस्तांतरीत केलो. कार्यकाळ सोंपोवन वचपी गोव्हेर्नादोरान पुर्तुगेज तिजोरी आनी हेर म्हत्वाच्या गजाली विशीं तशेंच दारूगुळो, लडाय सामुग्री, अस्तंत शिमेर आसपी पुर्तुगेज सैन्यदळ आदी सगल्या गरजेच्या विशयांची म्हायती दिली.

राती कडेन व्हडलो खाणां पेयांचो दबाजो जालो. भरपूर सोरो, दुकरां - गोरवांचें मास आनी हेर रुचीक जिनसांचें जेवण अशे तरेचो आनंद सुवाळो जालो. तो फांतोड जाय मेरेन चल्लो. दाँ कॉन्स्तातिनुन आपणें थारायिल्ल्या फुडारांतल्या येवजण्या संबंदान आदल्या गोव्हेर्नादोराक कसलीच म्हायती दिली ना.

ताबो घेवन एक सप्तक जाले उपरांत ताणें सैनिकी अधिकारी, मुखेल अशे सगले सचीव, बिशप आनी ताच्या विस्वासांतले सल्लागार हांकांच आपोवन घेतले आनी तांची एक खाजगी बसका आपयली.

'8 मार्च 1546 तारखेचे सरकारी अधिसुचोवणेक धरून रितसर पुर्तुगालाच्या राजाच्या शासनांत म्हणल्यार आमच्या धनयाच्या आदेशान जी मुर्तीपुजा बंद केल्या त्या आदेशा प्रमाण पुरायणपणीं आनी नेटान कारवाय जावपाक जाय. सगळीं हिंदू

देवळां मोडून घालात. तुमी सगळे आपापल्या कचेऱ्यांनी चाकरी करपी सगल्या हिंदू चाकरांक वेंचून रोखड्यारोखडे तांकां सरकारी सेवेंतल्यान काडून उडयात. असो हांव तुमकां कडक आदेश दितां. जे कोण कारागीर लांकडाच्यो, फातराच्यो वा धातूच्यो मुर्ती तयार करतात तांकां सगल्यांक तिसवाडी, सालसेत आनी बार्देस म्हालांतल्यान हद्दपार करात.' ताणें मुखेल्यांक सांगलें.

गोव्हेर्नादोरान आपले मुद्रेन नव्या रुपान तो कायदो लावन कारवाय करपाक दर एका प्रांत मुखेल्याक अधिकार दिलो.

फेर्दिनांद दे ओलिव्हेरा हो आसलो एक पुर्तुगेज नौदल तारवाचो कपीत. आपली जबाबदारी चोख आनी कडकसाणेन निभावपी असो नौदल अधिकारी. तारवाचेर वावुरपी गुलामां कडल्यान तो काकुळट नासतना कामां करून घेतालो. ज्या नौदलाच्या तारवाचें फुडारपण ताचे कडेन आसनाशिल्लें त्या तारवा वयले गुलाम शंबर फावटी देवाचे उपकार मानताले. लिस्बोआ मेरेन वचून येवपाची एक फेरी म्हणल्यार ताच्या तारवांतले धा प्रतिशें गुलाम मरून गेल्ले आसताले. ते विशीं ताका कोण जाप विचारिनाशिल्लो. तो चडांत चड म्हालवज पुंजावन हाडटालो आनी ताच्या तारवाची दर्या वयली लुटमार उण्यांत उणी आसताली. जायतीं वर्सां मुसलमान आनी निग्रो गुलामां कडेनूच ताचो संबंद आयिल्लो. निमाण्या दोन फावटी गोंयांतले बंदखणबंदी ताच्या नौदल तारवार चडयिल्ले. तारवा वयल्या कामाचो आनी दर्या वयल्या प्रवासाचो इल्लोय अणभव नाशिल्ल्यान तांचे मदले पन्नास प्रतिशें बंदखणबंदी मेले. कपीत दे ओलिव्हेरा गोंयकारांक दुस्मानकायेचे नदरेन पळयतालो. ताका ते नदरे मुखार नाका आसताले.

जेन्ना गोव्हेर्नादोरान ताका आपले गाबिनेतींत आपोवन घेतलो तेन्ना ताका आपणा मुखार कसलें अरिश्ट उबें आसा काय असो प्रस्न पडलो.

'तूं एक बरो कार्यकुशळ कपीत आनी तसोच बंदखणबंदी मनशांक आनी खूब हट्टी अश्या पातक्यांक जाग्यार हाडपांतूय कुशळ आशिल्लो अधिकारी अशें म्हाका कळ्ळां. ते खातीर हांगा गोंयांत एक खाशेली जबाबदारी तुजेर सोंपोवपाची म्हजी येवजण आसा.'

'मानादिकांनी म्हाका जी जबाबदारी दिवपाची थारायल्या ती कसली ती कृपा करून सांगची.' कपीत दे ओलिव्हेरान म्हणलें.

'सालसेत, तिसवाडी आनी बार्देस ह्या म्हालांनी धर्मद्रोही, पातकी आनी ख्रिस्ती

धर्मतत्वांआड वचून मुर्तीपुजा करतात ते हिंदू लोक भरल्यात. राजान असल्या गजालीं आड कायदोय जारी केल्लो आसा. हांगा मुस्लीम लोकूय आसात. देखून आमच्या राजान ह्या धर्मांतल्या लोकांचीं देवळां जमनीभरवण करून, तांच्यो मुर्ती ना नपयत करून आनी थंयचें भांगर – रुपें पुंजावन लांकडी मुर्ती लासपाचो आदेश दिला. ह्या पंगडाचें मुखेलपण तुका दिवचें म्हण तुजें नांव सुचयलां. आमचो धनी आनी राजा खातीर हो पंगड काम करतलो.'

कपीत दे ओलिव्हेराक एक भांगराची संद मेळ्ळी. ताका एका फाराक तीन शेवर्णीं मारपाची संद दिसली. हिंदू देवळांनी खूब भांगर आनी हेर म्हालवज भरला तो हातासून राजाकूय खोशी करपाची आपणाक संद मेळटली अशी आस्त ताणें बाळगिली.

'हांव ही जापसालदारकी भोव खोशयेन स्विकारीन, सायब !' ताणें फाटींफुडें जायनासतना जाप दिली. गोव्हेर्नादोरान ताका लेखी आदेशा वरवीं जापसालदारकी दिली आनी भेटे रुपान एक नवी समशेर आनी पिश्तोल दिलें.

कपीत दे ओलिव्हेरान आगशेचीं रवळनाथ आनी क्षेत्रपाल, करमळेचीं वनदेवता, कुणबी पुरूष, ब्रह्मपुरूष आनी रवळनाथ तशेंच दिवाडे जुंव्या वयलीं भैरव आनी निर्गूण हीं मुखेल देवळां आपली कारवाय सुरू करपाक वेंचून काडलीं.

कपीत दे ओलिव्हेराक आपणाक जाय ते मनीस 'साग्रादु रेजिमेंतु' पंगडा खातीर वेंचून काडपाची मेकळीक दिल्ली. ताणें अरबी घोडे हाताळपाक फिशाल आशिल्ले पन्नास घोडेसुवार भरती केले. दर एकट्याक एक तुबक, एक पिश्तोल आनी ल्हान समशेर अशीं शस्त्रां दिल्लीं. दुसरो एक पन्नास झुजाऱ्यांचो पंगड आसलो. त्या पंगडा कडेन घोड्यांगाडयो आसल्यो. त्यो ते ओडून व्हरताले. त्या गाडयांनी लांकडी पेटो आनी काशोतां आसलीं. आलायती कितेंय गरज पडली जाल्यार ताचो उपेग जावचो हे खातीर चार सेंटिमिटर आकाराच्यो ल्हान नाळीय ते ओडून व्हरताले.

25 मार्च 1559 ह्या दिसा 'साग्रादु रेजिमेंतु' हो पंगड आगशेच्या देवळांनी रिगलो. सैनिकांनी मुखेल देवळांनी मोडफोड करून लुटालूट केली, पुजाऱ्यांच्या वस्ती थळांनी आनी हेर कर्मचाऱ्यांच्या कुडींनीय लूटमार केली. रुपें आनी भांगराच्यो वस्ती पेटलांनी भरल्यो. जे लोक भोंवतणीं जमिल्ले तांकां कारवायेक विरोध केलो जाल्यार वायट परिणाम जातले म्हूण शिटकावणी दिली. जे कोण

पांच स जाण सैनिकांक आडावपाक फुडें सरले तांकां तुबकाच्या फारान मारले.

मोलादीक म्हालवज पेटांनी आनी पेटलांनी भरून जाले उपरांत लांकडाच्यो सोबेच्यो वस्तू, हेर लांकडी वस्तू, बांक, बांकिनां, तामरेती, हातबरपां अशें सगलें राशीर मारून तांकां उजो लायलो. गाडयांक बांदिल्ल्यो नाळी सोडून त्यो जाय तश्यो उंचायेर दवरून भरल्यो आनी देवळांच्या वणटींचेर मारो केलो. सकाळ जावचे पयलीं सगळें भूंय सपाट करून दवरलें.

पुजारी आनी तांच्या कुटुंबांतल्या मनशांक धरून व्हेलीं आनी बंदखणींत घालीं. शेंकड्यांनी लोक जे देवळांचे आशिकुशीन रावताले ते आंगार आशिल्ल्या कपड्यांनीच भोंवतणच्या रानांनी धांवून गेले.

कपीत फर्दिनांद दे ओलिव्हेरान सगळें रुपें आनी भांगर कोटांत व्हेलें आनी तें गोव्हेर्नादोरा मुखार दवरलें. ताणें सांत पॉल कॉलेजीचो मुखेल प्रशासक फ्रान्सिस्क रोद्रिगिश आनी मुखेल प्रशिक्षक जुआंव फेर्नांदिश हांकां आपोवन हाडले. सगल्यांनी मेळून त्या म्हालवजा संबंदान निर्णय घेतले. रुपें कडोवन ताचे इगर्जांनी वापरपा खातीर मेणवातीधारक करून घेवप आनी भांगर कडोवन ताचो पत्रो करून इगर्जांच्या आल्तारांची सोबाय वाडोवप असो तांणी निर्णय घेतलो. पाशाणी मुर्ती विद्रूप करप वा तांचे फोडून कुडके करून उडोवप अशें तांणी एकमतान थारायलें.

जे लोक धांवून गेल्ले तांचो कोणूच एक मुखेली नाशिल्लो. चडशे जाण उत्तरे वटेन दिवचल आनी मुळगांवां वटेन धांवले. थोड्यांनी वांकडी वाट धरली आनी दक्षिणे वटेन फोंड्यां गेले.

तीन सप्तकां उपरांत कपीत दे ओलिव्हेरान चोडणे जुंव्यार आशिल्ल्या चंद्रेश्वर, कंठेश्वर, भगवती मल्लिनाथ आनी देवकी ह्या देवळांचेर घुरी घाली. हांगाच्या पांच देवळांनी तांकां सुमार हजारभर रात (पौंड) रुपें आनी दोन अडेज रात भांगर मेळ्ळें. दोन पेटलां भरून मोलादीक खडे आनी धातूय तांकां हातासपाक मेळ्ळे. हे फावटी मात कपीत फर्दिनांद दे ओलिव्हेरान सगळोच म्हालवज सरकारी तिजोरेंत वचपाची गरज ना अशें थारायलें.

कादीर हुसेन नांवाचो एकटो कोटांत रांदपी म्हूण कामाक आसलो. तो गायेचें मास रांदपाच्या कामांत फिशाल आशिल्लो. पुर्तुगेज सैनीक आनी अधिकाऱ्यांक ताचें रांदप खूब मानवतालें. तांकां तो कोटा भितरूच जाय आसतालो. तो नेमान महम्मद इक्बालाक कोटांतल्यो म्हत्वाच्यो खबरो कळयतालो.

आगशेंतलीं देवळां मोडून जमनी भरवण केले उपरांत कोटा भितर व्हडली खोस मनोवपाचो दबाजो जालो. कादीर हुसेनान कपीत फर्दिनांद आनी ताच्या 'साग्रादु रेजिमेंतु' ह्या पंगडांतल्या मनशांक ते राती पळयले. थोड्या दिसां भितर ताणें खूबशी म्हायती पुंजायली. महम्मद इक्बालान आपलो आजो सारस्वत ब्राह्मण आशिल्लो आनी तो आदिलशाचे सेवेंत आशिल्लो म्हणपाची गजाल मान्य केल्ली. ताचो आजो राजघराण्या कडेन वारसदारीच्या नात्यान संबंदीत आशिल्ले एके मुसलमान अस्तुरेच्या मोगांत पडिल्लो. तिका तो पयलीं गणीत हो विशय शिकोवपाक वतालो. तिचे कडेन लग्न जावपा खातीर ताणें धर्मपरिवर्तन केलें आनी इस्लाम धर्म स्विकारलो. अशें आशिल्ल्यान जेन्ना जेन्ना नाजूक परिस्थिती उद्भवताली तेन्ना तेन्ना महम्मद इक्बाल हिंदू लोकांक आदार दिवपाची संद घेतालो. ब्रह्मपुरी कडेनूय ताचे संबंद आशिल्ले.

कादीर हुसेन इक्बालाचो खबरेकार देवू कोटांत पावला तें पळोवन खोशी जालो. कोयर पुंजावन व्हरपाक जे वावराडे येताले तांचे मदलोच एकटो वावराडो जावन येतालो. कादीर हुसेन गरजेची खबर ताका सांगतालो आनी देवू ती फोंड्यां इक्बालाक पावयतालो.

जेन्ना देवून ती खबर पावयली तेन्ना आनीक जायतीं देवळां ते मोडून घालपाचे आसात म्हूण महम्मद इक्बालाक कळ्ळें. प्राचार्य आनी ताचे कार्यकर्ते तीं देवळां वाटावपा खातीर कितेंय उपाय करपाचे अवस्थेंत नाशिल्ले. उण्यांत उणें म्हणल्यार थोड्यांचे तरी जीव वाटावं येताले. हम्पीचे राजा पुर्तुगेजांच्या आदारान आशिल्ले. तांणी तो वेळ मेरेन जी मोडतोड आनी विद्वाट केल्लो तें सगलें हम्पीच्या राजान नदरेआडूच केल्लें. सावंतवाडीचे सावंत आनी भोंसले गोंयांतलीं हिंदू देवळां वाटावपाक वा पुर्तुगेजांक धांवडावपाक फावो त्या प्रमाणांत बळिश्ट नाशिल्ले. राजकी परिस्थिती कशीय आसली तरी मेळिल्ली म्हायती ब्रह्मपुरींत पावोवपाची खूब गरज आशिल्ली. महम्मद इक्बालान तसोच देवूक परत तिसवाडी धाडून दिलो.

तितले भितर गोव्हेर्नादोर दाँ कॉन्स्तातिनु ब्रागांझान आपलो आदेश काडून जाहीर केल्लो. तातूंतलीं कलमां अशीं आशिल्लीं :

1. कोणूच ब्राह्मण वा हिंदू मनीस सरकारी सेवेंत आसूंक फावना.
2. हिंदू मदल्या कोणेच सरकारी नोंदपत्रां बरोवंक फावना.
3. कसलोच उत्सव मनोवपाक मेळचो ना. जे कोण हो नेम मोडटले तांची

अर्दी आस्पत ते विशीं खबर कळयतल्याक दितले आनी उरिल्ली अर्द इगर्जे च्या नांवार जातली. जो गुन्यांवकारी आसता ताका जल्मभर बंदखणीची ख्यास्त जातली.

चोडणाच्या देवळांचेर घुरी पडपाची आसा ही खबर थंय पावचे पयलींच जुंव्या वयल्या पावलिस्ट पाद्रींनी आपल्या धर्मपरिवर्तनाच्या कामांची पूर्वतयारी सुरू केल्ली. तांणी गोव्हेर्नादोराचो आदेश हाडलो जातूंत जुंव्या वयल्या सगल्या ब्राह्मणांक येता त्या सप्तका भितर धांवडावन घालतले अशें म्हणिल्लें. तांकां थंयच रावपाचें आसल्यार एकूच उपाय आसलो तो म्हणल्यार तांणी धर्मपरिवर्तन करून क्रिस्तांव जावपाचो.

खूबश्या गांवकारांक आनी हेर रहिवाशांक गोंय सोडून वचप हो विचार कसोच मानवपा सारको नाशिल्लो. तांच्या पूर्वजांच्यो कितल्योश्योच पिळग्यो हांगाच जल्मल्यो आनी उदरगतीक पावल्यो. परशुराम रुशीन हे भुंयेर पावल दवरलें तेन्नाच्यान तांचें मुळावण हांगा पडिल्लें. तेच खातीर तांकां जर आपले आवयभुंयेंत शांततायेन रावपाक जाय तर धर्मपरिवर्तन करून खुशाल रावं येता अशें थंयचे पावलिस्ट पाद्री तांकां समजावपाचो यत्न करताले. 29 मार्च 1559 ह्या दिसा तांणी थंयच्या 516 लोकांक क्रिस्ती धर्मांत घेतले. तांणी जोडिल्लें तें एक व्हडलें येस आसलें.

धर्मपरिवर्तनाक जे लोक विरोध करताले ते दोन तरांचे आशिल्ले. एका वांट्यांतले लोक अशे तरेचे जे आपली भूंय सोडून वचपाक कशेच तयार नासले आनी दुसरे तरेचे जे कशे भाशेन आपलो धर्म सोडपाक तयार नासले ते. पुर्तुगेज धोरणा प्रमाण भूंय धरून रावतल्यांचें धर्मांतरण केल्लें आनी तांची भूंय तांकां भोगपाक दिली. धर्म सोडपाक तयार जायनात तांकां तांचे भुंयेंतल्यान धांवडावन घाले.

जेन्ना कृष्णा आनी केदार हे ब्रह्मपुरींतले तरणाटे चोडण जुंव्यार पावले तेन्ना थंय किण्ण शांतताय पातळिल्ली. दोगूय तरणाटे कपडे विकपी वेपाऱ्यांच्या भेसान आयिल्ले. थंय तांकां 516 जाणांचें धर्मांतरण केलां म्हणपाची खबर कळ्ळी. थोड्या दिसां आर्दी ती घडणूक घडिल्ली.

दर एका कुटुंबाची खबर एकेच तरेची आसली. कोणाक गोंय सोडून वचपाक नाका आसलें. कृष्णा आनी केदार नारा प्रभू आनी म्हाबळ पै ह्या दोन नामनेच्या

गांवकारांच्या घरांनी गेले. पयल्याक क्रिस्तांव करून आंतोनियु साल्दान्य नांव दिल्लें आनी दुसऱ्याक क्रिस्तांव करून मानुएल फेर्नांदिश केल्लो.

'तुका हांव सत्य सांगपाक तयार आसां कारण तूं ब्रह्मपुरींतल्यान आयला. तशें नाशिल्लें जाल्यार म्हज्या जिवाक धोको आसलो.' नारा प्रभून कृष्णाक सांगलें.

'म्हणल्यार कितें?' कृष्णान विचारलें.

'म्हाका आनी म्हज्या कुटुंबांतल्या मनशांक खरेपणीं ख्रिस्ती धर्मांत वचपाक नाका. पूण आमी दुसरें कितें करपाक शकतात? आमची खूब व्हडली जमीन आसा. म्हजी येणावळूय खूब आसा. आमकां ताणी पुराय राखण दिल्या. आमकां शांततायेन हांगा रावपाक मेळटलें.'

'पूण तुज्या जिवाक धोको आसा म्हणटा तो कसो?' कृष्णान विचारलें.

'हांव निरिच्छेन क्रिस्तांव जालां अशी खबर तांचे मेरेन पावत जाल्यार ते घडये म्हाका ख्यास्त दितले. म्हजी जमीन आनी सगळी मालमत्ता ते काडून घेतले.'

'आसा कोण राजा वा शासक म्हाका राखण दिवपाचे तांकीचो? भोंवतणीं जे शासक वा संस्थानीक आसात तांचे परस हे पाखले चड बळिश्ट आसात.' ताणें म्हणलें.

'हम्पी कशी कितें?' कृष्णान विचारलें.

'हम्पी पुरायपणीं सुरक्षीत आसा?' ताणें विचारलें.

म्हाबळ पैची खबर तशेच तरेची. 'हांव कारवार वा भटकळ वचून दमडेक म्हारग जावन भिकार जीण जगपाक तयार ना. हांगा गोंयांत हांव आरामांत जगतां. बऱ्यांतली बरी येणावळ आसा म्हजी.' ताणें सांगलें.

'तांच्या चपक्यांतल्यान मेकळो उरपा खातीर तांकां तुवें लांच बी दिल्या?' केदारान विचारलें.

'म्हज्या हेर कामां खातीरय लांच दितालोंच हांव. म्हजी चडांत चड आस्पत सांबाळून दवरपा खातीर. अशें करूनूय म्हाका धर्मांतर करचेंच पडलें.'

'वर्सांसंकीं तुमी घरांत ज्यो देवाच्यो मुर्ती पुजताले तांचें कितें केलें?' कृष्णान विचारलें.

म्हाबळ पैच्या दोळ्यांत दुकां आयलीं.

'कितें आयलां पळय आमच्या नशिबांत. म्हाका ताणी गांव सोडून वचपाक 24 वरां दिल्लीं. बायल भुरग्यांक घेवन फक्त आंगार आशिल्ल्या तितल्याच एका

वस्त्रान वचपाक जाय आशिल्लें. दुसरी आनी कसलीच वस्त घेवपाक मनाय केल्ली.' म्हाबळ पैन दुकां गळयत म्हणलें

'यो म्हजे वांगडा. दाखयतां हांव तुका कितें तरी.' म्हाबळ पैन म्हणलें.

कृष्णा आनी केदार ताचे फाटोफाट ताच्या गोठ्यांत गेले. थंय बरे जातीच्यो विसां वयर गायो आशिल्ल्यो. भितर जी मातयेची वणत आशिल्ली ती कोंड्याच्यो तारीं लावन धांपिल्ली. एके तारी सामकार जमनीर घाल्लें तण ताणें कुशीक काडलें. तणा पोंदां फळें धांपिल्लें. ताणें तें सवकासायेन उखलून कुशीक काडलें. एक दिवो पेटयलो आनी जमनींत खणून तयार केल्ल्या 6 -7 फूट खोल तसोच लांब आनी रूंद अश्या तळघरा सारक्या जाग्यार पांच - स सोंपणां देंवून वचूं येत असो जागो दाखयलो. थंय मदीं शिवलिंग आशिल्लें आनी एक दिवो ताचे सामकार पेट्टालो. 'हें पळय.' म्हाबळ पैन म्हणलें. एके मातयेचे परातींत कांय जानवीं दवरिल्लीं.

'हीं पळयात हांगा आमी आमचीं जानवीं सांबाळून दवरल्यांत.' ताणें कृष्णा आनी केदाराक तीं दाखयत म्हणलें.

कृष्णा आनी केदाराक तीं जानवीं पळोवन अजाप जालें. ते दोगूय एकामेकांक पळोवंक लागले.

'आमी अजून मनांतल्यान हिंदूच आसात. वेळ येतलो तेन्ना आमी शुद्धीचो विधी करून घेवन परत हिंदू जातलीं.' म्हाबळ पैन तांकां सांगलें.

'अशे तरेचो वेळ केन्ना येतलो अशें दिसता तुका?' केदारान विचारलें.

'कित्याक येवचो ना असो वेळ? आदिलशाचें शासन सोंपलें. तेच भाशेन पुर्तुगेजांचें शासनूय एक दीस सोंपतलें आनी ते हांगा आयल्यात ते युरोपांतल्यान. केन्ना तरी एक दीस गोमन्तकांत एक बळिश्ट शासक वयर येतलो. हांव असो विस्वास बाळगून रावलां.' तो एका निर्धारानसो उलयलो.

'तशे तरेचे यत्न आतांच केल्यार जावचे नात? एक झुजारी सेना उबी करपाक जावचें ना आमच्यान हे घटकेक?' कृष्णान विचारलें.

म्हाबळ पै कांय खीण कृष्णाक पळयत रावलो. मागीर ताणें म्हणलें, 'तूं एक धिरिश्ट तरणाटो अशें दिसता म्हाका. हांवें जायते फावटी तुजें नांव आयकलां. चड करून तुमी तरणाट्यांनी वेर्ण्यां आनी गौड पादाचार्यांच्या मठांत धिटायेन वावर केला आसपाक जाय. हांव तुका चड कांयच विचारचों ना. तशें विचारप खूब धोक्याचें. फकत शिवमहादेवानूच वांचोवपाचें तुमकां. म्हजे पूत आनी हांव एका

निश्कर्शाचेर पावल्यात आनी तो म्हणल्यार आमी गोंयकार सैनिकी कारवाय करपाक तांकिवंत सेना उबी करतले म्हणल्यार ती एक अशक्य गजाल. असल्या विचारान फुडें सरिल्लो तो वेर्णेचो सरदेसाय म्हाळ पै हाका निमाणे कडेन गोंयांतल्यान धांवून वच्चें पडलें. हे घडणुकेक 25 वर्सां जालीं. म्हाका गोंय सोडून वचपाचें ना. परत हिंदू धर्मांत येवपाचे संदीची हांव वाट पळयत रावतलों.' म्हाबळ पैन म्हणलें.

'आमी हांगाच्यान वच्चे पयलीं आनीक एक प्रस्न विचारतां.' कृष्णान म्हणलें. म्हाबळ पै रावलो आनी ताणें भुंवयो वरश्यो करून ताचे वटेन पळयलें.

'तुजें धर्मपरिवर्तन जालें तेन्ना तूं सोरो पिलो, तुवें मास खालें. म्हणल्यार आतां तूं शुद्ध उरलो ना. बाटलो न्हय तूं? आमचो समाज परत तुमचो स्वीकार करतलो?'

'अशे तरेच्या प्रसंगाचो संभव आसा हाची म्हाका कल्पना आसा. पयल्यान पयलीं म्हणटात तें आमी त्या पदार्थांचें भक्षण केलें तें बळजबरेक लागून. आमचे पसंतीन न्हय. दुसरी गजाल अशी कीं मद्य आनी मास हांचें भक्षण करप हें पुरातन काळांतल्यान आमच्या हिंदुस्थानांत उक्तेपणीं चलतालें. येवरोपी लोक हांगा पावचे पयलींच्यान धरून. निमाणे कडेन हिंदू धर्मीक फुडाऱ्यांनी जर तर अशी ताठ चलणूक आपणायली जाल्यार येवरोपी आनी नायते हें हिंदुस्थान बळकावन बसतले. चलात भुरग्यांनो, आतां भायर या आमी. आमचो सगल्यांचोच जीव धोक्यांत घालपाक नाका म्हाका. तुमी हातांत घेतलां तें तुमचें कार्य तुमी चालूच दवरात. त्या धनया शिव महादेवान कृपा करूं तुमचेर. आमच्या नशिबाचे आमी.' अशें म्हणून ताणें सगल्यांच्या कपलाक तिबो लायलो.

दोगांय तरणाट्यांनी ओणोव घेवन म्हाबळ पैच्या पांयांक हात लावन वंदन केलें.

***

दिसा परस राती कडेन चडूच मरण शांतताय आसली. रस्त्या वयली येरादारी पुरायपणीं थारिल्ली. रस्त्या वयले दिवे पालवल्ले. भायर येवपाक कोणाकूच धीर ना जाल्लो. एकटोच मनीस काळी कांबळ पांगरून आनी हातांत चूड घेवन वतालो. ताका खंय पावपाचें तें सारकें खबर आसलें. तो मुखेल रस्तो सोंपोवन गांवचे अस्तंत कडेर पावलो. थंय खूब व्हडलें माडांचें भाट आसलें. दोंगुल्लेचे देंवतेर शेंकड्यांनी माड आसले. ती देंवती काडून तो एका देंगणांत पावलो. त्या देंगणांत कांय खोंपी एके हारेन आसल्यो. तो मदले खोंपीच्या दारांत रावलो आनी

ताणें दारार मारलें.

'कोण रे थंय?' भितरल्यान कोणें तरी बारीक आवाजान विचारलें.

'हांव तो, देवू.' अचळयां लिपून आयिल्ल्या मनशान जाप दिली. रोखडेंच दार उकतें जालें.

भायर आयिल्लो तो आसलो केदार. देवूक पळोवन ताका अजाप जालें.

'केदारबाब, कृष्णा खंय?' देवून ताकतिकेन विचारलें.

'कित्याक? हुस्क्याचें वा भिरांतेचें कितेंय घडलां बी? राव आँ, कृष्णाक आपयतां.' अशें म्हणून केदार दुसरे खोंपींत वचून कृष्णा आनी व्यंकट हांकां घेवन आयलो.

'नमस्कार, कृष्णाबाब. एक वायट खबर आसा.' तिगांयनी पयलीं एकामेकां वटेन पळयलें आनी मागीर देवू वटेन.

'कितें खबर देवू? कितें जालां?' कृष्णान विचारलें.

'चोडणें जुंव्याचेर वचून पाखले पाड घालपाचें कर्तुप करपाचे आसात अशें कळ्ळें. प्राचार्यांक ही खबर सांगली. तांणी तुमी आदींच हांगा पावल्यात म्हणलें. तेन्ना म्हाका धांवधांव करून हांगा येवचेंच पडलें.'

'खरी खबर कितें? चोडण जुंव्याक धोको आसा?' कृष्णान हुस्को उक्तायत विचारलें.

'कपीत दे ओलिव्हेराच्या 'साग्रादु रेजिमेंतु' पंगडान चोडणांतल्या देवळांचेर घुरी घालपाचें थारायलां. चार देवळां तांचे मोखीर आसात. आयज राती कडेन नाजाल्यार फाल्यां भिणभिण्यार ते घुरी घालतले. तुमी चोडणें जुंव्यार आसात जाल्यार तुमकां ते विशीं खबर कळोवपाक जाय अशें इक्बाल सायबान म्हाका सांगलें.'

'ही म्हायती म्हत्वाची देवू. उपकार जाले तुजे. इतले व्हड रातीर सगले धोके जाणा जावनूय जिवाची पर्वा करिनासतना हांगा येवपाचे त्रास घेतले तुवें. तूं थकला आसतलो. पेज रांदिल्ली आसा. हून हूनशी जेव आनी न्हीद तूं हांगाच. आमकां काम आसा. तें काम सोंपोवन रोखड्यारोखडे आमी हांगा येतले.' कृष्णान ताका सांगलें.

'चल, वचुंया आमी केदार, व्यंकट. चड वेळ ना आमकां. आमी दोन पंगड करून चंद्रेश्वर आनी कंठेश्वर देवळांनी वचुंया. ह्या देवळां भोंवतणीं चड लोकांची

वस्ती आसा.'

कृष्णा चंद्रेश्वर देवळाच्या प्राकारांत पावलो आनी ताणें मुखेल पुजाऱ्याच्या घराच्या दारार मारलें. दार उगडलें तेन्ना ज्या गांवकारान कृष्णा आनी हेर सांगात्यांक आलाशिरो दिल्लो ताणें आपली वळख पुजाऱ्याक सांगली. सगळे घरांत गेले.

कृष्णान ताका जें अरिश्ट येवपाचें जाल्लें ताचे विशीं सांगलें.

'आमी कसलोच अपराध केल्लो नासतना आमकां मोख करून कित्याक त्रास दिवपाक उठल्यात ते?'

'आतां हे स्थितींत तर्कशास्त्राक हांगा सुवात ना. पाखल्यांनी एकूच कार्यावळ थारायल्या ती म्हणल्यार देवळां पाड घालात, आमचें धर्मांतर करात नाजाल्यार आमकां गोंयांतल्यान भायर घालात. आतां तर्क लडोवपाक वेळ वगडावं नाकात.' कृष्णान सांगलें.

मध्यानरातीर सरभोंवतणीं खूब ताकतिकेन एका फाटल्यान एक अशीं कामां सुरू जालीं. लोकांक बैलांगाडयांनी बसयले. देवळाचीं दारां उगडलीं.

'भांगराचे आनी रुप्याचे सगले अळंकार काडून ह्या पेटलांनी भरात.'

'नाका, नाका....हात लावं नाकात तांकां. आफडूं नाकात तुमी थंय.' भटान तापून म्हणलें.

'भटमाम, अनवाळेपण करपाचो हो वेळ न्हय. आमकां वगडावपाक वेळूच ना. तांकां ते अळंकार काडूं दी. जाता तितले बेगीन.' कृष्णान भटाक समजायलो. तेन्ना ताणें मानलें.

'मुर्तींचें कितें करतले?' भटान विचारलें.

'आमी मुर्ती हांगाच दवरतले.' कृष्णान सांगलें.

'ना....ना....अशें करपाक जावचें ना म्हज्यान. तीस वर्सां जालीं हांव ते मुर्तींची पुजा करपाक लागल्यार. म्हज्या देवा धनयाक सोडून कसो वतलों हांव? व्हडलें पातक जातलें तें.' भट रडपाक लागलो.

'भटमाम, तुज्यो भावना कळटात म्हाका. पूण वेळ सारको ना. आमकां दुसरो पर्याय ना. गर्भकुडींतली मूर्त खणून काडपाक वेळ ना. ते भायर पाशाणी मूर्त ती. ती कशी घेवन वतले आमी? समजून घे मात्शें, भटमाम.' कृष्णान बरे भाशेन ताका समजायलो.

फांतोड जाय मेरेन वीस बैलांगाडयो न्हंये वटेन मार्गाक लागल्यो. सगलींच

बायलां आनी भुरगीं मोट्यामोट्यान रडटालीं. थोडींच जीं इल्लीं धिटायेचीं आशिल्लीं तीं हेरांक समजायतालीं. सगले पुजारी तो धक्को सोंसूंक जायना जावन अवाक जाल्ले.

शेंकड्यांनी वर्सां जे मांयभुंयेन तांकां पोशिल्ले ती सोडून ते पयस धांवताले... सासणाचे !

'गोमन्तकाक 'देवभूमी' म्हणटात. देवांची भूंय ती. खंय आसात आमचे देव आतां?' एक गांवकार दुखेस्त जावन रडव्या सुरान उलयलो.

'तुमी गांवकारांनी जायतीं पातकां केल्यांत. लोकांक कसली गरज आसा हें केन्ना पळयलें ना. तांचें बरें जावचें म्हूण केन्ना वावुरले नात. हें जें कितें घडपाक लागलां तें तेच खातीर.' एकल्यान गांवकारांक दोश दिलो.

'फाटलीं तीस वर्सां हांव नेमान चंद्रेश्वराची त्रिकाल पुजा शास्त्राक धरून करीत आयलां.' अशें म्हणून मुखेल पुजारी दुख्खी जावन रडलो.

'हांव तुमकां विनवणी करतां, आतां मात्शें ओगी रावात. स्वताक जावं दुसऱ्यांक आयचे परिस्थितीक जापसालदार धरून दोश दिवं नाकात. सध्याक जे शासक आसात ते पुर्तुगेज लोक. शासन चलयता तांणी नागरिकांक राखण दिवपाची आसता. ते जर नागरिकांकूच नश्ट करपाक लागले तर देव लेगीत तुमकां वाटावंक शकचो ना. आमी आमच्यो संवेदना जागृत दवरून जगपाचें साधन सोदपाक जाय. आमी न्हंये मेरेन पावून न्हंय हुपून पलतडीं गेले जाल्यार आमकां जगपाची बरी संद आसा. नाजाल्यार आमी अरिश्टांत पडून हालअपेश्टांनी मरतले.' कृष्णान तांकां सांगलें.

ताचें उलोवणें आयकून चडशे दादले ओगी रावले. बायलां रडत आशिल्लीं. बैलांगाडयो तश्योच सवकासायेन चलत रावल्यो.

कंठेश्वर देवळा कडल्या लोकांक केदारान भायर काडून तांकां वाटेक लायले. पूण भगवती आनी मल्लिनाथ ह्या देवळा कडल्या लोकांक मुस्तायकी बांदून गांव सोडून वचपा खातीर तयार करपाक व्यंकटाक जमलें ना.

न्हंये देगेर पावले तेन्ना कृष्णा आनी केदारान दोन वेगळ्या जाग्यांचेर न्हंय हुपपाचें थारायलें. गाडयेकारांक गाडयो रित्यो करून जंय उदक उथळ आसलें थंयच्यान त्यो पलतडीं व्हरपाक सांगलें. बैलां सयत गाडयो आनी थोडे तरणाटेय उथळ उदकांतल्यान तांचे फाटोफाट चलत गेले.

हें न्हंय हुपून वचप चालू आसतनाच फार्टी गांवांतल्यान बंदुकांच्या फारांचे आवाज कानार पडपाक लागले. लोक भंयान थरथरले.

'तुमी सगळे सुरक्षीत रितीन पलतडीं पावल्यात. आतां भियेवं नाकात.' कृष्णान लोकांक खात्री दिली. फकत 25 प्रतिशें लोक न्हंय हुपून आयिल्ले म्हूण तो जाणा आसलो.

'पयलीं न्हंय हुपून वचात आनी जीव वांचयात.' ताणें लोकांक हुकूम दिलो. इतलो वेळ मेरेन 'साग्रादु रेजिमेंतु' पंगडाच्या सैनिकांचो एक वांटो ते सुवातेर पावलो. सगल्यो बैलांगाडयो तांणी आपल्या ताब्यांत घेतल्यो. अर्दो वांटो सुमार लोक जे न्हंयेचे आलतडीं आसले तांकां धरले. दुसरो अर्द वांटो लोक जे पलतडीं पाविल्ले ते सुरक्षीत सुवातेर पावले.

'साग्रादु रेजिमेंतु' पंगडाचे अर्दो वांटो सैनीक जे मल्लिनाथ आनी भगवती देवळांनी पाविल्ले तांणी लोकांचेर बंदुकांनी फारपेट केलो. सैनिकांनी नाळ्यो भरल्यो आनी देवळांच्या वणटींचेर फार पेटयले. लोकांनी व्हरपाक पुंजायिल्लें तें भांगरशिंगर आनी रुप्याच्यो वस्ती बी सगलें तांचे कडल्यान झोमून घेतलें. मल्लिनाथाचें लिंग फोडून ताचे कुडके केले. भगवतीचे मुर्तीचे हात तोडले, नाक कोंचलें आनी ती मूर्त जमनीर शेंवटिली. सगल्या लोकांक एका जाग्यार आडावन धरले आनी बंदी केले. आपलो वाठार रितो करून वचपाक लोकांनी वेळ केलो तोच तांकां म्हारग पडलो. फारपेटान जे लोक मेल्ले तांचीं प्रेतां थंयच सोडून दिलीं. सूर्य उदेवपाक कपीत दे ओलिव्हेरा पुंजायिल्ली रुप्या आनी भांगराची लूट भरून आनी कैद केल्ल्या लोकांक वांगडा घेवन कोटा वटेन वचपाक परतलो.

पलतडीं पाविल्ल्या लोकांक घेवन कृष्णा आनी केदार कुमारजुव्यां सावन पयस दाट रानांत गेले. गांवांतल्या लोकांनी तांकां जेवण आनी उदक व्हरून पावयलें. दक्षिणे वटेन वचनासतना उत्तरे वटेन वरगांवां वचात म्हण कृष्णान त्या लोकांक सुचयलें आनी उपरांत फावो तो निर्णय घेवपाक सांगलें. निराश्रितांनी ती सुचोवणी मानून घेतली.

'आमचो एक सांगाती मल्लिनाथ आनी भगवती देवळांच्या प्राकारांत गेल्लो. तो अजून येवपाचो आसा. ताची वाट पळयत आमी मात्शे रावतात. तुमी ह्या लोकांक वरगांवां घेवन वचात.' कृष्णान त्या लोकां मदल्या कांय तरणाट्यांक सुचोवणी केली.

दुसऱ्या दिसा सकाळीं मेरेन फाटीं उरिल्ल्यां मदलो कोणूच त्या रानांत पावलो ना. व्यंकटाचीय बी कितेंच खबर कळ्ळी ना. कृष्णा आनी केदार हांणी परत न्हंय हुपून चोडणें जुंव्यार वचपाचो निर्णय घेतलो.

दनपरां दोगूय एकेकटो जावन न्हंय हुपून चोडणां गेले. सगलें वातावरण एकदम थंड, शांत आसलें. वेपाराचीं कसलींच कामां चलनासलीं. थोडे पुर्तुगेज पाद्री आयिल्ले. जे लोक थंय देवळाच्या प्राकारांत मरून पडिल्ले तांचीं प्रेतां मोडिल्ल्या देवळां भोंवतणच्या जाग्यांत पुरपाचो तांणी आदेश दिल्लो. तयार केल्ले लांकडाचे खुरीस दोनूय देगांनी पुरिल्ले. देवळांक लागपी दाण्यागोट्याचो सांठो करपाची जी कोठी आसली त्या जाग्यार दोनेकशीं लोक जमिल्ले. एकटो पुर्तुगेज भास जाणा जाल्लो दुभाशी आदाराक घेवन एक पाद्री लोकांक आपल्या राजाच्या क्रिस्तांव धर्मा विशीं म्हायती दितालो आनी मुर्तीची पुजा करप हें कशे तरेन पातक थारता ते विशीं सांगतालो. तशेच ते पाद्री त्या लोकांक हिंदू धर्म पाळपाचे आड शिटकावणी दिताले. कृष्णा आनी केदार अचळय त्या मेळाव्यांत भरसले. जेन्ना पाद्री आपलें काम सोंपोवन गेले तेन्ना सगळे लोक थंयच्यान भायर गेले.

कृष्णा जेन्ना भायर सरून वतालो तेन्ना ताका कोण तरी आपल्या कोंपराक धरून ओडटा म्हणपाचें कळ्ळें. ताणें त्या मनशाक पळयलो.

'हांव व्हितोरियु फेर्नांदिश. मात्सो म्हजे वांगडा यो. एक म्हत्वाची गजाल आसा ती तुका खबर आसपाक जाय.' ताणें म्हणलें.

कृष्णा मात्सो अनमनलो.

'तूं कोण तें हांव जाणां. तूं कृष्णा. मात्सो म्हजे वांगडा यो.' ताणें म्हणलें.

थोड्या अंतरा वयल्यान केदार कृष्णाक पळयतालो. कृष्णान ताका मानेन कुरू करून आपयलो. कृष्णा त्या अनवळखी मनशा फाटोफाट चलपाक लागलो. ताचे फाटोफाट केदार चलत रावलो पूण थोडें अंतर दवरून. ते एका आंब्यांचे रायेंत भितर सरले. ते रायेंत खूब चंवर आयिल्लीं आंब्याचीं झाडां आसलीं. दोन चार मानाय थंय शेतांत काम करताले. ते पावले त्या घरा सामकार एक मोटवी म्हेड पुरिल्ली आसली. कृष्णाक त्याच जाग्यार तुळशीच्यो कुरवो दिसल्यो. ती मोडून त्याच जाग्यार खुरसाची म्हेड पुरल्या म्हूण कळटालें.

'आमचे फाटल्यान कोण एकटो येता.' व्हितोरियु फेर्नांदिशान म्हणलें.

'कांय पर्वा ना. म्हजोच एक वांगडी तो. येवं दी ताका.' कृष्णान म्हणलें.

तिगूय जाण गोठ्यांत गेले. ताणें कृष्णा आनी केदाराक बसपाची वेवस्था केली.

'म्हजो बापूय म्हाबळ पै चो धाकटो भाव म्हाळ पै. आमी सगल्यांनी आतां धर्मपरिवर्तन केलां.'

कृष्णा कांयच उलयलो ना.

'इतलेंच सांगपा खातीर आपोवन हाडूंक ना तुका हांवें. म्हजे वांगडा वयर माळ्यार येयात.' ताणें तांकां सोंपणां चडून माळ्यार व्हेले.

थंय एका कोनशाक एक मनीस न्हिदिल्लो तो तांकां दिसलो. तो जिवाक जावपी वेदनेन परवंतालो. एके वणटींत ल्हानशी खिडकी आसली. तातूंतल्यान थोडो उजवाड येतालो. व्हिक्टरान कृष्णाक त्या मनशाक लागींच्यान पळय म्हूण कुरवेन सांगलें. कृष्णान ओणव घेवन ताका लागींच्यान पळयलो. अजापान तो फाटीं सरलो. तो मनीस आसलो व्यंकट.

'भगवती देवळा सामकार घायाळ जावन पडिल्लो थंय. तो आमकां मेळ्ळो. तुमी पळयलीं न्हय आतां दोनूय देवळां मोडून घाल्यांत तीं. हो पाशाणा फातराचो कुडको पळयात. फोडून उडयिल्ल्या लिंगाचो हो ल्हानसो एक कुडको. आमी तो लिपचोरयां हांगा हाडला. देव लेगीत आमकां वांचोवपाक असमर्थ जाला.' निर्शेणेच्या सुरान ताणें म्हणलें.

कृष्णान व्यंकटाच्या कपला वयल्यान हात भोंवडायलो. व्यंकटान दोळे उगडले आनी कृष्णाचेर नदर घाली. ताका खूब वेदना जाताल्यो. हय न्हयशें हांशें ताच्या ओंठार पातळ्ळें.

'ताका दाव्या बावळ्याक आनी फाटीक गुळयो लागून घावे जाल्यात. घावे बरे खोल आसात आनी सादे नात.' व्हितोरियुन म्हणलें.

कृष्णान ताच्या आंगा वयलें पांगरूण कुशीक काडलें आनी ताच्या घाव्यांचेर बारीक नदर मारली. ताचे छातयेचे स्नायू फाळून गेल्ले आनी रगत व्हांवत आसलें. ताचो दावो हात पास घालून गळ्यांत बांदिल्लो.

'आमी ताच्या घाव्याक झाडपाल्याचें वखद लावन बांदला. ताचे घावे ल्हानसान नात. आंगांत जोर आसा ताच्या.' व्यंकट उलोवंक सोदतालो पूण ताचें उतर भायर फुटनासलें. ओंठ सुकिल्ले.

कृष्णान मातयेच्या एका आयदनांतलें उदक एका तांब्याच्या पेल्यांत रकयलें आनी व्यंकटाक पिवपाक दिलें. तो उदक पिलो.

'हांव बरो आसां कृष्णा. म्हजी काळजी करूं नाकात तुमी. कंठेश्वराच्या देवळा कडेन कितें जालें?' व्यंकटान विचारलें.

कृष्णान ताका थोडे भितर खबर सांगली. आमी परत कशे आयले आनी ताचे म्हऱ्यांत कशे पावले तेंवूय ताका सांगलें.

'तुमी येवपाक फावनासलें. धोक्याचें काम तें. हीं मनशां बरीं मायेस्त. म्हाका तांणी आलाशिरो दिलो आनी आतां म्हजी काळजी घेतात. तुमी गेल्यार बरें हांगाच्यान.' व्यंकटान क्षीण आवाजांत तांकां सांगलें.

'तुमी चड वेळ हांगा रावप सारकें न्हय. धोको संभवता खूब.' व्हिक्टर फेर्नांदिशान म्हणलें.

'हांव लागींच मात्सो रानांत वचून थोडें झाडपाल्याचें वखद घेवन येतां आनी तुज्या घाव्याक बांदतां. मागीर आमी दोगूय वतात.' कृष्णान व्यंकटाक सांगलें.

'चिंता करूं नाका तूं. बरो जा पयलीं. कितेंय तरी मांडणी करुया आमी मागीर.' केदारान व्यंकटाक म्हणलें.

व्हितोरियुन तांकां तांदळाचे हून हून पोळे आनी कसाय हाडून दिलो. कृष्णा बांयचेर गेलो आनी उदक काडून न्हालो. घावे पेखोवपाक वापरपाचे वनस्पतीचें ताका बरें ज्ञान आसलें. तो लागींच्या रानांत गेलो आनी पांटलोभर पानां आनी थोडीं ल्हान ल्हान झोंपां पुंजावन घेवन आयलो. दनपार जावन गेले उपरांत तो परत घरा पावलो.

सांजच्या वेळार व्हिक्टर परत तांकां मेळपाक गेलो. 'माफ करात म्हाका, हांव तुमकां म्हज्या घरांत आपोवपाक शकना. गुप्ततायेन खबरो काडून चाडयो करपी मनीस आसात भोंवतणीं. तांचे नदरेक पडले जाल्यार म्हाका जीणभर पुर्तुगेज तारवांचेर गुलाम म्हणून जीण सारची पडटली. आतां सांगात कितें करपाचें थारायलां तुमी?' ताणें विचारलें.

'हांव व्यंकटाक आमचे वांगडा ब्रह्मपुरींत घेवन वचपाक सोदतां.' कृष्णान सांगलें.

'धोको खूब आसा त्या कामांत. तुमी तांच्या हाताक लागले जाल्यार तिगांच्याय जिवा वयलें संकट एकाच वेळार. तो हांगाच रावल्यार बरो. जेन्ना ताचे घावे पेखतले तेन्ना ताका प्रवास करूं दी.' व्हिक्टरान सांगलें.

व्यंकटान सवकासायेन कृष्णाचो हात हातांत घेतलो आनी म्हणलें, 'कृष्णा,

म्हाका प्रवास करपाक झेपचो ना. ते भायर कोणेय सैनिकान बी म्हाका तपासून पळयलो जाल्यार म्हजे बंदुकीच्या गुळयांचे घावे तो वळखतलो. थंयच आमचो अंत जातलो. तेन्ना उपकार करून तुमी म्हाका हांगा रावपाक दियात. बरो जाले उपरांत हांव स्वता जावन येतां.' ताणें ताका विनवणी केली.

व्हितोरियु आनी केदार हांणी ताका तेंको दीत तकली हालयली.

'बरें तर, पंदरा दिसांनी हांव तुका घेवन वचपाक येतां. तितल्या दिसां भितर तूं बरो जा.' कृष्णान ताका सांगलें. सांजवेळा बरें उसरां कृष्णा आनी केदार थंयच्यान वचपाक गेले. चार दिसां उपरांत ताचे घावे जडावले आनी ताणें निमणो स्वास घेतलो. फेर्नांदिश कुटुंबान शेतांतलो एकटो वावराडी मेलो म्हूण सांगून लागींच्या रानांत ताचें मडें पुरलें.

सांगून गेल्ले प्रमाण दोन सप्तकां उपरांत कृष्णा आनी केदार व्यंकटाक मेळपाक आयले. व्हिक्टरान तांकां व्यंकटाच्या दुखेस्त मरणाची खबर सांगली आनी रानांत जंय ताचें मडें पुरिल्लें थंय तांकां तो घेवन गेलो. रात जावन काळोख पडलो तेन्ना कृष्णा आनी केदार हांणी ताचें मडें खणून काडलें आनी थंयच रानांत लांकडां मांडून सरण तयार केलें आनी तें लासलें. सकाळीं भिणभिण्यार ताची रक्षा पुंजावन ते परत घोड्यार बसून ब्रह्मपुरी वचपाक गेले.



# अमानुश धर्मछळ

1558 वर्साच्या मध्यार सुमार पॉलपंथी धर्मप्रचारकाक जितली खोस जाल्ली तितलीच चिंताय बी जाल्ली. धर्मपरिवर्तनां घडोवन क्रिस्तांव केल्ल्या लोकांची संख्या खूब व्हड जाल्ली. ही तांचे खातीर खोशयेची गजाल आसली. तेच वांगडा तांची चिंता वाडोवपी गजाल आसली ती म्हणल्यार तांचे मदले थोडे लोक 'मुक्त क्रिस्तांव' जाल्ले. ते ख्रिस्ती धर्माची निंदा करपा खातीर संद सोदताले. अशें आसतनाय धर्मांतर जाल्ल्या लोकांची परत हिंदू धर्मांत वचपाची वाट बंद जाल्या हेंवूय तांकां खबर आसलें. कोणूच हिंदू मनीस तांकां परतून स्विकारचो नासलो. पूण तरी त्या नव्या क्रिस्तांव लोकांक नव्या धर्माची शिकवण दिवपाची गरज आसली.

कोचीनांत आसतनाय तांकां हेच तरेची परिस्थिती अणभवाक आयली. तांकां आनीक एक अणभव आयलो तो म्हणल्यार थंय जायते लोक ज्यू धर्म पाळटाले आनी ते वरवीं इस्रायलांतल्या ज्यू लोकां कडेन तांचे संबंद आसले.

येशू ख्रिस्ताच्या रुपान धर्तरेचेर मसिहा पावला. देवाचें अस्तित्व तीन व्यक्तींच्या रुपान म्हणल्यार त्रिरूपी आसता - 'बाप देव', 'पूत देव' आनी 'पवित्र आत्मो देव' जे समान सर्वकालीक आनी अदृश्य आसतात. पूण तांचें सत्व एक. हो पोरणे कबलातींतलो सिद्धांत पाद्रीन लोकांक सांगलो.

व्हडा संख्येन लोक उक्तेपणीं पाद्री सिल्वेराक विरोध करपाक लागले. तो रागान खूब अस्वस्थ जालो. थोडे देवत्व, ख्रिस्ती इगर्ज संस्था आनी जेजूची धर्मसभा हांचीं निंदा करपी बरपां इगर्जांच्या पेटयांनी घालताले. अशे तरेचो बळिश्ट, हिंसक तरेचो विरोध जेज्वीत पाद्रींक सोंसून घेवप कठीण जालें. तांणी आपली कागाळ लेखी रुपान विगार पेद्रू गोन्साल्विशाक कळयली. हो विगार फ्रान्सिस शावियेराचो बरो इश्ट आसलो.

विगार पेद्रू गोन्साल्विशाचे मान्यतायेन नगरांतल्या सुमार वीस नव ख्रिस्ती मनशांक धरून बंदखणींत घाले आनी तांकां गुप्ततायेन गोंयांत हाडले. गोंयांतल्या पाद्रींनी हे संदीचो फायदो घेवन गोंयांतल्या जायत्या नव ख्रिस्ती लोकांक धरून भितर उडयले आनी मागीर तांकां पुर्तुगालाक धाडून दिले. तांकां थंय धर्मन्यायालया सामकार उबे केले आनी तांचेर धर्म निंदा करून पातक केलां अशें थारावन तांकां ख्यास्त फर्मायली. त्या उपरांत थोड्यांक इव्होरा शारांत मुखेल थळार जितेच लासपाची ख्यास्त भोगयली. हें शार लिस्बोआचे दक्षीण पूर्व दिकेक आसा. हेर अनेक लोकांक तांचेर दवरिल्ल्या आरोपांच्या स्तरा प्रमाण ख्यास्त फर्मायली.

पाद्री आनी इगर्ज संस्थेक हाका लागून आयतीच बरी संद लाबली. तिसरो राजा दे जुआंव तेन्ना संवसाराक अंतरिल्लो. ताचो नातू दाँ सेबास्तियान तेन्ना खूब ल्हान म्हणल्यार तीन वर्सांचो आसतनाच ताका गादयेर बसयिल्लो. राणी कातालीन आनी धर्माध्यक्ष कार्डिनाल हेन्रीक हांचे मर्दी राजप्रतिनिधी पदा खातीर वाद चलतालो.

पाद्रींनी कार्डिनल हेन्रीक हाचे कडेन एक कबलात केली. गोंयांत धर्मन्यायालय सुरू करपाक ताणें एक आदेश काडलो आनी ताच्या बदला इगर्जेन ताका राजप्रतिनिधी जावपाक तेंको दिवपाचें उतर दिलें.

कार्डिनल हेन्रीकान आलेक्स दियश फाल्कांव हाका धर्मन्यायालयाचो पयलो मुखेल चवकशी अधिकारी म्हूण गोंयांत धाडलो. 1559 वर्सा मार्च म्हयन्यांत तो गोंयांत पावलो. तें वर्स सोंप मेरेन ताणें न्यायमंडळ घडयलें.

पुर्तुगालांतलो रोमांतलो राजदूत लॉरेन्स पिरीश हाका गोंयांत धर्मन्यायालय सुरू केलां म्हणपाची खबर इजिप्ता वरवीं कळ्ळी. ताणें लिस्बोआंतल्या राजप्रतिनिधीपदाक पत्र बरोवन आपलें म्हणणें कळयलें.

'हिंदुस्थान ही एक पुरातन सभ्यतायेचो विकास जाल्ली अशी भूंय. थंयची संस्कृताय येवरोपी संस्कृताये परस खूब पुरातन. देव हे एकमेव शक्तीन सृश्टीची निर्मणी केल्या ह्या तत्वज्ञानांतल्यान थंयचो धर्म आनी संस्कृती जल्माक आयल्या. पुर्तुगालचो धर्म प्रसारा खातीर चलिल्लो अति उत्साह देवा खातीर आनी देशा खातीर केल्ली सेवा अपसेवा थारत असो म्हाका हुस्को दिसता. अशे तरेच्या उत्साहाचो वायट परिणाम जावं येता. तो म्हणल्यार जायते लोक बसरा आनी कायरो धांवून वचून दुस्मानाक अर्थीक मजत आनी युद्धांत आदार दिवपाचो संभव आसा. ही गजाल नदरेक हाडून दिवप इतलोच म्हजो हेत.'

त्या बदलाक फ्रान्सिस्क मारक्विस नांवाचो दुसरो एक धर्मन्यायालयाचो अधिकारी नेमून ताकाय गोंयांत धाडून दिलो. तो येवन कामाचो ताबो घेतले उपरांत न्यायालयाच्या कामाक खूब गती आयली. मांडवी न्हंयेचे दक्षीण देगेर आशिल्ली आदिलशाची पालास तांणी धर्मन्यायालयाचें मुखेल केंद्र करपाक वेंचून काडली. रोखडेच कांय नवे कायदे आनी नेम तयार केले. ते करपाक स्पेन, इटाली आनी पुर्तुगाल ह्या देशांत अस्तित्वांत आशिल्ल्या धर्मन्यायालयांच्या कायद्या नेमांचोय आदार घेतलो.

धर्म न्यायालयाचो मुखेल चवकशी अधिकारी फादर आलेक्सीयु दियश फाल्कांव हाणें धर्मन्यायालयाचो उद्‌देश सांगतना अशें स्पश्ट केलें की तें पुर्तुगेज क्रिस्तांव, ज्यू क्रिस्तांव आनी गोंयांतले धर्मपरिवर्तीत क्रिस्तांव हांचे खातीर घडयलां.

15 फेब्रुवारी 1560 ह्या दिसा एक व्यक्ती हातांत एक दिवो घेवन कुटत कुटत चलून ब्रह्मपुरीच्या मुखेल दरवट्या कडेन पावली. राखणदारान तो कोण तो पळोवपा खातीर ताका आडायलो.

ताणें तोंडा वयलो बुरखो कुशीक काडलो. तो आसलो एक मध्यम पिरायेचो मनीस. ताचे ओंठ सुकिल्ले, तो खूब थकिल्लो आनी तो बरोच अशक्त दिसतालो.

'हांव प्राचार्यांक मेळपाक आयलां...खूब गरजेन...हांव...' तो आपलें वाक्य पूर्ण करपाक पावलो ना. तो लवंडून पडलो तोच राखणदाराच्या हातांत.

राखणदारान ताका ओडून भितर व्हेलो आनी एका झाडा पोंदां आड पडपाक लायलें. त्या मनशाच्या आंगांत जोर आसलो आनी ताका खूब अशक्त दिसतालें.

ताणें आनीक एका राखणदाराक आपोवन हाडलो आनी दोगांयनी मेळून ताका मुखेल इमारतींत व्हेलो. थंय बसोवन ताका पिवपाक उदक दिलें.

'हांव रायबंदरा सावन आयलां. म्हजें कुटुंब संकश्टांत आसा. म्हाका प्राचार्यां कडेन आतांच उलोवपाक जाय.' ताणें बारीक आवाजांत सांगलें.

'नांव कितें तुजें?' एका राखणदारान विचारलें.

'लुईस कॉस्तांव.' ताणें जाप दिली.

'तूं क्रिस्तांव आसुनूय हांगा आयला?' राखणदारान ताका आड्डून विचारलें.

'अशें म्हणूं नाका. हांव खरो क्रिस्तांव न्हय. प्राचार्य बरे भाशेन वळखतात म्हाका. म्हजें कुटुंब व्हडल्या संकटांत आसा. तांकां जाता तितले बेगीन उठयात मात्शे तुमी.' ताणें काकुळटेक येवन मागलें.

राखणदारान येवकार कक्षांत हाजीर आशिल्ल्या ब्रह्मचाऱ्याक ताची म्हायती दिली. ताणें भायर येवन भलायकेन बरो नाशिल्ल्या मनशाक पळयलो. ताका ते भितरल्या अतिथी कक्षांत घेवन गेले. ताका पांगरूपाक एक कांबळ दिली आनी पिवपाक पेलोभर दूद दिलें. ताका जिवाक मात्शी हुशारी दिसली.

'आतां म्हाका सांगात कोण तुमी आनी अश्या ह्या वेळार हांगा कित्याक आयल्यात?' ब्रह्मचाऱ्यान विचारलें.

'हांव राम कुडव. बाणावलेच्या शांतप्पा कुडवाचो पूत. म्हजो बापूय खूब वर्सां आदीं प्राचार्यांचो सहपाठी आशिल्लो. आमी खूब त्रासांत पडल्यांत. आमकां तांचो आदार जाय. तेच आशेन हांव येदे रातीर हांगा आयलां.' ताणें म्हणलें.

'अशें आसा जाल्यार तुवें लुईस कॉस्तांव अशें नांव कित्याक सांगलें तर?' ब्रह्मचाऱ्यान विचारलें.

ताचे दोळे दुकांनी भरले.

'आमी क्रिस्तांव जाल्यांत.' ताणें भरून आयिल्ल्या ताळ्यान जाप दिली.

'आमच्या मनाची कितें अवस्था जाल्ली आसा ती तुमकां कळची ना. प्राचार्य आमकां बेस बरे वळखतात. आमची जीण धोक्यांत आसा. उपकार करून ताका आपय.' ताणें कळवळ्यान मागलें.

ब्रह्मचाऱ्यान त्या प्रसंगा विशीं खीणभर चिंतलें आनी कांय मिणटां भितर प्राचार्यांक उठोवन तांकां घेवन भायर आयलो.

प्राचार्यांक पळयनाफुडें तो मनीस सगलें बळ एकवटावन बांका वयल्यान उठलो आनी ताणें प्राचार्यांच्या पांयार घालून घेतलें.

ताचो चेरो पळोवन प्राचार्य ताका वळखले आनी दोनूय हातांनी ताका उठोवन उबो केलो. 'राम, कितें जालें? तूं क्रिस्तांव जाला?' तांणी ताका विचारलें.

तो सारको उबो रावलो आनी मान हालोवनूच ताणें हय म्हणलें. प्राचार्यांनी ब्रह्मचाऱ्याक आनीक थोडें दूद आनी कांय फळां हाडपाक भितर धाडलो. 'आतां म्हाका कितें घडलां तें सारकें सांग.' प्राचार्यांनी त्या मनशाक विचारलें.

'दोन वर्सां आदली खबर. आमच्या भाटांत काम करताले त्या मानायांक दुडवांचें हांयस दाखोवन पाद्रींनी तांचें धर्मपरिवर्तन केलें.' ताणें सांगपाक सुरवात केली. कशे तरेन त्या धर्मांतरीत मानायांनी संतप्पा कुडवाची सरकारी अधिकाऱ्यां कडेन कागाळ केली, कसो ताका धरून व्हेलो आनी बंदखणींत घालो, सरकारा आड षडयंत्र रचलें म्हूण ताचेर कसो आरोप दवरलो, कशे तरेन ताचे मालकीचें भाट, जमीन बी काडून घेतली, पाद्री ताच्या घरा कडेन वचून कसो ताका धमकावन सगल्या घरच्या दादले आनी बायलांक व्हरून गुलामी करपाक लायताले तें सगळें सांगून ताणें कुटुंबा सयत धर्मपरिवर्तन केलें जाल्यार ताचेर दवरिल्ले आरोप फाटीं घेवन ताच्या हक्काचें सगलें परतून ताका दिवन अपराधमुक्त करूं येता अशें जें पाद्रींनी ताका आस्वासन दिल्लें ती पुराय खबर ताणें प्राचार्यांक सांगली.

'आमच्या बापायक जी मानसीक पिडापीड तांणी भोगयली ती सोंसपाची तांक ताचे भितर उरली ना. आमचें कुटुंब त्रेचाळीस मनशांचें. म्हज्या बापायच्या स भावांच्यो स विधवा बायलो, स तरणाट्यो लग्नाच्या पिरायेच्यो तांच्यो धुवो, आमी चार जाण पूत, आमच्यो बायलो आनी भुरगीं. इतल्या सगल्यांक गुलामी भोगची पडटली हें चिंतून तो पिसो जावपाक पावलो. अशे तरेचे मनस्थितींत निमाणे कडेन तो धर्मपरिवर्तन करपाक तयार जालो. आमी ज्या दिसा धर्मपरिवर्तन केलें ताच्या दुसऱ्याच दिसा आमचेर दवरिल्ले आरोप तांणी फाटीं घेतले आनी आमची जमीन, भाट बी सगलें आमचें आमकां दिलें.' राम कुडवान रडत, दुकां व्हांवयत सगळी खबर सांगली.

'कथेची तरा तीच, आर्दी आयकल्यात तशेच तरेची. आतां संवकळेच्योच जाल्यात ह्यो कथा.' प्राचार्यांच्या मनांत विचार येवन गेलो.

'तुमी सगळें सोडून पळून वचूं येतालें, इतलो आमचो लोक गेलो तशे तरेन.' प्राचार्यांनी सुचयलें.

'म्हज्या बापायक मोटो हुस्को जालो तो कुटुंबाचो. खंय म्हूण वतलो आशिल्लो इतलें व्हडलें कुटुंब घेवन. ताणें तो पर्याय सोडून दिलो.'

'तुमच्या कुटुंबाचें धर्मपरिवर्तन जाल्लें आसा न्हय? आतां आनीक कसलें संकट आयलां तुमचेर?'

'आतांच खरें महासंकट आयलां आमचेर. तुमी जाणांत न्हय आमचो बापूय कितलो देवभक्त आनी धर्मनिश्ठ मनीस तो. आमी चवथीक गणपती पुजताले, जल्माश्टम मनयताले, नवरात्रांत पारायण चलतालें आमगेर. म्हज्या पुताची मुज जाली. हे सगळे धर्मीक विधी आमगेर गुप्तपणान चलताले. आमच्या शेतांत वावुरपी आनी हालींच ख्रिस्ती धर्म स्विकारिल्ल्या वावराड्यान इगर्जेच्या पाद्री कडेन आमची कागाळ केली. दोन दिसां आदींच आमच्या बापायक आनी कुटुंबांतल्या सगल्या वांगड्यांक धरून व्हेलीं आनी बंदखणींत घालीं. हांवें कसो तरी जीव वाटायलो आनी धांव मारली. खंयच विसव घेवपाक रावनासतना तुमकां ही खबर सांगपाक आयलां.' इतलें सगलें सांगतासर राम कुडवाक खरस मारली. तो अशक्त जाल्लो.

कोण कांयच उलयलो ना. ती खबर आयकून सगल्यांची वाचाच बंद जाली.

निमाणे कडेन राम कुडवान म्हणलें, 'तांकां आतां सगल्यांक व्हडल्या घरांत व्हेल्यांत.'

'व्हडल्या घरांत?' प्राचार्य उद्गारले.

मांडवी न्हंये काठार आशिल्ल्या युसूफ आदिलशाच्या राजवाड्यांत तांणी धर्मन्यायालय बसयिल्लें. त्या घराक व्हडलें घर म्हणटाले.

'थंय आतां आमच्या कुटुंबांतल्या वांगड्यांची चवकशी जातली.' राम कुडवान सांगलें.

'खरेंच हो एक गंभीर आनी चिंतेचो विशय. तूं खूब थकला. सध्या तूं हांगा ब्रह्मपुरींतूच राव. जिवाक मात्शें सावचीत दिसूं दी. कसले मजतीची अपेक्षा आसा तुका आमचे कडल्यान तुज्या कुटुंबा खातीर?' प्राचार्यांनी विचारलें.

'म्हाकाय कांयच कळना गुरूदेव. गोव्हेर्नादोरा कडेन वचून आमचेर दया करात. आमचें चुकलें अशी विनवणी करपा बगर दुसरो तर्कसंगत असो उपायूच

सुचना म्हाका.' राम कुडवान म्हणलें.

'आतां खूब रात जाल्या. तूं आतां मात्सो विसव घे. आमी फाल्यां ह्या विशयाचेर उलोवया.' प्राचार्यांनी म्हणलें.

दुसऱ्या दिसा प्राचार्यांनी जिवबा, कृष्णा, केदार आनी कांय ज्येश्ठ मनशांक तशेंच कांय तरणाट्यांक आपल्या कार्यकक्षांत आपोवन घेतले आनी तांचे सामकार प्रस्न मांडलो.

'राम कुडवान ख्रिस्ती धर्म स्विकारला. ताका ब्रह्मपुरींत दवरून घेवपाक हांगाच्या थोड्या मनशांचो विरोध आसतलो हाची म्हाका कल्पना आसा. हें चिंतून हांवें ताची थोड्या दिसां खातीर कृष्णागेर रावपाची वेवस्था करपाचें चिंतलां. हें योग्य दिसता तुमकां?' प्राचार्यांनी विचारलें.

'तोच निर्णय योग्य आसा, गुरूदेव.' कृष्णान म्हणलें.

'दुसरी गजाल म्हणटात ती ह्या संकटांतल्यान कशी वाट काडप वा ताचेर कितें उपाय करप? कितें करपाचें चिंतलां तांणी ह्या व्हडल्या घरांत?' प्राचार्यांनी विचारलें.

'म्हाका म्हायती मेळ्ळ्या ती अशी की त्या व्हडल्या घरांत एक धर्मन्यायालय सुरू केलां. एक फावट ख्रिस्ती धर्म स्विकारले उपरांत ते धर्मपरिवर्तन केल्ले लोक पुराय तनमन ओंपून ह्या धर्माक पाळो दिवन चलतात काय ना हाचो तपास करतले. हे नवे क्रिस्तांव लोक आपल्या पूर्वधर्मांतल्योच चालचलणुको आनी परंपरा धरतात जाल्यार त्या व्यक्तींक खर ख्यास्त फावो जातली. ती ख्यास्त तो फर्मायतलो.' कृष्णान ते बसकेक विस्तृत म्हायती दिली.

'आमी गोव्हेर्नादोरा कडेन हो प्रस्न मांडपाक शकतात.' राम कुडवान परत सुचयलें.

'आमी ख्रिस्ती जाल्ल्या लोकांचो प्रस्न मांडपाक फुडें सरले जाल्यार घडये आमकांच तो ख्रिस्ती धर्माचे विरोधक मानून बंदखणींत घालतलो. म्हाका दिसता तशें केल्यार आमी स्वताच त्रासांत पडटले.' कृष्णान म्हणलें.

'हांव तरी वचून म्हजो अपराध मानून घेतल्यार म्हाका माफ करीत तो.'

'ते तुकाय बी धरून बंदखणींत घालपाचो चड संभव आसा.' कृष्णान म्हणलें.

'म्हाकाय बी तोच हुस्को दिसता.' प्राचार्यांनी म्हणलें.

परत कोण कांयच उलयना जालो. 'आमकां ते इतले क्रूर तरेन दुख्ख, यातना भोगयता आसतना आमी आदाराक धांवपा खातीर खंयचेंच थळ जावं कोणूच राखणकर्तो ना आमकां?' राम कुडवान दुख्ख सोंसना जावन विचारलें.

'तीच तर आमच्या वांट्याक आयिल्ली चडांत चड दुख्खाची गजाल. आमी जाल्यात निराधार. राम, आतां आमी फकत देवाचो धांवो करप आनी आमकां वाटाय म्हूण मागप. आनीक उपाय ना.' प्राचार्यांनी म्हणलें.

'म्हाका दिसता राम कुडवाक आमी गोव्हेर्नादोरा कडेन वचून आपलें म्हणणें मांडपाक दिल्यार बरें.' कृष्णान म्हणलें.

सगले कृष्णाक पळयत रावले. 'पूण तातूंत खूब धोको आसा.' कुडवान म्हणलें.

'हय, हांव जाणां. धोको आसाच. पूण कितें करतले आमी? उपायूच ना. थोडे दीस तो ब्रह्मपुरींत लिपून रावत पूण ब्रह्मपुरी सुटूंक ना. हांगाय धोको आसा. दुसरो पर्याय म्हणल्यार ताणें गोमन्तकांतल्यान पळून वचप. पूण हें ताणें धर्मांतरण जावचे पयलीं करपाक जाय आसलें.'

'खंयचीच राजकी जावं सैनिकी शक्त अस्तित्वांत ना ताका वाटावपाक फुडें सरत अशी. अशे परिस्थितींत आपल्या कुटुंबाक ताका जर मेळपाचें आसा तर हाणें तांचे मेरेन पावपाचें आनी तीं भोगतात तीच ख्यास्त भोगपाची. आनी दुसरो उपाय ना. पूण एक लक्षांत दवर, तूं धर्मांतरीत जाल्लो आसलो तरी आमचो तुका सदांच येवकार आसतलो.' कृष्णान सगल्यांचे मनस्थितीचो अदमास घेवन राम कुडवाक स्पश्टूच सांगलें.

'म्हजो तुजेर आनी ब्रह्मपुरींतल्या आचार्यांचेर पुराय विस्वास आसा. हो एकूच जागो असो जंय खिरस्ती धर्मी आसतनाय हुस्क्या विरयत म्हाका आलाशिरो मेळत. हांव ते खातीर तुमकां काळजांतल्यान दिनवास दितां. कृष्णा म्हणटा तें खरें. शाराच्या केंद्रा कडल्यान आनी कोटाक चड लागीं आशिल्ल्यान ब्रह्मपुरीकूय असोच धोको आसा म्हूण हांव जाणां. हांव गोव्हेर्नादोराक मेळपाक एकटोच वतां आनी आमची चूक जाली आमचेर दया करात म्हूण मागतां.' राम कुडवान निमाणे कडेन ताका सांगलें.

त्या कार्यकक्षांत पुराय मरण शांतताय पातळ्ळी. तो थंय वचून शरण आयलो

जाल्यार राम कुडवाची कितें गत जातली ताची सगल्यांक कल्पना आशिल्ली. दोन सप्तकां उपरांत राम कुडवाच्या जिवाक हुशारी आयली. आपणें थारायिल्लें ते प्रमाण तो गोव्हेर्नादोराक मेळपाक गेलो आनी चूक कबूल करून माफी मागली.

'राम कुडव आनी ताच्या कुटुंबा खातीर तुज्यान जायत कितेंय करपाक?' राधिकान कृष्णाक विचारलें.

'हांवूच नकळ कितेंय करपाक जातलें काय ना तें. महाभारतांतल्या उद्‌देग पर्वांत एक म्हणणी आसा. ती अशी की जर राजा स्वताच आपल्या नागरिकांचो नाश करपाक लागलो तर देव लेगीत ताका आदार दिना. आमच्या हिंदुस्थानांत आयचे घटकेक ह्या पाखल्यांक आळाबंद घालीत अशी एकूय शक्त ना.'

'ब्रह्मपुरीकूय अशे तरेच्या संकटाचो धोको आसा अशें दिसता?' राधिकान विचारलें.

'हय, ब्रह्मपुरीय संकटांत आसा. थोड्याच काळा भितर ब्रह्मपुरी आनी महालक्ष्मी देवूळ नश्ट जातलीं हातूंत दुबाव ना.' कृष्णान म्हणलें.

'आमच्या जिवाकूय धोको आसा जाल्यार तुवें कितेंय तरी उपाय सोदून काडपाक जाय न्हय?' राधिकान म्हणलें.

'आँ! हें पळय ! तूं आतां मुख्य मुद्‌द्यार आयलें. हांवें सांगिल्लें न्हय तुका म्हजे कडेन लग्न करपाचो विचार सोड म्हणून. आतां भंय दिसलो न्हय तुका?' कृष्णान ताका मात्शें तिडायलें.

'जे मेरेन म्हज्या सांगाताक तूं आसा ते मेरेन म्हाका कसलोच भंय दिसचो ना. तुजे वांगडा हांव सुखान आसां. पाखले आसले तरी म्हजें सूख समाधान ना जावपाचें ना.' अशें म्हणून राधिकान ताका वेंग मारली आनी अळंग ताच्या ओंठांचो उमो घेतलो.

तीन सप्तकां उपरांत धर्मन्यायालयाच्या मुखेल्याचे कचेरेंतल्यान सगल्या संबंदीत लोकां खातीर एक साबार कळोवणी भायर सरली. ज्या एकसठ मनशांनी देवा आड आनी ख्रिस्ती धर्मा आड चलणूक करून पातक केल्लें तितल्यांची चवकशी पूर्ण जाली आनी तांकां जी ख्यास्त फावो जाल्या तीं सांत फ्रान्सिस इगर्जेंत सगल्या लोकां सामकार कळीत करतले अशें तातूंत म्हणिल्लें.

प्राचार्य सोमशर्मान आपल्या खासा विस्वासांतल्या स व्यक्तींक आपोवन हाडले

आनी कृष्णाक तांचो मुखेली नेमून इगर्जेंतल्या साबार मेळाव्याक हाजीर रावपाक सांगलें. थंय जें घडटा ताचो नियाळ आपणाक दी म्हण ताका सुचोवणी दिली.

दुसऱ्या दिसा सकाळीं शारांत लोकांनी व्हडली गर्दी केली. कितें घडपाचें आसा ते विशीं कोणाक कांयच खबर नासलें. नाक्यानाक्याचेर शिपायक तैनात केल्ले. सकाळच्या सुमार धा वरांचेर बंदखणीचो दरवटो उगडलो. तुताऱ्यो आनी बिगुली वाजल्यो. शिपायकांचो एक पंगड धोल वाजयत भायर आयलो आनी बावटे घेवन एक पंगड शिस्तीन चलत गेलो. तांच्या हातांतल्या व्हडल्या धव्या रस्मी कपड्यांचेर व्हडल्या आकाराचे तांबड्या कपड्याचे खुरीस करून लायिल्ले. ताचे फाटल्यान राजाचें प्रतीक हातांत घेवन एक पंगड गेलो आनी उपरांत पावलिस्ट ख्रिस्ती पंथाचो एक पंगड आपलें प्रतीक घेवन चलत गेलो. तांचे फाटल्यान तीन व्हडल्यो घोड्यागाडयो गेल्यो.

कृष्णा, केदार आनी हेर सांगाती लोकां मदीं आसले. चडशे पुर्तुगेज आनी हेर येवरोपी लोक एके वटेन राविल्ले. ते बऱ्यांतले बरे कपडे न्हेशिल्ले. ते सगले उमेद खोशयेन मिरयताले. चडांत चड स्थानीक लोक तांचे सामकार जमिल्ले आनी एके तरेचे उमळशिकेनशे पळयताले. कोणूच एकामेकां कडेन उलयनासले. आपणाक कार्यावळीक हाजीर रावपाचो आदेश दिला म्हणपाचें कोणूच दाखोवन दिनाशिल्लो.

अचकीत कांय अपराधी थारायिल्ल्यांचो सुमार एकशें साठ मनशांचो एक व्हडलो पुंजुलो एका शिपायकांच्या पंगडा फाटल्यान चलत भायर आयलो. सगल्या मुखार आशिल्ले घोड्यागाडयेंत गोव्हेर्नादोर दाँ कॉन्स्तातिनु दे ब्रागांझा बशिल्लो. ताच्या राखणदारांचो मुखेली कुशीच्यान चलतालो आनी ताचे मुखार आठ आनी फाटल्यान आठ अशे राखणदार शिपायक चलताले. दुसरे गाडयेंत दोन अनवळखी व्यक्ती तांबड्या निळ्या अश्या दोन रंगीत विचित्र दिसपी लांब धवो लोब घालून बशिल्ल्यो.

'हे दोग जाण चड करून त्या व्हडल्या घरांतल्या धर्मन्यायालयाचे चवकशी अधिकारी आसतले.' कृष्णान केदाराच्या कानांत सांगलें. सगल्या भोंवतणीं गुप्ततायेचें आनी हुस्क्याचेंशें वातावरण तयार जाल्लें.

तिसरे घोड्यागाडयेंत रायतूर कोटांतलो बिशप बसून वतालो. त्या कोटांत आतां धर्म शिक्षणाची कॉलेज सुरू जाल्ली आनी एक व्हडली इगर्ज बांदिल्ली.

चलत वचपी ते मिरवणुकेंत मदीं जो साठ मनशांचो पंगड चलतालो त्या मनशांचेर सगल्या लोकांच्यो नदरो थिरावल्यो. तांकां राखपा खातीर शंबर शिपायक बंदुको घेवन आनी माथ्याक लोखंडाचीं चेपीं घालून तांचे कुशीच्यान चलताले. त्या साठ बंदी मनशांक परकी पोशाक घाल्लो. पाचव्या रंगाच्या कपड्याचो लोब आंगाक आसलो आनी माथ्याक हळडुव्या रंगाच्यो उब्यो तोंकाच्यो तोपयो. दर एकाचे फाटीर काळ्या रंगान राकेसाचो मुखडो रंगयिल्लो.

खूबश्या कैद्यांच्या लोबांचेर पोटा वटेन हळडुव्या आनी तांबड्या रंगान मनशांचे चेरे पितारिल्ले. त्या पितारिल्ल्या तोंडांचे ओंठ सकयले वटेन दाखयिल्ले आनी थोड्यांचे ओंठ वयले वटेन आसले.

ती मिरवणूक मांडवीचे दक्षीण देगे वयल्यान अस्तंत दिकेन चलत सांत फ्रान्सिस इगर्जे कडेन वताली. थंय राखणेची वेवस्था खूब कडक केल्ली. दनपारच्या मदल्या वेळार सुमार ते कैदी थारायिल्ल्या जाग्यार पावले.

सगल्या दोशी थारायिल्ल्या बंदिवानांक इगर्जे सामकार हारींनी उबे केल्ले. सगल्या मानेस्तांक बसपाची वेवस्था केल्ली.

निमाणे कडेन गोव्हेर्नादोर दाँ कॉन्स्तातिनु उबो रावलो.

‘गोंय म्हणचे पुर्तुगेज इंदियेंतलो आमचो प्रांत. ही देवाची भूंय. देवान ही भूंय आमच्या धनयाक म्हणल्यार पुर्तुगालच्या राजाक दान केल्या. आमच्या धनयान देवाच्या सेवकांक एका पवित्र हेतान हांगा धाडल्यात. हांगासरल्या मुर्तीपुजा करतल्यांक, नास्तिकांक, हिंदूंक आनी मुसलमानांक कशे तरेन श्रद्धेन जीण जगची आनी पातकान भरिल्ले जिणेचो कशे तरेन त्याग करचो ह्या गजालींची शिकवण दिवपा खातीर देवाच्या ह्या सेवकांक ताणें हांगा धाडून दिल्यात. आमच्या धनयान ह्या श्रद्धाहीन लोकांक आपली जिणेची पद्‌दत बदलपा खातीर खूब संद दिली. ताणी त्यो अनेक संदी वगडायल्यो आनी पातकांचे धनी जाले. भोवमानादीक धर्मगुरू बिस्प सायबान ह्या लोकांक सुसंस्कृत जीण जगपाचो मार्ग दाखोवपा खातीर देवाच्या सेवकांक हांगा धाडून दिल्यात. ख्रिस्ती धर्म स्विकारिल्ल्यांचो ताणी वयले वयर देखाव केलो पूण गुप्तीं ते आदले वरीच सैतानाची पुजा करप, मुर्तींची पुजा करप आनी आपले आदले कुड्डे विस्वास पाळप तशेंच ते चलणुकेंत हाडप चालूच दवरलें. निमाणे कडेन आमच्या भोवमानादीक रायान धर्माचे नेम

आनी सिद्धांतांचें ज्ञान आशिल्ल्या ह्या म्हान तज्ञांक हांगा धाडून दिले. तांणी ह्या पातकांची जीण जगतल्या मनशांची निपक्ष चवकशी केली. हांव पाद्री आलेक्सीयु दियश फाल्कांव हांकां तांणी केल्ले चवकशेच्या पुराय नियाळाचें वाचन करपाक हांगा आपयतां.'

पाद्री आलेक्सीयु दियश फाल्कांव उबो रावलो आनी ताणें दर एका पातकी थारायिल्ल्या बंदिवानांच्या पातकांची वळेरी वाचली. हें वाचन चालू आसतना दर एका बंदी मनशाक चवकशी अधिकाऱ्यांच्या सामकार दिमी मारून रावपाक लायलें. चडांत चड जाणांक त्या वाचपांतलें एकूय उतर समजलें ना. थंय माचयेक तेंकून बशिल्ले कांय मानादीक पुर्तुगेज दादले आनी बायलो वाचन चालू आसतना मदीं मदीं व्हेरगोन्या ...व्हेरगोन्या अशें म्हणटालीं. निमाणे कडेन दुभाशी उबो रावलो आनी ताणें त्या वाचनाचो कोंकणी अणकार करून सांगलो.

जमिल्ल्या लोकां मदले मूळ धर्मी आनी धर्मांतरीत लोक दर एका बंदिवाना संबंदान जें कितें सांगताले तें आयकून भंयान तटास जाले. पूण कोणें कसलीच हालचाल केली ना. जावं कोणाकूच एक उतर फुटलें ना. पुराय मोनेळ. वरांचीं वरां तो विधी चालू उरलो.

निमाणे कडेन पाद्री फ्रान्सिस मार्क्विस ख्यास्त वाचून दाखोवपाक उबो रावलो. ताणें तीन दादले आनी बायलांक 'आव्तु-दे- फे' ही जिवी लासपाची ख्यास्त फर्मायली आनी तीन मनशांक फांसार चडोवपाची ख्यास्त दिली.

जेन्ना ही ख्यास्त उच्चारली तेन्नाच अपराधी म्हूण थारायिल्ल्या मनशांच्या जम्यां मदीं गोंदळ आनी बोवाळ जालो. थोडे बंदी आड्डी मारून रडपाक लागले आनी थोडे दादले तशींच बायलां हुडके हुडकेवन रडपाक लागलीं. थोडे माचये वटेन धांवले आनी गोव्हेर्नादोरा सामकार उमथे पडून काकुळटेक येवन आपणाचेर दया करात म्हूण मागणें करपाक लागले. कपीत दे ओलिव्हेरा हाच्या आदेशा प्रमाण माचयेर धांविल्ल्या बंदी मनशांक बंदुकीच्या दस्त्यान मारीत बडयत आनी दयामाया दाखय नासतना ओडीत फार्टी काडले आनी गोंदळ आटापाक हाडलो. तांचें रडप आनी आड्डी हुयेली मारप चालूच उरलें.

एका बंदिवानान ताका घाल्लो बुरखो आनी तोपी काडून उडयली आनी उबो आशिल्लो ते हारेंतल्यान भायर येवन जिवे लासपाची ख्यास्त (आव्तु-दे-

फे) जाल्ल्या पंगडा वटेन धांवलो. राखणदार शिपायक हालचाल करपाक फुडें सरचे पयलीं ही ख्यास्त जाल्ल्या चार मनशां मेरेन तो पावलो आनी तांचे मदल्या एकल्याच्या पांयार घालून घेतलें.

'उपकार मागतां सायब, दया करात आनी ह्या म्हज्या बापायक वाटायात. बरो मनीस तो सायब, खरो क्रिस्तांव. ताणें कसलेंच पातक करूंक ना सायब, ताका ही ख्यास्त करूं नाकात.' तो व्हडल्या व्हडल्यान आड्डून काकुळटेक येवन सांगतालो.

ह्या वेळार कृष्णा त्या मनशाक वळखलो. तो आसलो राम कुडव. खूब दिसां आदीं मध्यान रातीर ब्रह्मपुरींत आयिल्लो तोच.

कृष्णान केदाराच्या कानांत सांगलें, 'हो राम कुडव आनी तो दुसरो लासून मारपाची ख्यास्त जाल्या तो ताचो बापूय- संतप्पा कुडव.'

खूबशे लोक संतप्पा कुडवा म्हऱ्यांत धांवून गेले आनी व्हडल्या व्हडल्यान आड्डी हुयेली मारून उलोवंक लागले.

'पुराय कुटुंबाकूच तांणी हांगा हाडलां दिसता, न्हय!' केदारान म्हणलें.

आनी पळयतां पळयतां रोखडेच राखणेचे शिपायक धांवून गेले आनी बंदिवानांक लोकां मदल्यान वेगळे काडले. जायत्या जाणांक तांणी बंदुकींच्या दस्त्यान मारले. राम कुडवाक तांणी ओडीत व्हेलो आनी धर्मन्यायालयाच्या चवकशी अधिकाऱ्या मुखार दिमी मारून दवरलो.

'तुजें नांव कितें?' ताणें प्रस्न केलो.

'लुईस कॉस्तांव.' राम कुडवान जाप दिली.

'क्रिस्तांव तूं?'

'हय सायब, खरो क्रिस्तांव. भीक मागतां हांव सायब. म्हज्या बाबाचो जीव वाटायात.' राम कुडवान म्हणलें.

'ज्या दिसाच्यान हांवें म्हज्या राजाचो क्रिस्तांव धर्म स्विकारला त्या दिसाच्यान हांवें म्हज्या आदल्या धर्मातले शास्त्रविधी सोडून दिले. हांव क्रिस्ती धर्माक ओंपून घेतिल्लो खरो क्रिस्तांव, सायब.' राम कुडवान काकुळटेक येवन आपलें म्हणणें मांडलें.

'तुवें धर्माआड कसलोच गुन्यांव करूंक ना अशें म्हणटा तूं? आतां फुडारांत

एक बरो आनी खरो क्रिस्तांव जावन रावतलो तूं?' चवकशी अधिकाऱ्यान विचारलें.

'हय, सायब. खरो क्रिस्तांव जावन रावतलों.' ताणें धिटायेन जाप दिली. आपूण सुट्टलों अशी थोडी भोव आस्त ताका दिसली.

लोक उमळशिकेन थंड रावन वाट पळोवंक लागले. जायत्या जाणांचीं मुखामळां आशेन उजळ्ळीं. पुर्तुगेज नागरीक आनी नवे क्रिस्ती लोक चडावत उमळशिकेन निर्णयाची वाट पळयताले.

'तशें जाल्यार तुका हांव 'कॉंव्हेर्तु नेगातीव्ह' म्हूण मानतां आनी तुका आफ्रिकेक वचपी तारवांचेर गुलाम जावन वचपाची ख्यास्त दितां.' धर्मन्यायालयाच्या अधिकाऱ्यान कळीत केलें.

पुर्तुगेज नागरिकांनी सुटकेचो स्वास घेतलो. थंय हाजीर आशिल्ल्या दुभाषीन तो निर्णय कोंकणींत सांगलो. सगल्या स्थानिक लोकां मदीं मरण शांतताय पातळ्ळी.

निमाणे कडेन गोव्हेर्नादोरान धर्मन्यायालयान दिल्ल्या आदेशा प्रमाण कारवाय करात म्हूण शिपायक आनी पाद्रींक सरकारी आदेश दिलो.

ज्या बंदिवानांक दोशी थारायिल्ले तांकां सगल्यांक ओडीत कपेलांत व्हेले आनी थंय दिमी मारपाक सांगून आपूण गुन्यांवकार आनी पातकी आसून न्यायालयान थारायिल्ले प्रमाण शुद्धीकरण जावपाची गरज आसा अशें मना काळजांतल्यान मानून घेवपाक सांगलें.

सगल्या चार जाणांक जांकां 'आव्तु-दे-फे' ही ख्यास्त जाल्ली तांकां उक्त्या जाग्यार जंय एक म्हेड पुरिल्ली थंय ओडीत व्हेलीं आनी ते म्हेडीक बांदलीं. तांचे पांय बांदले, तांच्या तोंडाक बुरखे घाले आनी माथ्याक तोपी. तांचे भोंवतणीं जळवाचीं लांकडां मांडून रास केली. त्या लांकडांचे राशीर थोड्या पाद्रींनी मेण शिंपडायलें. बांदिल्लीं मनशां आड्डी आनी हुयेली मारून रडपाक लागलीं. जाणटे पाद्री फुडें सरले आनी त्या जळवाचे राशीक उजो लायलो. 15 ते 20 मिणटां भितर तें होमखण पेटलें आनी त्या उज्यान लांकडां, म्हेड आनी मनशां अशें सगळेंच गिळ्ळें.

थंय जमिल्ल्या चडांत चड लोकांच्यान हें दुश्ट आनी हीण कर्तुप पळोवं नजं जालें. तांणी दोनूय हातांनी तोंडां धांपून घेतलीं आनी ते रड रड रडले. जेजुईत लोक आनी पाद्री खोशी जाल्ले. व्हडलें जैत जोडिल्ल्याचे भाव तांच्या मुखामळार

खेळटाले.

थंयच्च्या पुराय वाठारांत मनशांची कात, मास आनी रगत जळिल्ल्याचो नाकाक झोमपी वास पातळिल्लो. ख्यास्त जाल्ल्या आनी तांच्या नात्यांतल्या मनशांच्या आड्डी, हुयेलींनी आनी दुख्खाचे हेळ काडून रडपाच्या आवाजान रगत गोठेवन वतालें आनी काळजांक पीळ पडटाले. तांची पुराय येवजण तडीक पावचे पयलीं कोणाकूच थंयच्यान वचपाक दिलें ना.

'आदले परस भिरांकूळ, निर्दय, अमानुश आनी रगताक तानेल्लें अशें नवें तंत्र तांणी आपणायलां आनी आपलें पावल आमचे गोंयचे मातयेंत घटमूट तरेन तांणी आतां रोयलां. गोंय सोडून धांवले बगर आमच्या लोकांक आतां दुसरो पर्याय ना.' कृष्णान म्हणलें.

सुर्यास्ताच्या वेळार दुखेस्त लोक थंयच्यान वचपाक लागले आनी जायत्या बंदी मनशांक बंदखणी भितर तांणी फांसार दिले. शेंकड्यांनी लोकांक पुर्तुगेज तारवांचेर कायम गुलाम म्हूण धाडले.

दुसऱ्या दिसा बंदखण्यांनी आनी इगर्जांनी तांणी खोस मनोवपाचे दबाजे घडोवन हाडले. जैताचें फेस्त मनयलें.

■■■

# पाद्री - अनाथांचो बाप

1560 वर्साचें दुसरें अर्द आनी 1561 वर्साचें पयलें अर्द अशा ह्या मदल्या काळांत गोंयांत हिंदू लोकांचे येणावळीच्या साधनांचेर सतत हावळ हाडून पुर्तुगेज शासकांनी तांकां हांगा जगप असंभव करून दवरलें. धर्मांतर जाल्ल्या लोकांनी परत आनी आपल्या आदल्या धर्मांत वचपाचो विचार लेगीत मनांत हाडचो न्हय अशे तरेचीं क्रूर आनी हीण कर्तुपां तांणी केलीं.

पुर्तुगालचो राजा दाँ सेबास्तियांव हाणें आदल्या सरकारी आदेशा बदला नवो आदेश गोंयांत धाडलो तो असो आसलो :

'हें पत्र वाचतल्या सर्वांक कळीत करतां की देवाचे सेवेक तशेंच म्हजे सेवेक येवपी आडखळी आनी उप्रासपी अडचण्यो लक्षांत घेवन म्हज्या शासनाच्या प्रदेशांत मुखेलपणान न्याय आनी महसुला कडेन संबंदीत अधिकारी जे थळाव्या ब्राह्मण आनी हेर हिंदू व्यक्तींक म्हज्या शासनाचे सेवेंत आस्पावन घेतात तांकां असो हुकूम दितां कीं हे भौशीक कळोवणेचे तारखेक सावन कोणेंच शासकी अधिकाऱ्यान ब्राह्मणांची वा हेर थळाव्या धर्मदुश्ट व्यक्तींची आपल्या शासकी कार्यालयांच्या कामां खातीर सेवा घेवची न्हय. तरी कोणाय अधिकाऱ्यान हो हुकूम मोडलो जाल्यार ताका त्या पदा वयल्यान काडटले आनी त्या थळाव्या ब्राह्मण वा

हेर कोण थळावो हिंदू व्यक्ती आसत तर ताका बंदखणींत घालतले आनी ताची आस्पत जप्त करतले. हे आस्पतीचो अर्द वांटो म्हज्या नांवार जातलो आनी दुसरो अर्द वांटो ताचें हें कर्तूप दाखोवन दिवपी व्यक्तीक मेळटलो. हो हुकूम गोंय शारांत तेच प्रमाण हेर शारां आनी म्हज्या अधिकारांत आशिल्ल्या कोटां भितरूय लागतलो. तरी लेगीत कांय जबाबदाऱ्यो थळाव्यांक दिवपाची गरज उप्रासली जाल्यार त्यो फक्त थळाव्या क्रिस्तांव व्यक्तींक दिवच्यो.'

हें राजाचें शासकी पत्रक सरकारी कार्यालयांनी वाचलें आनी अणकारलें. ते उपरांत दुसऱ्याच दिसा अर्दे सरकारी कर्मचारी कामार वचनासतना रावले. आपणाक धरून बंदखणींत घालतले म्हणून ते भिले.

थोडे कर्मचारी जे कामार गेले तांकां कांय बऱ्या मनाच्या अधिकाऱ्यांनी कचेरेचे आशिकुशीक खंयच दिश्टी पडूं नाकात म्हूण शिटकावणी दिली. आयले जाल्यार कारणा बगर बंदखणींत पडटले म्हूण तांकां जागरूक रावंक सांगलें.

थोड्यांक धरलेय बी आनी कोटांत व्हेले.

हे संदीचो जेज्वीत पाद्रींनी बरो फायदो घेतलो. शिक्षणीक पात्रताय खूब उणी आशिल्ल्या मनशांक लेगीत तांणी सरकारी चाकरेचें हांयस दाखोवन ख्रिस्ती धर्मांत येवपाक फुसलायलें. खूबश्या स्थानीक लोकांक अशे तरेन समजावन धर्मांतर करपाक उर्बा दिवंक लागले.

'ही संद तुमकां परत केन्ना मेळची ना. शिकिल्ले हिंदू लोक तुमकां ही संद मेळपाक दिवचे नात. तुमी धर्मांतर करात आनी तुमकां सरकारी चाकऱ्यो आमी मेळोवन दितात.' तांणी गांवगिऱ्या लोकांक समजायलें.

तांची येवजण फळादीक जाली. धर्मांतराचे तांचे येवजणेक व्हड येवकार मेळ्ळो. हजारांनी लोक धर्मांतर करपाक फुडें आयले. ह्या नव्या धर्मांतरीत लोकांक सरकारी चाकऱ्यो मेळ्ळ्यो. आदल्या धर्मांतर करपाक तयार नाशिल्ल्यांक काडले आनी नव्यान क्रिस्तांव जाल्ल्यांक तांच्या रित्या सुवातांचेर घेतले. 1561 वर्साच्या नातालांच्या समया मेरेन 20,737 लोकांचें धर्मांतरण करून तांकां क्रिस्तांव केल्ल्यांची वळेरी जेज्वीतांनी लिस्बोआक धाडली.

जायत्या मोलादीक वस्तूंचो एक तारूं भरून म्हालवज, दुडू आनी हेर गिरेस्तकाय घेवन गोव्हेर्नादोर दाँ कॉन्स्तांतीनु पुर्तुगालाक आपल्या घरा गेलो.

राजा दाँ सेबास्तियान हो पिरायेन ल्हान आशिल्ल्यान ताची आवय राणी

कातालिना राज प्रतिनिधी जावन काम करताली. 1562 वर्सा राजकारणी आनी धर्मीक फुडाऱ्यांनी तिचेर सोंसूं नज असो दबाव हाडपाक सुरवात केली. तेन्ना तिणें आपलें राजप्रतिनिधीपद सोडून दिलें. अशे तरेन पाद्रींच्या मार्गांतली एक आडखळ पयस जाली. तांणी दाँ फ्रान्सिस्क कुतिन्य हाका गोव्हेर्नादोराचो प्रतिनिधी म्हूण वेंचून काडलो आनी गोंयांत धाडलो. गोव्हेर्नादोराचे पुराय अधिकार ताका दिले नात. पणजे पावलो तेन्ना ताका दबाज्यान येवकार दिलो.

'गोव्हेर्नादोर येतले आनी गोव्हेर्नादोर वतले पूण पाद्री सदां खातीर हांगा उरतले.' हें सूत्र मतींत धरून दाँ फ्रान्सिस्क कुतिन्याक उर्बेभरीत येवकार दिलो. गोंय कोटांत आनी रायतूर कोटांत खोस मनोवपाचो सुवाळो जालो.

राजान मान्यताय दिल्ल्या नव्या तजविजांचो आस्पाव केल्ली एक वळेरी दाँ फ्रान्सिस्क कुतिन्याच्या हातांत दिली. ते वळेरेंतल्यो तजविजो धर्मांतरणाक उर्बा दिवपा खातीर वारसदारी हक्का संबंदांतल्यो आशिल्ल्यो. तातूंतल्यो थोड्यो अश्यो आशिल्ल्यो :

1. आयचे तारखेन अशें कळीत करतां की हें शार आनी गोंय जुंव्याचेर, हिंदुस्थानांतल्या म्हजे राजवटकेच्या ह्या प्रदेशांत कोणूय एकाद्री हिंदू व्यक्ती मेले उपरांत जर ते व्यक्तीक वारसदार पूत नासत तर ताची आस्पत आनी म्हालवज ताचे बायलेक आनी धुवांक वारसदारी हक्कान मेळटली मात तांणी क्रिस्तांव धर्म स्विकारचो पडटलो. तीं जर क्रिस्तांव जावपाक तयार नासतीत तर ते मरण आयिल्ले व्यक्तीच्या चडांत चड लागींच्या नात्यांतल्या व्यक्तींक ताची आस्पत वारसोहक्कान मेळटली पूण ती तांणी क्रिस्तांव धर्म स्विकारलो जाल्यारूच. अशें जालें जाल्यार हेर कोणाच नात्यांतल्याक आस्पतीचो वांटो मेळचो ना.

2. क्रिस्तांव जावपाक तयार आसलीं जाल्यारूच एके हिंदू व्यक्तीच्या पुतांक, नातवांक वा हेर कोणाय नात्यांतल्या व्यक्तींक ताच्या मरणा उपरांत ताचे आस्पतीचो वारसाहक्क फावो जातलो. हिंदूंचे प्रथे प्रमाण बापायचे आस्पतीचो वांटो धुवांक मेळपाची वेवस्था नासली तरी तांणी ख्रिस्ती धर्म आपणायलो जाल्यार तांकां बापाय फाटल्यान ताचे आस्पतीचो वारसाहक्क फावो जातलो. दुसऱ्या कोणाच नात्यांतले व्यक्तीक तातूंतलो वांटो मेळचो ना. निमाणे कडेन कोणूय हिंदू दादलो वारस नासतना वा इत्सापत्र करिनासतना मेलो जाल्यार ताची आस्पत राजाच्या नांवार जातली.

3. हांव कायद्याक धरून असो आदेश दितां की हे तारखे सावन एके हिंदू व्यक्तीचे बायलेन क्रिस्तांव धर्म स्विकारलो आनी ती आपल्या घोवा वांगडा रावपाक तयार नासत आनी तो आसा तसोच धर्मद्रोही राविल्ल्यान ताचे कडल्यान वेगळी जावंक सोदता जाल्यार ती क्रिस्तांव जाल्ली आसत तेन्नाच्यान तिची सगळी मुस्तायकी आनी भांगरशिंगर आनी अदीक तिच्या घोवाची अर्दी आस्पत जावं ती चलती वा स्थावर जी तांणी लग्ना उपरांत जोडिल्ली आसत जाल्यार ह्या आदेशाक बांदिल रावन ती क्रिस्तांव जाल्ली आसत तेन्नाच्यान तिचे सुवादीन जातली.

दुसऱ्या आदेशा वरवीं ह्या प्रतिनिधीक राजान जो अधिकार दिल्लो तो आसलो आवयबापूय ना जावन अनाथ जाल्ल्या भुरग्यांक अनाथांचे बापूय – 'पाद्री पाय दुश आर्फुश' म्हूण नांव दिल्ल्या पाद्रींच्या ताब्यांत दिवन तांकां क्रिस्तांव धर्माची दिक्षा दिवपाचो.

दाँ फ्रान्सिस्क कुतिन्यान नागरिकांक उद्देशून एक आदेश काडलो आनी तांकां कळीत केलें की तांणी आपले भोंवतणीं अशे तरेन अनाथ जाल्लीं भुरगीं आसल्यार स दिसां भितर सरकाराक तांची म्हायती दिवची. दर गांवांत भंयान लोक थरथरले. दर एका गांवांत 'साग्रादु रेजिमेंतु' पंगडान घुरी घालून केल्ले कारवायेक लागून धा बारा तरी भुरगीं अनाथ जाल्लीं आसलीं. त्या भुरग्यांक लिपोवन दवरपाची कोणाकूच छाती जाली ना.

खूबश्या गांवकारांनी गुप्ततायेन थोड्या भुरग्यांक ब्रह्मपुरींत पावयलीं. वर्सा भितर शंबरा वयर भुरगीं थंय एकठांय जालीं. प्राचार्य सोमशर्माक तेन्ना खूब हुस्को जावंक लागलो. तांणी कृष्णा, केदार, ज्ञानदेव आनी जिवबा हांकां आपोवन घेतले आनी गुप्ततायेन तांचे कडेन उलोवणीं केलीं.

'परिस्थिती एकदम भिरांकूळ आसा. ब्रह्मपुरींत आमचे कडेन शंबरां वयर अनाथ भुरगीं आसात म्हणपाची खबर पाखल्यांक कळ्ळी जाल्यार आमची आनी धडगत उरची ना. बेगिनांत बेगीन आमी कितेंय तरी निर्णय घेवन कारवाय करपाची गरज आसा.' तांणी म्हणलें.

'खंय व्हरपाक शकतात आमी तांकां?' केदारान विचारलें.

'दर दिसा लोक गोमन्तक सोडून वचपाक लागल्यात. भुरग्यांक धर्मांतरांतल्यान वाटावपाचें आसत जाल्यार आमी लोकांक भुरग्यांक वांगडा व्हरात म्हूण बरे भाशेन समजावन सांगपाक जाय.' केदारान सुचयलें.

'अशें करून आमी तांचो जीव धोक्यांत घालतले. आनी कोणूय तशें करपाक तयार जायत सो म्हाका दिसना.' जिवबान म्हणलें.

'प्रयत्न करपाक हरकत ना. तुमी लोकांक मेळून उलोवन पळयात.' प्राचार्यांनी म्हणलें.

कृष्णान कांयच म्हणलें ना. तो ओगी आशिल्लो. प्राचार्यांनी ताचे वटेन पळयलें. 'तूं ओगीसो रावला कृष्णा?' तांणी विचारलें.

'आचार्य, अशें करून कितेंय उपेग जातलो काय कितें हाचो म्हाका दुबाव येता. कोणूय ह्या अनाथ भुरग्यां खातीर आपलो जीव धोक्यांत घालीतसो दिसना म्हाका. आमी दुसरो कसलोय उपाय सोदून काडपाक जाय.' कृष्णान आपलो निर्णय सांगलो.

'कसलो उपाय येवजला तुका?' प्राचार्यांनी विचारलें.

'आमी ह्या भुरग्यांक नाटकी पद्दतीन सुरक्षीत जाग्यार घेवन वचप.'

सगले थोडो वेळ कांयच उलयले नात.

'.....आनी कशें कितें करपाचें तें?' जिवबान विचारलें.

'आमकां खरेपणीं जें कितें करपाचें आसा ताचें उरफाटें आमी करपाक सोदतात असो देखावो करप. म्हणल्यार शिमे वयल्या रक्षकांक आमी सरकारान करपाक सांगलां तशेंच करपाचे आसात अशें वयलेवयर भासोवप. हांव नाटकी तरेन म्हणटा तें अशें.'

'कुवाड्याचे भाशेन उलोवं नाका. तुगेली मांडणी कितें आसा तें विस्कावन सांग.' ज्ञानदेवान संयम सोडून म्हणलें.

कृष्णा मोठ्यान हांसलो. 'तशेंच तर करपाचें आसा म्हाका. लोकांच्या मनांत घुस्पागोंदळ निर्माण करपाचो.'

'राधिका आनी हांव नव्या क्रिस्तांव लोकांवरी भेस करतलीं आनी अर्द्या भुरग्यांक आगशे घेवन वतलीं. थंयच्यान जुवारींतल्यान व्हड्यांत बसून आमी बोरी गांवा वटेन वतलीं आनी भुरग्यांक आमी धर्मदिक्षा दिवपाक रायतुरा व्हरतात अशें भासोवन तांकां सुरक्षीत अश्या जाग्यार घेवन वतलीं.'

'ही मांडणी बरी आसा. पूण राधिकाच्यान असलें हें काम करपाक जायत मूं?' प्राचार्यांनी विचारलें.

'म्हाका खात्री आसा जातलें तिच्यान हें काम. हांव शिकयतलों तिका कशें

कितें करप तें.' कृष्णान खात्री दिली.

'केन्ना वतलो तूं?' प्राचार्यांनी ताची उमेद वाडयत विचारलें.

'शेनवारा दीस बरो आसा. आयतारा रायतूरचे इगर्जेंत धर्मदिक्षा दिवपाचो विधी जाता. देखून शेनवार हो शूभ दीस हातूंत आनी दुबाव ना. पयल्या पंगडाक व्हरपाच्या कामांत जैतिवंत जालीं जाल्यार उरिल्ल्या अर्दांक व्हरपाक परत येतात. आमी आयलीं नात जाल्यार आमी सोंपलीं म्हण समजुपाचें. घडये आमी खरेपणींच क्रिस्तांवं जाल्लीं आसतलीं वा बंदखणींत पावतलीं.' कृष्णान निर्विकारपणान म्हणलें.

घरा पावून चेरो गंभीर करून कृष्णान राधिकाक म्हणलें, 'आतां आमी दोगांयनी क्रिस्तांव धर्मांत वचपाचें.'

'कितें? तूं पिसावला हय रे?' राधिका एकदम आड्डलें.

'ना. हांव खऱ्यांनीच म्हणटां. आमी धर्मांतर करपा खातीर रायतुरा वचपाचें. प्राचार्यांचो आदेश आसा तसो.' कृष्णान म्हणलें.

'आरे, जालां तरी कितें रे तुका? कितलीं वर्सां जालीं तूं गुप्ततायेन पुर्तुगेजां आड झुजत आसा आनी आतां तुवें क्रिस्तांव जावपाचें चिंतलां? खंय गेली तुजी सद्सद्विवेकबुद्द? खंय पावलो तुजो धर्म? विस्वासूच बसना म्हजो तुज्या शब्दांचेर. इतल्या लोकांक सोडून प्राचार्यांनी तुका दिलो धर्मांतराचो आदेश? म्हाका दिसता संवसार आतां सोंपपा कडेन पावला.' राधिका मुसमुसून रडपाक लागलें.

कृष्णान ताच्या दोनूय खांदांक धरून अळंगसाणेन हालयलें आनी वेंगेंत घेवन ताच्या कपलाचेर ओंठ तेंकोवन उमो घेतलो. 'बेठीच मस्करी केली गो हांवें. चुकलों हांव, तुका दुखोवपाचें नाशिल्लें म्हाका.' तो ताका समजायत उलयलो.

'कसली दुश्टपणाची मस्करी तुगेली? असलीं क्रूर फकांडां करूं नाका म्हजीं. सोंसूं नज म्हज्यान तीं.' दुकां पुशीत राधिकान म्हणलें.

'चुकलो गो हांव, बाये म्हज्या मोगा ! खरेंच क्रूर फकांडां केलीं हांवें. परत केन्नाच करचों ना. वचन दितां हांव तुका.' ताणें खात्री दीत म्हणलें आनी ताचीं दुकां पुसलीं.

'पूण एक गजाल मात खरी, आमकां येता त्या शेनवारा रायतुरा वचपाक जाय.'

ताणें ताका हाताक धरून आपणा वांगडाच सकयल जमनीर बसयलें आनी आपली पुराय येवजण सांगली.

‘येतलें न्हय तूं म्हज्या वांगडा?’ ताणें राधिकाक निमाणे कडेन विचारलें.

ताणें खोशयेन राधिकाक वेंग मारली. भावना आडावं नज जावन ताणें ताच्या ओंठांक ओंठ तेंकोवन दाटून आयिल्ल्या उमाळ्यान ताचो उमो घेतलो. मागीर ताणें म्हणलें, ‘अशे तरेचे संदीची हांव वाटूच पळयतालें. खरेंच, हांव येतलेंच तुजे वांगडा, दुबावूच ना.’

‘खूब धोको आसा ह्या कामांत, जाणा तूं?’ कृष्णान म्हणलें.

‘म्हाका याद करून दिवं नाका तूं. हांव जाणां हे जबाबदारेंत कितलो धोको आसूंक शकता तो. जे मेरेन तूं म्हज्या सांगाताक आसतलो ते मेरेन म्हाका कसलोच भंय दिसचो ना.’ ताणें ताका खात्री दिली.

‘आनी तुका एकट्याकूच तांणी धरलें जाल्यार?’

‘तिवूय तयारी दवरल्या हांवें.’ अशें म्हणून तें उठलें आनी रांदचेकुडींत वचून एक ल्हानशी रुप्याची डबी घेवन भायर आयलें. ती ताणें कृष्णाक दाखयली.

‘हातूंतलो एक चिमूटभर पदार्थ लेगीत एका शिंवाचो जीव घेवपाक पुरो. मनशाचें कितें व्हडलें?’ तें धिटायेन उलयलें.

‘हय, वीख. म्हाका हात लावपाची संदूच दिवचें ना हांव त्या पाखल्यांक. ते आदींच हांव गेल्लें आसतलें सर्गार.’

‘म्हणल्यार तूं तांच्या हातांत पडलें जाल्यार वीख खावन जीव दितलें?’ कृष्णान विचारलें.

‘दुसरो उपाय नासत जाल्यार हांव हो उपाय करपाक फाटीं सरचें ना. फाटलीं धा वर्सां तूं धर्मा खातीर आपलो जीव धोक्यांत घालीत आसा. म्हाकाय अशें करपाची धिटाय आसा अशें दिसना तुका? धर्मा खातीर जगपाचो वा ते खातीर मरपाचो प्रसंग आयलो तरी हांव भोव खोशयेन तयार आसां.’ राधिकान व्हडा धिटायेन जाप दिली.

कृष्णान राधिकाक घट्ट वेंगेंत घेतलें. ‘खूब धिटायेची अस्तुरी तूं. हांवें आदीं जी सादीभोळी अस्तुरी त्या आंब्यारुखा पोंदां पळयिल्ली तशी तूं आतां उरूंक ना. आतां हांवें जी मांडणी थारायल्या ती तुका सांगतां. सारकी आयकून घे.’

शेनवारा सकाळीं सूर्य उदेवपाच्या वेळार अनाथ हिंदू भुरग्यांक घेवन तीन बैलांगाडयो रस्त्यान कुशस्थळीचे वटेन वतना दिसल्यो. भुरग्यांच्या हातांत पावाचे कुडके आसले. त्या भुरग्यांचें फुडारपण एक जाणटो मध्यम पिरायेचो दादलो

करतालो. ताणें येवरोपी तरेची मुस्तायकी घाल्ली आनी ताच्या पांयाक बूट आसले. गळ्यांत एक मणयांची माळ आसली आनी ते माळेक एक पितळेचो खुरीस हुमकळटालो.

राखणेच्या दोगां शिपायकांक दुबाव आयलो. एकल्यान लोकांची भास जाणा आशिल्ल्या अणकारपी मनशाक आपोवन हाडलो. सगलीं भुरगीं, कृष्णा आनी राधिकाक एका झाडा पोंदां बसपाचो आदेश दिलो. .

'कोणें सांगलां तुका ह्या भुरग्यांक रायतुरा व्हरपाक?' ताणें विचारलें.

'ह्या भुरग्यांक धर्माची दिक्षा दिवन ख्रिस्ती धर्मांत घेवपाचो भोव मानादीक गोव्हेर्नादोरान आदेश दिला आनी ते खातीर तांकां रायतुरा व्हरपाक सांगलां.' कृष्णान सोंपेपणीं कोंकणी भाशेंतल्यान जाप दिली.

अणकारपी मनशान राखणे शिपायकांक कृष्णा जें कितें उलयलो तें पुर्तुगेजींत सांगलें. राखणदारान आनीक जायते प्रस्न विचारले.

'तूं क्रिस्तांव म्हणटा ताचो पुरावो कितें?'

कृष्णान आपलो कोट उक्तो केलो आनी खुरसा वयल्या जेजुची प्रतिमा दाखयली. तसलोच खुरीस आपले बायलेच्या गळ्यांत आशिल्लो तोवूय दाखयलो.

'पाद्री अनाथ भुरग्यांचो पाय म्हणटात तो कोण तो तूं जाणा?'

'हय. तो पाद्री आंतोनियु फ्रान्सिस्कु, जो रायतुरा रावता.' कृष्णान सडसडीत जाप दिली.

'तूं खरो क्रिस्तांव जाल्यार आमी पळयतले.' राखणदार गुणगुणलो आनी चाकरांक कितें तरी हाडपाक सांगलें. तीन चार मिणटांनी चाकर एक वाडगो घेवन आयलो.

'हें पी म्हण सांग ताका.' ताणें दुभाश्याक सांगलें. कृष्णान तो वाडगो घेतलो आनी मात्सोय अनमननासतना तातूंतलें द्रव्य पिलो. ताका तें मद्य म्हूण कळ्ळें.

'इल्लें गायेचें मास आसल्यार बरें जाल्लें.' तो राखणदार आपल्या सांगात्यांक म्हणटालो तें दुभाश्यान आयकलें.

'उपकार करून सोडात आमकां. काळोख पडचे पयलीं आमकां रायतुरा पावपाक जाय ह्या इतल्या भुरग्यांक घेवन.' कृष्णान राखणदारा कडेन मागलें.

दोगांय राखणदारांक कितें निर्णय घेवचो तोच कळना जालो. तिसऱ्या राखणदारान म्हणलें, 'सायब, ताका सोडल्यार बरो. गोव्हेर्नादोराचो आदेश पाळटा

न्हय तो. आनी तो एक क्रिस्तांव.'

दोगूय राखणदार सट्ट करून एका निर्णयार पावले. तांचे मदल्या वरिश्ठान सोड ताका असो पुर्तुगेजींत आदेश दिलो.

'सायबान तुमकां सोडल्यात. पूण कसलीय वांकडी खेळी मात खेळूं नाकात.' कृष्णाच्या मुखामळा वयले भाव वळखुपाचो दुभाश्यान यत्न केलो. कृष्णा मुखामळार निर्विकार भाव राखून ताका पळयतालो.

सगल्या भुरग्यांक दोन व्हड्यांनी बसयलीं. कृष्णा आनी राधिका दोगांय दोन व्हड्यांनी चडलीं. व्हडीं दक्षीण-पूर्व दिकेन वचपाक लागलीं. प्रवासा मर्दी खंयच राखणेचें वा नौदलाचें व्हडें तांकां मेळ्ळें ना. हरशीं तीं न्हंयांनी वयर सकयल यो - वच करीत आसतालीं.

कृष्णान व्हडीं उदेंतेच्या कांठार बोरयेच्यान थोडीं फुडें व्हरपाक सांगलें. एका मेकळ्या शेतांत भुरग्यांक बसयलीं आनी तांच्या सांगाताक राधिकाक दवरून कृष्णा सुरक्षीत अर्शी घरां सोदपाक गेलो.

पंदरा वीस मिणटां चलून गेले उपरांत ताका एका शेता भोंवतणीं कुळागर आशिल्लें दिसलें. शेतांतल्यान उदकाचे पाट व्हांवताले. उदेंतेचे कडेर एक व्हडलें घर आशिल्लें ताका दिसलें. ताच्या मुखार आंगणांत तुळशीचें पेड आसलें. घरा कडल्यान थोड्या अंतराचेर तीन चार खोंपीय आशिल्ल्यो.

कृष्णा तुळशी कडेन वचून उबो रावलो आनी ताणें माई...माई....म्हणून उलो मारलो. थोड्याच वेळान एकटो मध्यम पिरायेचो बारीकसो, उगडो आनी जानवें घाल्लो मनीस फुडल्या दारांतल्यान भायर आयलो.

'कोण बाबा तूं? कितें जाय तुका?' ताणें कृष्णाक विचारलें.

'सारस्वत ब्राह्मण कसो दिसता.' कृष्णाक दिसलें.

'म्हजें नांव कृष्णा. हांव ब्रह्मपुरी सावन आयलां.' कृष्णान जाप दिली.

'ब्रह्मपुरी?' घर धनयाक अजाप जालें. ताणें कृष्णाक वयर सकयल सारको पळयलो.

'हांवें घाल्ल्या कपड्यांचेर वचूं नाकात. हें एक सवंग.' कृष्णान ताका खरें सांगपाचो यत्न केलो.

'कितें म्हणटा.....कृष्णा?' ताणें विचारलें.

'कृष्णा पै. हांव प्राचार्य सोमशर्माचो शिश्य.' कृष्णान जाप दिली.

‘तशें जाल्यार हो भेससो कित्याक?’ ताणें विचारलें.

‘ती एक व्हडली काणी. म्हाका उदक दियात इल्लें पिवपाक.’ कृष्णान मागलें.

ताणें उदक हाडपाक लायलें. घरांतल्यान मातयेचो बुडकुलोभर उदक घेवन एक घरचो वांगडी आयलो. मालक अजून ताच्या हातांत बुडकुलो दिवपाक अनमनतालो.

कृष्णान ओणोव घेतलो आनी दोनूय हातांचो पोसो करून रावलो तेन्ना ताणें अनमनतच ताच्या पोशांत उदक रकयलें. कृष्णा जाय तितलो उदक पिलो.

थंय आंगणांत एका माडा भोंवतणीं चिऱ्यांनी बांदिल्लें पेड आसलें. कृष्णान ताचे वटेन बोट दाखयत म्हणलें, ‘आमी हांगा बसून उलोवया.’

कृष्णान गोंयच्या जुंव्यार कशे तरेची परिस्थिती उप्रासल्या हे विशीं विस्तारान सांगलें. आपणें आनी राधिकान अनाथ भुरग्यांक वाटावपा खातीर कशे तरेन धोको पत्करून फुडाकार घेतला ते विशींय सगलें सांगलें.

‘थोडें कितें अन्न गोटो खावपाक तांकां दिला. तांकां घेवन आमी फोंड्यां वतलीं.’ कृष्णान सांगलें. विष्णू शास्त्री कांय वेळ अवाक जालो.

उपरांत तो उलयलो. ‘लोकां खातीर वावुरपाक तुमी दाखयतात ती धिटाय आनी लागणूक खऱ्यांनीच खूब तोखणायेची. निमाणो फुडारी जो पाखल्यांक आडावपाक फुडें सरलो तो वेर्णेचो म्हाळ पै. पूण ती तीस वर्सां आदली गजाल. आतां म्हाका एकूच दिसता तें म्हणल्यार जे मेरेन आमकां कोणाय राजाचो आलाशिरो मेळना ते मेरेन आमकां संकश्टांतल्यान मुक्ती ना.’ ताणें म्हणलें.

‘पयलीं आमी हीं जीं शेतांत बसून वाट पळयतात. त्या भुरग्यांक कशीं वाटावया तें सांगात.’ कृष्णान म्हणलें.

‘तूं तांकां पयलीं हांगा हाड. आमी पयलीं तांचे खातीर रोखड्यारोखडी पेज करुंया. हांव तुका तीन बैलांगाडयो दितां तांकां हांगा हाडपाक.’ ताणें सांगलें.

एका वरा भितर पेज शिजयली, नाल्लाची चटणी वांटली आनी भुकेल्ल्या भुरग्यांक पेज आनी चटणी वाडली. जेवले उपरांत तांकां गोड सायेचें खटखटें खावपाक दिलें.

‘सोंदेचो राजा अरसप्पा नायका कडेन उलयात तुमी. आयज मेरेन हिंदू आनी मुसलमान लोक जे फोंडें म्हालांत येवन रावल्यात तांकां ताणें सवलती दिल्यात.’

‘पूण तो विजापूरच्या सुलतानाचो मांडलीक.’ कृष्णान म्हणलें.

‘तशें आसल्यार पर्वा ना. कितेंय जालें तरी पुर्तुगेज हे सुलतानाचे वैरीच न्हय? अरसप्पा नायकान देवळां बांदपाकूय मान्यताय दिल्या.’ विष्णू शास्त्रीन सुचयलें.

‘तुका सोंदेच्या अरसप्पा नायकाक मेळपाक जाय जाल्यार हांव तशी वेवस्था करीन.’ शास्त्रीन खात्री दिली.

‘आमी पयलीं भुरग्यांक फोंड्यां व्हरपाचें पळोवया. तांची थंय रावपाची आनी जेवणाची वेवस्था करुंया. हांव तीन चार दिसांनी तुमकां येवन मेळटां. तेन्ना म्हाका तुमी कशें कितें करपाचें तें सांगात.’ कृष्णान म्हणलें.

दीस अस्तंते वटेन देंवूंक लागिल्लो. अश्या वेळार भुरग्यांक तीन बैलांगाडयांनी बसोवपाचें काम सोंपत आयिल्लें. शास्त्रीन आपल्या तीन गाडेकारांक धाडले. बैलांगाडे उदेंते वटेन फोंड्यां वचपाचे वाटेक लागले.



# अधिकार नाशिल्ले दूत

फोंडेंच्या मामलेदारान सगल्या भुरग्यांची वेवस्था वीरभद्र देवस्थानाचे अगरसाळेंत करून दिली. तेच रातीं कृष्णा महम्मद इक्बालाक वचून मेळ्ळो आनी आपणाक फोंड्यां कित्याक येवचें पडलें ती पुराय खबर ताका सांगली.

तूं सोंदे वचून अरसप्पा नायकाक मेळपाक सोदता जाल्यार तुवें आतांच गेल्यार बरें जातलें. परत फाटीं वचनासतना शास्त्री कडेन वचून तुजो बेत थाराय आनी हांगाच्यानूच सोंदे वच. हांव ब्रह्मपुरींत प्राचार्यांक खबर दिवपाक मनीस धाडटां. ते भायर तुज्या सांगाताक हांव दोगां मनशांक दितां. तुजे वांगडा राधिका आसा हें लक्षांत धर. एकटो ना तूं.' महम्मद इक्बालान ताका धीर दिवन सांगलें.

दोन दिसांनी कृष्णा आनी राधिका फाटीं परतून शास्त्रीगेर गेलीं. हे फावटी शास्त्री हुस्क्यामेकळो जाल्लो आसलो. ताणें ह्या जोडप्याक उमेदीन येवकार दिलो.

'सोबीत बरें चली भुरगें मुगो तूं राधिका. गांवान खंयचें तूं? आवयबापूय बी कोण?' विष्णू शास्त्रीन विचारलें.

कृष्णा ताका पळोवंक लागलो.

फाटींफुडें जायनासतना राधिकान जाप दिली. 'हांव एक अनाथ भुरगें काका. तेच खातीर हो म्हजे कडेन लग्न जालो. आचार्यांनी आशिर्वाद दिलो आमकां.

कृष्णाय बी एक अनाथ भुरगोच, जाणात तुमी.'

'खरेंच, एकामेकांक सोब सारकींच आसात तुमी. राधाकृष्णाचें जोडें सोबतात, खरेपणीं. बरें जावं तुमचें, आशिर्वाद म्हजे तुमकां.' शास्त्रीन हात वयर करून आशिर्वादाच्या आविर्भावान म्हणलें.

आमी अनाथ आसुनूय ब्रह्मपुरींत आमकां भेदभाव नासतना सगल्या वांगडा सारकें मेकळेपणीं रावपाक मेळ्ळें, कोणें आमचेर अन्याय केलो ना वा उणाक लेखलीं ना. तीच गजाल मतींत धरून ह्या अनाथ भुरग्यांच्या फुडारा खातीर वावुरपाचें आमी चिंतलें.' कृष्णान सांगलें.

'कळ्ळें पुता म्हाका. पूण आयज राजकी परिस्थिती सारकी ना. सध्या जे लोक गोंय सोडून गेल्यात ते वयलेचाराक सुरक्षीत आसात अशें आमकां दिसता. पूण कितले दीस ही परिस्थिती उरतली हो खरो प्रस्नच आसा. तूं सोंदे वा भटकळा वचून सुरक्षीत कित्याक रावना?' शास्त्रीन विचारलें.

'तो वेळ अजून येवपाचो आसा, काका. तांणी खूब देवळां मोडलीं आनी ते अजून जायतीं मोडपाचे आसात. ब्रह्मपुरीकूय खूब धोको आसा. प्राचार्य आनी हेर आचार्य ब्रह्मपुरींतूच आसात. तांकां हांव तशेच फाटीं दवरून वचपाक सोदिना.' कृष्णान फुडें सांगलें.

'पूण तुका गोमन्तक सोडून वचपाची संद मेळटलीच म्हूण सांगूं नज. तूं सध्या जीव संकटांत घालुनूच जगता.' शास्त्रीन ताका शिटकायत म्हणलें.

दुसऱ्या दिसा एके बैलांगाडयेंतल्यान कृष्णा आनी राधिका उत्तर-पूर्व दिकेन खांडेपारा वटेन वचपाक गेलीं आनी थंयच्यान मुखार सुर्ला गेलीं. कृष्णान तांबडेसुर्ला वचून महादेवाच्या देवळांत देवाचें दर्शन घेवपाचें थारायलें. अटंग्या रानांतल्यान वचपाचो अणभव आंगार कांटो हाडपी आसलो तरी खोसदिणोय आसलो.

तांबडेसुर्लाचें महादेव मंदिर अनमोड घांटाच्या देंगणांत दोंगराच्या मुळसांत आसलें. 'हें देवूळ कदंब राजांनी दोनशीं वर्सां आदीं बांदिल्लें.' कृष्णान राधिकाक सांगलें.

दोगांयनी देवाचें दर्शन घेवन प्रार्थना केली. 'देवा परमेश्वरा, आमचो गोमन्तक पुर्तुगेजांच्या चपक्यांतल्यान सोडोवपाक आमकां शक्त दी.' कृष्णा आनी राधिकान मागलें.

'आतां आमकां दोंगराची उबी चडटी चडून वचपाक जाय. तयार राव ते

खातीर.' कृष्णान राधिकाक सुचयलें. जिवाक नाकापुरो जावपा सारको तो प्रवास. जीव कासावीस जालो. दनपार जावन गेले उपरांत तीं पाचव्या दाट रानवटी प्रदेशांत ऊंच दोंगरा वयल्यान सकयल देंगणांत उडी घेवपी सोबीत सुंदर अश्या दूदसागर घसघशा लागीं पावलीं. पावसाचे दीस सोंपून थोडेच दीस जाल्ले. ते खातीर खूब नेटान व्हडलो आवाज करीत तो घसघसो सकल पडटालो. तो देखावो खुबूच सुंदर दिसतालो.

'हो उदका परस दुदाचोच कसो चड दिसता न्हय?' राधिकान अजापान म्हणलें.

'दूदसागर कित्याक म्हणटात तर ताका? हांगाच्या चिखलाचो आनी मातयेचो रंग पळयला तुवें?' कृष्णान तांचे वटेन बोट दाखयत म्हणलें.

'हय, असो काळसार कसो तो?' राधिकान विचारलें.

'हातूंत लोह धातू आसा. हो खूब घट आसता. समशेरी, भाले बी युद्धाक लागपी शस्त्रां करतात ताचीं. जाणां तूं, कृष्णान आपलें सुदर्शनचक्र ह्या धातू पासून तयार केल्लें.' कृष्णान राधिकाक सांगलें.

'म्हणल्यार कृष्ण हांगा गोंयांत येवन राविल्लो?' राधिकान उमळशिकेन विचारलें.

'आनी कितें तर? तो आनी बलराम कांय काळ हांगा रावताले. हांगाच तांणी मगधचो राजा जरासंधाक हारयिल्लो.' कृष्णान राधिकाक आदलो इतिहास सांगलो.

'हीं झाडां पळय कितलीं सुंदर. कितलीं व्हडलीं आनी खूब घटमूट. देवदार वृक्ष म्हणटात तांकां. पुर्तुगाली लोक तांचें लांकूड तारवां बांदपाक वापरतात.'

'तूं जाणां, ह्या लांकडांची पुरवण करपाचो ठेको आमच्या गोंयांतल्या कामत घराण्यांतल्या वेपाऱ्यांक मेळ्ळो.' कृष्णान सांगलें.

'म्हणल्यार एका अर्थान पाखल्यांकूच मजत करपा सारकें जालें. ते ह्या लांकडांचीं तारवां बांदतात आनी आमचे लोक त्या तारवांचेर गुलाम जावन काम करतात. कसली चमत्कारीक परिस्थिती आनी आमचीच क्रूर मस्करी ही!' राधिका उद्गारलें.

'पूण दुसरे वटेन पळय तूं. जर ह्या कामत लोकांनी हो ठेको घेतलो ना तर दुसरो कोण तरी घेवपाचोच. इतले मजगतीं पुर्तुगाली आपलें काम करून घेतलेच आसले.' कृष्णान राधिकाक तो वेव्हार स्पश्ट करून सांगलो.

'पूण हे कामत तो ठेको घेवन पुर्तुगालींक मजत करतात न्हय?तशे तरेन फायदो

जोडून कितें उपेग? ' राधिकान आपली खंत उक्तायली.

'हय. तूं जाणां, हे कामत ब्रह्मपुरीक खूब अर्थीक आदार दितात. जायत्या वर्सां सावन हो दुडवांचो आदार चालूच दवरला तांणी.' कृष्णान ताका सांगलें.

'खरें म्हणटा तूं?' राधिकान विचारलें.

'आनी कितें तर? खरेंच सांगतां हांव. आपले येणावळींतलो थोडो वांटो ते ब्रह्मपुरीक दितात आनी देवळांकूय दितात. आमचे कांय लोक हीं अशे तरेचीं कामां करीत आसात. वयलेचाराक दुस्माना कडेन हातमेळोवणी केल्लेवरी दिसता पूण तातूंतल्यान मेळपी फायदो त्याच दुस्माना कडेन झगडपाक उपकारता.' कृष्णान ताका विसकावणी करून सांगलें.

राधिका थोडो वेळ मौन रावलें. मेळिल्ली म्हायती आनी आपलें मत हांचो मेळ घालूंक लागलें.

'आज आमी एका विचित्र आनी कठीण परिस्थितींत घुस्पून पडल्यात. परकी लोकांचें आमचेर शासन चलता. आमच्या देशी शासकांचे ते इश्ट जाल्यात. आमचे शासक नागरिकांक सतावंक लागल्यात. आमच्या मनशांक सरकारी कचेऱ्यांतल्यान काडून उडयल्यात. अशे तरेचे परिस्थितींत शासकां कडेन संबंद दवरपाचो हो एकूच मार्ग उक्तो आसा. अशें आसतना हे तरेचे संबंद दवरप म्हणल्यार तो देशद्रोह जालो वा धर्मद्रोह जालो अशें म्हणूं येता?' कृष्णान ताका विचारलें.

ताचें म्हणणें खरें म्हणपाचें राधिकाक कळ्ळें.

'तर आतां आमी सोंदे वचून अरसप्पा नायकाक मेळून कितें जावपाचें आसा?' राधिकान निर्शेणी दाखयत विचारलें.

'आतां इल्ली उमेद दाखय. इतलें निर्शेवं नाका.' कृष्णान ताका निर्शेणेंतल्यान भायर काडपाचो यत्न केलो.

'अरसप्पा नायका कडेन सैनिकी बळगें फावो तशें ना हें हांव जाणां. पुर्तुगालीं कडेन झुजपाक आमकां सैनिकी आदार दिवपा सारकी बळिश्ट सेना ताचे कडेन ना. पूण फोंडें, दिवचल, वाळपय, केपें आनी काणकोण म्हालांचो गोमन्तकांतलो चडांतचड भूंय वाठार आदिलशाही शासनांत आसपावला आनी अरसप्पा नायक हो त्या वाठाराचो मंडलेश्वर. तो एक हिंदू आशिल्ल्यान आमच्या लोकांक त्या म्हालांनी पुनर्वसणूक करपाक मजत करतलो. तेच खातीर आमी ताका मेळपाचें थारायलां.' कृष्णान ताका सगळें विस्कावन सांगलें.

दनपार जायत गेल्ली आनी दीस देंवत वतालो. असल्या वेळार अजून तीं दाट रानांतूच आसलीं. ऊंच ऊंच झाडां आनी तांच्या खांद्या - पानांनी पाचवें छत्र पातळायिल्लें. मदीं सगल्याक ल्हान झाडां - झोंपां, कोंडे आनी वेतांनी तो वाठार दाट भरिल्लो. तीं पूर्वेवटेन अनमोड घांटांत पावलीं. थंय तें रान चडूच दाट आसलें. सांजवेळ जावपाक लागली तशी वातावरणांत थंडाय भरपाक लागली. कांय अंतराचेर रानवटी जनावरांनी काडिल्ले आवाज कानार पडटाले आनी अजून खंयच मनशांच्या राबित्याच्यो कुरवो दिसनाशिल्ल्यो.

'आमी सारके वाटेन वतात न्ही? भंय दिसता म्हाका.' राधिकान कृष्णाक म्हणलें.

'भियेवं नाका तूं. सारके वाटेनूच वतात आमी. तिनसांज जावपाक आमी एका वाड्यार पावतलीं.' कृष्णान ताका समजावन धीर दिवपाचो यत्न केलो. तरी स्वता ताका हुस्को जाल्लोच. सकाळच्यान तांकां कोणूच मनीस दिसूंक नाशिल्लो.

अचकीत ताका भोंवतणची वनस्पत रानवटी न्हय जाल्यार मनशान रोयिल्ली वनस्पत म्हूण कळ्ळें. 'आगो, पळय गो, पावलीं आमी! ही पळय, ही कुमेरी शेत रोवणी. हांव सांगतां, आमी खात्रेन मनशांचे वसते कडेन लागींच आसात.' ताणें म्हणलें.

'अशें म्हणटा तूं?' राधिकान म्हणलें.

'हांगा पळय हीं झाडां. जांबळाचीं, आंब्याचीं, पातपणसाचीं आनी भिंडांचीं. हीं फळां दिवपी झाडां. ते भायर हें शेत पळय. आदिवासी लोकांचीं घरां आसतलीं हांगा.' कृष्णान म्हणलें.

अचकीत झाडांचे फाटले वटेंतल्यान पांच स दादले मोटवे आनी रंगान काळे भायर सरून आयले आनी कृष्णा आनी राधिकाक रेवाडो घालून रावले. तांणी वाल्यावरी एक पातळ कपडो कमराक गुठलायिल्लो आनी तांच्या हातांत एक एक भालो आसलो. ते आपणा भितर उलयताले. दोग जाण कृष्णा वटेन पळोवन कितें तरी आड्डून सांगताले.

'म्हाका दिसता तो म्हाका कितें तरी विचारता. तो कितें सांगता तें म्हाका समजना. तांचे सामकार दिमी मारून शरण येवप चड बरें अशें म्हाका दिसता.' राधिका ताचे फाटल्यान आयलें तेन्ना कृष्णान म्हणलें.

ताणें आपल्या खांद्यार फाटले वटेन लांबयत हाडिल्ले पोटलेंतल्यान सात आठ

भिंडां आनी एक हारसो भायर काडलो. ताणें ताचे सामकार दिमी मारली आनी त्यो वस्तू ताच्या पांयां कडेन दवरल्यो. त्या मुखेल्यान आपल्या हाता सकयल्या मनशाक त्यो काडून घेवपाक सांगल्यो. ताणें तीं भिंडां बरे भाशेन पळयलीं आनी सांगात्यांक वांटलीं. ताणें हारशांत पळयलें आनी तातूंत आपलेंच बिंब पळोवन खोशी जालो. थंय हाजीर आशिल्ल्या सगल्यांक ताणें तो हारसो दाखयलो. तांकां तो हारसो आवडलो. मुखेली व्हडल्यान हांसलो तेन्ना सगलेच ताचे फाटोफाट हांसपाक लागले. ते एकामेकां कडेन उलयले. मुखेल्यान कृष्णा आनी राधिका हांकां आपणा फाटल्यान येवपाक कुरू केली.

'कितें उलयतात ते?' राधिकान विचारलें.

'ते एके तरेची कानारी भास उलयतात. म्हाका दिसता हलक्की गांवांतले आदिवासी लोक ते. ते कोणूय आसूं. ते तुका पळोवन खोशी जाल्यात. चल, तांचे फाटल्यान वचुंया आमी.' कृष्णान म्हणलें.

'ह्या मनशांक तूं मानवलें जाल्यार कितें करपाचें?' कृष्ण ताका चाळोवपाच्या उद्देशान उलयलो.

'फकांडां नाकात आं तुजीं. म्हजेर भंयान सामको आकांत आयला.' राधिकान म्हणलें.

धायेक मिण्टां चलून गेले उपरांत तीं थोड्यो खोंपी आशिल्ले एके वसतेंत पावलीं. त्या लोकांचो मुखेली एके खोंपींतल्यान भायर आयलो. जायतीं बायलां आनी भुरगींय हेर खोंपींतल्यान भायर आयलीं. तीं बायलांय दादल्यांच्या रंगाचीं आनी आंगलोटाचीं आसलीं. तांच्यो छातयो उक्त्योच आसल्यो. तें पळोवन राधिकाक मात्शी लजशी दिसली. त्या बायलांच्या हातांक आनी गळ्यांत रंगरंगयाळ्या मणयांच्यो आनी रंगयाळ्या फातरांच्यो केल्ल्यो माळो आसल्यो.

त्या लोकांचो मुखेली एका सपाट फातराचेर येवन बसलो. 'कितें करतात तुमी ह्या रानांत? कित्याक आयल्यांत तुमी हांगा?' ताणें विचारलें. तो विचारतालो तातूंतलें कृष्णाक हय न्हयशें मात्शें कळ्ळें.

थोडीं कानडीं भाशेंतलीं उतरां वापरून कृष्णान ताका कारण सांगपाचो यत्न केलो. पंदरा मिणटां सुमार तांचें अस्पश्टशें उलोवणें जालें. कृष्णान जें कितें सांगलें तें त्या मुखेल्याक थोडें तरी समजलें अशें दिसलें.

'सोंदे अजून उदेंते वटेन आसा. तुमी फाल्यां वचपाक जाता. आयची रात

तूं हे अस्तुरे वांगडा हांगा राव.' ताणें राधिका वटेन बोट दाखयत सांगलें. ताणें मळबा वटेन बोट दाखोवन आनीक कितें तरी सांगलें. एका तरणाट्याक ताणें आपोवन हाडलो. तो राखणेचो शिपायक आसतलो अशें दिसलें. ह्या जोडप्याक एके खोंपींत घेवन वचपाक ताका ताणें फर्मायलें.

'आयज पुनव आशिल्ल्यान ती मनोवपाची तांची कसली तरी कार्यावळ आसा खंय. ते कार्यावळींत आमकां वांटो घेवपाक रावात म्हणटा तो.' कृष्णान राधिकाक सांगलें.

सांज जावन काळोख पडलो आनी उदेंतेचेर भांगराळ्या रंगाचो चंद्रीम उदेतालो तो सोबीत दिसलो. तांच्या त्या वाड्या वयले सगळे लोक एका जाग्यार जमले. मदीं तांणी सुकिल्ल्या लांकडांची रास करून उजो पेटयलो. ल्हान ल्हान मातयेच्या वाटयांत तांणी दुदा रंगाचें कसलें तरी धवें पेय रकयलें. तांचो मुखेली उबो रावलो आनी सुमार पांच मिणटां ताणें आपलें उलोवप केलें. मदीं ताणें कृष्णा आनी राधिका वटेन बोट दाखयलें. निमाणें तो ते वाटयेंतलें पेय पिलो. हेर सगल्यांनी ऊंच आवाजान दोन शब्द उच्चारले आनी सगळे तें पेय पिले. कृष्णाय तें पिलो. 'हें कसलें तरी ताडमाडाच्या रसा पासून तयार केल्लें नशा हाडपी पेय अशें दिसता.' कृष्णान म्हणलें.

थोड्या वेळान कांय बायलो दोग चली भुरग्यांक घेवन आयलीं आनी तांकां एके खोंपींत घेवन गेलीं. दोगी जाणट्यो बायलो राधिका म्हऱ्यांत आयल्यो आनी ताका तेच खोंपींत आपोवन घेवन गेल्यो. राधिकाक भंय दिसलो आनी तें आंग घट करून फाटीं सरपाक लागलें.

'धिटाय दाखय तोंडार आनी वच तांचे वांगडा. पळय वचून कितें करतात तीं. दादले कोण ना तांचे मदीं.' कृष्णान ताका धीर दिलो.

राधिका बिचकत बिचकत तांचे फाटल्यान गेलें. पांच स मिणटांनी तांचे वरी हांसत भायर आयलें आनी कृष्णा म्हऱ्यांत वचून ताका खेटून वेंग मारून बसलें.

ताचे वृत्तींत जाल्लो बदल पळोवन कृष्णाक अजाप जालें.

'कितें जालें?' ताणें विचारलें. राधिका हांसत आशिल्लें.

'दोगां चली भुरग्यांक भितर व्हेल्लीं तांची परिक्षा घेतली. तीं लग्नाचे पिरायेंत पावल्यांत जाल्यार पळयतालीं. दोगांय पावल्यांत. आतां तांचीं लग्नां लायतलीं दिसता.' राधिकान हांसतच म्हणलें.

तो विधी मनयले उपरांत परत सोरो वांटलो. इतल्यांत बरो तीव्र मसाल्याचो वास सगल्याक पातळ्ळो. कसलो तरी खाणाचो पदार्थ सगल्यांक वाडलो.

तांकां दोग झुजारी दादले शिकार करून हाडिल्लो एक रानदुकर एका दांड्याक बांदून हाडटाले तें दिसलें. थंय उजो पेट्टालो. ताचे वयर तांणी तो उज्यांत भाजून येवपा सारके उंचायेर दोन खुंट्यांच्या आदारान हुमकळायलो. थोड्या वेळान तो बरो भाजून आयलो.

कृष्णा उठलो आनी मुखेली बशिल्लो ताचे म्हऱ्यांत गेलो. ताचे सामकार दिमी मारून रावलो आनी ताचे कडेन उलयलो.

'आ....' म्हणत मोठ्यान उलो मारून ताणें एका चाकराक एक आदेश दिलो. थोड्या वेळान जोंधळ्याच्यो धा बारा भाकऱ्यो आनी एक तांबडी सुकी चटणी तांकां दोगांकूय हाडून दिली.

दादले जेवपाक बसले तेन्ना सगलीं बायलां उठून एके हारेन उबीं रावलीं. तांचे हात एकामेकांच्या खांद्यांचेर आसले. तीं गायन करीत नाचपाक लागलीं. दोग बायलो राधिका म्हऱ्यांत येवन ताकाय घेवन गेलीं. राधिका तांच्या सांगातान नाचूंक लागलें. दादले ताळयो वाजयताले. कृष्णाय तांच्या वांगडा ताळयो वाजोवंक लागलो.

'खऱ्यांनीच कितली मजा न्हय ! आमी थंय गोमन्तकांत जगपा खातीर धडपडटात. हांगा कसलेंच राजकी वातावरण ना. ते पाखले नात आनी तांचें धर्मांतरणूय ना. देव ना आनी पुजाय ना. सैमा सांगातान जीण जगपी लोक हे. कितलें रम्य वातावरण.' राधिकान कृष्णा म्हऱ्यांत येवचे येवन म्हणलें.

'आमी रावया हांगाच?' कृष्णान ताका चाळयलें.

'ना रे बाबा, ना ना ! तें जावचें ना. हांव जाणां, आयज ताणें आमकां अतिथी मानल्यात, पूण फाल्यां म्हजेर ताची राणी वा चाकर जावपाची पाळी येवं येता. कोणें सांगचें !' राधिकान म्हणलें. 'हांव फकत, कितली सोबीत ही रात इतलेंच म्हणटां.'

रातीं उसरां तांची मनरिजवण कार्यावळ सोंपली. मुखेल्यान कृष्णा आनी राधिका हांकां रावपाक एक खोंप दिली. खोंपींत वच्चे वचून राधिकान कृष्णाक वेंग मारली आनी ओंठांचो उमो घेतलो. उरिल्ली रात सुस्त न्हिदेंत एक सपन कशी विरगळ्ळी.

दुसऱ्या दिसा सकाळीं कृष्णा आनी राधिका हांकां हून हून पेज वाडली. राधिकाक थोडीं फळां आनी तांबड्या रंगाच्या फातरांचो केल्लो एक हार भेटयलो. कृष्णा आनी राधिका हांणी मुखेल्याक कमरांत बागवून नमस्कार केलो आनी हेर सगल्यांचो निरोप घेतलो. दोगां झुजाऱ्यांनी तांकां रानाचे देगे मेरेन सांगात दिलो आनी उदेंते वटेन वचपाची वाट दाखयली. दोन दिसांनी तीं शिर्सी गांवांत पावलीं. बाजार भरिल्लो. लोकांचीय गर्दी आसली. घराचो पत्तो आनी वाट विचारीत गेले उपरांत तांकां एकदाचें अनंत पंडिताचें घर मेळ्ळें. कृष्णान विष्णू शास्त्रीन दिल्लें पत्र ताका दिलें.

पत्र वाचून पंडितान म्हणलें, 'गोमन्तकांत परिस्थिती खूब वायट आसा न्हय?'

'हय. परिस्थिती खूब वायट आसा. हिंदू लोकांचेर गोमन्तक सोडून वचपाची पाळी आयल्या. आमी आतां फकत लोकांक सुरक्षीत जाग्यार व्हरपाचे यत्न चलयल्यात. आमी स्वता थंय गोमन्तकांत कितले दीस उरतले तेंच आमकां खबर ना. घडये तें घडपाक चड दीस उरूंक नात. एक तर आमी तांच्या हातान मरतले, तांचे बंदखणींत पडटले वा आमकां गोमन्तक सोडून धांवचें पडटलें. कितें घडत देवाक खबर.' कृष्णान दुखेस्त सुरान म्हणलें.

हांवूय बी एका काळार ब्रह्मपुरीचो विद्यार्थी आशिल्लों. ते खातीर हांव ते विद्यादात्री संस्थेच्या रिणांत आसां. फाल्यां आमी सोंदे राजमहालांत वचून आमचो राजा अरसप्पा नायक हांची भेट घेवया.' अनंत पंडितान ताका उतर दिलें.

अरसप्पा देहान ऊंच आनी ताचो चेरो रूंद वाटकुळो आसलो. दोळे गोबऱ्या रंगाचे, पातकड्यो रूंद आनी ताचेर दाट केंस आसले. नाका – कानांतल्यान दाट केंस भायर आयिल्ले दिसताले. ताणें सकयल मदीं वाटकुळो रूंद शेंदुरी तिबो लायिल्लो. ल्हंवेन दाट भरिल्ले छातये वयल्यान ताणें व्हडलें रस्माचें उत्तरीय घेतिल्लें. अनंत पंडितान कृष्णा आनी राधिका सोंदेंत कशीं आयिल्लीं आनी विष्णू शास्त्रीन बरयिल्ल्या पत्रा विशीं सगली खबर अरसप्पा नायकाक सांगली.

'आतां मेरेन सुलतानान शीम हुपून आमच्या प्रांतांत आयिल्ल्या सगल्या लोकांक दया दाखयल्या. तुमकांय आमचो येवकार आसा, पूण आमचो सुलतान आनी हम्पीचो हिंदू राजा हांचे मदले संबंद इबाडल्यात. केन्ना लडायेक तोंड फुटत सांगूं नज. अशे परिस्थितींत सुलतान कितें करीत कोण जाणा.' अरसप्पा नायकान सांगलें.

'म्हाराज, गोमन्तकांतल्यान जीव वाटावन धांविल्ल्या शेंकड्यांनी कुटुंबाचेर दया दाखोवन तुमी तांकां फोंडें आनी हेर कांय म्हालांनी रावपाक मान्यताय दिल्या. कोंकणी लोक ते खातीर तुमच्या आनी सुलतानाच्या उपकारांत उरल्यात. पुर्तुगेजांनी सुमार पंचविशेक देवळां मोडून जमनी भरवण केलीं. आतां हाचे उपरांत मुखेल अशीं कुळदेवाचीं देवळां ते आपली मोख करतले हातूंत दुबाव ना. हीं देवळां आपले भुंयेंत परत बांदपाक म्हाराजांनी मान्यताय दिवची अशें ह्या लोकांचे वतीन हांव मागणें करतां.' कृष्णा नमळायेन उलयलो.

'एक दुख्खाची गजाल म्हणल्यार दक्षीण हिंदुस्थानांत हिंदू राजांची इतली तांकीवंत सत्ता चलता आसतना गोमन्तका सारक्या एका ल्हान प्रदेशाचेर येवरोपी सत्ता हिंदू लोकांक इतली सतायता. खूब कवतूक दिसता म्हाका तुमच्या ह्या लोकांचे धिटायेचें. तांणी धर्मांतरण करून घेवपाक विरोध केलो आनी धर्माची राखण करपाक जिवाची लेगीत पर्वा केली ना. हांव खात्रेन सांगतां तुका, म्हज्या अधिकारांत म्हाका जें तांकता तितलेंय करून तुमकां आमच्या प्रदेशांत हांव आलाशिरो दितलों.' अरसप्पा नायकान कृष्णाक खात्रेचें उतर दिलें.

कृष्णान ताका अनाथ जाल्ल्या भुरग्यांचे स्थिती विशीं सांगून तांकां आपणें आनी राधिकान मेळून कशे तरेन वाटायलीं ती खबरूय ताका सांगली.

'तुमी दोगांय खूब धिटायेचीं. ईश्वर म्हादेव राखण करूं तुमची अशें मागतां हांव. थोडे दीस आमचीं अतिथी म्हणून रावात. तुमी हांगा आनीक विसव घेयात. हाचे उपरांत तुमचें काम खूब धोक्याचें आसा.' अरसप्पा नायकान कृष्णाक म्हणलें.

अनंत पंडितान शिर्सींत येवन स्थायीक जाल्ल्या दैवज्ञ आनी वाणी शेट कुटुंबाच्या मुखेल्यां कडेन कृष्णाची वळख केली.

'आयज मेरेन तूं लोकांचो प्रतिनिधी जावन वावुरलो. तीच भावना कायम दवर. एक म्हणणी आसा ती जाणां तूं 'धर्मम् रक्षती रक्षिता' - बऱ्या गुणांची राखण करतल्याची तेच गूण राखण करतात. कोण मुखेलपण घेवपी मेळटलो म्हूण रावं नाका. स्वता फुडें सर. जे कोण स्वता जबाबदारी घेवन फुडें सरतात तांकांच देव हात दिता.' अनंत पंडितान कृष्णाची उर्बा वाडयत म्हणलें.

कृष्णान राधिका कडेन ह्या विशयाचेर भासाभास केली आनी पंडिताची सुचोवणी मानून भटकळ वचपाचें थारायलें. अस्तंते वटेन वचून तीं कारवारा गेलीं. कारवारा सावन एका वेपारी तारवार बसून काळी न्हंयेंतल्यान प्रवास करून मागीर

दर्या मार्गान प्रवास करीत भटकळ पावलीं.

भटकळ गांव ही एक व्हडली बाजारपेठ आसली. वांकडेतिकडे लांबचे लांब रस्ते आनी तांच्या दोशीं वटेन भांगरा वेपाऱ्यांचीं आनी भुसारी वेपाऱ्यांचीं दुकानां आसलीं. गांवां भोंवतणीं एक व्हाळ व्हांवतालो. तरेकवार कामां – धंद्यांतले लोक तशेंच वेगवेगळ्या जातींतलेय आसले. खूब व्हडा संख्येन नायतेय आसले. कृष्णाक खेत पै हांचो पूत दामरस पै हाचो पत्तो सोदून काडपाक त्रास पडले नात. जेन्ना तांकां कृष्णा हो म्हाळ पैचो पूत म्हूण कळ्ळें तेन्ना सगल्या भावांनी ताका आनी राधिकाक खूब मायेमोगान येवकार दिलो.

'तुमचो बापूय म्हाळ पै संबंदान सगली म्हायती आमकां आमच्या बापायन सांगल्या. सुरवातीक ताणें पुर्तुगेजांचे मजतीन गोमन्तकांतल्यान आदिलशाक कसो आसनभ्रश्ट केलो आनी मागीर पुर्तुगेजांनी ताचो कशे तरेन विस्वासघात केलो तो इतिहास ताणें आमकां सांगला. तीस वर्सां आदीं आमी ल्हान आसतना तो हांगा भटकळ येवन गेल्लो. ह्या श्रावण म्हयन्यांत हांव हम्पी गेल्लों. थंय आसतना आदिलशा आनी गोलकोंडा सुलतान हांचे कडेन लडाय जावपाची आसा अशें लोक उलयताले. पुर्तुगेज फौज मोटे संख्येन थंय हाजीर आसा ती हांवें पळयल्या. अशें आसतना पुर्तुगेजां आड कसलीय कागाळ आयकून घेवपाचे मनस्थितींत थंय कोणूय आसत म्हणपाचो म्हाका दुबाव येता. तरी आसतना आतां दसरो लागीं पाविल्लोच आसा. तूं आनी घरकान्नीन मेळून हम्पी वचूं येता. परंपरेक धरून राया सामान्य लोकांचें म्हणणें, कागाळी बी त्या दिसांनी आयकून घेता. तुवेंय यत्न करूं येता.' दामरस पैन कृष्णाची उमेद वाडयली.

कृष्णा आनी राधिका हांणी खैत पैन बांदिल्ल्या नामनेच्या कमल नारायण मंदिराक भेट दिली. थंय भक्तांची आनी हेर भोंवडेकारांची गर्दी आसली. रामायण, महाभारत आनी कामसुत्राचेर आदारिल्लीं वणटींचेर आनी खांब्यांचेर कोरांतिल्लीं चित्रां खूब सोबीत आसलीं. तांणी देवदर्शन घेतलें आनी थंयच्या बाजारांत भोंवलीं.

'आमच्यांनी तुजी इत्सा आसत जाल्यार आमच्या वेवसायांत तुमकां रोजगारा खातीर आस्पावन घेवं येता. तुमी परत गोमन्तकांत वचपाची गरज ना आनी थंय रावप धोक्याचेंच जाल्लें आसा न्हय?' खैत पैच्या पुतांनी कृष्णाक म्हणलें.

'तुमी व्हड मनान दिल्ल्या प्रस्तावा खातीर उपकार मानतां हांव तुमचे. म्हजें ब्रह्मपुरींतलें काम अजून सोंपपाचें आसा. मुखेलपणीं गोमन्तकांतल्या लोकांक

आमची गरज आसा. म्हाका परत फाटीं वचपाकूच जाय.’ कृष्णान म्हणलें. कृष्णा आनी राधिका हांणी नारसकिणी नरसिंह मंदिरूय पळोवन घेतलें.

धर्मपय्यान तांकां दोगांकूय वैष्णव मठांत स्वामी जीवोत्तम तीर्थाच्या दर्शनाकूय व्हेलीं.

‘आमच्या गोमन्तकीय लोकांक परत आपलें पुनर्वसन करून घेवपाक, रोजगार मेळोवपाक आनी तांच्यो धर्मीक गरजो भागोवपाक खात्रेन आमी सगळो फावो जाल्लो आदार दितले. देव कृपा करूं तुमचेर. खरेंच, तोखणाय दिसता म्हाका तुजे धिटायेची.’ अशें म्हणून स्वामीजीन तांकां आशिर्वाद दिलो.

कृष्णा आनी राधिका भटकळची राणी चिन्न देवी हिची भेट घेवपाक गेलीं. कृष्णान राणये कडेनूय गोमन्तकीय लोकांचो विशय काडलो. पुर्तुगेजांनी भटकळ शाराचेर दोन फावटी घुरी घालून तें लाशिल्लें. चिन्न देवी तेन्ना हम्पीच्या अच्यूत रायाच्या आलाशिऱ्याक गेल्ली आनी रायान तिका आलाशिरो दिल्लो.

राणी चिन्न देवीचो राजवाडो एका ल्हानशा कोटा भितर आसलो. कोटाची भायली तटबंदी वीस फूट उंचायेची आसली. भेटेक येवपी लोकांक ती दनपार जावचे आर्दीं मेळटाली. ती लांबसोच रस्मी घागरो घालताली. आपल्या बारीक कमराक घट्ट बांदिल्ल्या घागऱ्या वयल्यान ती एक रुप्याचो कमरपटो बांदताली. ताचेर रत्नां, वज्रां लायिल्लीं आसतालीं. तिचो घागरो पांयांच्या पोवटां मेरेन लांब आसतालो आनी सकयल पांयांक खुळखुळ वाजपी वाळे ती घालताली. चलतना तांचो आवाज जातालो. सकयल खोंटे मेरेन पावपी पांयजमोय ती घालताली. कोंपरा वयर बावळ्यांक घट्ट बसपी सोरपांचीं तोंडां आशिल्लीं भांगराचीं कडीं रस्मी दोऱ्यान बांदिल्लीं आसतालीं. कानांक तरेकवार मोलादीक खड्यांचे अळंकार आसले. ती छातयेन भरीव आनी पुराय आंग धांपता तसलो पोलको घालताली. तिची मान लांब आनी बारीक आसली. काळे चक्क दोळे आनी नदर खर आसून पातकड्यो वयले वटेन गुलाबी रंगयिल्ल्यो. भांगर आनी रुप्यान तयार केल्लो लांबटसो मुकूट तिणें घाल्लो. राधिका तिका व्हडा आदरभावान पळयत उरली जाल्यार कृष्णा तिच्या व्यक्तिमत्वान प्रभावीत जाल्लो.

‘पुर्तुगेजांक आडावपा सारकें सैनिकी बळगें दिवपाक आयज कोणाकूच तांकचें ना. पूण तुमच्या लोकांनी आमच्या शासनांतल्या प्रदेशांत येवन रावूं येता. भटकळ, शिराली, व्यंकटपूर, कुमठा अश्या गांवांनी रावल्यार जाता. चिन्नवरद

खेत पै हो भांगराचो वेपारी तुमचोच मनीस. तुमचो प्रस्न हांव हम्पीच्या म्हाराजां कडेन मांडटां पूण मजत मागप साध्य जावचें ना.' राणयेन कृष्णाक खात्री दिली.

जंय जंय तीं दोगांय गेलीं थंय थंय तांकां बरो प्रतिसाद आनी मजतीचीं आस्वासनां मेळ्ळीं आनी तांची ती भोंवडी उपेगाची थारली. तितलें काम सोंपोवन तीं परत तिसवाडींत आयलीं.

'कमल नारायण मंदिर कितलें सोबीत रितीन बांदलां न्हय? तोखणाय दिसली म्हाका त्या खेत पै कुटुंबाच्या वावराची.' गोमन्तकांत परततना राधिकान म्हणलें.

'जांकां बरें काम करपाचें आसता तांकां सदांच संद मेळत रावता. फकत इत्सा आशिल्ले व्यक्तीन ती योग्य वेळार घेवपाक जाय.' कृष्णान जाप दिली.

'दुडू नाका तसलीं कामां करपाक?' राधिकान विचारलें.

'ते तरेची बांदावळ करपाक खूब दुडवांची गरज आसता. आमी कवतूक करपाक जाय तें तांणी इतलो दुडू मोडपाक मनाची तयारी दाखयली ताचें.' कृष्णान जाप दिली.

'कसल्याय भौशीक कामा खातीर दुडू लागताच न्हय?' राधिकान म्हणलें.

'भौशीक काम आसूं वा खाजगी आसूं ताका थोडो तरी दुडू जायच, पूण काम करपाची इत्सा दुडवां परसूय चड म्हत्वाची. पूण आमी अश्या मनशांची व्हडविकाय तोखेवपाक जाय जांणी दुडू नासतनाय बरीं कामां केल्यांत.'

'कोणा विशीं उलयता तूं?' राधिकान विचारलें.

'आमचे ब्रह्मपुरीचे प्राचार्य पळय. पंचवीस वर्सां जालीं ते ही शिक्षण संस्था वयर काडपाक वावुरतात. जायत्या लोकांक तांणी बरें शिक्षण दिलें. इतलो व्हडलो पुस्तक संग्रह तांणी उबो केलो. तांच्या हातांत दुडूय नाशिल्लो. त्या कामाची तोखणाय दिसना तुमकां?' कृष्णान विचारलें.

राधिका चिंतपाक लागलें आनी ताणें तकली हालोवन हय म्हणलें.

'खरेंच, प्राचार्यांनी ह्या कामा खातीर खूब श्रम घेतल्यात, जाणां हांव. दोनशीं वर्सां जालीं ब्रह्मपुरींत जें शिक्षणाचें काम जालां तें इतिहासांत उरपा सारकें.' राधिकान म्हणलें.

'पूण खंयचीय एक ब्रह्मपुरी इतिहासांत नोंद जावन उरतली काय कितें हाचो म्हाका दुबाव येता.'

'ब्रह्मपुरी विशीं तुका दुबाव? तिचो दोनशीं वर्सांचो शिक्षणीक वावर जाल्लो

आसतना?' राधिकान आपलें विरोधी मत उक्तायलें.

'तिच्या कार्याची फावो तशी नोंद करून दवरल्या हय तर आमी?' कृष्णान विचारलें.

'ना दिसता न्हय?' राधिकान म्हणलें.

'तेच खातीर हांव म्हणटां हे संस्थेन जें इतलें बरें कार्य केलां ताची फुडारांत कसलीच म्हायती मेळची ना. पुर्तुगेजांची कार्यपद्दत पळय. प्रत्येक गजाल बरोवन दवरपा खातीर तांचो एक खाशेलो विभाग आसा. ते ब्रह्मपुरी संबंदान कितेंय म्हायती बरोवन दवरतले अशें दिसता तुका? आपणें गोंय कशे तरेन जिखून घेतलें, कितले हुशारकायेन हांगाचे संस्कृतायेचें परिवर्तन घडोवन तिचेर आपलो प्रभाव घालून चेपून दवरली तितलेंच ते बरयतले.' कृष्णान सांगलें.

'पूण, लोकांक सत्य कितें तें कळटलें.' राधिकान आशावादी जावन म्हणलें.

'कोणेंय तरी हे ब्रह्मपुरीच्या सांस्कृतीक आनी शिक्षणीक वावरा विशीं नोंदी बरोवन दवरले बगर फुडारांत लोकांक कशें कळटलें तांचे विशीं? आनी फुडारांत आमच्या समाजाचो एक वांटो लोक जर पुर्तुगेजांनी केल्ल्या वावराचीच व्हडविकाय गावंक लागले तर अजाप न्हय आँ, राधिका.' कृष्णान दाट शक्यताय उक्तायली.

'अशे कोण कित्याक म्हणून तांची व्हडविकाय सांगतले?'

'कारण तांणी इतिहास बरोवन दवरला. आनी लक्षांत धर, आतां धर्मांतर जाल्ल्या लोकांचे वंशज आसतले फुडारांत. ज्या पाद्रींनी तांच्या वाडवडिलांक पिडा भोगयल्यो आनी अमानुश ख्यास्त दिली तांकांच हे लोक भजतले आनी पुजतले.' कृष्णान संभव आशिल्ली गजाल सांगली.

'ना. अशें जावचें ना. कोणूय उठून ह्या परकी लोकांची कित्याक म्हणून पुजा करतले? हांव मानूंक तयार ना हें.' राधिकान म्हणलें.

'ते खातीर तुवें राजा भर्तृहरीचें नीतिशतक वाचपाक जाय. असत्य गजाल परत परत शेंकड्यांनी फावटी सांगत रावले जाल्यार ती मनशाच्या मनांत सत्याचो रुपकार घेवन बसका घेता आनी धर्मांतरांतल्यान ख्रिस्ती धर्म आपणावन पातकांचे जिणेंतल्यान आपली मुक्तताय जाली अशें मानपी एक पिळगी फुडारांत अस्तित्वांत आयली जाल्यार अजाप करपाची गरज ना.' कृष्णान राधिकाक सांगलें.

राधिका त्या विशयाचेर खूब वेळ चिंतीत उरलें.

'अशें घडटलेंशें दिसता तुका?' राधिकान फाटींफुडें जायत विचारलें.

'अशें घडूं येता. धर्मांतरीत लोकां मदीं आयज घरभेदी भरसल्ले आसात. गुप्ततायेन हे खबरेकार हिंदू लोकां मदीं भोंवतात आनी जे कोण इगर्जे आड कितेंय उलयतात तांची म्हायती व्हडल्या घरांत पावयतात. लक्षांत धर, ह्या मनशांक मागीर हें धर्मन्यायालय आपली मोख करून ख्यास्त दिता ती सोंसपाची न्हय.' कृष्णान राधिकाक सांगलें.

'असले हे प्रकार आडावं नज आमच्यांनी?' राधिकान उमळशिकेन विचारलें.

'अजून तरी आमकां अशे तरेच्यो करण्यो आडावपाक असाध्य जालां आनी फुडारांत लेगीत आमी हे प्रकार आडावंक पावतले म्हणपाचो म्हाका दुबावूच दिसता.' कृष्णा निर्शेणेनूचसो उलयलो.

'कित्याक आडावंक शकनात आमी हें? ब्रह्मपुरीन जाल्यार कितलेंशेंच बरें कार्य केलां.' राधिका जाणा जावंक सोदतालें.

'अशे परिस्थितींत मठ आनी ब्रह्मपुरी ह्या दोनांकूय तांचे कडल्यान धोको आसा आनी म्हाका दिसता रोखडींच तीं नश्ट जातलीं.' कृष्णान मनांतली भिरांत उलोवन दाखयली.

'आमकांय धोको आसा अशें दिसता तुका?' राधिकान हुस्को प्रगटायलो.

'दुबाव ना. धोको आसाच आमच्या जिवाक.' कृष्णान जाप दिली.

'तशें जाल्यार कित्याक वचपाक जाय आमी गोमन्तकांत परत? आमी हम्पी वा भटकळ नाजाल्यार फोंड्यां अशीं खंय तरी रावुंया.' राधिकेन विनवणेच्या सुरान कृष्णाक सांगलें.

थोडो वेळ कृष्णा कांयच उलयलो ना. राधिका आशेन ताका पळयत रावलें. तो नदर दिगंते वटेन लावन उबो आशिल्लो. थोड्या वेळान ताणें राधिका वटेन पळयलें. ताच्या खांद्यार हात घालून ताका लागीं ओडलें आनी म्हणूंक लागलो, 'अशें केलें जाल्यार आमकां थोडे दीस सुरक्षीत रावंक मेळटलें ही गजाल खरी, पूण तशें चड काळ जमतलें अशें दिसना. दुसरी गजाल तूं जाणां, जी तुजी आवय सध्या गोमन्तकांत एकटीच रावता. प्राचार्य आनी हेर सगळे ब्रह्मपुरींतले लोक तांच्या नशिबाच्या भरवंशार थंय जगतात. तांकां मजत करप हेंवूय आमचें कर्तव्य.'

राधिकान थोडो वेळ त्या विशयाचेर चिंतलें आनी मागीर उलयलें. 'दुबाव ना. खरें तुजें. कितलो स्वार्थी विचार केलो न्हय हांवें. आतां म्हयनो जायत आयलो आमी गोमन्तकांतल्यान भायर आसल्यार. खबर ना कितें घडलां आसतलें फाटल्यान

थंय. वचपाक जाय आमी आतां परती गोमन्तकांत.'

कृष्णान तोखणायेन ताका पळयलें, फाट थापटून ताका शाबासकी दिली आनी ताच्या दाव्या पोल्याक ओंठ तेंकोवन उमो घेतलो. 'खरें तुजें. आमकां भायर रावचेंच पडलें जाल्यार हम्पी आनी फोंड्यां सोडून भटकळांत रावप म्हाका चड मानवतलें. पुर्तुगेजांक फोंडें चड लार्गी आशिल्ल्यान ते खंयचेय घटकेक तें चपक्यांत घेवंक शकतात.'

'पूण हम्पी मात्शें चड सुरक्षीत अशें दिसना तुका?' राधिकान म्हणलें.

'पुर्तुगेज थंय सदांच हाजीर आसतात. म्हाका मानवना तें. ते खातीर हम्पींत रावप म्हाका नाकाशें दिसता.' कृष्णान म्हणलें.

■■■

# निमाणचो तांकिवंत धपको

कृष्णाक अजापीत करपी एक गजाल ब्रह्मपुरींत ताचे खातीर तयार आसली. कृष्णाक आयिल्लो पळोवन प्राचार्य सोमशर्मा खोशी जाले, पूण तेच वांगडा तांकां हुस्कोय जालो.

'तुमी बरे भाशेन परतल्लीं पळोवन आनंद जालो. तुज्या बाबाचो इश्ट इक्बालान तुमी सोंदे संस्थानांत अरसप्पा नायकाक मेळपाक गेल्यांत म्हळ्ळी खबर आमकां कळयली. तरी हांगा तुमी नाशिल्ल्या काळांत अनेक धोक्याच्यो घडणुको घडल्यो.'

'खाशेलो असो कसलो धोको गुरूजी? पुराय गोमन्तकाकूच कितेंय धोको उप्रासला बी?' कृष्णान विचारलें.

'एक अनाथ भुरग्यांचो पंगड कोण तरी रायतुरा घेवन गेला म्हणपाची खबर पणजी कोटांत पावली. तांणी रायतुराच्या कोटांत चवकशी केली जाल्यार कोणूच अनाथ भुरगीं पावूंक नात म्हूण तांकां कळ्ळें. तेन्ना तांणी ते घडणुकेची उरफाटे दिकेन चवकशी चालू केली आनी तिचें मूळ ब्रह्मपुरींत आशिल्ल्याचो तांणी निश्कर्श काडलो.' प्राचार्यांनी सांगलें.

'तूं गेले उपरांत दोन सप्तकांनी तुजो इश्ट कपीत दे ओलिव्हेरा चवकशी करपा खातीर हांगा आयलो. आमी त्या उरिल्ल्या भुरग्यांक आमच्या विद्यार्थ्यां मदीं

भरसून हांगाच शिकपाक आशिल्ल्याचो देखावो रचलो. तरी ताका दुबाव येता. पालक लोक आपल्या भुरग्यांचे सुरक्षेचो हुस्को जाल्ल्यान विचारपूस करपाक येत रावले. हांवें तांकां भुरग्यांक घेवन वचात म्हणून सांगलें. गोमन्तक आतां सुरक्षीत उरूंक ना अशेंय सांगलें. थोड्या पालकांक हांवें उण्यांत उणें एक तरी अनाथ घेवन वचात म्हूण मागलें आनी गोमन्तकाचे शिमे भायर तांची वेवस्था करपाक सांगलें. त्या कामांत म्हाका येस आयलां.'

'म्हाका दिसता आमी ब्रह्मपुरी सोडून वचपाचो वेळ आयला. हांगा आमचे कडेन आशिल्लीं सगळीं हातबरपां आमी वेलुग्राम (बेळगांव) आनी दिगांब्वेच्या ब्रह्मपुरींनी धाडून दिल्यार बरें.' कृष्णान सुचयलें. अनेक विद्यार्थ्यांक तीं काडून कपड्यांनी बांदून तयार दवरपाचें काम वांटून दिलें.

त्याच वेळार मुखेल दरवट्या कडेन गुपीत रितीन एक साधू आयलो.

ताचें खाड खूब वाडिल्लें आनी आंगांतलें भगवें वस्त्र खूबशे कडेन पिंजिल्लें. तो खूब किडकिडीत आनी अशक्त दिसतालो.

'आमी घरा वचुंया. तुका एक म्हत्वाची खबर सांगपाची आसा.' ताणें कृष्णाक क्षीण आवाजांत सांगलें.

कृष्णान दोन घोडे भायर काडले आनी दोगूय जाण वसती थळा वटेन गेले. कृष्णान राधिका आनी तिचे आवयक उठयलीं. साधूक फळां आनी हून दुदाचो आहार दिलो.

'ते म्हजो फाटलाव करीत आसात.' साधून म्हणलें. हेर सगल्यांनी एकामेकां वटेन पळयलें.

'म्हाका दिसता पाखल्यांक म्हजो खूब दुबाव आयला. न्हंये कांठार तारीर ते म्हजी बारीकसाणेन चवकशी करपाक लागले. मागीर म्हज्या मागार कोण तरी आसा म्हणपाचें म्हाका कळ्ळें.' साधून सांगलें.

'तुमी खूब अशक्त दिसतात. भलायकी इबाडल्या तुमची?' कृष्णान विचारलें.

'हय. भलायकी इबाडल्या म्हजी. तेच खातीर तुमकां निमाणें एक फावट मेळून वच्चें अशें चिंतलें.' साधून म्हणलें.

माई आनी राधिका दोगांय साधू म्हऱ्यांत गेलीं आनी ताचे कुशीक बसलीं. 'हांव जाणां, आतां हांव चड काळ जगचों ना.' साधून म्हणलें.

'तुजो फाटलाव करीत ते हांगा मेरेन आयले जातले?' कृष्णान विचारलें.

'म्हाका तो हुस्को दिसता.' साधून सांगलें. पूण इतलें उलयतासर ताका चडूच धांप लागली.

माई आनी राधिका भिलीं आनी तांणी ताचे दोनूय हात आपल्या हातांत घेतले आनी ताका धीर दिवपाचो यत्न केलो.

'कसल्यो त्यो खबरो?' कृष्णान गंभीर जायत विचारलें.

'हांगाचीं जीं व्हडलीं व्हडलीं देवस्थानां आसात, म्हणल्यार मंगेशीं, वेर्णेची म्हाळसा, रवळनाथ आनी ब्रह्मपुरी हीं सगळीं मोडून नश्ट करपाचो तांणी निर्णय घेतला खंय. थोड्याच दिसां भितर हें पाडें कर्तुप ते करपाचे आसात.'

'खंय मेळ्ळी ही म्हायती तुमकां?' कृष्णान विचारलें.

'थोडे पुर्तुगेज सैनीक आपणा भितर त्या संबंदान उलयताले तेन्ना म्हज्या कानार पडलें.' साधून सांगलें.

'आमचे खातीर ती नवी खबर न्हय. तशे तरेचे तांचे यत्न चल्ल्यात ते आमी पळयल्यात.' कृष्णान म्हणलें.

'आनीक एक गजाल सांगतां.' साधून म्हणलें.

कृष्णान उमळशिकेन भुंवयो वरश्यो करून ताचे वटेन पळयलें.

'तुका आनी तुज्या सांगात्यांक ते वळखल्यात.' साधून ताका सांगलें.

'आंऽऽऽऽऽ !' राधिका उद्‌गारलें आनी त्याच खिणाक रडपाक लागलें. कृष्णा मोठ्यान हांसलो. 'हिवूय तशी अनपेक्षीत गजाल न्हय. कशें कळ्ळें तांकां?'

'चोडणां जुंव्यार व्यंकट बंदुकेची गुळी लागून मेलो तो तुजो सांगाती म्हूण तांकां मागीर वळख मेळ्ळी. दुसरी गजाल म्हणल्यार त्या अनाथ भुरग्यांक गुप्तीं पयस केर्ली तीं तुवें आनी राधिकानूच आसपाक जाय अशी लागीं लागीं तांची खात्री जाल्या.'

'आमीय बी ह्या थळांतल्यान रोखड्या रोखडीं पयस गेल्यार बरीं.' माईन गंभीर जायत म्हणलें.

'पूण हांव केळशेच वतलों. म्हजेय आतां दीस भरल्यात. चड दीस जगचों ना हांव.' साधून गंभीर आवाजान म्हणलें.

'हांव येतां तुमचे वांगडा केळशे. कृष्णा आनी राधिका हांकां जीव वाटावन धांव मारूं दी. तो भटकळा वचपाचें चिंतता. वचूं ताका थंय.' माईन साधूचो हात धरीत म्हणलें.

'फाल्यां थारावया आमी कितें तें. आतां मध्यानरात जाल्या. तुमी विसव घेयात थोडो. हांव परत मुखेल कक्षांत वतां आनी उरिल्लें थोडें काम सोंपयतां.' कृष्णान म्हणलें.

कृष्णा घोड्या वयल्यान परत ब्रह्मपुरींत गेलो. केदाराक कुशीच्या कक्षांत आपयलो आनी संभव आशिल्ल्या अरिश्टाची ताका कल्पना दिली. 'आमी प्राचार्यांक उठोवन रोखड्या रोखडे हांगाच्यान वचपाक सांगुया?' केदारान विचारलें. .

ते दोगूय मेळून प्राचार्यांच्या निवासथळार गेले आनी थंय हाजीर आशिल्ल्या ब्रह्मचारीक प्राचार्यांक उठोवपाक सांगलें. भायर येवचे येवन प्राचार्यांक कृष्णा आनी केदार दिसले. 'कितें जालां?' तांणी विचारलें.

कृष्णान तांकां पंढरपूरचे साधू आयिल्ल्याची खबर सांगून तांणी हाडिल्ली सगली म्हायती तांकां दिली.

'अशे परिस्थितींत तुमी बेगिनांत बेगीन ब्रह्मपुरी सोडून वच्चें अशें आमकां दिसता.' कृष्णान सांगलें.

'कितें? आतां हांवें ब्रह्मपुरी सोडून वचपाचें?'

'ना. ना. शक्य ना तें.' प्राचार्यांनी म्हणलें.

'आचार्य, ब्रह्मपुरी कडेन तुमचें आशिल्लें जिवाभावाचें नातें आनी तिचे विशीं तुमच्या मनांतली तळमळ कितली खर ती आमी जाणात. पूण इतलें भावूक जावन चिंतपाचो हो वेळ न्हय. आतां हो सडसडीत निर्णय घेवपाचो वेळ. आमचो सगल्यांचोच जीव धोक्यांत आसा.' कृष्णान प्राचार्यांच्यो उचांबळ जाल्ल्यो भावना थंडावपाचो यत्न केलो.

फांतोड जाय मेरेन चडांत चड म्हत्वाचीं हातबरपां, कागदपत्रां आनी विद्यार्थ्यांच्यो तश्योच थोड्या ज्येश्ठ आचार्यांक गरजेच्यो वस्तू पोटल्यांनी बांदून बैलांगाडयांचेर चडयल्यो.

ह्यो गाडयो मुखा वयले वाटेक लागपा खातीर सुटपाच्योच जाल्ल्यो आसतना ब्रह्मपुरीच्या मुखेल दरवट्या लागीं कसलो तरी गोंदळ जाल्ल्याचो आवाज कानार पडलो. सुमार पन्नाशेक शिपायक कपीत दे ओलिव्हेराच्या फुडारपणांत भितरल्या वाठारांत आयले. कृष्णान केदाराक हेर कांय ज्येश्ठ आचार्यांक घेवन मुखेल्या कडेन उलोवन वाटाघाटी करपाक धाडून दिलो. तो स्वता ब्रह्मपुरीचे वास्तूच्या

भितरल्या वाठारांत गेलो आनी प्राचार्य सोमशर्माक फाटले वटेंतल्यान भायर काडून गाडयेंत बसोवन धाडून दिलो. तांचे वांगडा एका तरणाट्या ब्रह्मचाऱ्याक धाडलो. बागेंतल्यान भायर सरून गाडी दाट झाडां झोंपां आड गेली आनी उपरांत तो राना वटेचे वाटेक लागलो.

कृष्णान प्राचार्यांच्या पांयांक हात लावन वंदन केलें. तांणी कृष्णाक मायेच्या किंवाट्यान आनी हुस्क्याचे नदरेन पळयलो आनी म्हणलें, 'सांबाळ स्वताक ! ईश्वर म्हादेव कृपा करूं आमचेर सगल्यांचेर.' बैलांगाडी वचपाक सुटली.

केदारान कृष्णाचो हात हातांत घेवन घट्ट धरलो. 'सांबाळून राव. तुमचो सगल्यांचो जीव धोक्यांत आसा.' ताणें म्हणलें.

'म्हजो हुस्को करूं नाका. हांव स्वताक सांबाळटां. तूं शिटूक राव आनी सांबाळ स्वताक.' कृष्णान म्हणलें.

'तूं वच्चे पयलीं म्हाका एक विचारपाक जाय तुका. खरें कितें तें सांग.' केदारान म्हणलें.

'हांव तुजे कडेन केन्ना फट उलोवंक ना. कितें विचारूंक सोदता तूं?' कृष्णान म्हणलें.

'हो जो साधू हांगा येता ताचें कितें तरी गुपीत आसा. कोण तो? ताचें गुपीत कितें?' केदारान विचारलें आनी तो कृष्णाच्या दोळ्यांक दोळो लावन जाप सोदूंक लागलो.

कृष्णान केदाराच्या खांदार हात घालून म्हणलें, 'आमी वांगडा ल्हानाचे व्हड जाले. तुजे कडल्यान लिपोवपा सारकें कांयच ना. हो साधू आसा तो राधिकाचो बापूय. ताचें नांव सुलोचन भट. पाद्री मिंगेल व्हाज हाका मारपी मनशां मदलो हो एक दुबावीत अशें पाखल्यांक दिसलां. जायते दीस जाले पुर्तुगेज सैनीक ताच्या मागार आसात. हे फावटी ताणें हांगा येवपाक फ़ावो नासलें. आतां म्हाका दिसता तो कोण तें तांकां कळ्ळां आनी ते ताका सोदीत हांगा आयल्यात अशी आतां म्हजी खात्रीच जाल्या. चल, आतां आमी वेळ वगडावप सारकें न्हय.' कृष्णान ताकतिकेन म्हणलें.

'हांव आसां तुजे फाटल्यान. वच तूं. हांगा कितें घडटा तें हांव सांबाळून घेतां.' अशें म्हणून केदारान ताचे फाटीर हात मारून ताका धीर दिलो आनी मुखेल दालनांत वचपाक गेलो. 'आमी जर एकामेकां पासून पयसावले तर हांव केळशी

मठांत पावपाचो यत्न करतां, जितो उरलों जाल्यार !' अशें म्हणून केदार गेलो.

कृष्णा घोड्यार बसलो आनी सडसडीत राबित्याचे वसते वटेन गेलो. ताणें दारार मारलें आनी म्हणलें, 'दार उगड, हांव कृष्णा.' माईन दार उगडलें. कृष्णा भितर गेलो. साधू मदले कुडींत बशिल्लो. तो खूब अशक्त दिसतालो.

कृष्णान म्हणलें, 'सांगपाक वायट दिसता म्हाका, तांणी तुमकां हांगा आयल्यात तें पळयल्यात आनी तुमी कोण तें तांकां कळ्ळां. शिपायक आयल्यात. ते आचार्यांक आनी हेर शिश्यां कडेन चवकशी करतात. वेळ सारपा खातीर केदार तांचे कडेन उलयता, पूण रोखडेच पावतले ते हांगा. वचपाक जाय आमी हांगाच्यान.'

माई आनी राधिका भंयान थरथरलीं. 'तुमी धांव मारात हांगाच्यान. तांणी म्हाका हांगा धरलो जाल्यार तुमकां वचपाक फावो सारको वेळ मेळटलो. त्या भायर हांव आतां चड जगपाचो ना. मरपाची तयारी आसा म्हजी. तुजें भांगर बी कितें आसा तें घेवन वच.' साधून म्हणलें.

'ना, तुवें येवपाक जाय आमचे वांगडा.' राधिका रडपाक लागलें.

'आमचे कडेन भांगर बी तशें व्हडलेंशें कांयच ना. जें थोडें कितें आशिल्लें तें हांवें फोंड्यां महम्मद इक्बाला कडेन दवरलां. आसात तशींच भायर सरात. हांव गाडी तयार दवरतां. वेळ ना आतां चड.'

ताणें गाडयेचें वयलें पाखें मोडलें आनी दोन घटमूट आनी मोट सारके कोंडे काडले. घोड्याचे मानेर जूं बांदलें आनी दोनूय वटांनी कोंडे बांदून गाडी ओडपाची वेवस्था केली. त्या तिगांकूय गाडयेंत बसपाक सांगलें, आपूण घोड्यार बसलो आनी अळंग घोड्याचे कुशीर थपथप हात मारून चलपाक इशारो केलो.

घोडो गाडी ओडपाक लागलो.

अचकीत मोटव्या तशेंच लांब बंदुकांतल्यान फार मारिल्ल्याचे आवाज येवपाक लागले. ते मुखेल दरवट्या वटेंतल्यान आनी थंयच्या इमारतीं वटेंतल्यान येताले. कृष्णान घोड्याचे कुशीर हात मारून ताका गती वाडोवपाची कुरू केली. चार मनशांचें वजन आनी गाडयेचेंय वजन आसतना घोड्यान गती वाडयली.

कृष्णान ब्रह्मपुरी आनी आपल्या घराचेर एक निमाणी नदर मारली. मुखेल इमारतींतल्यान धुंवर वयर सरतालो तो ताका दिसलो. थंयच तांचो प्रार्थना कक्ष आनी वाचपघर आसलें. धुंवरा फाटोफाट उज्याच्यो ज्वाला वयर सरिल्ल्यो दिसल्यो. फारांचे आवाज लागीं पाविल्ल्याचें कळटालें तेच वांगडा घोड्यांच्या

धांवपाचोय आवाज येतालो. 'ते हे दिकेन येवपाक लागल्यात.' ताणें म्हणलें.

'आमी गाडयेंतल्यान देंवून ह्या व्हडल्या खडपां फाटल्यान आलाशिरो घेवुया.'

इतल्यांत आमी बेताळ आनी भैरव देवाच्या पोरण्या देवळां लागींच आसात म्हूण ताच्या लक्षांत आयलें. ताणें माई आनी साधूक सकयल देंवोवन घेतलीं आनी धाकल्या देवळांत तांकां घेवन गेलो.

'तुमी थंय मुर्ती फाटल्यान लिपात आनी दिवो पालयात. आमी ह्या खडपां फाटल्यान लिपतात.' कृष्णान सांगलें. ताणें घोडो सोडलो आनी गाडी एके सोडून दिल्ले धान्य सांठोवन दवरपाचे कोठयेंत धुकलून ताचेर आशिकुशीक आशिल्लें तण आनी सुको पालो धांपलो. तो घोड्यार बसलो आनी राधिका ताच्या दाव्या पांयार पांय दवरून उडी मारून घोड्यार चडलें आनी ताचे म्हऱ्यांत बसलें. 'आमी तीं खडपां दिसतात थंय वचुंया.' कृष्णान म्हणलें.

तीं थंय वचून देंवलीं. 'तूं एका खडपा मुळांत जाता तितलें सकयल लीप. हांव हाका एका सुरक्षीत जाग्यार बांदून येतां.' ताणें म्हणलें.

घोड्याक बांदलो आनी ताका सदांच्या संवयेच्या उतरांनी बसपाक फर्मायलें. घोड्यान दिमी मारली आनी थंयच बसलो.

तितल्या वेळा भितर शिपायक लोकांच्या राबित्याच्या घरां मेरेन पावले आनी कांय घरांक तांणी उजो लायलो. बंदुकांचे फार जाल्ल्याचो आवाज जालो. थोडे शिपायक मुखार गेले. जेन्ना तांकां पोरणें देवूळ दिसलें तेन्ना ते घोड्यां वयल्यान देंवले आनी देवळा भोंवतणीं पळोवन आयले. एकटो देवळांत गेलो. ताच्या हातांत जळटी मशाल आसली. त्या उजवाडांत ताणें भितर पळयलें, पूण ताका कांयच दिसलें ना.

हेर शिपायक देवळा फाटल्यान गेले. तांकां थंय सोडून दिल्ली ती धान्य कोठी दिसली. तणाची रास पळोवन ताणें तिका उजो लायलो. तण जळ्ळें तेन्ना थंय ते राशी पोंदां तांकां एक गाडो लिपोवन दवरिल्लो दिसलो.

'तें दॅव्हिइश्ता आकी (हांगा कोणूय तरी आसतलो)'. ताणें देवळांतल्यान भायर येतालो ताका म्हणलें.

'ऑन्दि? (खंय?)' त्या दुसऱ्यान पयल्याक विचारलें आनी तोवूय ताचे म्हऱ्यांत गेलो.

'तें इश्ता ऊँ कॉरोका (हांगा एक गाडो आसा)'. ताणें म्हणलें.

'आमकां धरतले ते. दोगूय जाण ते कोठये कडेन आसात. आतांच त्या खडपां कडेन धांवल्यार बरें.' माईन साधूक म्हणलें.

दोगूय शिपायक नदरेआड जायनाफुडें दोगांय माई आनी साधू लिपिल्लीं थंयच्यान भायर आयलीं आनी खडपां वटेन धांवलीं.

'नुश इश्तु तिरार ओत्रलीवु ओल्यार (आनीक एक फावट सारकें पळोवया)'. अशें एकट्यान म्हणलें आनी दोगूय जाण फुडले वटेन आयले. अचकीत तांकां दोगां खडपां वटेन धांवतालीं तीं दिसलीं.

कृष्णा आनी राधिका हें सगलें पयसुल्ल्यान पळयतालीं. आतां मुखार कितें जातलें ताची कृष्णाक कल्पना आयली. 'एस्पीगार्दा मातार (पेटय फार, मरूं दी)'. शिपायकांनी तीं धांवतालीं तीं पळोवन म्हणलें. दुसऱ्या दोगां जाणांनी बंदुको जोखून तीं लागीं आसतनाच फार पेटयले. अचकीत साधू कितेंच आवाज नासतना जमनीर पडलो तो कृष्णान पळयलो. दोन धेंपां ताचे मुखार आशिल्ले माईन व्हडल्यान किळांच मारली आनी ती फाटीं परतली. बंदुकेची गुळी तिचे छातयेंत रिगली आनी घसघशीत झर व्हांवची तशे तरेन रगत व्हांवूंक लागलें. तिची जीव गेल्ली कूड साधूचे कुडीचेर उमथी पडली.

दोगूय शिपायक त्या सकयल पडिल्ल्या कुडीं वटेन धांवले. एकल्यान दोनूय देह उदारे केले आनी साधूक पळयलो. 'येश्ति ओम्मे इश्ता आकेलि एस्पीय (होच तो गुप्त हेर)'. ताणें म्हणलें.

इतलें सगलें घडटा आसतना आपूण एका साळकाच्या तळ्या कांठार आसा म्हणपाचें कृष्णाच्या लक्षांत आयलें. राधिका आवाजा बगर दुकां गळयताले. तितल्यांत आनीक दोन घोडेसुवार शिपायकांक येवन मेळ्ळे. पयल्या दोगांनी घडिल्ली पुराय घडणूक तांकां विस्तारान सांगून आपणें कशे तरेन गुप्तहेर आनी ताचे सांगाती बायलेक पळून वतना मारली ती गजाल सांगली.

'तांणी आनीक सोद घेवपाचें थारायलें जाल्यार आमी ह्या तळ्यांत बुडी मारून रावल्यार बरें जातलें.' कृष्णाक कल्पना सुचली. पूण ते शिपायक आपणा मदीं कितें तरी उलयले आनी थंयच्यान फाटीं परतले. वतना तांणी धान्य कोठयेक आनी देवळाक उजो लायलो आनी फाटीं परतून घोड्यांचेर सुवार जावन वचपाक गेले.

ते गेल्ले पळोवन कृष्णा आनी राधिका लिपिल्ल्या जाग्या वयल्यान भायर आयलीं. घडिल्ल्या सगल्या प्रकारान राधिकाचो आवरो उडिल्लो. भंयान आनी

दुख्खान ताच्या तोंडांतल्यान उतरूच फुटना जालें. कृष्णा फाटोफाट तें आवयबापूय मरून पडिल्लीं थंय गेलें. कृष्णान ओणोव घेवन दोगांचेय दोळे बंद केले. 'दोगांय आमकां सोडून गेलीं. आतां निमणे संस्कार करपाक वेळ ना. यो.' म्हणून दोगांयनी मेळून कुडी सारक्यो तेंकून तेंकून आडव्यो घाल्यो. कृष्णा तळ्या कांठार गेलो. ताणें एका साळकाचें व्हडलें पान तोडलें आनी ताचो दोणो करून तातूंत उदक घेवन आयलो. 'घे, हातूंतलें थोडें थोडें उदक घेवन दोगांयच्याय तोंडांत घाल. आमी तांकां हांगाच अग्नी दिवया.' ताणें म्हणलें. ताणें आशिकुशीचे बारीक मोटे झाडांचे सुके खांदे, शिरपुटां, बडयो बी पुंजावन हाडल्यो आनी प्रेतांचेर दाळाक लावन सरण रचलें. ताचेर थोडें तण घालून लागींच पेटून गेल्ल्या उज्यांतल्यान उजो हाडून प्रेतांक अग्नी दिलो. दोगांयनी कडेक उबीं रावन प्रार्थना केली. कृष्णान राधिकाक वेंगेंत घेवन ताचीं दुकां पुसलीं. 'आमकां चड वेळ ना. ते परत फाटीं येवन सोद घेवचे नात म्हणून सांगूं नज. देव आसा आमच्या आदाराक. आमकां जीव वाटावन धांवपाक वेळ दिला ताणें. चल वचुंया आमी हांगाच्यान.' कृष्णान म्हणलें.

कृष्णा घोड्याक घेवन आयलो. आपूण घोड्यार बसलो आनी राधिकाक आपणा म्हऱ्यांत बसपाक ताका हात दिलो. तो उत्तर-पूर्व दिकेन केळशे वचपाचे वाटेक लागलो. उदेंतेक सूर्य वयर येतालो त्या वेळार तीं व्हाळ हुपून वतालीं. थंड वाऱ्यान राधिकाचे दोळे झेमेवंक लागले.

'तूं घोड्यार आसतनाच न्हिदूंक लागलें जाल्यार सकयल पडून जागें जातलें. पळय पावलीं आमी केळशे.' कृष्णान म्हणलें

केळशे पावून कृष्णान थंयचो कर्णीक (लेखनीक) भवानी शंकर कुळकर्णी हाका उठयलो आनी ब्रह्मपुरींत जें कितें घडलें ती पुराय खबर सांगली.

'आमी ही खबर स्वामी विवरानंद हांकां सांगपाक जाय. म्हाका दिसता मठाक खूब धोको आसा.'

'स्वामींनी सकाळचे धर्मीक विधी सोंपयल्यात आनी आतां ते ध्यानाक बसल्यात. आमी तांची अल्पोपहारा वेळार भेट घेवया. तुमीय बी तुमचे सगले सकाळचे देहाविधी करून घेयात आनी तरतरीत जायात.' कुळकर्णीन कृष्णाक सांगलें.

कृष्णा आनी राधिका हांणी न्हंयेंत न्हावन घेतलें. सकाळची पुजा प्रार्थना

केली आनी दनपार जावन सोंपतासर रावलीं.

'ब्रह्मपुरी तांणी लासून नश्ट केली. कशे तरी करून प्राचार्याक आमी गुप्ततायेन भायर काडून व्हेले. कितले जाण मेले म्हाका खबर ना. आतां तांची हे उपरांतची मोख म्हणल्यार हो मठ. स्वामी म्हाराज, तुमी बेगिनांत बेगीन मठ सोडून वचात.' कृष्णान स्वामी विवरानंदाक सांगलें.

दनपरां उपरांत खूबशे गांवकार मठांत जमले. भासाभास करून स्वामी विवरानंदांनी वांगडा कांय शिश्यांक घेवन बेगिनांत बेगीन गोळवणा वचून आलाशिरो घेवचो अशी थारावणी जाली.

तीन गाडयांनी जाता तितलें सामान भरलें. न्हंये धक्यार राखणेच्या पुर्तुगेज मनशांक दुडवांची भरपूर लांच दिली. तांणी सगल्यांक वचपाक दिलें.

'मठांत खूबसो लेखी दस्तावेज आसा आनी भोजपत्रा वयलीं लिखितां आसात. सगलें नासाडी जावन फुकट वतलें.' राधिकान हुस्को परगटायलो.

'लोकांचो जीव वाटावपूच अशक्य जालां थंय हेर वस्तूंचें चिंतून कितें जातलें?' कृष्णान राधिकाक म्हणलें.

'गोळवण कितलें पयस आसा?' राधिकान विचारलें.

'उणोच एका सप्तकाचो प्रवास आसा.' कृष्णान सांगलें.

'स्वामी सुरक्षीत रितीन गोळवण पावतले अशें दिसता तुका? धोको ना तांच्या जिवाक?' राधिका जाणा जावंक सोदतालें.

'प्रवास खूब त्रासांचो आनी थकून वचपा सारको आसा. पूण तांच्या जिवाक मानवी जिवां कडल्यान धोको आसतसो म्हाका दिसना.' कृष्णान म्हणलें.

राधिकाक समजूंक पावलें ना. तें प्रस्नार्थक नदरेन पळयत रावलें. 'पाखले आनी नायत्यां कडल्यान धोको ना तांच्या जिवाक?' राधिकान विचारलें.

'तशें न्हय राधिका. मनीस आपसुवार्थी आसता. ताका दुडवांची आस दाखोवन विकतें घेवंक मेळटा. सैमा कडेन अशें करप शक्य ना. सैमीक अरिश्ट कसलेंय आयलें ना जाल्यार ते सुरक्षीत रितीन गोळवणा पावतले. तांणी आपणा वांगडा दुडू, भांगर शिंगर असलें सगलें वांगडा घेतलां आनी मनशां कडेन सौदो करपाची तजवीज करून दवरल्या.' कृष्णान ताका खात्री दिली.

मठांतले चडशे वैदीक आनी हेर कर्मचारी मठ सोडून गेल्ले. सांजवेळ जाता म्हणल्यार मठ आनी गांव रिते रिते दिसपाक लागले.

'आतां काम जालें. आमीय बी सुरक्षीत जाग्यार वचपाचो वेळ आयला. म्हणल्यार थोड्या दिसां खातीर तरी.' कृष्णान राधिकाक म्हणलें.

'खंय वचपाचें आमी?' राधिकान उमळशिकेन विचारलें.

'आमकां गोमन्तकांत सध्या सुरक्षीत जागो ना.' राधिकाच्या दोळ्यांत दुकां भरलीं.

'हुस्को करूं नाका तूं. थोड्या वेळा खातीर आमी लागींच आशिल्ल्या भूमिपुरूस देवळांत आलाशिरो घेवया. तें हांगाच्यान लागीं आसा. थंयचो भटमाम म्हजे वळखीचो.'

तीं न्हंय हुपून गेलीं आनी दनपरां उपरांत भूमिपुरूस देवळा कडेन पावलीं. हें देवूळ एका ऊंच दोंगराच्या मुळसांत आसलें.

कपीत दियोगु फेर्नांदिश ऑंदु हो मोठो चतुर मनीस आसलो. केळशी हो बऱ्या कुळवंत अश्या लोकांचो गांव म्हूण तो जाणा आसलो. तो पणजे येवन पावचे पयलीं थंय लिस्बोआंत आसतनाच ताका राज्यांतल्या लोकां विशीं म्हायती दिल्ली. जो भूंय प्रदेश रानवटी आनी असंस्कृत लोकांनी भरला तेच भुंयेर कुळवंत म्हणून वळख आशिल्ले लोक क्रिस्तांव धर्माचे जल्माचे वैरी. भोव मानादीक पुर्तुगालच्या राजान खंयच्याय थरार वचून क्रूर ख्यास्त भोगोवन ह्या लोकांक धर्मांतर करपाक लावचें वा गोंय सोडून वचपा सारकी तांची आवतिकाय करची अशें तांकां सांगिल्लें.

दियोगु फेर्नांदिशाक गोंयांत येवन दोन वर्सां जाल्लीं. इतल्या काळांत ताणें ह्या कुळवंतांचेर बारीक नदर दवरिल्ली. तांच्यो श्रद्धा, चालीरिती आनी तांची धर्मा खातीर आशिल्ली समर्पणाची भावना पळोवन ताका अजाप जातालें. तरी तेच वांगडा तांचे कांय रितीरिवाज पळोवन तो हांसतालो कारण ताका तें अर्थहीणशें दिसतालें. अशे तरेच्या गजालींचोच आपणें उपेग करून घेवपाक जाय हेंवूय ताणें चिंतून दवरिल्लें. 'फक्त तो मठूच न्हय जाल्यार तो पुराय गांवूच लासून गोबर करून उडोवपाक जाय.' अशें ताणें थारायिल्लें.

सप्टेंबर म्हयन्यांत एके रातीं ताणें आपल्या मनशांक गांवांतल्या सगल्या बांयांनी गायांचें रगत आनी आंतकड्यो उडोवन उदक दुशीत करपाचो आदेश दिलो. ते पंद्रशींत चडांतचड हिंदू लोक रातचे भायर येनात. त्या दिसांक महालय म्हणटात. 'कसलेच आडखळी बगर बांयांनी ह्यो वस्तू तुमी उडोवं येता.' ताणें सांगिल्लें.

दुसऱ्या दिसा सकाळीं लोकांनी बांयांचें उदक काडलें तेन्ना तांकां तें दुशीत जालां म्हण कळ्ळें. सगल्या लोकांचेर आकांत आयलो. दर एका घरांत एकूच विशय. गांवकारांनी बसका घेवपाचो यत्न केलो. स्वामी मठ सोडून गेल्ले पळोवन गांवकारांचें मनोबळ देंविल्लें. सगल्याक गोंदळ पातळिल्लो. मुखार येवपाच्या अरिश्टाची लोकांक सुलूस लागली. ते आपली मुस्तायकी बांदून गांव सोडून वचपाचे तयारेक लागले. वेळ गेल्यार जिवाक संकट अशी परिस्थिती जाल्ली.

सकाळ जाले उपरांत कांय वरां भितर कपीत दियोग फेर्नांदिश शंबर घोडेसुवार झुजाऱ्यांक घेवन केळशी गांवांत पावलो. जेन्ना तो मठाच्या वाठारांत पावलो तेन्ना ताका स्वामी आर्दीच मठ सोडून सुरक्षीत जाग्यार गेले म्हूण कळ्ळें. तेन्नाच्यान कांय लोक गांव सोडून वचपाक लागिल्ले जाल्यार थोडे आर्दींच गेल्ले. हें पळोवन कपीत रागान तांबडो जालो आनी चवताळ्ळो. ताणें मठाक उजो लावपाक फर्मायलें. मठांत कोण लोक उरिल्ले तांकां ओडून भायर काडले. सगले दस्तावेज, पुस्तकां, ग्रंथ आनी हेर वस्तू कपडे बी भायर काडून शिपायकांनी रास केली आनी त्या सगल्या सामानाक उजो लायलो. खूब लोकांक धरून व्हेले. सगल्या गांवकारांक ताणें गांवच्या मध्यार मेकळ्या जाग्यार जमपाचो आदेश दिलो. ते हात जोडून ताचे सामकार उबे रावले.

'म्हाका हांगा मानादीक विसरायान जे विस्वासघातकी देशद्रोही गांवांत लिपल्यात तांकां धरून बंदखणींत घालपा खातीर धाडला. तुमचे मदीं सरकाराक कर भरूंक ना अशेय थोडे लोक आसात. तांच्या नांवाची वळेरी हांवें हाडल्या. तुमकां एका दिसाचो वेळ दितां. ह्या मनशांक तुमी म्हजे सामकार हाजीर करात. नाजाल्यार हांव तुमकां सगल्यांकूच धरून बंदखणींत घालतां आनी तुमचो गांवूच लासून उडयतां.' ताणें लोकांक व्हडल्यान आड्डून धमकायत म्हणलें. जेन्ना ताच्या उतरांचो अनुवादकान अर्थ सांगलो तेन्ना सगल्या लोकांचेर व्हडलो आकांत आयलो.

पयलीं ताणें सगल्यो बांयो दुशीत केल्यो. हिंदू लोक तें उदक वापरचे नासले. तो गांवांत येवन तळ दिवन राविल्लो आनी कोणाकूच गांवां भायर वचपाक दिनासलो. दुसरो आनीक उपाय ना म्हूण तो जाणा आसलो. तांकां एकूच पर्याय आसलो तो म्हणल्यार शरण येवप आनी धर्मांतर मानून घेवप.

'आमचे मदीं घातमारे भेदी कोण नात, सायब. आमचें उदक दुशीत केलां.

आमकां हो गांव सोडून वचपाक दिवचें म्हूण हांव मागतां. नाजाल्यार आमी तानेन मरतले.' गांवकाराच्या मुखेल्यान सांगलें.

'तुमी घातमाऱ्या लोकांक आमचे सुवादीन केले बगर तुमकां वचपाक मेळचें ना. तुमकां जगपाचें आसा जाल्यार हें उदक पियात. हांवें आडावंक ना तुमकां.' दियोगु फेर्नांदिश अधिकाराच्या सुरान उलयलो. चडांतचड लोकांनी त्या दिसा रांदलेंच ना. आवयांनी उदक काडून तें उकळ्ळें. तातूंत थोडें तीर्थ घालें आनी तुळशीचीं पानां घालीं आनी तें भुरग्यांक दिलें. जाणटीं मनशां तें उदक पिलीं नात. एक वा दोन दीस उदका बगर रावपाक जाता म्हूण तीं जाणां आसलीं.

■■■

# वाटाय तिका

मध्यान रातीं सुमार दोन काळसार आकृती वांकडीतिकडी वाट काडीत लार्गीच्या रानांतल्यान मोन्यांनी आनी जतनायेन तरी पूण चोर पावलांनी चलत गांवचो उत्तरे कडलो वाठार हुपून एका मध्यम आकाराच्या घरा वटेन गेल्यो. घराचो चडांतचड भाग काळखांत आसलो. घराच्या वणटीच्या खांचींतल्यान पेटिल्लो दिवटेचो मंद उजवाड दिसतालो. दोगां मदल्या एकल्यान घराच्या फाटल्या दारा कडेन वचून दार वाजयलें. हें घर गोशाले वटेन आसलें.

भितर जे दबिल्ल्या आवाजान उलयताले तांणी उलोवप बंद केलें.

'कोण थंय?' भितरल्यान आवाज आयलो.

'दार उगड. तुमचे इश्ट.' भायल्या मनशान जाप दिली.

कांय खीण फार्टीफुडें जावन एका मनशान जतनायेन बारीकशी खांच दवरून भायर पळयलें.

'म्हजें नांव कृष्णा. हांव ब्रह्मपुरींतल्यान आयलां. पुराय दार उगड.' कृष्णान भायल्यान म्हणलें.

पुराय दार उक्तें जालें.

कृष्णा आनी केदार दोगूय भितर गेले. कृष्णान दार उगडपी मनशाक दोगांयची

वळख करून दिली.

'तांणी ब्रह्मपुरी पुरायपणान लासली.' ताणें सांगलें.

'हांव एक गांवकार. म्हजें नांव नरशिंव भांडारी.'

'पुर्तुगेज झुजाऱ्यांनी केळशी गांव सगल्या वटांनी घेरला. घातमारे दुबावीत म्हूण ते सोद घेतात ते मनीस तुमीच न्हय मूं?' ताणें विचारलें.

'आँ, अशें न्हय, ते घातमाऱ्या मनशांक सोदतात तर!'

'तांकां गांवांतलो दर एक मनीस घातमारो कसोच दिसता. आमी तांकां फावो ते तांकीन उरफाटी बुद्द शिकोवपाक उणे पडटात हें आमचें दुर्दैव.' केदार तिडकीन थरथरत उलयलो.

कृष्णान ताच्या खांद्यार हात दवरलो आनी म्हणलें, 'इतलो राग तकलेर मारून घेवं नाका. थंड कर तकली. ह्या लोकांचे जीव धोक्यांत आसात. आमी तांकां वाटायतले जाल्यार चुको करूंक फावना.'

'कितले लोक आसात तुमी हांगा?' कृष्णान विचारलें.

नरशिंव भांडारी पयलीं मात्सो फाटींफुडें जालो आनी मागीर म्हणलें, 'स जाण.'

'आनी कोण दादले आसात?' कृष्णान विचारलें.

'हय. म्हजे दोग पूत आसात.'

'बरे व्हडले?' कृष्णान विचारलें.

'हय. व्हडलेच म्हणल्यार तुजे पिरायेचे.' ताणें जाप दिली.

'तुमकां जीव वाटावपाक आमी मजत करतात आमकां तांकता तितली. दर एका घरांतल्या एका मनशान शेजाऱ्यागेर वचपाचें आनी बेगिनांत बेगीन गांव सोडून वचपाक सांगपाचें. ते खातीर गरज आशिल्ल्याक आदार दिवपाचो. दीस वयर येवचे पयलीं हें काम जावपाक जाय.'

नरशिंव भांडारीन एका पुताक शेजाऱ्यागेर धाडलो. हेर सगल्यांनी आपापलो मोलादीक म्हालवज, भांगरावस्ती, दुडू बी पोटल्यांनी बांदलो.

'तूं हांकां घेवन फाटल्या दारान वच. हांव तुमचे फाटल्यान येतां.' कृष्णान केदाराक म्हणलें.

नरशिंव भांडारी वेळ काडपाक लागलो. कित्याक वेळ काडटा हो? कृष्णाक प्रस्न पडलो आनी तो उलयलो.

'म्हाका आनीक कितें तरी घेवपाचें आसा वांगडा. तुमी चलात, हांव रोखडोच

येतां.' ताणें म्हणलें.

'वेळ वगडावं नाका. आमच्या सगल्यांच्याच जिवाक धोको आसा.' कृष्णान ताकतीक केली.

'म्हजो पूत येवंक ना अजून.' नरशिंवान म्हणलें.

कृष्णान दार उगडून भायर पळयलें. रस्त्यार कोण नाशिल्लो. फकत काळोख. दोनूय वटांनी पेटिल्ल्यो चुडी आनी एकटो मनीस व्हडलीं दांगां मारीत घरा वटेन चलून येतालो तो दिसलो.

'तो पळय येता तुजो पूत. आतां वचात बेगीन फाटल्या दारांतल्यान भायर सरून.' कृष्णान म्हणलें.

'आरे घाता....!' कृष्णा उद्गारलो. ताणें एका पुर्तुगेज झुजाऱ्याची अंधूकशी आकृती ताचे फाटोफाट थोड्या अंतराचेर चलत येताली ती पळयली.

'कितें जालें?' नरशिंव भांडारीन विचारलें.

'ना, कांय ना. तुजो पूत येता. चलात, वचात बेगीन.' कृष्णान म्हणलें. तरी तो हालना जालो.

'आतां आनी कितें उरलां? तुका संकटाची पर्वाच ना कशी?' कृष्णान विचारलें.

'आनीक दोन मनशां आसात. तळकोठयेंत लिपल्यांत. म्हज्या इश्टाची बायल आनी ताची धूव.' ताणें सांगलें.

'आनी मनशां आसात?' कृष्णान अजापान विचारलें.

इतल्यांत फुडलें दार वाजिल्ल्याचो आवाज आयलो. नरशिंव भांडारीचो पूत आयलो.

'भायर सरात जतनायेन. पुर्तुगेज शिपायक भोंवतात रस्त्यार पारो करीत.' केदारान म्हणलें.

'तूं हांकां फाटल्या दारांतल्यान न्हंये वटेन घेवन चल. हो म्हणटा तळकोठयेंत आनीक दोन मनशां लिपून बसल्यांत खंय. हांव घेवन येता तांकां.' कृष्णान म्हणलें.

'सडसडीत फाटल्या दारांतल्यान भायर सरून वच सगल्यांक घेवन.' ताणें फर्मायलें.

केदारान सगल्या पंगडाक फाटल्या दारांतल्यान भायर काडलो. तांकां एकठांय रावपाक सांगलें आनी आपूण भितर आयलो.

'चल, बेगीन, वेळ ना वगडावपाक. दाखय म्हाका तळकोठी.' कृष्णान नरशिंवाक आदेश दिलो. निकतोच भितर सरिल्लो केदार तांचे फाटोफाट गेलो.

ते बारीक वाटेन भितर देंवले. बसकेचे मुखेल कुडी सकयलूच एक व्हडली तळकोठी आसली.

थंय दोन दिवे पेट्टाले.

दोन बायलां एके खाटीर बशिल्लीं तीं कृष्णाक दिसलीं. तरणाटी आशिल्ली ती अस्तुरी राधिकाचे पिरायेची आसली, पूण मात्शी ऊंच आनी आंगान बारीक. नाक वाटकुळेंशें. निवळ खर नदर आनी तिचें केंस मुदयाळे आसले. जाणटी बायल मध्यम पिराय हुपिल्ली आसली आनी तिचे केंसूय मुदयाळे आसले. घडये तीं आवय आनी धूव आसलीं अशें कृष्णाक दिसलें.

'हीं बायलां वळखीचींशीं दिसतात.' अशेंय ताका दिसपाक लागलें.

'आमकां ह्याच खिणाक हांगाच्यान भायर वचपाक जाय. हो आमकां मजत करपाक आयला. आमचो जीव धोक्यांत आसा.' नरशिंव भांडारीन त्या बायलांक सांगलें.

आदींच भियेवन आशिल्लीं तीं दोगांय खूब भियेवन कडकडलीं. दोगांय खाटी वयल्यान उठलीं आनी नरशिंव भांडारी फाटल्यान चलपाक लागलीं. तांचे फाटोफाट कृष्णा गेलो. सोंपणां चडून वयर वतना तरणाटे अस्तुरेक कृष्णाचो चेरो दिवटेच्या उजवाडांत दिसलो.

तिचे भितर जाल्लो बदल कृष्णाच्या लक्षांत आयलो. ती ताका वळखल्ली. त्याच खिणाक तिच्या तोंडांतल्यान अस्पश्टशीं उतरां फुटलीं आनी ती घुंवळ येवन पडली.

कृष्णान तिका घट्ट धरली आनी सकयल पडपाची वाटायली.

आवय फाटीं घुंवली आनी तिणें अचकीत म्हणलें,

'सत्या...'

'ओ....!' तिका घुंवळ आयली.

'तूं वेळ वगडावं नाका, माई. हांव उखलून हाडटां तिका वयर. ती बरी जातली. तुंवूय वच वयर. वाट खूब अशीर आसा.' कृष्णान म्हणलें.

'हिचें नांव सत्या. आदीं आयकल्लेंचशें दिसता.'

कृष्णान मनांत म्हणलें. तितल्या वेळा भितर जे शिपायक नरशिंव भांडारीच्या

पुताचो फाटलाव करताले ते त्या घराच्या फुडल्या दारांत पाविल्ले. बायल मनशेच्या आवाजाची तांकां सुलूस लागिल्ली.

जेन्ना तांकां परत आवाज आयकूंक येना जालो तेन्ना एका शिपायकान जबरदस्तेन दार मोडलें आनी भितर आयलो. नरशिंव भांडारी फाटल्या दारा कडेन पाविल्लो. ती बायल फाटोफाट गेली आनी तांचे फाटल्यान केदार गेलो.

ती परत किळांच मारपाचीच आशिल्ली तेन्ना केदारान तिच्या तोंडार आपलो हात धरून म्हणलें, 'तुजो एक लेगीत शब्द भायर फुटत जाल्यार आमी सगलींच मरतलीं. तो सकयल आसा तो तरणाटो तुजे धुवेक वाटायतलो. चल, आमी धांव मारुंया.' ताणें तिका शिटकायली. दोगांय मुखार गेल्ल्या पंगडा फाटल्यान धांवलीं.

'तूं घेवन चल तांकां भायर. हांव हे अस्तुरेक भायर काडपाचें पळयतां.' कृष्णान म्हणलें.

'वाटाय तिका.' केदारान म्हणलें आनी तो फाटल्या दारांतल्यान धांवलो आनी त्या पंगडाक न्हंये वटेन घेवन गेलो. तो शिपायक मुखेल कोठयेंत येवन तांचे वयरच भोंवतालो. कृष्णा ते अस्तुरेक घेवन सकयले कोठयेंत आडखळून उरिल्लो. त्या शिपायका वांगडा आनीक शिपायक आशिल्ले जाल्यार ह्या दोगांयचो अंतूच जावपाचो. तो एकटोच आशिल्लो. ते खातीर ताका स्वताक वाटावपाची थोडी आस्त आसली.

ताणें सत्याक जमनीर आड घालें. ताचो सोबीत चेरो आतां शांत नितळ दिसतालो. त्या शिपायकाक  सकयल तळ कोठयेंत वचपाचे वाटेर दार उक्तें आसा तें दिसलें. थंयच्यान मंद उजवाड येतालो तो ताका दिसलो.

ताणें व्हडल्यान आड्डून कितें तरी म्हणलें.

सत्यान जागें जाल्लेवरी दोळे उगडून पळयलें. कृष्णा ताचे वटेन धांवलो आनी ताच्या तोंडार हात धरून ताका आवाज काडूं नाका म्हूण कुरू केली. ताणें वयले वटेन बोट दाखयलें आनी गोमटी कापपाचो हावभाव करीत वयर धोको आसा म्हणपाचें तिका सुचयलें. भियेवन थरथरो आयिल्ले ते अस्तुरेक ताची भास कळ्ळी आनी तिणें तकली हालोवन आपूण समजलें म्हूण ताका कळीत केलें. ताणें तिच्या तोंडा वयलो हात काडलो आनी ओगी रावपाची परत कुरू केली.

अचकीत ताका तो शिपायक सोंपणां देंवून सकयल येतालो तो दिसलो. ताणें खांब्या वटेन धांव मारली आनी ताचे फाटल्यान लिपलो. अस्तुरी अजून जमनीर

आसली. कृष्णान तिका आपणाक पळोवं नाका, त्या शिपायका वटेन पळोवपाक कुरवेन सांगलें. ती शिटूक आनी बुदवंतशी दिसली. तिणें सांगिल्लें तशेंच केलें.

तो आसलो एक पुर्तुगेज झुजारी आनी ताचे कडेन ल्हान समशेर आसली. ती हातांत धरून तो अस्तुरे वटेन वचपाक लागलो. ताचे कडेन बंदूक नासली.

ताणें येवजिलें, 'होच वेळ आनी हीच संद योग्य निर्णय घेवपाची.' ताणें शिपायकाचेर फाटल्यान उडी मारली. दोगूय सकयल पडले. कृष्णान ताचें उजवें मनगट घट्ट धरलें आनी पुराय शक्त लावन तें घुंवडायलें. समशेर जमनीर पडली. ताणें दाव्या हातान शिपायकाचे गोमटेक घट्ट विळखो घालो आनी सगली शक्त लावन ती चिड्डून धरली.

शिपायकान अचकीत आपलो उजवो कोंपर कृष्णाच्या पोटार मारलो. ताका खूब दुखलें. कळ सोंसना जावन कळवळत तो सकयल पडलो. शिपायकाक उबो रावपाक संद मेळ्ळी. ताणें ओणव घेवन समशेर काडपाची चूक केली. कृष्णान ती संद वगडायली ना. ताणें उजव्या पांयान शिपायकाच्या तोंडार खोंट मारली. तो हाल्लो आनी झेलपटलो.

कृष्णान त्याच खिणाक ताचें पडिल्लें शिरस्त्राण घेतलें आनी पुराय तांकीन ताच्या कानसुलार मारलें. शिपायक घुंवळ येवन सकयल पडलो. कृष्णान ताची पडिल्ली समशेर घेतली आनी ताच्या पोटांत तोपली. भस्स करून झर व्हांवची तशें ताचें रगत व्हांवूंक लागलें. कृष्णान समशेर भायर काडली आनी ताच्या गळ्याक तोपली. तो शिपायक थंयच मरून पडलो.

आतां कृष्णाक परतून पोटांतली दूख जाणवली. तो जमनीर बसलो आनी कमर बागोवन रावलो. ताका मात्शें बरें दिसलें. सत्या उठलें आनी त्या शिपायका वटेन पळयनासतना कृष्णा म्हच्यांत गेलें. ताचे कुशीक बसून ताचें पोट पोशेलें.

कृष्णाक अजाप जालें. ताका ताच्या दोळ्यांत तोखणायेचे भाव आनी मुखामळार धिटायेची झांक दिसली.

'तूं खूब साहसी तरणाटो कृष्णा.' तिणें म्हणलें.

'तूं म्हजें नांव जाणा?' कृष्णान विचारलें.

'जाणां म्हणल्यार? बरे भाशेन याद आसा. तूं मात म्हाका विसरलो अशें दिसता.' तिणें म्हणलें.

'तूं सत्या, तुजो चेरो वळखीचो दिसता. पूण तूं कोण आनी कोणालें ती याद

जायना.' ताणें मान्य केलें.

'हांव सत्या. दादाजीची धूव. ती म्हजी आवय.' तिणें वयले वटेन बोट दाखयत म्हणलें.

'आरे...सत्या..! दादाजीची धूव?' कृष्णा उद्गारलो.

ताका धा वर्सां आदली याद जाली. आवयचे कुशीक राविल्ले सोबीत तरणे चलयेचो मुखडो ताच्या दोळ्यां मुखार उबो जालो. ताणें आनी केदारान तांकां पणजी कोटांतल्यान भायर काडून जीव वाटावन वचपाक मजत केल्ली.

'पूण आतां असल्या गजालींचेर उलोवपाक वेळ ना. हो शिपायक एकटोच आयिल्लो आसपाक जाय. आमी नशीबवान. देव पावलो आमकां. अजून मेरेन हांवें केन्नाच तांची समशेर हातांत घेवंक नासली वा कोणाच मनशाची हांवें हत्या करूंक नासली. आमी वचुंया हांगाच्यान जीव घेवन.' कृष्णान म्हणलें.

ताणें तिका हाताक धरून जतनायेन वयर व्हेली. घरांत आनीक कोणूच नासलो. ताणें मुखा वयलें दार मात्शें उगडलें आनी भायर पळयलें. रस्त्यार कोणूच नासलो. कोण शिपायक लेगीत भोंवनासलो.

'यो, आमी भायर सरुया आतां. देव आसा आमच्या सांगाताक.' कृष्णान म्हणलें. दोगांय फाटल्या दारांतल्यान भायर सरलीं आनी न्हंये वटेन चलपाक लागलीं. थंय कोण नासले. सगलीं व्हडीं गेल्लीं. पांच स शिपायक हातांत चुडी घेवन धक्याचेर सगळो वाठार तपासताले.

'आरे देवा.....! आमी पडटात दिसता तांच्या हातांत. हेर सगले जाण एक तर पलतडींत पावल्यात जातले नाजाल्यार तांकां धरून बंदखणींत घाल्यात आसतले. कळपाक मार्ग ना.' कृष्णान म्हणलें.

'कितें करुया आमी आतां?' सत्यान विचारलें. कृष्णान थोडो वेळ विचार केलो.

उदेंतेच्या मळबांत निकतोच लॅव गुलाबी रंग दिसपाक सुरवात जाल्ली. कांय शेवण्यांचे हेवटेन तेवटेंतले आवाज कानार पडटाले.

'रोखडोच सूर्य उदेतलो. आमी नदरे भायर पावलीं नात जाल्यार ते आमकां धरून भितर घालतले. तूं म्हजे वांगडा घोड्यार बसून येवपाक तयार आसा?' ताणें तिका विचारलें.

'तुजे वांगडा आसां तोवेर हांव कितेंय करपाक तयार आसां.' सत्यान

आत्मविस्वासान जाप दिली.

'तशें जाल्यार आमी राना वटेन वचुंया. घोडो आसा म्हजो थंय.' ताणें म्हणलें.

कृष्णान रोखडोच घोड्याक सोडून हाडलो.

ताणें घोड्याक सांसपिलो. अपुरबायेन ताची फाट थापटिली आनी माने कडेन ताचो उमो घेतलो. 'तयार आसा तो.' कृष्णान म्हणलें आनी तो घोड्याचेर सुवार जालो.

'तुजो दावो पांय म्हज्या दाव्या पांयार दवर आनी म्हज्या उजव्या हाताक घट धर.' कृष्णान म्हणलें.

तिणें तशें केलें आनी कृष्णान तिका वयर ओडून धरीत म्हणलें, 'आतां झटको दिल्लेवरी वयले वटेन उडी मार आनी म्हजे फाटल्यान बस.' कृष्णान सांगलें.

सत्यान वयर उडी मारली आनी ताचे फाटल्यान बसली.

'चल, या आमी आतां.' कृष्णान आपल्यो दोनूय खोंटो घोड्याच्या पोटा कडेन लावन लगाम ओडलो. घोडो उत्तर पूर्व दिकेन न्हंयेचे दक्षीण देगे वयल्यान चलपाक लागलो.

कृष्णाक अचकीत राधिकाची याद आयली. 'म्हाका हे स्थितींत पळोवन राधिकाक कितें दिसतलें?' ताका भितरले भितर अपराधीशें दिसपाक लागलें.

'केदार खंय गेला जातलो? ताचो घोडो ना थंय.' ताणें मनांत म्हणलें.

कृष्णा विचारांत मग्न जालो. सत्या कितें तरी सांगूंक सोदतालें. घोड्यान गती वाडयली आनी दोंगरा वटेन धांवपाक लागलो.

■■■

# ते एक जुगार हारतात

1564 वर्साचो काळ दाँ आन्तोनियु नोरोन्य हाचे खातीर हिंदुस्थानी राज्यांत येवन शासन चलोवपाचे नदरेन मनाजोगतो काळ नासलो. चार वर्सां आदीं जें धर्मन्यायालय सुरू केल्लें ताका लागून गोंयचें अर्थकारण देंवते कळेक लागिल्लें. ते खातीर आपली खाजगी संपत पुंजावपाक आपणाक सोंपें जातलें काय ना हाची तो चिंता करतालो.

राजान 15 मार्च 1559 हे तारखेक जो कायदो चलणुकेंत हाडपा खातीर धाडून दिल्लो तो पाळपा खातीर आपलो आदेश दिलो. त्या आदेशा वरवीं एके हिंदू व्यक्तीचे इस्टेटीचो वारसाहक्क ताचे फाटल्यान ताच्या पुतांक, नातरांक वा हेर नात्यांतल्या मनशांक तांणी क्रिस्तांव धर्म स्विकारलो जाल्यारूच मेळटलो म्हणपाचें कळीत केलें.

27 नोव्हेंबर 1563 ह्या दिसा ताणें आनीक एक आदेश जारी केलो आनी त्या आदेशा वरवीं लोकांक कळीत केलें की कळोवणे पत्राचे तारखे सावन एका म्हयन्या भितर गोंय जुवें सोडून वच्चें. तांणी सगली आपली इस्टेट स्वता वा दलालाचे मध्यस्तेन विकची. हे निमणे तारखे उपरांत ते जर पुर्तुगेज शासन आशिल्ले शिमे भितर उरले तर दर्यांतल्या व्हडल्या पुर्तुगेज तारवांचेर बंदखणींत

घालून तांची इस्टेट जमा करतले.

हिंदू समाजा भितर फूट घालपाची विसराय दे नोरोन्य हाणें मोटे बुदवंतकायेन मांडणी काडली. एके वटेन ताणें कांय धनीक ब्राह्मणांक त्या कायद्यांतल्यान वगळायले आनी दुसरे वटेन कामकरी वर्गां मदल्या मेस्त, घिसाडी (लोखंडाचीं कामां करपी) असल्या वर्गांतल्या लोकांक सूट दिली. ते भायर कुशस्थळेचो माधव शणै, राणोजी शणै कोट्टारी हो सरकारी मध्यस्त आनी केळशेचो नामनेचो सुवर्णकार नागेश शेट हांकांय ते वळेरेंतल्यान वगळायले. तेच तरेन दिवाडे आनी नार्वे जुंव्या वयल्या जायत्या रहिवाशांक ते वळेरेंतल्यान सूट दिली. ताची मोख फळादीक जाली.

जेन्ना सरकारान हो वेंचीक समाजांतल्या लोकांक राज्या भायर वचपाचो आदेश काडलो तेन्ना गांवकारांनी बसका घेतली. हे बसकेक वळेरेंतल्यान सूट मेळिल्ली कुटुंबां हाजीर रावलीं नात. पांसठ कुटुंबाचे मुखेली बसकेक हाजीर रावले. तांकां तांकिवंत असो कोण मुखेली मेळ्ळो ना. गांवांतले जायते लोक आदींच धर्मांतर करून मेकळे जाल्ले. हेरांक मजत करपाक ते भियेताले. थोड्यांक कायद्यान सूट मेळिल्ली आनी बरेच मोटे संख्येन लोक गोंय सोडून गेल्ले.

बसकेक तरेकवार मतांचे लोक आसले. ब्राह्मणांक आपल्या प्रस्नांचेर स्वताचे जाती भितर भासाभास करपाची आसली. समाजांतले जे लोक शांततायेन जीण सारपी आसले ते म्हणूंक लागले, 'घडये आमी धर्मांतर करचें अशी देवाचीच इत्सा आसा जातली. आमकां राखण दिवपी कोण ना. आमी धर्मांतर करून आमचो जीव आनी आमच्यो जमनी सांबाळून रावल्यार बरें.'

ब्राह्मणांचो आग्रो आसलो की जीव आनी जमनी परस धर्म चड म्हत्वाचो. ते खातीर आमी गांव सोडून गेल्यार बरें.

बाबू प्रभू नांवाच्या एका जाणट्या मनशान म्हणलें, 'आमच्या भुरग्यांनी केल्यार करूं धर्मांतर. त्या आदारान आमची मायभूंय तरी ते राखून दवरतले.' ही सुचोवणी आयकून खूब जाणांक धसको बसलो.

'तांकां धर्मांतर करपाक दिलें जाल्यार ते आमचे जमनीचे मालक जातले. एक फावट कांय काळा उपरांत हो गोंदळ सोंपतलो तेन्ना आमी परत गांवांत येवन आमच्या भुरग्यां वांगडा रावूं येता.' बाबू प्रभून मोटे आशेन सुचयलें.

'तुमी हांगा परत येवपाक पावतले म्हणटात जाल्यार ती गजाल तुमी विसरात. तशेंच तुमच्या भुरग्यांक परत आपल्या सनातन धर्मांत घेतले अशी धारणा मनांत बाळगून वचुंनाकात.' फाटल्यान बशिल्लो एक तरणाटो उठून उलयलो.

'म्हजें नांव केदार. हांव ब्रह्मपुरींत ल्हानाचो व्हड जालां.' ताणें सांगलें. .

'आमी ब्रह्मपुरी लासून नश्ट केली म्हणून आयकल्लें. खरी खबर?' तांणी विचारलें.

'हय, खरी खबर. ब्रह्मपुरी पुरायपर्णी लासली तांणी. प्राचार्य जीव घेवन रत्नागिरी गेले. खूब जाण मेले. नशिबान जे जिते उरले तांचे मदलो हांव एकटो.' केदारान म्हणलें.

ताणें ते बसकेंतल्या लोकांक पुर्तुगेजांनी जें सगलें मोडून आनी लासून पाड घालें, धर्मपरिवर्तनां घडोवन हाडपाक कितलो क्रूर वेव्हार केलो ताचे विशीं विस्तारान म्हायती दिली आनी आपणें केळशेच्यान थोड्या कुटुंबांक भायर काडून हाडलीं, त्या सगल्या घडणुकांची ताणें पुराय खबर सांगली.

'पाखल्यांक फुडो करपाचे दोनूच मार्ग आसात. पयलो म्हणल्यार तांचे कडेन शस्त्रांनी लडो दिवप. पूण तो उपाय करपाची आमकां तांक ना. दुसरो उपाय म्हणल्यार हांगाच्यान स्थलांतर करप. दुसऱ्या थळांत जंय जंय वतले थंय आपलो धर्म पातळावप. ते खातीर हांव म्हणटां आमी जाता तितले बेगीन हांगाच्यान जीव घेवन धांविल्लें बरें.' केदारान आपलें सांगून सोंपयलें.

'तूं एक तरणाटो आशिल्ल्यान जीव वाटावन धांव मारशीत. आमी जाणट्या मनशांनी कितें करपाचें? आमच्या वाडवडिलांचे जमनीचें कितें? आमचो अर्थीक प्रस्न कसो सुट्टलो?' बाबू प्रभून विचारलें.

'हें सगळें आमी जंय वतले थंय निर्माण करूं येत. आमी शेंकड्यांनी कुटुंबांक न्हंये पलतडीं फोंडें आनी दिवचल वाठारांत वचून रावपाक मजत केल्या.'

जायते लोक कोचीन आनी भटकळ वचपी तारवांनी आलाशिरो घेवन त्या प्रदेशांत गेले. थोडे लोक रत्नागिरी गेले. तशेच आनीक खूबशे लोक हम्पी स्थलांतर जाले.

'हम्पीचो राजप्रतिनिधी रामराया गोवळकोंड आनी विजापूर सुलताना आड युद्धाची तयारी करपाक लागला. ताका झुजा खातीर पाखल्यांची गरज आसा. अशें

आसतना हम्पीच्या रायांचे मजतीची अपेक्षा करून फायदो ना. आमी बेगिनांत बेगीन हांगाच्यान वचप चड बरें.' केदारान आपलें मत नेटान मांडलें.

जमिल्ल्या लोकां मदले ज्येश्ठ लोक आपली मायभूंय सोडून वचपाक तयार नासले. निमाणे कडेन तांणी आपल्या भुरग्यांक घेवन नार्वेच्या गणपतीच्या देवळांत वचून देवा सामकार 'फूल काडचें' (देवाचें उतर घेवपा खातीर) हो विधी करपाचो निर्णय घेतलो. ताणें त्या विधीक वचपा खातीर बरो वेळ पळय म्हूण भटाक सांगलें.

'काका, तो विधी म्हणल्यार एक जुगाराचो खेळ. आमी ह्या प्रस्नाचेर तर्कसंगत विचार करपाची गरज आसा. अशे तरेन जुगार मांडून चलचें ना ह्या विशयांत. एकेक फावट मनीस संभ्रमांत पडटा. ही गजाल खरी. हाचो अर्थ आमी चिंतून वाट काडूंक पावचे नात असो न्हय. असले अंधविस्वास सारके न्हय असल्या प्रसंगार.' केदारान विरोध केलो.

'कोण रे तूं? एक नास्तीक काय पाखल्यांचो दलाल बी?' कोणें तरी रागान विचारलें.

सगलीं आवयबापूय आनी भुरगीं धरून एकशें सोळा मनशां थारायिल्ल्या दिसा सकाळीं न्हंये धक्यार जमलीं. सगलीं व्हड्यांत चडलीं आनी व्हडें सुटून पलतडीं वचपाक लागलें.

कांय अंतर हुपून वता म्हणटासर पलतडीं धक्यार बंदुको घेवन वीस पुर्तुगेज शिपायक हाजीर जाले. तांणी सगल्या भुरग्यांक आपल्या ताब्यांत घेतलीं. जायत्या आवयबापायनी काकुळट येवन भुरग्यांक सोडपाचें मागणें केलें. शिपायकांनी तांकां बंदुकांचो भंय घालून सगल्या भुरग्यांक ताब्यांत घेतलीं आनी पणजे कोटांत घेवन गेले.

दुसऱ्या दिसा आवयबापूय वचून विसरायाक आनी आर्चबिशपाक वचून मेळ्ळीं. विसरायान तांकां तीन पर्याय दिले आनी सात दिसांचो वेळ दिवन खंयचोय एक पर्याय वेंचपाक सांगलें.

1. पुर्तुगेज राजाचे मालकीचो प्रदेश सोडून वचात म्हूण सगल्या हिंदूंक आदेश दिल्लो. ते जर चोरयां पळपाक लागले तर तांच्या अनाथ भुरग्यांक अनाथ मानून क्रिस्तांव धर्मदिक्षा दितले.
2. ते आदेशा प्रमाण गेले नात जाल्यार कैदी मानून तांकां व्हडल्या तारवांचेर

गुलामपण करपा खातीर धाडून दितले. भुरग्यांक अनाथ मानून क्रिस्तांव धर्मांत घेतले.

3. ते खोशेन भुरग्यां सयत क्रिस्तांव जाले जाल्यार मात तांकां माफ करून सोडटले आनी तांचें घरदार आनी जमनी तांच्यो तांकां दितले.

ज्या लोकांच्या भुरग्यांक धरून ताब्यांत घेतिल्लीं तांणी उपाय नासून खोशयेन धर्मांतर केलें. ते उपरांत पयल्या आयतारा क्रिस्तांव धर्माची तांकां दिक्षा दिली. पुर्तुगेजांनी व्हडलो दबाजो मनयलो.



# येवकार तुका

कृष्णा सत्याक घेवन घोड्यार बसलो आनी दोंगरा वटेन वचपाक लागलो. दोंगराच्या मुळसांत भूमिपुरसाचें ल्हानशें देवूळ आसलें. त्या वाठारांत लोकांचो राबितो नासलो.

'खंय पावल्यांत आमी?' सत्यान विचारलें.

'हें भूमिपुरसाचें देवूळ. राधिका आसा हांगा, भटमामागेर. यो म्हजे वांगडा.' कृष्णान सत्याक म्हणलें.

कृष्णाक पळोवन भटमाम खोशी जालो आनी ताचे वांगडा एक तरणाटी अस्तुरी पळोवन मात्सो अजापलो.

'ही सत्या. केळशे सावन पाखल्यांच्या चपक्यांतल्यान वाटावन तिका घेवन आयलां हांव. राधिका खंय?' ताणें विचारलें.

'घरांत आसा, येयात.' भटमामान म्हणलें.

राधिका घरांतल्यान भायर आयलें तेन्ना ताची नदर कृष्णाचेर पडली. ओंणोव घेवन ताणें ताच्या पांयाक हात लायलो आनी ताका ताणें वेंग मारली. तेन्नाच ताका सत्या दिसली. राधिकाच्या मुखामळार अजापाचे भाव उफेले आनी त्याच खिणाक प्रस्नार्थक नदरेन ताणें कृष्णा वटेन पळयलें.

'यो, आमी भितर वचून उलोवया.' सगल्यांक आपोवन घेवन कृष्णा भितर गेलो.

कृष्णान केळशेंत घडिल्ल्या सगल्या भिरांकूळ घडणुकांची खबर पुरायपणान सांगली. कशे तरेन गांवांतल्या कुटुंबांक भायर काडून वाटायलीं, नरशिंव भांडारीचें कुटुंब जीव वाटावन कशें गेलें, एकटोच आशिल्ल्या पुर्तुगेज शिपायका कडेन आपूण कसो झुजलों आनी सत्याक कशें वाटावन हाडलें ती सगली गजाल ताणें ताका कथन केली.

थंय पुराय मोनेळ पातळिल्लो.

'तसो हुस्को करूं नाका तूं सत्या, येवकार तुका आमचो. एक अडचण आसा ती म्हणल्यार आमकां वसतेक भूंय ना आनी माथ्यार आलाशिरो ना.' राधिकान म्हणलें.

'आमकां देवान दिल्लें बळ आसा, इत्साशक्त आसा जगपाची, स्वासाक वारो आनी पिवपाक उदक आसा. आमी गोमन्तक सोडून वचपाक जाय कशेय भाशेन. पूण ते आदीं केदार खंय आसा तो पळोवपाक जाय म्हाका.' कृष्णान म्हणलें. ताच्या चेऱ्या वयलें तेज उडिल्लें आनी तो निर्शेल्लो.

'हांव जाणां, केदार नाशिल्ल्यान तूं अस्वस्थ जाला आनी तुका ताचो हुस्को जाला. पूण तिसवाडी वचून ताका सोदपाचो यत्न करप म्हणल्यार जीव धोक्यांत घालपा सारकें न्हय?' राधिकान मनांतली कांचवेणी उक्तायली.

'धोको आसा हें हांवूय जाणां. ब्रह्मपुरी नश्ट जाली आनी आमचे तांकीक धपको लागलो. आमची शक्त उणावली. आमी वीस पंचवीस जाण आशिल्ले आनी घोड्यार सुवार जावन आमी लोकांक आदार दिवपाक रोखडेच पावताले. आतां आमी दोगूच उरल्यात. केदार म्हाका मेळ्ळो ना जाल्यार हांव एकटो एकसुरो उरतलों.' कृष्णान म्हणलें.

'तूं एकटो कसो तर? आमी आसात दोगांय तुका सांगात दिवपाक.' राधिकान आपूण आनी सत्याक कुरवेन दाखयत म्हणलें.

'पुर्तुगेज झुजाऱ्याक फुडो करपाक जायत तुमच्यान? झुजपाचो अभ्यास आसा तुमकां? घोड्यार बसपाक कळटा तुमकां?' खीणभर कोण कांयच उलयलो ना.

'त्यो अस्तुऱ्यो मरे. तीं कशीं शिकतलीं इतलें सगलें?' भटमामान विचारलें.

'तीच आमची निर्बळताय, भटमाम. आमी स्वताक ब्राह्मण आनी पवित्र मनीस

अशें मानीत आयल्यात. आमकां फक्त मंत्र आनी पुजाच शिकयली. दादल्यांची जर अशी स्थिती तर कल्पना कर आमच्या अस्तुऱ्यांची कितें स्थिती जावन पडल्या ती. लग्नाचे पिरायेचीं जावची जावन रोखडींच तांचीं लग्नां जावंक जाय म्हूण आवयबापायक ताकतीक लागता. लग्न जावन रोखडोच तरणे पिरायेर घोव मेलो जाल्यार अस्तुऱ्यांच्या वांट्याक म्हाकश्ट. साबार जाणां सती गेलीं आनी अजून तोच मार्ग आपणायतात. तुका दिसता देवान आमकां हीच गरज भागोवपाक म्हूण जल्माक घाल्यांत?' कृष्णाचो घुस्मटमार जाल्लो.

परत थंय मोनेळ पातळ्ळो.

'ब्रह्मपुरींत ल्हानाचो व्हड जावपाची म्हाका संद मेळ्ळी. तरेकवार विद्या शिकलों हांव. सैनिकी शिक्षण घेवपाकूय पावलों. हेर लोकांचें कशें जावप? खूब लोक कसलोच प्रतिकार करिनासतना परक्यांक भियेवन धांवले. कित्याक? कारण आमी इतिहासांतल्यान कसलीच बुद्द शिकले नात.' नाउमेद जावन कृष्णा उलयलो.

'पाखल्यांचे बळिश्ट तांकी मुखार तांचो प्रतिकार करप आमकां जमना.' भटमामान म्हणलें.

'हय, हांव जाणां. तरी आमी आमचे देव वाटावंक जाय.' कृष्णान म्हणलें.

'कितें? आमी देवाक वाटावपाचें? देवूच आमकां वाटायता न्हय?' भटमामान विरोध करीत म्हणलें.

'तुजें मत मान्य ना म्हाका, भटमाम. देवान आमचे कुडींत जीव भरला न्हय तो आमी हे भुंयेर अर्थपुराय जीण सारची हो हेत बाळगून. पूण देवळां बांदलीं आनी तातूंत देव बसयले ते आमी मनशांनी. आतां बळिश्ट परकी संस्कृताय ह्याच सुवातांचेर आपलीं देवळां बांदून तांचे भितर आपले देव बसोवपाक सोदतात. आमकां आमचे देव जाय जाल्यार तांकां आमी वाटावपाक जाय. देव तें काम करचो ना आमचे खातीर.' कृष्णा आपल्या म्हणण्याक चिकटून रावलो.

भटमामा कडेन जाप नाशिल्ली.

सत्या जें आतां मेरेन सगळें आयकत राविल्लें ताका इल्ली धिटाय आयली आनी ताणें म्हणलें, 'माफ कर म्हाका. असले तरेचें उलोवणें हांवें केन्नाच आयकूंक नाशिल्लें. म्हाका हें सगलें नवेंच दिसता. म्हाका बरें शिक्षण मेळ्ळां. म्हाका वाचपाक, बरोवपाक येता. तरी म्हाका अशें दिसपाक लागलां की तो म्हणटा तें सारकें. आमकां मजत करपी कोण ना. आमी स्वताच आपणाक वाटावंक जाय.'

कृष्णान सत्याक निरखिलें. 'ही अस्तुरी शाणीशी दिसता. ती उलयता तें आयकल्यार!' ताणें मनांत म्हणलें.

'कशे तरेन वाटावंक सोदता तूं आमचे देव?' राधिकान विचारलें.

'गांवकारांनी मंगेशाचें देवूळ सोडलें. थंयचें लिंग घेवन तें फोंडें म्हालांतल्या म्हाड्डोळ गांवांत गेले आनी एका ल्हानश्या देवळांत ताची प्रतिष्ठापना केली. हो जागो एका देंगणांत आसा आनी भोंवतणीं दोंगर आसात. जुवारी न्हंय हुपून बाणस्तारी वच्चें पडटा. थंयच्यान फुडें तें थळ आसा. बरो सुरक्षीत जागो तो. 1560 वर्सा व्हडल्या घराचें जेन्ना धर्मन्यायालय सुरू जालें ते उपरांत रोखडेंच तांणी हें स्थलांतर केलें.' कृष्णान सांगलें.

'गांवकार तुजी सुचोवणी मानतले अशें दिसता तुका?' भटमामान विचारलें.

'वांचून उरपाक तोच एक उपाय आसा. आमी आतांच पावल घालेंना जाल्यार आमी सोंपतले. म्हज्या मनांत पयलें थळ आसा तें वेर्णें. म्हज्या पूर्वजांची भूंय ती. आनीक पांच दिसांनी शिगमोत्सव सुरू जातलो. आदली उमेद, उर्बा आतां उरिल्ली ना ही गजाल खरी. तरी आसतना आमचे वहिवाटेक धरून परंपरेन चलत आयिल्ली मुस्तायकी घालून वेर्ण्यां वचून पावपाक एक संद आसा. पाखले म्हजेर नदर दवरून आसतलेच. पूण आमी जर एक पंगड करून भेस बदलून गेले तर घडये ते आमकां वळखुचे नात. जायत आमच्यांनी अशें करपाक?' ताणें राधिकाक विचारलें.

ताणें उमळशिकेन म्हणलें, 'हय, वचुंया आमी वेर्ण्यां.'

तरी कृष्णा चिंतेस्त दिसतालो.

'आनी सत्या कितें करतलें?' कृष्णान विचारलें.

'तें येतलें आमचे वांगडा. आनी खंय वतलें तर तें?' राधिकान म्हणलें. ती ताचे म्हऱ्यांत गेली आनी ताच्या खांद्यार हात घालून ताका धीर दिलो. सत्या दुकां गळयत राविल्ली.

■■■

# तांणी आपले देव वाटायले

दुसऱ्या दिसा तीं बाणस्तारे वटेन गेलीं आनी थंयच्यान म्हाड्डोळा पावलीं. कृष्णा तांकां मंगेशी घेवन गेलो. 'मंगेशी हें म्हाका दिसता सगल्यांत पोरणें लिंग. पुराणांत ताचो मांगिरीश असो उल्लेख जाला.' तें लिंग एके ल्हानशे देवळेंत आसलें आनी ती देवळी पाशाणी फातरान बांदिल्ली. सोपेपणीं कोणूच पावचो ना अश्या जाग्यार ती देवळी आशिल्ली. भक्त लोक बेलपानां आनी फुलांनी लिंगाची पुजा करताले.

'ह्याच वाठारांत आनीक सुरक्षीत अशे जागे आसात. वेर्णेच्यान आमी म्हाळसा देवी हांगा हाडपाक जाय.' कृष्णान म्हणलें.

म्हाड्डोळा सावन तीं फोंड्यां पावलीं. कृष्णा तांकां इक्बाल हुसेनाच्या घरा घेवन गेलो. 'तुमी ब्राह्मण. तुमी येतात आमगेर?' इक्बालान राधिकाक विचारलें.

'चाचा, माया आनी करुणा हे दोन संवसारांतले सगल्यांत व्हडले धर्म. तुजे कडेन ते व्हडा प्रमाणांत आसात. आनीक कितें जाय आमकां? हेर सगल्यो गजाली फकत देखाव्या खातीर.' राधिकान म्हणलें.

'परिस्थिती सारकी ना, वातावरण चाळवल्लें आसा. अशें आसतना तुमकां वेर्णयां वचपाची कसली गरज? तूं हांगाच राबितो करून वा भटकळा वचून कित्याक

रावना? आदींय बी तुका ही सुचोवणी हांवें दिल्ली.' इक्बालान ताका सांगलें.

'हांवें एक निर्धार केला. तो म्हाका तडीक व्हरपाक जाय. वेर्णेची म्हाळसा देवी थंयच्यान हांव हांगा फोंडें म्हालांत हाडूंक सोदतां. म्हाड्डोळच्या म्हाजनां कडेनूय हांवें भासाभास केल्या. म्हाळसा हांगा हाडची अशी तांचीय खर इत्सा आसा. तेच खातीर म्हाका वेर्ण्यां वचपाक जाय.' कृष्णान म्हणलें.

'ह्या अस्तुऱ्यांचें कितें म्हणणें?' इक्बालान विचारलें.

कृष्णान तांचे वटेन पळयलें. 'आमी ताचे वांगडा वतलीं.' फाटीं फुडें जायनासतना राधिकान म्हणलें.

इक्बालान त्या दिसा सांजेर न्हंय वलांडून वचपाक दोन मनीस आदाराक दिले.

दुसऱ्या दिसा सकाळीं सगलीं वेर्ण्यां पावलीं. उदेंते वटेंतल्यान दोंगर चडून वयर माथ्यार पावतासर जीव थकून गेलो. कृष्णा थंय कांय गांवकारां कडेन उलयलो आनी हेर देवळांचें आनी लोकांचें कितें जालें त्या संबंदान तांकां म्हायती दिली. थंयच्या लोकांकूय जो धोको संभवतालो ताचे विशीं हुस्को आसलो. थोड्या जाणट्या म्हाजनांक ताणें आपूण म्हाळ पैचो पूत म्हूण वळख सांगली.

चडावत गांवकारांनी म्हाड्डोळा वचप मान्य केलें आनी फुडारांत केन्नाय परतुपाची आस्त परगटायली.

दुर्भाग्य वांट्याक आयिल्ल्या त्या दिसा चडश्या देवळा भोंवतणच्या वाठारांतल्या आनी वेर्णेच्या लोकांनी आपली आस्पत आनी मुस्तायकी पुंजावन पोटल्यो बांदल्यो आनी उदेंते वटेन दोंगर देंवून गेले. ते न्हंयेचे अस्तंत देगेर रानांत आलाशिरो घेवन रात जावपाची वाट पळयत रावले.

वसंतोत्सवाची पालखी भायर काडली. मशाली आनी बावटे, अब्दागिरां हातांत धरून भक्त मिरवणुकेन चलपाक लागले. वर्सावळींचें धोल ताशांचें वाजप मात हे पालखेक नासलें. वहिवाटे प्रमाण पालखेंत उत्सवमुर्ती बसयताले पूण हे खेपे प्रथा मोडून वेगळी गजाल घडली. म्हाळशेची गर्भकुडींतली मुखेल मूर्त खणून काडिल्ली आनी पालखेंत बसयिल्ली. ती मूर्त कितल्या वर्सां आदली हाचे विशीं कोणूच नकळ आसलो. कोण म्हणटाले ती मूर्त हजारांनी वर्सां सावन देवळांत आसा, घडये परशुराम रुशीच्या काळांतल्यान जावये.

'देवी आमकां राखतली, अशे तरेन मूर्त खणून कित्याक करपाक जाय हो भश्टकार?' एका जाणट्यान विरोध करीत म्हणलें.

'जे तरेची परिस्थिती उप्रासता ते तरेन निर्णय घेवपाक जाय. आमी आमचे देव सुरक्षीत थळार व्हेले नात जाल्यार पाखले ते नश्ट करतले.' कृष्णान ताका सांगलें.

वर्सुकी प्रथे प्रमाण पालखी दोंगरा वयल्यान सकयल गांवांतल्या मुखेल रस्त्यार येताली. पूण त्या दिसा ती उदेंतेक दोंगरा वटेन गेली. भांगरांच्यो बी मोलादीक वस्ती आनी अळंकार आर्दी मुखार गेल्ल्या पंगडान व्हेल्ले.

राधिका आनी सत्या हांणी गांवांतल्या बायलांक आपलो म्हाल, मुस्तायकी बांदपाक मजत केली. तशें जाल्ल्यान तीं वेळार उत्सवांत वांटो घेवंक पावलीं. देवस्थानाचीं वाजंत्रां नासतना आतां मेरेन उत्सव पूर्ण जावंक नासलो. परंपरा मोडली म्हूण कांय ज्येश्ठ म्हाजनांक राग आयलो. पूण पुर्तुगेज शिपायक मर्दींच येवन आडखळ हाडटीत ह्या भंयान ते ओगी रावले.

मिरवणुकेंत मुखार आशिल्ल्यो मशाली एकेक करून पालवल्यो. दोंगरा माथ्यार पावतासर एकूच मशाल उरली. शुक्ल पक्षांतले दुवादशीच्या आकाराचो चंद्रीम मळबांत चकचकतालो. वालो न्हेशिल्ले उगड्या आंगान आठ जाण ल्हान पालखेंतल्यान देवीची मूर्त घेवन शिस्तीन चलताले.

थोड्या धर्मांतरीत लोकांक पंगडा सांगातान वचून म्हाड्डोळा वा फोंड्यां वसती करून रावपाचें आसलें. परंपरेक चिकटल्ल्या मताचे लोक तांकां विरोध करताले.

'आमी परत आमच्या धर्मांत येवपाक तयार आसात. आमकां एक संद दियात.' ते लोक काळजा किंवाट्यान मागताले. पूण परंपरेक चिकटल्ल्या मनशांनी आपलो हट्ट सोडलो ना.

'आमचींच मनशां तीं सगळीं. आमी स्वीकार करपाक जाय तांचो.' कृष्णान हट्टी ज्येश्ठांक समजावपाचो यत्न केलो.

पूण चडावत लोकांनी तांकां लागीं केले नात. थोडीं कुटुंबां आसलीं जांचीं थोडींच मनशां धर्मांतर जाल्लीं आसलीं. तांकां कुटुंबा कडल्यान तुटून वचपाक नाका आसलें. तांणी रडून विकळापून मागणें केलें. पूण फातरा काळजाच्या मनशांचें काळीज कडलें ना.

तांणी म्हणलें, 'येवपाचें आसल्यार तुमी येयात आनी तुमच्या धर्मांतरीत कुटुंबा वांगड्यां कडलें नातें तोडात नाजाल्यार तुमी तांचे वांगडा रावून धर्मांतर करात.' परंपरावाद्यांनी कठोर उतरांनी सांगलें. थोड्या रहिवाशांक आपल्या वडिलां कडलें नातें तोडप कठीण जालें. ते गांव सोडून गेले नात.

'अंतिम निर्णयाचे घटकेक अध्यात्मीक ज्ञानांतल्यान आमकां मनाचें बळगें मेळपाक जाय. नाजाल्यार धर्माचो उपेग कितें? पळयात, कशे हे लोक परिस्थिती कितले वायट पद्दतीन हाताळटात ते. आमी अशें करीत रावले जाल्यार व्हडा संख्येन आमचो लोक ख्रिस्ती धर्माच्या वांट्याक वतलो. आमी शेणटले.' कृष्णान परिणामाची जाणविकाय करून दिली.

जे आदीं खूबदां घडिल्लें तेंच परत घडलें. अर्द संख्येन लोक न्हंय हुपून मुखेल भूंय प्रदेशांत सुरक्षे खातीर गेले आनी अर्द संख्येन लोक स्वताची भूंय आनी वडिलांच्या मायेमोगा खातीर फाटीं रावले. दोनूय वटेंतल्या मनशांच्यो भावना पयसाव्याच्या दुख्खान उचांबळून आयिल्ल्यो. बौद्धीक विवेका परस धर्मीक भावना चड बळिश्ट थारल्यो.

'हजारांनी वर्सांचो आमचो इतिहास पळयलो जाल्यार घडये आमी सतत अशे तरेच्या निर्बळतायेचे भकीक पडत आयल्यात.' कृष्णान म्हणलें.

घडटालो तो सगलो गोंदळ आनी भावनीक नाट्य हांचे मदीं परंपरावादी मनशांच्या लक्षांत एक गजाल आयली ना ती म्हणल्यार ज्या घटमूट तरणाट्यांनी तांकां न्हंय हुपून वचपाक आदार दिलो आनी देवी म्हाळशेची पालखी घेवन वचपाकूय मजत केली ते मुसलमान आसले.

एके वटेन देवी म्हाळशेचें एका सुरक्षीत वाठारांत स्थलांतर करपाचो वावर चलतालो जाल्यार पणजेची देवी श्री महालक्ष्मीक पुर्तुगेजांनी मोख करपाची तयारी चलयिल्ली. विसराय दाँ फ्रान्सिस हाणें देवूळ ताब्यांत घेवपाचो आदेश काडिल्लो. पणजेच्या गिरेस्त आनी समाजांत मान्यतायेक पाविल्ल्या कामत कुटुंबाच्या मुखेल्यांनी फुडाकार घेतलो. गोव्हेर्नादोरा कडेन उलोवणीं करून समजोतो घडोवन हाडलो आनी देवी श्री महालक्ष्मीची मूर्त आपले सुवादीन करपाक मागणें केलें. ताणें मागिल्लें वेव्हाराचें मोल दुडवां रुपान ताका फारीक करून कामत कुटुंबान श्री महालक्ष्मीचे मुर्तीचो ताबो घेतलो. देवीचें व्हडलें देवूळ, तातूंतलें भांगर आनी रुप्याचे कितलेशेच अळंकार, हेर मुर्ती कोरांतिल्ल्या कामाच्यो लांकडी वस्तू असो सगलो म्हालवज पुर्तुगेज शिपायकांनी लुटून आनी पाड घालून नानपयत केलो.

कामत कुटुंबाचे वांगडी तितले मजगतीं आपली कुळदेवी श्री महालक्ष्मीची मूर्त घेवन प्रियोळा आपल्या मूळ गांवांत गेले आनी थंय आपल्या मूळ घराचे धान्य कोठयेंत ती लिपोवन दवरली.

'जायते लोक दुर्भाटा आयल्यात.' कृष्णा वांगडा लोकांक मजत करपाक आयिल्ल्या एका मनशान ताका म्हणलें.

'ते खंय सावन आयल्यात तें तूं जाणां?' कृष्णान विचारलें.

'ना भाऊ. बायलां, भुरगीं बी खूब आसात आनी तांचे कडेन कितेंय खातलो जेवतलो जाल्यार पयसो आडको बी कांय ना.' त्या तरणाट्यान म्हणलें.

राधिका, सत्या आनी दोग आपवावुरपी जे वेर्णेच्यान तांचे वांगडा आयिल्ले ते मेळून चौगांय कृष्णा सांगातान देंवत्या दनपरां दुर्भाटा पावलीं. कृष्णान गांवांतल्या गांवकारांक विनवणी केली आनी त्या निराश्रितांक माथ्यार पाखें जाय म्हूण एक व्हडलो मांगरा सारको माटोव घालपाक सांगलें.

'आमी कुडतरे सावन आयल्यांत. कुडतरेंत हागवणेची धाम पातळ्ळ्या. जायते जाण मेले. पुर्तुगेज शिपायक मडीं लासपाक दिनात. मडीं पुरात म्हणटात आनी दर एका मड्या फोंडार खुरीस दवरपाक सांगतात. दोन दीस जाले मडीं घरांनी बंद आसात. दोन दीस जाले कोणेच घरांत रांदप करूंक ना. भुरगीं उपाशीं आसात. कितें करतले आमी?' त्या पंगडांतल्या एका मनशान सांगलें आनी तो रडपाक लागलो. सगलीं बायलांय रडपाक लागलीं आनी तांचे फाटोफाट सगलीं भुरगीं बी. तो देखावो काळीज पिळून काडपी आशिल्लो.

राधिका आनी सत्या भोंवतणच्या ल्हान ल्हान घरांनी वचून थंयच्या बायलां कडेन उलयलीं. सुमार एक वरान पेज शिजली आनी सगल्यांक खळांतली आंबली दिवन पेज वाडली. भुरगीं भुकेल्लीं आनी थकिल्ल्यान रोखडींच पोटभर पेज जेवन न्हिदलीं.

'आमी कुडतरे वचून हेर लोकांक आदार दिवपाक जाय. आसात तुमी तयार?' ताणें सांगात्यांक विचारलें. पांचूय जाणां, वेर्णेच्यान आयिल्ले दोन आपवावुरपी मेळून दोन व्हड्यांनी बसलीं.

'तो दिसता तो रायतूरचो कोट. तो कोट पुर्तुगेजांचें एक म्हत्वाचें केंद्र. न्हंयेतले येरादारीचेर नदर दवरपी राखणेच्या रक्षकांक कोटांतल्यान सगलें दिसता.' कृष्णान रायतुराचे देगेन व्हडीं वतालीं तेन्ना सांगलें.

कुडतरे पावत आयलीं तेन्ना तांकां न्हंयेच्या दोनूय कांठांचेर व्हडा संख्येन जमिल्लीं बायलां आनी खारवी दिसले.

'आमी खारव्यांचो भेस केलो जाल्यार बऱ्याक पडटलें. गांवांत गोंदळ आसूं

येता आनी ते खातीर थंय शिपायक आसतले.' कृष्णान शिटकावणी दिली. व्हडेकार त्या पांचूय जाणांक आपल्या खोंपी भितर घेवन गेलो. पांचूय जाणांनी खारव्यांचो भेस घालो. माथ्यार नुस्त्याच्यो पांटल्यो घेतल्यो. पांटल्यांनी थोडें थोडें नुस्तें घालून घेतलें.

आस्ते आस्ते तीं बाजारा वटेन चलत रावलीं. गांवांत मदल्या वाठारांत कोणूच लोक नाशिल्ले.

कृष्णान एक व्हडलो वेपारी सोदलो आनी ताका वचून मेळ्ळो. ताणें त्या वेपाऱ्याक भियेनासतना आपली वळख सांगली.

'तुवें कांय भियेवपाची गरज ना. हांव गुप्त खबरेकार न्हीं, विस्वास दवर. हांगा कांय घरां भितर मडीं आसात तें हांव जाणां.' ताणें त्या वेपाऱ्याक म्हणलें.

वेपारी अचकीत धवो धवो जालो आनी ताका घाम फुटलो.

'भियेवं नाका तूं. परत सांगतां. हांव दुस्मानाचो खबरेकार न्हय. हांव खरो खारवी न्हय. फकत हांवें हो भेस केला.' कृष्णान ताका खात्री दीत म्हणलें.

वेपाऱ्यान कृष्णाक भितर आपोवन व्हेलो.

'आमचो निरूपाय जाला. ह्या मड्यांचें कितें करचें तेंच आमकां समजना.' तो भिरांतेन कडकडटालो.

'अशे तरेन संकश्टाचो वेळ येता तेन्ना पयल्यांत पयलीं गरजेची गजाल म्हणल्यार थंड मनान काम करप. इतलो निर्शेवन वचूं नाका. हांव सांगतां त्यो सुचोवण्यो लक्षांत घेवन काम करात.' कृष्णान ताका धीर दिलो.

काळोख पडपाक लागलो. न्हंये कांठार आंब्यांचे रायेंत आपवावुरपी तरणाटे गांवकार काम करताले. तांणी कोंडे आडवे उबे घालून ल्हान ल्हान तराफे रचले. मडीं बैलांगाडयेर घालीं. पांच स जाण गाडयांचेर बसून तीं लिपयलीं आनी तीं गुप्ततायेन न्हंये देगेर व्हेलीं.

एकूच मशाल पेटोवन त्या मंद उजवाडांत भटाक हाडून मंत्र पठणा सांगातान शास्त्रविधी केले.

ते विधी चालू आसतना कृष्णान म्हणलें, 'गरज नाशिल्लीं सगलीं शास्त्रां करीत वेळ वगडावं नाकात. अग्नी संस्कार योग्य रितीन जाल्यार पुरो.' कुडी तराफ्यांचेर दवरून बांदल्यो आनी ते तराफे न्हंयेंत सोडले. पुतांनी आपापल्या वडिलांक अग्नी दिलो. उज्याच्यो ज्वाला वयर सरल्यो तेन्ना तराफे उदकांत धुकलून दिले.

जमिल्ले लोक जाता तितले ताकतिकेन फाटीं परतले आनी आपापल्या घरा गेले.

एका संबंदीत मनशान भटाक विचारलें, 'अस्थी विसर्जनाचो विधी करपाक रक्षा कशी मेळटली आमकां?' भटमामाक कितें जाप दिवप ती कळ्ळी ना. ताणें कृष्णा वटेन पळयलें.

कृष्णान त्या मनशाच्या खांदार हात घालून म्हणलें, 'तुजो बापूय धर्मान चलपी मनीस आशिल्लो. हय मूं? तो लोकांक उपेग पडलो. ताणें तुकाय बरी फावो तितली शेत जमीन घेवन दवरली. खरें मूं?'

'हय. ताणें फकत म्हाकाच न्हय तर देवळा खातीर, पाठशाळेक आनी गरीब ब्राह्मणांकूय जमीन दिल्या.' पुतान जाप दिली.

'तशें आसत जाल्यार तूं भियेवं नाका. तो सर्गारूच वतलो. तूं ताच्यो अस्थी विसर्जन कर वा करूं नाका. हांगा चड वेळ रावूं नाका. रोखडेच पुर्तुगेज शिपायक येतले आनी सगलें सोदूंक लागतले. चल घरा.' कृष्णान ताका समजायलो.

मध्यान राती सुमार रायतूर कोटांतल्यान राखणेच्या शिपायकान न्हंयेंतल्यान उजो उफेत वतालो तो पळयलो. तो अस्तंते वटेन फुडें सरतालो आनी एका वरा भरयान तशीच एक पेटिल्ल्या जळवाची रास फाटल्यान वचपाक लागली. 'उदकाचेर हो उजो कसो उफेता?' राखणे शिपायकांक प्रस्न पडलो.

स शिपायक घोड्यांचेर सुवार जावन आनी समशेरी हातांत घेवन न्हंये देगेर पावले. थंयचेच लांब कोंडे घेवन तांणी तराफ्या सयत ती पेटिल्ली रास लागीं ओडली. इतल्यांत तांचे मदल्या एकट्याक ते राशींत मनशाची तकली दिसली. तें मुंडकें पळोवन तांकां अजापाचो धक्को बसलो. सोमतीच ती उज्याची रास आशिल्ली तशी तांणी उदकांत धुकळ्ळी. ते राशींतलें सगलें लासून गेल्ल्यान सवकासायेन न्हंयेंत बुडलें. शिपायक तश्शातशे फाटीं परतून कोटांत गेले. 'तुमी मुंडण करून घेवं नाकात. शिपायक तुमकां सोंपेपणीं वळखतले आनी शेंडी आसा तशी दवरात. पाखल्यांक कोण तरी मेल्यात म्हूण कळटलें.' कृष्णान सगल्यांक शिटकावन सांगलें.

रायतूरच्या कोटांतल्या शिपायकांक दुबाव आयिल्लो. गांवांत भोंवून तांणी अनेक लोकां कडेन वासपूस केली. कांय घरांचेर घुरी घाली आनी सोद घेतलो. तेन्ना तांकां थोड्या घरांतले कांय वांगडी ना जाल्यात म्हूण कळ्ळें. तांचीं नात्यांतलीं मनशां दुख्खान रडटालीं. त्या आदारान गुपीत उक्तें जालें. त्या मनशांची म्हायती

तांकां नासली आनी मेल्ल्यांच्यो कुडी खंय पुरल्यात त्यो दाखोवप तांकां जमलें ना. तितल्याय कुटुंबांक धरून तांणी बंदखणींत घालीं. दुसऱ्या दिसा रायतूर कोटांत पाद्री आयले. धरिल्ल्या लोकांक एक पर्याय दिलो - एक तर धर्मांतर करात नाजाल्यार धर्मन्यायालयाक तोंड दियात.

सगले धर्मांतर करपाक तयार जाले. कृष्णा, राधिका, सत्या आनी कांय सांगाती खंयच्या तरी एका घरांत लिपून रावलीं.

मध्यान रातीं कोणें तरी दार वाजयलें. आवाज आयकून घरचो मालक जागो जालो. ताणें दार उगडलें आनी कंदील वयर धरून पळयलें. तो पुर्तुगेज शिपायक नासलो. ताच्या पसऱ्या शेजरा आशिल्ल्या पसऱ्याचो तो मालक आनी नव्यानूच क्रिस्तांव जाल्लो.

'तूं? कित्याक आयला तूं हांगा?'

'हांव तुमकां मजत करपाक आयलां. हांव म्हायती पावोवपी खबरेकार न्हय.' ताणें जाप दिली.

कृष्णा वणटी फाटल्यान लिपिल्लो थंयच्यान भायर आयलो आनी म्हणलें, 'येवं दी ताका भितर. तो कितें सांगता तें आयकुया.'

'तो एक धर्मांतरीत. ताका हांव घरांत कसो घेवूं?' मालकान विचारलें.

'तशें जालें म्हणून कांय जायना गा ! धर्मांतर जावचे आदीं आमचे मदलो नाशिल्लो तो?' कृष्णान समजावपाचो यत्न केलो.

'म्हजें नांव कृष्णा आनी हांव हाचो अतिथी.' कृष्णान घराच्या धनया वटेन बोट दाखोवन म्हणलें.

'तांणी आमचें कुडतरेंतलें म्हामाय देवूळ फाल्यां वा परां मोडपाचें थारायलां. तें वाटावपाक कितें तरी उपाय करपाक जाय तुवें.' ताणें ताकतिकेन ती खबर सांगली.

'अजापशें दिसना म्हाका. आतां कुडतरेची पाळी आयल्या. देवूळ वाटावपाक जावचें ना आमच्यांनी. आमी देवीची मूर्त तरी वाटावपाचो यत्न करुंया. वेळ वगडावंक फावना आतां.' कृष्णान म्हणलें.

दुसऱ्या दिसा फांतोडेर कांय तरणाट्यांनी देवीचो भांगराचो मुखडो, हात आनी पांयांच्या आकाराचीं भांगराचीं आवरणां काडून एके ल्हानशे लांकडाचे पालखेंत दवरलीं. सगले जाण वालो न्हेसले आनी खांद्यारूय एक वालो घेतलो. तसोच एक वालो माथ्याक बांदलो. तांचे वांगडा तिशेक लोक आपापल्यो पोटल्यो घेवन

वचपाक भायर सरले.

'न्हंय हुपून वचपांत धोको आसा. न्हंये देगेर मडीं लासपी मनशाचो ते सोद घेत आसात. आमी भूंय मार्गान वचप बरें. थोडें तरी अंतर पांयवाटेन चलुंया.' कृष्णान सुचयलें.

'पालखी खांद्यार घेवनूच ते सगलो प्रवास करतले?' राधिकान विचारलें.

'हय. तशेंच करपाचें थारायलां तांणी. तुका अजापशें कित्याक जालें? तूं जाणां ते खंय वचपाक सोदतात ते?'

'ना, खबर ना म्हाका.' राधिकान जाप दिली.

'तांणी शिराली नाजाल्यार मंगळुरा वचपाचें चिंतलां.' कृष्णान म्हणलें.

'इतलें पयस?'

'हय. तो वाठार जरी पयस आसलो तरी हांगाचे परस सुरक्षीत आसा.'

'आमीय बी त्या सुरक्षीत वाठारांत वचूं येता न्हय?'

'म्हज्याय मनांत येता तें....पूण...'

'पूण....कितें?' राधिकाक कळपाक जाय आसलें.

'आमकां अजून केदाराचो पत्तो लागूंक ना आनी सत्याची कितें वेवस्था करप?' ताणें राधिकाक पळयत विचारलें. तो चिंतेस्त दिसतालो. दोगांय कांय खीण ओगी रावलीं.

'तुका केदार येवपाची अजून आस्त आसा?' राधिकान विचारलें.

कृष्णान कांयच म्हणलें ना. ताकाय तोच प्रस्न पडटालो. पूण तो मानून घेवपाक तयार नासलो.

'केदार आमकां मेळ्ळो ना तरी सत्याचें कितें?' ताणें राधिकाक विचारलें. भावना व्यक्त करपाक जायना जावन ताचो ताळो भरून आयलो आनी दोळ्यांत दुकां दाटलीं.

राधिका ताचे म्हऱ्यांत गेलें आनी ताका लागीं घेवन ताची तकली आपले छातये कडेन धरून ताका मायेन थापटिलो.

'तुज्यो भावना कळटात म्हाका. तूं केदाराक सोदून काडपाची आस्त बाळगून आसा. तो तुजो विस्वासांतलो आनी खूब मायेमोगाचो ब्रह्मपुरींतलो इश्ट. दीस वतात तशी तुजी आस्त उणी जायत चल्ल्या.' राधिकान म्हणलें.

'जाणां राधिका. तूं खरेंच एक बुदवंत अस्तुरी. शाणेपणान भरिल्ली म्हजी

जिणे सांगातीण. तूं म्हाका बायलेच्या नात्यान मेळ्ळी हें म्हजें भाग्य समजतां हांव.' कृष्णान सडसडीत आपली भावना उक्तायली.

'तूं वायट धरचो ना जाल्यार एक विचारूं?' राधिकान विचारलें.

ताणें तकली वयर काडली आनी नीट ताच्या दोळ्यांत पळोवन म्हणलें, 'कितें तें? विचार.'

'तूं केदाराचो सोद घेवन ताका सत्याचो जिणे सांगाती करून दिवपाक सोदता न्हय?'

'कितें सांगूं? नकळ हांव कितें तें. हांव फक्त केदाराक सोदतां. ती ताका स्विकारतली काय ना तें हांव कसो सांगूं?'

'बायलांक समजूनच घेनात तुमी दादले. सत्या ताका स्विकारतलें अशें दिसता तुका? केन्ना तिणें पळयला तरी ताका? तुवें तिका पाखल्या शिपायकांच्या हातांतल्यान वाटायली आनी आलाशिरो दिलो. ती तुजे वांगडा घोड्यार बसून आयली. म्हयनोभर जालो आमचे वांगडा सगले धोके आंगार घेत ती रावल्या. तरी ती केदाराक स्विकारतली अशें दिसता तुका?' राधिका गंभीर जावन उलयलें.

'कित्याक स्विकारची ना? ताचो स्विकार करपाचे आड इतलें हें सगलें कित्याक येवपाक जाय?' कृष्णान अज्ञानीपणान विचारलें.

'हांवें म्हणलें न्हय तुका की तुमी दादले बायलमनशेचें काळीज आनी भावना समजूंक असमर्थ म्हणून. दुसरें कांयच म्हणपाचें ना म्हाका.' राधिकान तितल्याचेरूच संवाद तोडलो. कृष्णान खीणभर ताच्या दोळ्यांतले भाव समजुपाचो यत्न केलो. तें नेमकें कितें सांगूक सोदतालें तें ताका कळ्ळेंच ना.

सांजवेळ जाय मेरेन महामायेचें देवूळ पुरायपणीं रितें केलें आनी सगले थंयच्यान गेले. ते सगले तांच्या यजमानाच्या घरा पावले.

'तुमी आनी तुमची देवी मेळून कोणूच कुडतरी गांवांत सुरक्षीत नात.' कृष्णान यजमानाक म्हणलें.

'म्हणल्यार आमी गोमन्तक सोडून धांव मारपाक जाय अशें म्हणटा तूं?' ताणें विचारलें.

'हांव म्हणटां तुमी स्थलांतर करचें खंयच्याय सुरक्षीत प्रदेशांत.' कृष्णान आपलो मुद्दो स्पश्ट केलो.

'आमी खंय वच्चें अशें सुचयता तूं?' ताणें विचारलें.

'हांव म्हणटां खंयच्याय कानडी प्रदेशांत. भटकळ जावं मंगळुरा वटेन दक्षिणेंतल्या वाठारांत.' कृष्णान सुचयलें.

उपरांतच्या तीन दिसां भितर कुडतरी गांवांतल्या लोकांनी व्हडा प्रमाणांत स्थलांतर केलें. आठ ते धा मनशांचे पंगड करून लोक अस्तंते वटेन वचपाक लागले. खूबशे चलत आनी थोडे बैलांगाडयांनी. थोडे घोड्यांचेर सुवार जावनूय वताले. माचुलांनी बसून वचपाचेंय कोणें चिंतलें ना.

'देवळांतल्यो सगल्यो वस्तू एकाच पंगडान घेवन वचपाक फावना. वाटेर पाखले शिपायक आड आयले जाल्यार सगलें एकेच फावटी ना जावन वतलें.' कृष्णान शिटकावणी दिली. जाणट्यांनी ही सुचोवणी मानून घेतली.

स्थलांतर करप्यांचे ल्हान ल्हान पंगड दर्यादिगे वटेन वचपाक लागले. ते मठग्रामांतल्यान गेले नात.

'कोलवें दर्यादिगेर गेले जाल्यार शिपायकांचे नदरेक पडपाचो संभव आसा. आमी थोडे दक्षिणेक बाणावले नाजाल्यार वार्का वटेन वचप बरें न्हय?' राधिकान म्हणलें.

सादूरताय बाळगुनूय बी थोडे जाण शिपायकांच्या पंगडाक दिसले. ते मागतात ती लांच दिवन तांणी सुटका करून घेतली. थोड्यांनी देवळांतले अळंकार लेगीत मागले. तांकां ते दिवन थंड केले.

ज्या लोकांनी विरोध केलो तांकां बंदुको आनी समशेरींचो मार खावचो पडलो. दोंगर, व्हाळ, न्हंयो आनी मायभुंयेचे मांडये वयली सोबीत सगली भोंवतण जंय ते मेकळ्या उडपी शेवण्यां वरी भोंवताले आनी आनंदान आनी उर्बेन तांचीं काळजां भरतालीं, आवयचो आनी मोगाळ जाणट्यांचो फाटीर भोंवपी हात अशें सगलें नानपयत जावन काळजांनी भंय, अपमान आनी परकी सत्तेच्या हातांतलो गुन्यांवकारी थारपा सारको भिरांकूळ सपनांवरी अणभव येवं येतालो.

'आमी आयची रात विसव घेवया' आनी फाल्यां तांकां वचून मेळुंया.' कृष्णान म्हणलें.



# वसंत रुतू

मध्यान रातीं राधिकाक अंतर्ज्ञानान जाग आयली. कृष्णा राधिकाचे कुशीक नाशिल्लो. तें सट्ट करून उठून बसलें आनी ताणें सगल्या वटांनी पळयलें. कुडींत कृष्णा खंयच दिसलो ना. दार अर्दारशें उगडें आसलें. तें भायर गेलें आनी ताणें भोंवतणीं पळयलें. ताचे कुशीचे कुडींत सत्या न्हिदिल्ली. दाराक कपड्याचो पड्डो लायिल्लो आसलो. तिका खांचींतल्यान पळोवचें अशें राधिकाक दिसलें. पूण ताणें विचार बदल्लो. इतल्यांत ताका घराचे फाटले वटेन सावळी हालून गेल्लेवरी दिसली. ताणें खिडकी वटेन उडी मारली आनी भायर पळयलें. ताका कृष्णा दिसलो. तो एकटोच एका दिमीभर उंचाय आशिल्ल्या ओट्या वयले पाशाणाचे फातरीचेर बशिल्लो.

राधिका मागीलदारांत गेलें. कृष्णान ताका आपले वटेन येता तें पळयलें.

'कितें करता तूं हांगा?' राधिकान विचारलें. .

चवथायेच्या आकाराचो चंद्रीम अस्तंतेच्या मळबार सकयल देंविल्लो. कृष्णान चंद्राक पळयलें आनी म्हणलें, 'आनीक धा दिसांनी शिगमोत्सव जातलो.' ताच्यान मुखार उलोवं नज जालें. ताचो ताळो भरलो.

राधिका ताचे कुशीक वचून बसलें. ताणें ताचो हात हातांत घेतलो. खूब वर्सां

आर्दी कृष्णान तेच तरेन ब्रह्मपुरींतल्या आपल्या घरांत तीं रावतालीं तेन्ना गायेच्या गोठ्यांत ताचो हात हातांत घेवन धीर आनी बळगें दिवन ताका राखण दिवपाचें उतर दिल्लें. दोगांकूय वांगडाच ते घडणुकेची याद जाली आनी तीं एकामेकांक पळोवन हांसलीं.

'दर वर्सा केदार, हांव आनी दुसरे थोडे भुरगे मेळून आमी शिगमो खेळपाक कोलव्यां दर्यादेगेर वताले. कितलो खोशयेन वतालो आमचो वेळ.' कृष्णा त्या यार्दींनी बुडून उलयतालो.

'कितें? दर्यादेगेर शिगमो खेळपाक?' राधिकान अजापान विचारलें.

'हय, दर्यादेगेर. थंयच्या जायत्या कुणबी आनी खारवी कुटुंबांक आमी वळखताले. ते लोक आमचे खातीर शिगम्याच्या नाचाची आनी गितांची कार्यावळ दवरताले. खात्री आसा म्हाका खंयूय आसलो जाल्यार केदार मुजरत शिगम्याच्या खेळाक कोलवेंचे दर्यावेळेर येतलोच.' कृष्णान म्हणलें.

'तुवें कोलव्यां वचपाचें थारायलां?' राधिकान विचारलें.

'केदाराक सोदपाचो एक निमाणो यत्न हांवें करपाक जाय अशें दिसना तुका?' कृष्णान विचारलें.

राधिकान अळंग ताची तकली थापटिली. राधिकाच्या मुखामळार मंद हांशें फुल्लें आनी ताणें हय म्हणून तकली हालयली.

'हय. आमी कोलव्यां वचून केदाराची वाट पळोवपाक जाय. आमच्या ह्या साहसांत धोको आसलो तरी.' राधिकान ताच्या मताक तेंको दिलो.

'सत्याचें कशें कितें करुंया?' कृष्णान राधिकाक विचारलें.

'तें येतलें आमचे वांगडा. आमी आनी हेर सगल्या तरणाट्यांकूय आपोवन व्हरुंया.' राधिकान नेटान म्हणलें.

कृष्णाच्या मुखामळा वयलो ताण उणावलो आनी ताच्या मुखामळार मंद हांशें पातळ्ळें. तो उबो रावलो आनी राधिकाक वेंगेंत घेवन ताणें ताचो उमो घेतलो.

दुसऱ्या दिसा सकाळीं त्या सगल्यांनी कुणबी लोकांचो भेस केलो आनी अस्तंत दिकेन कोलव्यां देगेर पावले.

'हांव हांगाच केदाराची वाट पळयतां. तूं एका पंगडाक मचव्या मेरेन पावोवन यो.' राधिकान सुचयलें. कृष्णान हयकार दिलो.

तांचो पंगड बाणावले पावलो तेन्ना सूर्य मावळून खूब वेळ जाल्लो. 1564

वर्साच्या मार्च म्हयन्यांत दर्या शांत आसलो. मळब निवळ आसलें. पयस खोल दर्यांत एक मचवो नांगर उडोवन एका जाग्यार थीर दवरिल्लो दिसतालो.

'आयचे रातीच आमी वचुंया. चान्नें नाशिल्ल्यान रातचो काळोख आसता. मचवो तयार आसा. वेळ काडूंक फावना.' मचव्याकारान सांगलें.

'खरें तुजें. वचात तुमी सगले. हांव राधिकाक घेवन येतां. आमी फाटल्या दुसऱ्या मचव्यांतल्यान येतात. नाजाल्यार वेगळ्या मार्गान.' कृष्णान म्हणलें.

ल्हान ल्हान पनेळांतल्यान लोकांक आनी तांचें सामान खारव्यांनी मचव्या मेरेन पावयलें.

'हांव वच्चें ना त्या लोकां वांगडा.' सत्यान कृष्णाक सांगलें.

'कित्याक वचना तूं? गोमन्तकांतल्यान भटकळा वचपाक हीच बरी संद आसा.' कृष्णान ताका सांगलें.

'खंय वतलें हांव? म्हजीं आवयबापूय आसात भटकळांत? तूं आनी राधिका सोडून आनीक कोण आसात म्हाका? तूं बळयां म्हाका धाडपाक सोदता जाल्यार घडये दर्यांत उडी मारपा बगर म्हाका दुसरो पर्याय उरचो ना.' सत्याचे दोळे दुकांनी भरले.

कृष्णान मायेच्या उमाळ्यान ताचीं दुकां अळंग पुसलीं आनी मवाळ हातान तिच्या कपलाचेर थपथपावन म्हणलें, 'चुकलों हांव सत्या, माफ कर. तुका पयस करपाचो वा तुका दुखोवपाचो म्हजो हेतू नाशिल्लो. पूण जीव वाटावन धांवपाची संद आसा इतलेच खातीर म्हणलें हांवें तुका.' ताणें तिका समजायत म्हणलें.

'जगलें जाल्यार तुमचे वांगडा रावून नाजाल्यार तुमचे वांगडा मरपाक हांव तयार आसां. म्हजो त्याग करूं नाकात.' तिणें विनवणी केली.

कृष्णान तिचो हात आपल्या दोनूय हातां मदीं धरून मायेमोगान दामलो. तिणें ताच्या दोळ्यांक दोळे लावन पळयलें. तिका मायेमोगाच्या उजवाडाचें किरण दिसलें. एके तरेचो विस्वास आनी धिटायेचो तिका दिश्टावो जालो.

'बरें आसा. तशें जाल्यार फाल्यां आमी दोगांय राधिकाक मेळपाक वचुंया. ताचे आदीं आमी ह्या खारव्यां मदीं आलाशिरो घेवया. तशें पळोवंक गेल्यार फाटले दोन तीन म्हयने आमी खारवींच जाल्लीं आसात.' अशें म्हणून कृष्णा हांसलो. सत्याच्या मुखामळारूय हांशें फुल्लें.

कांय वैदीक ब्राह्मण आनी कुडतरेंतल्या गांवकारांचो एक पंगड आसलो.

तांकां मचव्यांतल्यान वचपाक नाका आसलें.

'आमी भूंय मार्गान वतले.' तांणी सांगलें.

खूब वेळ भासाभास जाले उपरांत भूंय मार्गान काणकोण म्हालांतल्या दोंगराळ वाठारांतल्यान वचून मल्लिकार्जुन देवळांत वचपाचें थारलें. थंयच्यान मुखार सदाशिव गडा मेरेन आनी काळी न्हंय हुपून कारवारा वचून मागीर भटकळा वचपाचें तांणी थारायलें. एकेका पंगडांत 12 - 16 मनशां आसलीं. धाकलेशे पालखेंत देवीची मूर्त आनी हेर वस्तू आसल्यो. ती 4 - 6 मानाय थोड्या थोड्या अंतराचेर अदलाबदल करीत खांद्या वयल्यान व्हरताले. तांचो पोशाक म्हणल्यार कमराक वालो, आंगार जानवें आनी खांद्यार एक पातळ शाल इतलोच. पंगडांतले वांगडी फकत पेज जेवन रावताले. दोन वाडगे पेज सोडून आनीक कांय ना. एक वाडगो सकाळच्या वेळार आनी एक सांजच्या वेळार.

दर्यावेळेर जमिल्ल्या लोकांक ल्हान पनेळांतल्यान मचव्या कडेन पावयले. त्या मचव्यांत 134 मनशांक बसयले. धर्मांतर जाल्लीं दोन कुटुंबांय त्या पंगडांत आसलीं. धर्मन्यायालयाचो तांकां धरपाचो आदेश आसलो. गुप्तीं न्यायालयाक खबरो कळोवपी मनशान धर्मांतर जावंक नाशिल्ल्या कुटुंबांक त्या कुटुंबांनी आपल्या घरा भितर आलाशिरो दिलो म्हूण चाडी केल्ली. एक फावट 'व्हडल्या घरांत' पावले उपरांत सुटकावाट ना म्हणपाचें तांकां खबर आसलें.

थोडे लोक त्या धर्मांतरीत कुटुंबांक आपणा वांगडा व्हरपाक विरोध करताले.

'ते आमचेच मनीस म्हणपाचें तुमी विसरूंक फावना. तांकांय जगपाचो हक्क आसा. वचूं तांकां हेरां वांगडा.' कृष्णान आग्रो धरलो.

'पूण धर्मांतर जाल्ल्यान बाटल्यांत तीं मनशां.' एका गांवकारान म्हणलें.

'तुमी तांकां धर्मांतर करून शुद्ध कित्याक करून घेनात? तशें केल्यार तुमचो प्रस्न सुटटलो.' कृष्णान म्हणलें. सगले ओगी रावले.

मलबारी तांडेल लोकांक सडसडीत येवन मचव्यांत बसपाक ताकतीक करताले.

'सकाळीं दीस उदेवपाक आमी कुमठा जावं कारवारा तरी पावपाक जाय. नाजाल्यार पुर्तुगाली तारवांक दिसतले आमी.' तांणी ताकतीक लावन धरली.

मचवे वचपाक सुटले. कृष्णा आनी सत्या परतलीं. कृष्णा आनी सत्या कसल्याच आडखळीं बगर बरे तरेन परतीं पाविल्लीं पळोवन राधिका खोशी जालें. ताणें तांकां उर्बेभरीत येवकार दिलो.

ते राती कडेन कृष्णा आनी राधिका दोगांच आसलीं तेन्ना कृष्णान राधिकाक विचारलें,

'सत्या मचव्यांतल्यान भटकळा वचनासतना म्हजे वांगडा परत आयिल्ल्या विशीं तुवें कांयच म्हणलें ना कशें?'

'हांव जाणांच आशिल्लें, तें अनवळखी जाग्यार आमकां सोडून वच्चें ना म्हणून. खंय वचपाचें ताणें? तुका तें गेल्लें जाय आशिल्लें?'

खीणभर कृष्णा ओगीच रावलो. मागीर ताणें थंय दर्यादिगेर जेन्ना लोकांक घेवन मचवे सुटपाचे जाले तेन्ना कितें घडलें ती गजाल सांगली. भायर जेन्ना खारवी लोकांचो बोवाळ सुरू जालो तेन्ना तांचो संवाद तुटलो. कृष्णा खोंपींतल्यान भायर गेलो. थंय माडांनी 15 – 20 लोक एकठांय जाल्ले आनी व्हडल्यान व्हडल्यान उलयताले. मदीं मदीं ते हांसताले आनी खोस मनयताले. तरेकवार रंगांचे कपड्यांचे कुडके मदीं एका जाग्यार राशीर मारिल्ले आनी जाणटीं बायलां ते शिंवपाच्या कामाक लागिल्लीं.

'कितें चल्लां हें तुमचें?' कृष्णान विचारलें.

दोग जाणटे आनी एक तरणाटो मुखार सरलो आनी उद्गारलो, 'आरे, कृष्ण, म्हान कृष्ण. हो भागवतांतलो कृष्णच आसतलो पूण एकूच फरक आसा. ह्या कृष्णाच्या हातांत मुरली ना.' अशें म्हणून ते हा हा हा हा करून व्हडल्यान हांसले.

'यो, थोडी फेणी घे. कितली सुवादीक पळय. कितें घेतलो तूं? काजू फेणी काय माडाची फेणी?' दुसऱ्या एका मनशान विचारलें.

'परबेचे धुंदींत आसात हे.' कृष्णान मनांत म्हणलें. तांचे मौजमजेंत ताणेंय वांटो घेतलो. तें मद्य कडक आनी नशा हाडपी आसलें.

'फाल्यां पुनव. शिगमोत्सवाचो सगल्यांत व्हडलो दबाज्याचो दीस. तूं आनी तुज्या सांगाती अस्तुऱ्यांनी आमच्या नाचांत आनी परब मनोवपांत वांटो घेवपाचो आँ.' तांच्या मुखेल्यान कृष्णाक सांगलें.

वसंत रुतू सुरू जाल्लो. आंब्यांचीं झाडां बरीं चंवरिल्लीं. तांचेर बसून कोगूळ गायनाचे पंचम सूर लावन मिलनाचे साद घालतालें. काजूचीं झाडां चंवरांनी आनी काजूच्या मुट्टयांनी भरिल्लीं. तरणाट्यो अस्तुऱ्यो मुट्टे पुंजायताल्यो. दुसरे वटेन सोऱ्याच्यो भाटयो तापिल्ल्यो, त्यो सोरो गाळटाल्यो. तीच ती काजू फेणी.

पूण चडशे गांवकार आनी जाणटे लोक मातशे चिंतेस्त जाल्ले. 'आमची

संस्कृताय, भास आनी धर्माचो फुडार कितें?' ह्या संबंदान लोकांक हुस्को जाल्लो. एका शेतांत धा बारा जाण वाटकुळे बशिल्ले. सुको जळोव राशीर मारून तांणी उजो पेटयिल्लो. फेणयेचो अंमल चडिल्लो. मध्यान रात जावन गेल्ली.

राधिका आनी कृष्णा एका खडपार मेकळेपणीं बसून आसलीं. अचकीत रानाचे देगे वयल्या वाठारांतल्यान ऊंच आवाजान किळांच मारची तशे तरेचे आवाज तांणी आयकले. 'कसले आवाज हे?' राधिकान विचारलें.

'इतलें भियेवन गुळी जावपाची गरज ना. आंगार ठिपके आशिल्लें रानघुबड तें. भिरांकूळशें दिसलें तरी एक सोबीत शेवणें तें.' कृष्णान ताचो भंय पयस करीत म्हणलें.

दुसऱ्या दिसा सकाळफुडेंच सूर्य उदेवपाच्या वेळारूच शिगम्या परबेचीं धर्मीक आचरणां सुरू जालीं. गांवचो लोक देवीच्या ल्हानश्या देवळांत जमलो. आरती, गाराणें बी सगलें जालें. देवीक एक हार घालो. भांगर आनी रुप्याचीं तरेकवार नुस्तीं गुथून हो हार घडयिल्लो.

रंगरंगयाळे कपडे, माथ्याक वाटकुळ्यो व्हडल्यो तांबड्यो तोपयो आनी तांचेर शेवण्यांचीं लांब लांब पाखां, गळ्यांत घुमटां अशे तरेचो भेस केल्ले तरणाट्यांचे पंगड मेकळ्या जाग्यार येवन घुमटांच्या तालार गायनां गायत नाचपाक लागले. कृष्णाय बी तांचे वांगडा तेच तरेच्या भेसांत नाचूंक लागलो.

कांय वेळान उज्याच्या होमखणा भोंवतणीं सगळीं बायलां जमलीं. राधिका आनी सत्या दोगांय तांचे मदीं बसलीं. 35 बायलो वाटकुळो घेर करून रावल्यो. एकटेन गायन सुरू केलें आनी हेर सगलीं त्या तालार नाचपाक लागलीं.

तांचें गीत अशें आसलें :

*कृष्णा पुतू मन्मतु लग्ना उठालो*
*मन्मताले दिब्बण भायर सरलाले*
*राज मार्गारी दिब्बण सरलाले*
*अमरावती शाराक दिब्बण पाविले*

कृष्णाचो पूत प्रद्युम्नाच्या लग्नाचो विशय ह्या गितांत मांडला. मन्मथ हो मोगाचो देव आनी प्रद्युम्न हो ताचो अवतार अशें मानतात.

जेन्ना गीत आनी नाचान ऐन भारार येवन तेंगशी गांठली तेन्ना मुखेल्यान कृष्णाक सगल्यां वांगडा नाचपाक आपयलो. तो खोशयेन तांचे मदीं नाचूंक लागलो.

तांची घुमटांच्या ठेक्याचेर नाचपाची खाशेली तरा आसली. तेच पद्‌दतीन पावलां घालप कृष्णाक कठीण जातालें.

'तुमच्या सांगाती बायलांक नाचपाक आपय.' मुखेल्यान कृष्णाक सांगलें.

'पूण तुमचीं बायलां खंय आयल्यांत तुमचे वांगडा नाचपाक?' कृष्णान मातशें ओडून धरलें.

'खरें तुजें. तीं तशीं आमचे वांगडा नाचांत वांटो घेनात. तरी जेन्ना कोणूय खाशेलीं सोयरीं येतात तेन्ना आमच्यो बायलो तांचे वांगडा नाचतात.' मुखेल्यान जाप दिली.

'बरें बरें. म्हाका पर्वा ना तशी. आपय तांकां तूं.' कृष्णान म्हणलें.

मुखेल्यान आपले बायलेक सांगून राधिका आनी सत्याक नाचपाक आपयलीं.

तीं दोगांय कृष्णाच्या दोन बगलांनी रावून नाचूंक लागलीं.

*कृष्णा पुतू मन्मतु लग्ना उठालो*

*मन्मताचें दिब्बण भायर सरलाले*

*राज मार्गारी दिब्बण सरलाले*

*अमरावती शाराक दिब्बण पाविले*

*कृष्णु आयिलो, द्वारकेचो कृष्णु आयिलो*

*रुक्मिणी आनी सत्यभामेलो कृष्णु आयिलो*

तिगांय थोड्या वेळां भितर थकलीं आनी बसलीं. हेर सगलीं नाचत रावलीं.

*मोरू मोरू पंचरंगाचो मोरू*

*कू कू करचो वज' कंठा कोगुळू*

पंचरंगी मोराची सोबीतकाय आनी कोगूळ शेवण्यांच्या मिलनाचो विशय करून विस्तारान गायन केलें. तें पूर्ण जावपाक पावतासर पुनवेचो चंद्रीम वयर माथ्यार पाविल्लो.

नवी फेणी परत एक फावट सगले जाण पिले. ती रुचीक लागली. थोडो वेळ तांणी विसव घेतलो.

'आमचे भाशेचो, संस्कृतायेचो आनी धर्माचो फुडार कितें काय?' एका जाणटेल्यान उलोवन दाखयलें. थोड्यांनी आपापलीं मतां उलोवन दाखयलीं. फेणयेचो अंमलूय जाणवतालो. मध्यान रात जावन गेल्ली.

'आमी ह्या पाखल्यां कडेन झूज करून तांकां गोमन्तकांतल्यान धांवडावपाक

जाय.' थोडे तरणाटे आइडून उलोवंक लागले.

'तुमचे मायभुंये खातीर आनी स्वता खातीर झुजपाच्या तुमच्या हावेसाची म्हाका तोखणाय दिसता. पूण पुर्तुगेजां कडेन झूज दिवप सोंपें काम न्हय.' कृष्णान एकल्याचे फाटीर हात मारून म्हणलें.

ताणें तांकां पुर्तुगेजांनी घुरी घालून गोमन्तक जिखून घेतलें ती खबर आनी फाटल्या पन्नास वर्सांतलो तांचो इतिहास सांगलो. पुर्तुगेजांक झुटये वयल्यान देंवोवपाचे जे कांय यत्न जाले आनी ते कशे निर्फळ जाले ते विशींय बी तांकां सांगलें.

मनशांनी निर्मिल्लीं अरिश्टां आनी सैमीक अरिश्टां हांकां फुडो करीत आमचे वाडवडील फाटलीं हजारांनी वर्सां वांचून उरले. आमीय बी तशेच ह्या पुर्तुगेजांच्या अरिश्टांतल्यान वांचून उरतले. ते खातीर आमी आमची खरी वळख जी आसा ती संस्कृताय सांबाळून दवरपाक जाय.' कृष्णान म्हणलें.

'म्हणल्यार कितें?' थोड्यांनी ताका विचारलें.

पुर्तुगेज आमच्या गोमन्तकाचे तिनूय म्हाल – साश्ट, तिसवाडी आनी बार्देस धर्मांतरां करून थंय ख्रि स्ती धर्म पातळावंक सोदता. तांचें म्हणणें एकूच – तुमकां हांगा रावपाक जाय जाल्यार क्रिस्तांव जायात. तुमकां जर आपली खरी वळख आशिल्ली संस्कृताय आनी धर्म तिगोवन दवरपाचो आसा तर तुमी गोमन्तक सोडून दुसरे कडेन वचपाक जाय. अर्थीक विकास घडोवन हाडून तुमचे संस्कृतायेचें दायज परत उबें करपाक जाय.' कृष्णान विस्कावणी करून सांगलें. ताचे विचार आनी उतरां स्पश्ट आसलीं.

थोडो वेळ थंय शांतताय पातळ्ळी.

'आमी दुर्बळ शेतकार आनी खारवी. खंय म्हूण वतले आनी आमी कशे जगतले?' एकल्यान विचारलें.

'तुमी दुर्बळ आसात ते फक्त अर्थीक तांकीन, आंगांतल्या बळान आनी संस्कृतायेच्या दायजान दुर्बळ नात. गोमन्तकांतले मातयेंत जर तुमकां हातपांय हालोवन कश्ट करपाची तांक आसा तर खंय वतात थंय बी तुमी कश्ट करपाक शकतले. भूंय परकी आसली तरी संस्कृताय आमचीच. तुमी हांगा रावले जाल्यार भूंय तुमची उरतली पूण संस्कृताय परकी जातली. हें मतींत धरून पाखल्यांनी तुमकां धरून व्हरचे पयलीं तुमी स्थलांतर केल्यार बरें.' ताणें परत सांगलें.

जे कोण हांगाच रावतले ते सगळे क्रिस्तांव जातले आनी तांच्या फाटल्या पिळग्यांक आपूण आर्दींच्यानूच क्रिस्तांव आसले ते बरे आसले आनी तोच धर्म आनी तीच संस्कृताय बऱ्यांतली बरी अशें ते मानतले. ते परत आपल्या आदल्या धर्मांत येवचे नात तें जालेंच ते भायर आपल्या पूर्वजांच्या धर्माक ते उणाक लेखतले आनी तांचे विशीं वायट उलयतले. हांव ही शिटकावणी दितां तुमकां.' कृष्णान मोठ्यान सांगलें.

'तिसवाडी आनी साश्टींत अजून गिरेस्त लोक आसात आनी ते पाखल्यां वांगडा धंदो करतात. तेवूय बी वतले हांगाचें सोडून?' एका जाणट्या मनशान विचारलें.

'हांव जाणां दादी तूं कितें म्हणटा तें. थोड्या दुडवांकार लोकांनी पुर्तुगेज अधिकाऱ्यांक खूब दुडू फारीक करून आपली स्वतंत्रताय विकती घेतल्या. पूण अशे लोक खूब थोडे आसात. दुसरी गजाल म्हणल्यार तांचे फाटले पिळगेचें कितें जातलें तें कोणाक खबर ना. चड करून आनीक एक दोन पिळग्यां उपरांत ते धर्मांतर करतीतूय बी. सगल्यांक सदां खातीर दुडू दिवन स्वतंत्रताय विकती घेवंक मेळची ना. आमचे प्रस्न सोडोवपाक हो उपाय न्हय.' कृष्णान म्हणलें.

'ब्राह्मण लोक व्हरतले आमकां आपणा वांगडा?' कोणें एकट्यान विचारलें.

'जेन्ना पुर्तुगेजां कडल्यान पिडापीड जाता तेन्ना ब्राह्मण तुमचे परस वेगळे आसनात, ही गजाल तुमी लक्षांत घेवपाक जाय. तांणी स्वताक ऊंच मानलें तरी आज प्रत्येकाच्या जिवाक धोको आसा. एक गजाल लक्षांत घेयात कीं जे धर्मन्यायालयाचे ख्यास्तीक लागून मेले ते सगले ब्राह्मण आशिल्ले. ब्राह्मण लोक एक वालो न्हेशिल्ले स्थितींत आपले देव घेवन जीव वाटावन पयस धांवले ते नकळ तुमी? जगप आनी मरप हातूंत जातीभेद ना हें विसरूं नाकात.' कृष्णान त्या मनशाक सांगलें.

सकाळ जाय मेरेन खूबशीं कुटुंबां स्थलांतर करपाक आयिल्ल्या लोकां वांगडा वचपाक तयार रावलीं.



## ‘व्हडलें घर’

1564 वर्साच्या सप्टेंबर म्हयन्याच्या सोंपत्या दिसांनी पावशी मोसमूय सोंपलो. पावस फावो त्या प्रमाणांत पडिल्लो. तरी पिकावळ उणी जाली. शेंकड्यांनी लोकांचीं शेतां पडींग उरलीं. खूबशीं कुटुंबां गोंय सोडून गेल्लीं. राज्याची येणावळ देंवली.

गोव्हेर्नादोर दाँ आन्तोनियु दे नोरोन्य हाका ते विशीं कांयच हुस्को नासलो. तो आपले नवे राजकी आनी सैनिकी येवजणेची आंखणी करतालो. हम्पीचो राज प्रतिनिधी रामराया लडायेची नेटान तयारी करतालो. हम्पी सावन खबरो येताल्ल्यो. ह्या वर्सा आर्दी केन्नाच पावंक नाशिल्ले इतले 3000 अरबी घोडे पणजेच्या बंदरांत आयिल्ले आनी ते हम्पीच्या राजाक विकिल्ले. त्या वेपारा कडेन संबंद आयिल्ल्या दर एकट्यान खूब फायदो जोडिल्लो. घोड्यांच्या मोलांतल्यान नेमा भायर गोव्हेर्नादोराक येणावळ जाल्लीच ती सोडून नाळींची पुरवण, बंदुकांक लागपी दारू आनी नेमबाज सैनीक हम्पी धाडून दिवपाच्या वेव्हारांतूय ताणें ख़ूब दुडू जोडिल्लो.

फाटले वटेन ताणें आदिलशा आनी गोवलकोंडच्या सुलतानाक नाळी आनी बंदुकांच्या दारवाची पुरवण केल्ली. ताका त्यावूय वेव्हारांतल्यान खाजगी येणावळ

आर्दींच मेळिल्ली. हम्पीच्या रायान खूब व्हडलें सैनिकी दळ उबें केल्लें तें जेन्ना ताका कळ्ळें तेन्ना ताका व्हड अजाप जालें.

'पुर्तुगालूच न्हय तर पांच स येवरोपी देश एकठांय धरले जाल्यारूय तांचें सगले मेळून सैनिकी बळ तितलें आसचें ना आनी इतल्या बळिश्ट हम्पी रायान एक दीस गोंयचेर घुरी घाली जाल्यार पुर्तुगाली सैन्य बळ सोंपेपणीं नानपयत जावन वतलें. ते मुसलमान शासकां कडेन झुजपाक घुस्पल्यात हे देवाचे उपकार आमचेर.' गोव्हेर्नादोर दे नोरोञ्यान मनांत म्हणलें.

पाद्रींनी आतां आपल्यो धर्मीक कार्यावळी महालक्ष्मी देवळांतल्यान चालीक लावपाक सुरवात केल्ली. तेंच आपलें मुखेल केंद्र केल्लें. धर्मन्यायालय सुरू केल्ल्यान धर्मांतरां घडोवन हाडपाक गती मेळिल्ली. नव्यान धर्मांतरीत जाल्ले लोक आपलीं आदलीं नांवां उच्चारपाक लेगीत थर्त भियेताले. आदीं गोंय सोडून वचपाक फुडें सरनाशिल्ले ते लोक आतां आपूण जावन स्थलांतर करपाक लागिल्ले. अर्थीक येणावळ उणी जाल्ली तरी तांकां ते विशीं पर्वा नासली. 55 वर्सां उपरांत गोंयांतल्या थळाव्या लोकांच्या हातांतल्यान सत्ता सुटून वचपाक लागिल्ली. घेयात ती हातासून. होच वेळ तांच्या मड्याचे पेटयेक निमणो खिळो मारपाचो. अश्या अर्थाचीं पत्रां बिशपान पुर्तुगालाक आनी व्हॅटिकनाक धाडिल्लीं. दोनूय कडच्यान ताका पुराय तेंको मेळ्ळो.

पुर्तुगाल राजाच्या नव्या आदेशां वरवीं हिंदू नागरिकांनी कितें करचें आनी कितें करचें न्हय तें सांगपी नेम दिल्ले.....हिंदू धर्मी मनशान समाजीक आनी धर्मीक कार्यांत ज्यो प्रथा आचरतात त्यो बंद करच्यो.

अस्तुरेचें गुरवारपण, भुरग्याचो जल्म, भुरग्याची मूज आनी लग्न असल्या मंगलकार्याच्या समयार तांदूळ, नाल्ल आनी पानवेलीचीं पानां असले जिनस वापरपाक मेळचे नात.

आर्चबिशपान गोव्हेर्नादोराक एक स्मरणपत्र धाडून पुर्तुगालाचो राजा दाँ सेबास्तियान हाणें 23 मार्च 1559 दिसा एका आदेशा वरवीं अनाथ जाल्ल्या हिंदू भुरग्यांक शिपायकांनी धरून व्हेलीं आनी पाद्रींनी तांकां क्रिस्तांव धर्माची दीक्षा दिली.

सजाण पालक जांच्या भावां – भयणींचीं भुरगीं त्या धर्मांतराचे भकीक पडलीं तीं 1564 वर्सा वागातोरच्यान जो मचवो वचपाक सुटलो तातूंतल्यान गोंय सोडून गेलीं. त्या मनशांनी आपणाक दिवाडेंत ज्या एका ब्राह्मण तरणाट्यान मजत केल्ली

तो तरणाटो ब्रह्मपुरींत शिकतालो आनी ताचें नांव केदार आसा आनी तो पणजे बंदखणींत आशिल्ल्याची खबर कृष्णाक सांगली.

'हाचो अर्थ केदार जितो आसा, आमी सोदून काडपाक जाय ताका.'

'पूण परत पणजे वा दिवाडे वचप धोक्याचें अशें दिसना तुका? ते आमकां धरपाक सोदतात म्हळ्ळी गजाल विसरूं नाका.' राधिकान ताका शिटकायलो.

तरी कृष्णान यत्न करपाचो निर्णय घेतलो. 2 ऑक्टोबर 1564 ह्या दिसा तीं परत दिवाडें गेलीं. एक सप्तकभर तीं थंय रावलीं. ते आदीं दोन म्हयने थंय ज्यो घडणुको घडल्यो तांचे विशीं म्हायती मेळोवन केदार खंय आशिल्लो तेंवूय जाणून घेतलें.

दिवाडेंतले अर्दा परस चड लोक गांव सोडून गेल्ले. जायत्या कुटुंबांचें पुर्तुगेजांनी धर्मांतरण केल्लें.

'तुमकां जर तांणी आमच्या घरांत आसतना धरलीं तर आमकां सगल्यांकूच ते 'व्हडल्या घरांत' घेवन वतले. देखून तुमी हांगा सावन गेल्यार बरें जातलें.' मार्तिन गोमिश ह्या कुटुंब मुखेल्यान कृष्णाक सांगलें.

दुसऱ्या दिसा सकाळीफुडें तीं तिगांय भूमिपुरूस देवळा वटेन वचपाक गेलीं.

'हेर सगल्यां परस हो वाठार चड सुरक्षीत.' कृष्णान म्हणलें. नवरात्रांचो उत्सव लोक सादेपणान मनयताले. तिसवाडींतलीं चडशीं देवळां पुरायपणीं नश्ट केल्लीं. लोक आपापल्या घरांत खंयचीय परब चोरयां मनयताले.

सैमीक वातावरण बरें आसलें. शीतळ वारो व्हांवतालो. तरी समाजीक वातावरण खूब थंडायेचें आसलें. कृष्णा सप्तकांत दोन खेपे तरी पणजेच्या कोटा लागींच्यान भोंवडी मारतालो. केदारा विशीं ताका कसलीच म्हायती मेळ्ळी ना. पावशी मोसम सोंपना फुडें शंबरां वयर मनशांक कोटा भितर व्हेल्ले. तातूंतले कोणूच परत भायर येवपाक पावले नात. चडश्या जाणांक धर्मन्यायालयाच्या 'व्हडल्या घरांत' हाजीर करपाक व्हेल्ले आनी थोड्यांक तळघरांत कोंडून दवरल्यात अशी वावडी पातळिल्ली.

''व्हडल्या घराक' भाजयांची पुरवण करपी वेपाऱ्या कडेन हांव कामाक रावलां.' कृष्णान राधिका आनी सत्याक सांगलें. कृष्णान अशे तरेन धिटाय दाखोवन पिशेपणां केल्यांत अशें त्या दोगांकूय दिसलें आनी तांकां थरथरो भरलो. इतलें व्हडलें गरजे भायर साहस करूं नाका म्हूण तीं ताका सांगतालीं.

'आरे, त्या धोक्याच्या जाग्यार जो कोण पावता तो परत जितो फाटीं येवंक

पावना.' तीं ताका विनवणी करतालीं.

'हांव कोणूय राजकी बंदी म्हूण भितर वचना न्हय. हांव फकत म्हज्या मालकाक मजत करपा खातीर ताचे वांगडा भाजी, फळां पावोवपाक वतां.'

कृष्णा व्हालेरियान गोमीश नांवाच्या फळां आनी भाजी विकपाचो वेवसाय करपी मनशा कडेन कामाक रावलो आनी दुकानाचे फाटले वटेन रावपाक तयार जालो.

ते उपरांत दोन म्हयने ताणें मन लावन आनी प्रामाणिकपणान काम केलें आनी मालकाचो विस्वास मेळयलो. मालक ताका भाजी आनी फळां कोटांत पावोवपाक कोटांत धाडपाक लागलो. धर्मन्यायालयांत हाजीर करपाक व्हेल्ल्या मनशांचीं नांवां लेगीत ताका मेळ्ळीं नात.

मागणी येताली तितले संख्येन गरजे प्रमाण घोडे, नाळी आनी फिशाल नेमबाज सैनीक कोटांतल्यान हम्पी वताले. विजयनगराचे शासक आनी दख्खन राज्यांतल्या मुसलमान शासकां मदीं लडाय जावपा संबंदान वावड्यो पातळटाल्यो.

पणजी शारांत आनी कोटांत व्हडा संख्येन पुर्तुगेज पाद्री तांकां दिल्ल्या राबित्याच्या कुडींनी आनी स्वतंत्र घरांनी रावताले.

पुर्तुगाली ऊंच कुळांतले नागरीक व्हडल्या शाही थाटाच्या घरांनी रावताले. तांचे सेवेक अनेक थळावे आनी मलबारी गुलाम आसले. तांच्यो बायलो माचुलांनी भोंवताल्यो. तीं माचुलां थळावे गुलाम खांद्यार घेवन चलताले.

बोटान कुरू करून गुलामांक आपोवन हाडप म्हणल्यार आपलो ऊंच दर्जो दाखोवपाची कुरू अशें हे पुर्तुगेज आक्रमणकारी समजताले.

एक मानवी सभ्यताय चिड्डून नानपयत करपा खातीर ते शासक आनी तांकां सल्लो दिवपी व्यक्ती धर्माचो साधन रुपान उपेग करतात.

'समाजांत जगता आसतना सतत उजू मार्गार चलून आपलीं कर्तव्यां करचीं आनी वयल्या वयल्या थरार पावपाचो यत्न करचो असो आमचो धर्म आमकां शिकवण दिता. कितलो विरोधाभास दोन धर्मांच्या विचारां मदीं.' कृष्णाक दिसलें.

तरी आसतना कृष्णा नव्या धर्मांतरितांच्या सांगातान दर आयतारा इगर्जेत वतालो.

पुर्तुगेज पाद्री भाशांतरकारांच्या आदारान आनी आपले तुटके फुटके कोंकणी भाशेंतल्यान आपलो धर्मोपदेश करताले.

त्या लोकां मदल्या कोणेंच एकट्यान आपणाक जाय म्हणून खोशयेन ख्रिस्ती

धर्म आपणायला आसत अशें कृष्णाक दिसलें ना.

एक दीस इगर्जेच्या प्रवेशदारांत दवरिल्ले दानपेटयेंत ख्रिस्ती धर्म आनी पुर्तुगेज शासकांच्या विरोधांत बरप केल्लीं कागदां मेळ्ळीं. जमिल्ल्या सगल्या लोकांक 24 वरां इगर्जेत जेवण, उदक बी दिनासतना आडावन दवरले. दोग जाण नवे धर्मांतरीत अपराधी मेळ्ळे. तांकां धर्मन्यायालया मुखार उबे केले.

त्याच काळांत व्हडा संख्येन पुर्तुगेज झुजाऱ्यांचो एक पंगड हम्पी वचपाक गेलो. कोटांत सैनिकांची संख्या उणी जाली. कोटा भितर आनी 'व्हडल्या घरांत' गरजेचो सगलो म्हाल हाडून पावोवपा खातीर आनी तरेकवार सेवेचीं कामां करपा खातीर थळाव्या लोकांक आसपावन घेवचे म्हूण ताणें सुचोवण्यो दिल्ल्यो.

हीच संद घेवन केदाराक सोडून काडपाचो एक निमणो यत्न करपाचो कृष्णान निर्णय घेतलो. पन्नाशेक लोक 'व्हडल्या घरांत' कामाक वचपाचे आसले. ते सगले नवे धर्मांतरीत लोक आसले. कृष्णान तांचे मदलो एक चाकर जावन कामाक वचपाचें थारायलें - घडये केदार मेळत हे एकेच आशेन.

1564 वर्साची नातलांची परब जायना फुडें पुर्तुगेज झुजाऱ्यांचो एक निमणो पंगड लडायेचीं शस्त्रां, नाळी, दारू, बंदुको तशेंच सोऱ्याचे कारबे अशी सगली सामुग्री घेवन एका कपिताच्या फुडारपणांत हम्पी वचपाक गेलो. थळाव्या लोकांक दीसपट्टीं चाकरेचीं कामां करपा खातीर धर्मन्यायालयाच्या 'व्हडल्या घरांत' धाडले. कृष्णाय त्या पंगडांत भरसून भितर गेलो.

पयलीं दोन सप्तकां तांकां सगले तरेचीं घरगुती आंग मेहनतीचीं कामां दिलीं. कामाक पुर्तुगेज मानाय मेळप कठीण जाल्लें. तेन्ना 'व्हडल्या घरा'च्या कपितान तळघरांतल्या कुडीं भितर जंय धर्मन्यायालय बंदी मनशां कडल्यान सत्य वदोवपाक यातना भोगयताले थंय लेगीत थळाव्या वावराड्यांक धाडले.

तळघरांतल्या कुडीं भितर आशिल्ले 63 बंदी कृष्णान मेजले. दर दिसा सुमार बारा जाणांक ख्यास्तीच्या कुडीं भितर व्हरताले. दर एकट्याचे हात तकले वयर उबे बांदप आनी पांय बांदप ही ख्यास्त सरसकट सगल्यांक आसताली. सोंसूं नज जाल्ले वेदनेन ते बंदी आड्डी हुयेली मारताले आनी तो आवाज पुराय घरभर गाजतालो.

हून उदक आनी तेल नाकांत रकोवपाचे अमानुश ख्यास्तीक लागून कात हुलपताली आनी फोड येवन कात सुटून येताली.

थोड्या बंद्यांक धोणवाच्या आकारान बांदताले आनी कुडींत मदीं

हुमकळायताले.

हे दयामाया नासतना चलयिल्ले ख्यास्ती वेळार ख्यास्त करतल्यांच्या तोंडांत उतरां आसतालीं तीं फक्त 'खरें सांग'. जबानी नोंद करपी कारकून थंय घडटालें तितलेंय आनी ख्यास्त भोगपी म्हणटाले तितलेंय म्हणल्यार तांच्या आड्डी हुयेलींची लेगीत प्रामाणिकपणान नोंद करताले.

सत गजाल वदोवन घेवपाक एक फावट केल्लो उपाय परत करिनासले पूण एकाद्रें नवें प्रमाण मेळ्ळें जाल्यार आदलीच पिडापीड भोगोवन सत वदोवन घेवपाचो यत्न करताले आनी उपरांत तो मामलो 'कोन्सेल्यु जेराल' म्हळ्ळ्या वयल्या न्यायाधिशा सामकार धाडटाले. जेन्ना दुबावीत आरोपीक सत वदोवन घेवपाक पिडापीड भोगोवपाचे कोठयेंत व्हरताले तेन्ना धर्मन्यायालयाचो मुखेली नेमांचें पुस्तक उगडून दुबावीत आरोप्यां मुखार तरेकवार पिडापीड दिवपा संबंदात लांबचे लांब विस्कावणी करून बरयिल्ल्या नेमांचें वाचन करतालो. त्यो तरेकवार परी म्हणल्यार ऊंच बांदिल्ल्या गाडयांचो प्रकार (दोरी वयर सकयल ओडपाची गाडी), दुसरो प्रकार हून उदकाचो. कृष्णान आनिकूय कांय तरा पळयल्यो. पांय चिड्डूवप वा स्पॅनिश बूट हो खतखतीत तापिल्लें तेल पांयांचेर रकोवप, आंगार सल्फर (गंदक) रकोवप, पेटिल्ली मेणवात खांक्यांक लावन चुरके दिवप, हाताच्या आंगठ्याक स्क्रू लावप अशे तरेचे अमानुश उपाय ते नेमांचे वळेरेंत दिल्ले आसताले. थोड्या दुबावीत आरोप्यांक एका वाटकुळें घुंवपी मेजाक बांदताले आनी तें घुंवडायताले. ताची घुंवपाची गती वाडयताले आनी तो मनीस फकाफक ओंकून ताची सुद्द वताली तेन्नाच घुंवडावप थांबयताले.

कृष्णान केदाराक सगले कडेन सोदपाचो यत्न केलो पूण ताका तो खंयच दिसलो ना.

दर सप्तकांत सरसमान दोग जाण दुबावीत आरोपी मरताले. तांच्यो कुडी कपड्याच्या पोतयांनी भरताले आनी दर्यांत व्हरून उडयताले.

एक दीस पांच गुलामांक एके व्हडले कुडीच्या कोनशाक व्हेले. तांचे मदीं कृष्णाय आसलो. ताका जमनीर आशिल्लें एक धांपणें उगडपाक सांगलें. धा व्हडले उदकाचे कळशे, पांटे भर पाव आनी अर्दकुटें शिजयिल्ल्या मासाच्यो पोटल्यो एका पन्नाशेक मिटर लांबायेच्या राजवाक बांदून भितर सोडपाक सांगलें. ती आसली एक खोल आनी गुप्प काळखाची तळकोठी. भितरले बंदी बोबो आनी हुयेली मारताले त्यो कृष्णान आयकल्यो. बंद्यांक जिते जिवेच ते तळकोठयेंत सोडटाले.

जमनीर सगलो बुरसो रेबो आनी हळशिकेची रास आसली. तांकां खावपाक थोडोसोच पाव आनी थोडेंशें उदक मेळटालें. भितरलो देखावो पळोवन स्वास कोंडटालो आनी रगत गोठेतालें. कृष्णाच्यानूय ती भिरांकूळ आवतिकाय पळोवं नज जाली. ताच्या काळजाचो एक ठोकोच चुकलो आनी भंयान ताका थरथरो आयलो. दोग पुर्तुगेज राखणे शिपायक तांचेर नदर दवरून आसले. गुलामांनी आपलें काम मोन्यांनी आनी विटून केलें. कितेंय उलोवपाःची कोणाचीच छाती जाली ना. तांकां भितर भुयारांत सोडप इतलेंच शिपायकांचें काम. मागीर तांच्या नशिबाचे ते आनी जिणेचो अंत. कृष्णाक राधिका आनी सत्याची याद जाली. इतल्यांत ताका येवजिलें की आपणें इल्लो चडूच धोको पत्करलो. केदार मेळपाची आस्त ना अशें ताका दिसलें. थंयच्यान आतां आपणें जीव वाटावन धांवपाक जाय अशें ताका दिसलें. ताणें चिंतिल्लें तें काम सोंपें नासलें. दोन म्हयने जावन गेल्ले तो त्या भिरांकूळ थळार येवन. ताचीय जीण त्या बंदखणींतल्या मनशांवरीच जाल्ली. फरक इतलोच की ह्या गुलामांक ते पिडापीड करिनासले.

एक दीस सकाळीं वीस गुलामांक विसरायच्या कार्यालयांत व्हेले. धा बारा व्हडल्यो पेटयो थंयच्यान विसरायाच्या महालांतले एके कुडींत व्हरून दवरपाच्यो आसल्यो. त्या पेटयांनी म्हत्वाचे दस्तावेज आसले. त्या गुलामां मदीं कृष्णाय आसलो. त्या पेटयांनी धर्मांतरां संबंदांतलीं कागदपत्रां आसात म्हणपाची कृष्णाक खबर कळ्ळी.

पावलीस्त पाद्रींनी (जेज्वीतांक सांत पावल हे भव्य इगर्जेच्या आदारान पावलीस्त म्हणटाले) 1564 वर्साच्या डिसेंबर म्हयन्या मेरेन 20,737 लोकांक धर्मांतरीत केल्ले. तांच्या नांवाचे आनी राबित्याचे म्हायती सयत केल्लीं कागदपत्रां तांणी दिल्लीं. तेच तरेन फ्रान्सिस्कन आनी दोमिनिकन पाद्रींनी केल्ल्या 516 व्हडल्या कुटुंबांच्या आनी 13,092 मनशांच्या तिसवाडींत केल्ल्या धर्मांतरीत कुटुंबांच्या राबित्याची म्हायती बरयिल्लीं कागदपत्रां दिल्लीं. त्या धर्मांतरां मदीं चोडणे आनी दिवाडी जुंव्या वयल्या धर्मांतरीत लोकांचे म्हायतीचीं कागदांय आसलीं.

त्या भायर आनी वेगळी 'सेग्रेदु' म्हूण बरयिल्लीं कागदपत्रां आसलीं. तातूंत धर्मन्यायालयाच्या मुखार हाजीर केल्ल्या आनी ख्यास्त जाल्ल्या 312 मनशांच्या नांवांचीं कागदां आसलीं. 'केदाराचें नांव आसूं येत व्हय तातूंत?' कृष्णाक प्रस्न पडलो. तें सोदपाचो यत्न करप म्हणल्यार धोक्याचें. नांव सोदपाची सादी चूक

केली आनी ती नदरेक आयली आनी 'व्हडल्या घराचे' गुप्त कोठयेंत पडलों जाल्यार तोच म्हजो अंत थारतलो. पुर्तुगेज शिपायक राधिका आनी सत्याक सोदून काडटले. इतल्याच विचारान ताच्या आंगांतल्यान एक भंयाची शिरशिरी येवन गेली.

घडये म्हजें कार्य आतां सोंपत आयलां. गोमन्तक परकी लोकांच्या वांट्याक पडलो. उरल्या कसली आस्त आतां? एकूच आस्त आसली ती हम्पी रायां कडल्यान. देवा, एक दीस विजयनगराचें सैन्य गोमन्तकांत येवं दी आनी पुर्तुगेजांक धांवडावंदी. घडत अशें केन्नाय? तो चिंतततालो.

28 जानेवारी 1565 ह्या दिसा पुर्तुगेज सैनिकांचे कांय पंगड हम्पींतल्यान वायट खबर घेवन पणजे आयले. ताचे आदीं पांच दीस म्हणल्यार 23 जानेवारी 1565 ह्या दिसा तालिकोटा ह्या थळार आदीं केन्नाच जाली ना इतली व्हडली लडाय विजयनगराची सेना आनी दख्खनी मुसलमान सुलतानांची एकवटीत सेना हांचे मदीं जाली. तितल्यान सगलेंच सोंपलें. निमाण्या दिसा सांजवेळ मेरेन विजयनगराचे सेनेन एकवटीत सेनेचेर जैत जोडिल्लें. तांकां फाटीं सरपाक लायिल्लें. इतल्यांत हम्पी सम्राटाचो राजप्रतिनिधी रामरायान मूर्खपणान जी एक चाल केली ती चुकली आनी तो दुस्मानाचे सेने मदीं पावलो. ताका तांणी धरलो आनी थंयचे थंयच ताची गोमटी कापून मारलो. ते लडायेक वायट वळण मेळ्ळें आनी विजयनगराचे सेनेक दुस्मानान कातरून काडली. तांची हार जाली. मुसलमान सेना हम्पींत भितर सरली आनी मोडफोड करून तांणी खूब नाशाडी केली.

एका व्हडल्या आनी वैभव जोडिल्ल्या विजयनगर साम्राज्याचो अंत जाल्लो पळोवन गोंयचे प्रजेक तशेंच पुर्तुगेजांक धक्को बसलो. उपरांत सतत पंदरा दीस मेरेन शेंकड्यांनी पुर्तुगेज सैनीक जे दुस्मानाच्या माऱ्यांतल्यान सुटून गेल्ले ते परत पणजे आयले. शेंकड्यांनी सैनीक ते लडायेंत मेले. जायते हिंदू सैनीक, वेपाऱ्यांचीं कुटुंबां आनी ब्राह्मण लोक आलाशिऱ्या खातीर गोंयांत आयले. जांकां कोणाक गोंयांत जो गोंदळ आनी धर्मीक बळजबरी चलिल्ली ते विशीं खबर आसलें ते लोक भटकळा आनी रत्नागिरीक गेले. जांकां गोंयचे धर्मीक बळजबरेची कल्पना नासली ते लोक हांगा येवन जेज्वीत पाद्रींच्या चपक्यांत पडले. तांकां रासवळ तरेन धर्मपरिवर्तनां करपाक आयतीच संद मेळ्ळी.

■■■

# गोमन्तकांतले निमाणे दीस

1565 वर्साचो मार्च म्हयनो सोंपता म्हणल्यार कृष्णान केदार मेळपाची आस सोडली. शेंकड्यांनी सैनीक हम्पीच्यान फाटीं परतले. मोठे संख्येन लोक घरदार ना जावन उक्त्यार पडिल्ले.

24 मार्च 1565 दिसा एक खासा आदेश काडलो आनी 1559 आनी 1563 वर्सा पुर्तगालाच्या राजान जे दोन आदेश धाडून दिल्ले तांची याद करून दिली. गोंयच्या जुंव्यार रावपी दर एक निवासी क्रिस्तांव आसपाक जाय. जे कोण दुसऱ्या धर्माचे आसात तांणी धर्मांतर करून हांगा रावचें नाजाल्यार गोंय सोडून वच्चें. ते खातीर तांकां एक म्हयनो मेळटलो. खूबश्या कुटुंबां सामकार एक व्हडलें अरिश्ट उबें जालें. आलाशिरो घेवपाचो जालो जाल्यार तिसवाडींत एकूय देवूळ उरूंक नासलें. त्या आलाशिरोहीण जाल्ल्या लोकां मदल्या कांय ज्येश्ठ मनशांक कृष्णा वचून मेळ्ळो. ताणें खूबश्या लोकांक न्हंय हुपून फोंडें म्हालांत वचपाक सांगलें.

तीन दिसां उपरांत एक कुळवंत गिरेस्त हिंदू माचुलांत बसून तांच्या भाजी आनी फळांच्या दुकानार आयिल्लो कृष्णान पळयलो. त्या मनशान खूबशी भाजी आनी फळां घेतलीं. कृष्णान तो म्हाल व्हरून पावोवपाची जबाबदारी घेतली. तो गिरेस्त होनावर शारांतलो रामचंद्र शानभाग. भटकळ सावन दामरस पैचो म्हाल

गोंयां पावोवपाक तो आयिल्लो. कृष्णान आपणा वांगडा आयिल्ल्या हेर हमालांक परत धाडले आनी स्वता शानभागा कडेन उलोवपा खातीर फाटीं रावलो.

कृष्णान थळाव्या लोकां विशीं जमता तितली म्हायती विस्तारान रामचंद्र शानभागाक सांगली.

'तुजे सारको प्रतिशठा आशिल्लो मनीस लेगीत गोंयांत सुरक्षीत ना.' कृष्णान ताका शिटकायलो.

'तशें जाल्यार म्हाका हें सांगपी तूं हांगा कसो रावला तर?' शानभागान विचारलें.

कृष्णान आपले बंडेचे बुतांव काडले आनी गळ्यांतलो खुरीस काडून ताका दाखयलो. 'हो म्हजो सुरक्षेचो परवानो.' ताणें म्हणलें.

'धर्मांतरीत रे तूं?' शानभागान विचारलें.

'ना, हांवें सांगलें न्हय तुका, हांचे वरवींच हांव ह्या लोकां मदीं रावता म्हणून.' ताणें म्हणलें.

मागीर ताणें शानभागाक आपूण ब्रह्मपुरींत विद्यार्थी जावन कसो रावलो, केदाराक सोदपाचे आपणें कशे तरेन यत्न केले आनी आपणाक व्हडल्या घरांतले कसले अणभव आयले हें सगलें सांगलें. निमाणे कडेन शानभागान ताका विचारलें, 'कितें जाय तुका? कित्याक आयला तूं म्हजे म्हऱ्यांत?'

तिसवाडी आनी साश्टींत शेंकड्यांनी लोक येवन रावल्यात. तालिकोट लडाय सोंपले उपरांत ह्या लोकांनी हांगा येवन व्हडली चूक केल्या. ह्या लोकांक तूं सुरक्षीत वाठारांत व्हरून तांकां धर्मांतरांतल्यान वाटावंक शकता.' कृष्णान म्हणलें.

'तुजी ह्या लोकां विशींची आस्था आनी तुवें जें तांचे खातीर झूज दिलें त्या सगल्याची म्हाका तुस्त करीन दिसता. पूण हांवें तूं म्हणटा तशे कसलेय यत्न केले जाल्यार म्हाका आनी म्हज्या मचव्याक तें धोक्याचें थारचें ना?' शानभागान विचारलें.

'खरें म्हणल्यार तुका हें काम करप सोंपें. ते तुका तारवाचेर कामाक चड जाण व्हरपाक दितले. पुर्तुगेज शिपायकांच्या हातार थोडो दुडू दवरपाचीय तुका तांक आसा.' कृष्णान म्हणलें.

शानभागान सुचोवणेचेर थोडो वेळ चिंतलें आनी उपरांत म्हणपाक लागलो, 'हय, तुज्या म्हणण्यांत तथ्य आसा. हांव थोड्या कुटुंबांक घेवन वचन. तूं एक

तरणाटो आसुनूय तूं तुज्या मनशां खातीर जीव धोक्यांत घालता जाल्यार हांवूय म्हज्यान जाता तितलें करीन. म्हाका वचपाक तीन दीस आसात. थोड्या लोकांक तितल्या वेळा भितर म्हज्या तारवाचेर पावोवपाक जायत तुज्यान?' ताणें विचारलें.

'हांव करतां वेवस्था. सुमार 40 दादल्यांक हांव तारवा वयल्या वावराड्यांच्या आनी तांडेलांच्या भेसांत मचव्यांच्या धक्यार तयार दवरतां. काळोख पडले उपरांत मचवो कोलवेंच्या दर्यांत पावतलो तेन्ना तीं थंय पावतलीं.'

'तूं असले तरेंचीं कामां करपाक बरो फिशाल जाला अशें दिसता म्हाका.' शानभागान म्हणलें.

कृष्णान ताका कुडतरे, वेर्णे आनी महालक्ष्मी हांगाच्या देवस्थानांची खबर विस्तारान सांगली. त्या घडणुकां विशीं आयकता आसतना शानभाग अजापान तटास जालो.

'तूं अजून गोमन्तकांतूच कित्याक रावला? आनी तूं सुरक्षीत कसो उरलो?' रामचंद्र शानभागान विचारलें.

'म्हज्या बापायन विजापूरचे सुलतान आनी पुर्तुगाली आक्रमकांचें शासन सोंपोवन गोमन्तक मुक्त करपाचो यत्न केलो. ताका येस आयलें ना. हांव एक सोपो उपाय करूंक सोदतां तो म्हणल्यार आमचे प्रजेक ह्या परकी शासकां कडल्यान पयस व्हरूंक सोदतां.' कृष्णान म्हणलें

'तुज्या बापायन असो यत्न केल्लो? नांव कितें तुज्या बापायचें?' रामचंद्र शानभागान विचारलें.

कृष्णान खीणभर नदर थीर करून मागीर सांगलें, 'ताचें नांव वेर्णेचो म्हाळ पै.'

'तूं म्हाळ पैचो पूत?' रामचंद्र पैच्या आवाजांत एक अजापाचो सूर दिसलो.

'हय.'

'हांव अशेंच मानतालों की म्हाळ पैचें कुटुंब गोमन्तकांतल्यान धांवलें आनी कोचीनाक गेलें आनी थंयच तांचो अंत जालो म्हणून. सुमार तीस वर्सां आदीं म्हाळ पै भटकळा वचून खेत पैक मेळिल्लो. तेन्ना हांव खेत पै कडेन कुळकर्णी पदार काम करतालों. दुबाव ना म्हाका, तुजे भितर ते तरेचो संघर्श करपाचो झुजारी सभावगुण आसा आनी पाखल्यां सामकार तूं तो संघर्श मांडून बसला अशें म्हाका दिसता.' अशें म्हणून रामचंद्र शानभाग उठून उबो रावलो आनी ताणें कृष्णाक वेंगेंत घेतलो.

‘हे लोक तिसवाडींत आनी सार्शटींत येवंक फावनासले अशें म्हाका दिसता. तांचे सामकार दोनूच पर्याय आसात - एक तर तांणी गोमन्तक सोडून वचप नाजाल्यार धर्मांतर करून हांगाच रावप. तेच खातीर तुवें तांकां मजत करपाक जाय.’ कृष्णान ताचे कडेन विनवणी केली.

‘हांव म्हजे परीन चडांत चड यत्न करतां. धाडून दी तूं त्या लोकांक धक्यार. ते भायर दक्षिणेक कोलवें आनी बाणावले जे कोण येतले त्या चडावत लोकांक घेवन वचपाचो यत्न करतां.’ रामचंद्र शानभागान सुचयलें.

जेन्ना कृष्णा परत दुकानार पावलो तेन्ना धोक्याच्यो खबरो ताचे खातीर थंय हाजीर आसल्यो.

कृष्णा येनाफुडें दुकानाच्या मालकान ताका हाताक धरून कडेक व्हेलो आनी ताकतिकेन म्हणलें, ‘तूं गेलो आनी फाटोफाट कोण एक मनीस येवन कितलो वेळ जालो तुजी वाट पळयता. चल, तूंच वचून पळय कोण तुजी वाट पळयता ती.’ मालकान कृष्णाचेर नदर खिळायत म्हणलें.

‘कोणूय पाळत दवरपी खबरेकार नात मूं? म्हाका वळखल्यात बी आसतले ते?’ तो चिंततालो. ताणें दिवो पेटोवन घेतलो आनी भितर गेलो.

‘आयलो रे तूं एकदांचो? देव पावलो रे बाबा !’ कृष्णान राधिकाचो आवाज आयकलो. ताचीं उतरां आयकनाफुडें ताका कच्च जालें आनी ताच्या मुखामळार पातळ घाम फुटलो.

‘राधिका, कितें करता तूं हांगा? कित्याक आयलां हांगा?’ कृष्णान एकार एक प्रस्न विचारले.

राधिकाक वेंगेंत घेवन ताणें ताच्या कपलार ओंठ तेंकयले.

दुकानाचो मालक भितर आयलो आनी ताणें म्हणले, ‘खरेंच, व्हडवीक दिसता तुजे धिटायेची. जिवा वयलें संकट घेवन खूब काम केलें तुवें. आनीक थोड्या लोकांक भटकळा घेवन वचपा खातीर शानभागा कडेन कितेंय तजवीज केल्या तुवें?’ आन्तोनीक समजून घेवपाक जाय आसलें.

‘हय, केल्या हांवें तजवीज.’ कृष्णा मेजकींच उतरां उलयलो.

‘हांव सांगतां तुमकां, तुमीय बी वचात दोगांय. खंयच्याच खिणाक धरून व्हरूंये ते तुमकां. तुमकां आदार दिल्ल्याचें समाधान लाबलें म्हाका.’

‘म्हजे मदलो नार्वेंचो रामनाथ पोरोब मरून गेल्यार खूब वर्सां जालीं. आतां

हांव फक्त आन्तोन गोन्साल्वीस. गोंय सोडून वतलो म्हणल्यार आतां हांव खूब जाणटो जालां.' कृष्णाक आनीक एक अजापाचो धपको बसलो. तरी ताणें धिटायेन विचारलें, 'तुवें धर्मांतर केल्यार कितलीं वर्सां जालीं?'

'धा वर्सां. जेन्ना म्हजे धुवेक एका पुर्तुगेज अधिकाऱ्या वांगडा घर सोडून वच्चें पडलें, तेन्नाच.' आन्तोनीन जाप दिली. ताचो आवाज मोव पडलो. तातूंत वेदना आनी निर्शेणी आसली.

'तिका आतां त्या मनशा कडल्यान दोन भुरगीं आसात.' आन्तोनीन सांगून सोंपयलें. कांय खीण कोण कांय उलयलो ना.

निमाणे कडेन आन्तोन ते दुख्खी यादींतल्यान सावध जालो.

'तूं वेळ वगडावं नाका चड. शिपायक आयले वा कोणेय गुप्त खबरेकारान चाडी केली जाल्यार तुजो खेळ सोंपलो म्हणचें पडटलें. इतले दीस तुका हांवें आलाशिरो दिलो. हाचे मुखार जावचें ना. गोमन्तकांतल्यानूय धांव मार तूं.' आन्तोनीन शिटकायलो.

'कितें जालें?' राधिकान विचारलें.

'देव आसा आमचे वांगडा, इतलेंच म्हणटां. आतां सांग पळोवया तूं हांगा कित्याक आयलें तें?' ताणें विचारलें.

'एक व्हडली काणी आसा ती. परमेश्वर भट आनी हांव पिळगांवच्या बाजारांत गेल्ले. पुर्तुगेज शिपायक थंय धर्म बदलूंक नाशिल्ले कोणूय लोक आसात जाल्यार सोदीत भोंवताले. जानवें घालून आशिल्लो परमेश्वर भट तांकां मेळ्ळो. ताका तांणी थंयचे थंय धरून व्हेलो. नशीब म्हणटां. हांव दुसऱ्या एका दुकानांत आशिल्लें. थंयच्यान हांवें तो प्रकार पळयलो. हांवें थंयच्यान जीव घेवन कशी तरी धांव मारली आनी रात जाली तेन्ना भुमिपुरुस देवळांत पावलें. सगली वाट चलून गेलें हांव. सत्या आनी हांव दोगांयचे जीव संकश्टांत आशिल्ले. आमी दोगांय आनी परमेश्वर भटाची बायल अशीं तिगांय देवळांतल्यान धांवलीं आनी रानांत वचून आमी आलाशिरो घेतलो. दोन दीस आमी गांवगिऱ्या सोलक्की लोकांच्या खोंपीं भितर लिपून रावलीं.

'ते शिपायक भुमिपुरुस देवळांत गेल्ले सोदपाक?' कृष्णान विचारलें.

'हय तर. दोन दिसांनी गेले थंय सोद घेवपाक आनी तांणी देवूळ मोडून जमनी भरवण केलें.'

'हाचो अर्थ तांणी परमेश्वर भटा कडल्यान सगलें वदोवन घेतलें.' कृष्णा ते घडणुके विशीं चिंतपाक लागलो. तो कांयच उलयलो ना.

'आमी कितें करचें अशें दिसता तुका आतां?' राधिकान विचारलें.

'म्हाका दिसता आमी गोमन्तक सोडून वचपाचो वेळ आयला. केदार खंयच मेळ्ळो ना म्हाका. घडये तो मेलो आसत नाजाल्यार गोमन्तकांतल्यान पळ्ळा आसत.' कृष्णान सवकासायेन म्हणलें.

'रामचंद्र शानभागाचो मचवो आनीक तीन दिसांनी वचपाक सुट्टलो. आमी वचूं येता तातूंतल्यान.' कृष्णान म्हणलें. दोगांय खीणभर ओगी रावलीं.

'आमी सत्याक हाडपाक जाय. आमी सोडून ताका दुसरीं आनीक कोण नात ह्या संवसारांत. आनी तूं जाणा...' राधिका उलोवपाचें मदींच रावलें. कृष्णा ताकाच पळयत रावलो.

'कितें तें?' ताणें विचारलें.

'तुजेर तिचो खूब मोग आसा आनी तिणें तुका आपलो घोव मानला. तिका तूं धोको दिवपाक फावना.' राधिकान नीट ताचे नदरेक नदर लावन म्हणलें.

'पूण कशें करतलो हांव तें?' कृष्णा मुखार व्हडली अडचण उबी जाल्ली.

'तो एकूच उपाय आसा तिका सन्मानान जगतली जाल्यार. तुका खबर ना एकटे उरिल्ले अस्तुरेच्या वांट्याक समाजांत कसलें अभागी जिणें येता तें? विधवा आनी एकोड्या बायलांक समाज उणाक लेखता, तांकां अपमान आनी त्रास सोंसचो पडटा अशें तूं सदांच म्हणटालो आनी तांचे विशीं सहानुभुती दाखयतालो. आतां करणी करून दाखोवपाचो वेळ आयला.' राधिकान ताका जागयलो.

'केदारा खातीर ती एक फावो सारकी जिणे सांगाती अशें हांव मनांत म्हणत आयलां.' कृष्णान म्हणलें.

'जीण आमच्या वांट्याक साबार अजापां घालता. आमी सत्य आसता तें स्विकारून नशिबांत येता ताका येवकार दिवपाक जाय. केदाराक तिणें केन्ना पळयलोच ना. इतलेंच न्हय तर तुवें स्वता जिवार संकट घेवन तिचो जीव वाटायलो. देवाचो अवतार जालो तूं तिचे खातीर.' राधिकान कृष्णाक समजायलो.

'पूण तूं आसा....' कृष्णा कितें तरी उलोवंक करतालो.

'हांव तुजी बायल आसली तरी एक स्त्री. एके स्त्रीचे प्रस्न दुसरी स्त्रीच समजुपाक शकता. तिका पुर्तुगेज सैनिकांच्या चपक्यांतल्यान सुरक्षीत रितीन वाटावन तुवें

हाडली तेन्नाच्यान तिच्या दोळ्यांतल्यो भावना तुवें केन्ना निरखिल्यो नात. तिका तूं घेवन आयलो तेन्नाच्यानूच हांवें तिका म्हजी भयण मानली आनी हांव जाणां आमचे खोशयेंत आनी दुख्खांत आमचे इतलोच उरिल्ले जिणेंत तिचोय वांटो आसतलो. आनीक चड वेळ वगडावं नाका. आतां वच आनी तिका घेवन यो नाजाल्यार जीणभर आमकां पश्चात्ताप करीत रावचें पडटलें.' राधिका कृष्णाच्या मनांतलो गोंदळ निस्तरायत उलयली.

'खरें तुजें म्हणणें राधिका. हांवें सत स्विकारपाक जाय. आतां ती आमचे जिणेचीच एक वांटेकार जावन रावतली. हांवें तिचो घोव जावचें पडलें. खूब धिटायेची अस्तुरी तूं. तुवें तिका स्विकारल्या म्हणपाचें म्हाका खूब आदीं कळिल्लें.' कृष्णान म्हणलें आनी राधिकाक वेंगायली.

'ती त्या रानांतल्या लोकां वांगडा सुरक्षीत आसा म्हूण हांव जाणां. पूण थंय वचून तिका घेवन येतलो जाल्यार खूब धोको आसा.' कृष्णान मान्य केलें.

'आमी दोगांय वचून तिसऱ्याक हाडप खूब धोक्याचें. पूण तूं एकटो वचून तिका हाडप इल्लें सोपें. तातूंत धोको इल्लो उणो.' राधिकान म्हणलें.

दुसऱ्या दिसा सकाळीं कृष्णा आनी राधिका रामचंद्र शानभागाक मेळ्ळीं आनी ताचे कडेन लांब भासाभास केली. राधिकान रामचंद्र शानभागा कडेन आलाशिरो घेतलो. मागीर कृष्णा सत्याक घेवन थंय येत तोवेर राधिकान रामचंद्र शानभागाच्या आलाशिऱ्याकूच रावचें असो निर्णय जालो.

'आमी जर एक वेळ पावलीं नात तर तूं कितें करतलें?' कृष्णाक प्रस्न पडलो.

'भियेवंक नाका तूं. तूं परत येतलो हाची खात्री आसा म्हाका.' राधिकान भरवंसो उक्तायलो.

कृष्णाचें तितल्यान समाधान जालें ना. 'जर तर आमी हांगा परत पावलीं नात आनी मचवो वचपाक भायर सरलो तर तूं तातूंत चड. आमी हेर लोकां वांगडा बेतलांत येवन तुमकां मेळटात.' कृष्णान तिका उतर दिलें.

रामचंद्र शानभागाकूय ती येवजण मान्य जाली. दुसऱ्या दिसा सकाळीं कृष्णान नव्या धर्मांतरीत मनशांवरी भेस केलो आनी रानावटेन वचपाक गेलो.



# मांडवीन तांकां वाटायलीं

त्या दिसा सकाळींफुडें विसरायाच्या महाला सामकार दरवट्या भायर खूबश्या लोकांचें

येवप - वचप चालू आसलें आनी कांय लोक आपल्या कामांत गुल्ल आसले. न्हंयेक सुकती आसली. वेपारी तारवां आनी नौदलाच्यो नौका बंदरांत नांगर सोडून राविल्ल्यो. त्यो भरतेची वाट पळयताल्यो. जायतीं ल्हान व्हडीं लोकांक हाड - व्हर करतालीं. तेच भाशेन नुस्त्याचीं व्हडींय न्हंयेंत भोंवतालीं.

'कोणालो घोडो तो? खंय घेवन वता तूं ताका?' धक्यार हाजीर आशिल्ल्या शिपायकान विचारलें.

'हांव व्हालेरियान गोमीश. नार्वे जुंव्यार घेवन वतां हांव ताका. म्हज्या मालकाचो तो.' कृष्णान सांगलें.

'पयशे दी आनी परवानो घे.' शिपायकान सांगलें.

कृष्णान ताच्या हातार पयशे दवरले आनी ताणें घोड्याक तराफ्याचेर चडयलो.

पलतडीं पावून कृष्णा घोड्यार बसलो आनी कुमारजुवें गांवांतल्यान प्रवास करीत दोंगराळ वाठारांत गेलो. एका काळार दाट वसती आशिल्लो कुमारजुवें गांव कोण लोक नासतना पुराय वसाड गांव कसो दिसतालो. चडशीं घरां रितीं

रितीं. एकाद्र्या खंयच्याय घरांत थोडे रहिवाशी दिसताले. धर्मांतरीत लोकांचीं थोडीं कुटुंबां आसलीं पूण एकूय हिंदू कुटुंब दिसलें ना. प्राचार्य ताका खूब फावटी ताचो बापूय म्हाळ पैचो कुमारजुवेंच्या लोकां कडेन दाट बरो संबंद आसलो आनी थंय ताचें भाट आसलें म्हणून सांगतालो. आयज फक्त पंदरा वर्सां उपरांत तो कोणाकूय आपली वळख दाखोवपाक भियेतालो. खूब धोक्याची गजाल आसली ती. खंयच तो विसव घेवपाकूय रावलो ना. मुखेल दोंगराक वळसो घालो आनी एके दोंगुल्लेचेर चडून गेलो.

थंयच्यान ताका भुमिपुरुस देवळाचे मोडिल्ले खांबे आनी पडिल्लें पाखें दिसतालें. आशिकुशीक कोणूच एकटो मनीस ताचे नदरेक पडलो ना. दोंगुल्ले सकयल देंवन तो देवळाचे फाटले वटेंत सकयल देंवलो आनी राना वटेन वचपाक लागलो.

सांजच्या वेळार तो हलक्की लोकांच्या गांवांत पावलो.

गांवा भायर एका शेतांत काम करपी एक दोग तरणाटे ताका वळखले. ताका पळोवन ते खोशी जाले. तांणी ताका अभिवादन केलें आनी ताका ते गांवच्या मुखेल्या म्हऱ्यांत घेवन गेले. मुखेली आपले खोंपींतल्यान भायर आयलो आनी ताणें कृष्णाक वेंगेंत घेतलो. कृष्णान भोवमानान पांयाक हात लावन ताका मान दिलो.

'नाका...नाका...नाका...तूं एक मोटो मनीस तसोच खूब धिटायेचोय बी. तूं खरें म्हणल्यार सैनीक जावंक फावो आसलो. इतल्यांत तूं सरदार जातासलो.' त्या मुखेल्यान तुटके फुटके कोंकणींत म्हणलें.

दोगूय जाण खोंपी भायर एके मांदरेर बसले. दोन कोपां उदक आनी फळां तांचे म्हऱ्यांत दवरलीं.

उदक पितां पितां कृष्णान सत्या खंयूय दिसता जाल्यार पळयलें. ताका ती दिसली ना.

'आं, तुजे व्हंकलेक सोदता न्हय तूं?' मुखेल्यान म्हणलें.

कृष्णान मान हालोवन हय म्हणलें.

'नशीबवान तूं. सोबीत दोन बायलो आसात तुका. राव, तिका आपोवन हाडटां.' ताणें म्हणलें. एके बायलेक ताणें सत्याक आपोवपाक सांगलें.

रोखडींच पांच स बायलां तांच्या हलक्की भेसान भायर आयलीं. तांचे मदले एके अस्तुरेन चोळी घाल्ली. हेर सगल्यांनी चोळयो घालूंक नाशिल्ल्यो. चोळी

घाल्ली आशिल्ल्यान कृष्णा सत्याक रोखडोच वळखलो. हलक्की अस्तुऱ्यांनी एकेवटेन मणयांच्यो पांच स माळो घालून छातये वयल्यान सोडिल्ल्यो. सत्या सोबीत दिसताली. ती बारीक जाल्ली. कृष्णाचेर नदर पडना फुडें ती धांवून आयली आनी तिणें ताका वेंग मारली.

'आयलो रे तूं ! देव पावलो आमकां.' तिणें म्हणलें आनी ताच्या पांयाक हात लावन ती ताका पांयां पडली.

'सुंदर दिसता तूं हलक्की भेसान. पूण हलक्की अस्तुऱ्यो चोळी घालिनात. तुवें कित्याक घाली?' कृष्णान तिका चाळोवपा खातीर म्हणलें.

'राधिका खंय आसा?' सत्यान विचारलें.

'आँ, ती एका सुरक्षीत जाग्यार आसा. हुस्को करूं नाका तूं. तुमी खऱ्यांनीच दोगांय भयणी आशिल्लेवरीच एकामेकांक समजून रावतात, एकामेकांची काळजी घेतात, बरें चिंततात.' कृष्णान म्हणलें.

'ती खऱ्यांनीच खूब मायेस्त आनी मोटच्या मनाची. तिका लागून हांव जितें उरलां आनी आतां तुजे वांगडा आसां.' सत्यान म्हणलें.

इतल्यांत त्या गांव मुखेल्यान म्हणलें, 'तुमकां आतां जाय तितलो वेळ आसा. दोन तीन दीस रावात जाय जाल्यार.'

'ना बाबा, आमकां चड वेळ ना. आमच्या जिवाक धोको आसा. हांव सत्याक घेवन वचपाक आयलां.' कृष्णान म्हणलें आनी ताणें पणजी शारांत जें जें कितें घडिल्लें आनी पुराय गोमन्तकांतूय जें घडिल्लें त्या घडणुकां विशीं ताका खबर सांगली.

'अशें आशिल्ल्यान आतां गोमंतकांतल्यान वचपाचो आमचो वेळ आयला. आमकां एका मचव्यांतल्यान दर्यामार्गान भटकळ वचपाचें आसा.' कृष्णान ताका सांगलें.

'देव रागेल्यात आसतले.' मुखेल्यान म्हणलें.

'गोमन्तक पाखल्यांनी घेतलां. हम्पीचे राया लडाय हारल्यात. म्हजे वळखीचे हम्पींतल्यान जीव घेवन परतल्यात ते लोक थंय लुटालूट, मोडप फोडप आनी पाड घालपाचीं कामां चालूच आसात म्हणटाले.' कृष्णान सांगलें. थोडो वेळ थंय मोनेळ पडलो.

'तुमी हांगाच आमच्या गांवांत कित्याक रावनात? आमी तुमकां कसपा

खातीर थोडी जमीन दितात.' त्या मुखेल्यान प्रामाणीकपणान कृष्णाक म्हणलें.

'खऱ्यांनीच तुजें मन मोटें, दादी. तुमी रानांत रावपी जमातींतले लोक. गरीब दुबळे आसुनूय तुमी तुमची जमीन आमकां दिवपाक तयार आसात जाल्यार दुसरें वटेन ते पाखले जे देवाचे सेवक म्हणटात आपूण आनी व्हडले सुसंस्कृत समजतात. तांणी आमची भूंय बळकायल्या आनी आमकां धर्मांतर करात नाजाल्यार गोमन्तक सोडून वचात म्हणटात. तुमचें मन मोटें. कितलीं मायेस्त मनशां तुमी. उपकार जाले तुजे. तुजें दान म्हज्यान घेवपाक जावचें ना. म्हाका सत्याक घेवन वचपाक जाय. राधिका एका घरांत लिपून रावल्या. तिका वांगडा घेवपाक जाय आनी खूब जाण वांगडी रावल्यात तांकांय घेवन वचपाक जाय म्हाका. आमकां सगल्यांक भटकळा वचपाचें आसा.' कृष्णान मुखेल्याक सगली खबर सांगली.

'फाल्यां सकाळीं जाता तितले बेगीन वचपाक जाय आमकां. रामचंद्र शानभागाचो मचवो वचपाक सुटलो जाल्यार राधिकाक हुस्को जातलो. तें गोंदळांत पडटलें आमी पावलीं नात जाल्यार. फाटीं रावले जाल्यार ताच्या जिवाक धोको आसा. फाल्यां म्हाका सांजवेळ मेरेन तरी थंय पावप गरजेचें.' कृष्णान आपली अडचण सांगली.

उकत्या जाग्यार लांकडांची रास करून तांणी उजो पेटयलो. सगलीं हलक्की बायलां वाटकुळीं रावलीं आनी ताणें गायन सुरू केलें. एकामेकांच्या कमराक हात घालून तीं नाचतालीं. सत्यानूय नाचांत वांटो घेतलो आनी ती उमेदीन नाचली.

'हांव हाका व्हरपाक येवंक नाशिल्लों जाल्यार ही कोणाय हलक्की तरणाट्याची बायल जावन रावतली आसली आनी हांव ताका मुकतलों आसलों.' कृष्णाक दिसलें.

'एके अस्तुरेची जीण अनेक भोगणांची वळेरी आसता. राधिकाची आवय म्हाका सदांच म्हणटाली. राधिका धा वर्सांची आसतनाच हांव तिचें लग्न करुंया म्हूण तिच्या बापायक सांगतालें. पूण ताणें केन्ना मानलें ना. ताका धुवांचीं लग्नां इतले ल्हान पिरायेर जावचीं न्हय अशें दिसतालें.' माईन कृष्णाक सांगिल्लें.

'तें सारकें. ताचें मत मान्य आसा म्हाका.' कृष्णान म्हणिल्लें.

'सांगप सोपें, करप कठीण. चलयेच्या बापायच्या जिविताची खात्री कोणें दिवची? रोग, पिडा आनी लडायो असलें सगलें सदांचेंच जाल्लें. बापूय बेगीन मेलो जाल्यार चली भुरगें खंय वतलें? तूं जाणा विधवांक वेश्या करून सोडटाले

म्हणून? तुका तरण्यो चलयोय त्या मार्गान गेल्ल्यो जाय?' माई खूब खेद व्यक्त करीत उलयिल्ली.

तें जिवितांतलें एक कोडू सत्य आसलें. गोमन्तकांतूय हजारांनी अस्तुऱ्यो विधवा जाल्ल्यो, हजारांनी भुरगीं - चले - चलयो अनाथ जाल्लीं. पुर्तुगेज धर्म प्रचारकांनी ते गजालीचो आडमार्गी फायदो घेवन तांचें धर्मांतर केल्लें.

'खूबश्या विधवा बायलांनी थोडी तरी सन्मानाची जीण सारपाचो हेतू बाळगून आनी सती वचपाची वा वेश्या जावपाची वाट सोडून कोणाय गिरेस्तांच्यो आलायत्यो बायलो जावन रावपांत समाधान मानलें. केन्ना कोणाय दादल्यान विधवे कडेन लग्न करपाचो निर्णय घेतला?' माईन एक दीस ताका विचारिल्लें.

कृष्णाय समाजाक वायटाक पडपी हे परिस्थितीचेर विचार करतालो. ताणें ते विशीं प्राचार्य सोमनाथ शर्मा कडेनूय प्रस्न मांडिल्लो.

'बालविवाहाची प्रथा पुरातन काळांतली न्हय. वेदांत ताचो उल्लेख ना. कलियुगांत जीं युद्धां जालीं आनी प्लेगा सारके वशाचे रोग पातळून लोक मेले त्या कारणांनी ही दुर्दैवी परिस्थिती उप्रासली. रामायण, महाभारत वा भागवतांत बालविवाहाचो उल्लेख मेळना.' प्राचार्यांनी ताका सांगिल्लें.

सत्या अजून हलक्की बायलां वांगडा नाचताली. ती खोशी दिसताली, हांसताली, किटकिट्टाली. तिसवाडी आनी साश्ट म्हालांनी लोकांच्या जिवितांतलो हांसो नश्ट जाल्लो. दुबाव आनी असहायताय हेच घटक लोकांचे मानेर बशिल्ले.

लोकांचे समाजीक आनी धर्मीक जिणेचीं देवळांच मुखेल केंद्रां आसतालीं तीं फाटीं पडिल्लीं. देवळांच्या भरभराटीच्या काळांत देवूळ केंद्रीत संस्कृताय आशिल्ली तेन्ना अशे तरेचो विनाशकारी काळ येत अशें कोणाकूच दिसूंक नासलें. मठ आसले ते लोकांचे समाजीक जिणेंतली आचारसंहिता तयार करतालें. तांकांच भूंय सोडून धांवचें पडलें. तांणी परकी संस्कृतायेचें आक्रमण आडावपाचे नदरेन केन्नाच तयारी दवरली ना. समाजवेवस्था पन्नास वर्सां भितर कोसळिल्ली. पुर्तुगेज बडवाचार आनी फटकिरेपण हांचे जाळयेंत पडून सामान्य गोंयकारांक एक तर समशेरीन मरण येतालें वा ताका खुरीस तरी गिळटालो.

कृष्णान थारायलें, 'हांव राधिका आनी सत्याक घेवन जीव वाटावन भटकळा वतलों. फुडाराचो विचार तशेंच कर म्हणटा.'

जेन्ना त्या लोकांच्या नाच - गायनाची कार्यावळ सोंपली तेन्ना कृष्णा आनी

सत्या होमखणा कुशीक बसलीं. सोंपिल्ल्या थोड्या दिसां भितर ज्यो घडणुको घडिल्ल्यो तांचे विशीं कृष्णान तिका सगलें सांगलें.

'आमचोय आतां भटकळा वचपाचो वेळ आयला. हांवें करपाचें अशें आतां कांयच उरिल्लें ना. स्थलांतर करपी लोकांचो निमाणो पंगड हांवें रामचंद्र शानभागाच्या मचव्यांतल्यान धाडपाची वेवस्था केल्या.'

'आमी पयलीं म्हजे भयणीचे सुरक्षेची खात्री करून घेवपाक जाय.' सत्यान म्हणलें.

'आरे, तुमी दोगांय खऱ्यांनीच भयणी जाल्यांत न्हय ! तिका तुजे सुरक्षेचो हुस्को आनी तुका तिचे सुरक्षेचो हुस्को.' कृष्णा आपणाक जाणवल्लें तें उलयलो.

'फकत तिच्या उदार मनाक लागून हांव तुमचे जिणेचो वांटो जावंक पावलें. नाजाल्यार म्हाका एकाद्र्या पुर्तुगेज सैनिका वांगडा रावचें पडटलें आसलें वा केळशेंतूच हांव मरतलें आसलें.' इतलें उलयतासर तिच्या दोळ्यांतल्यान दुकां व्हावंक लागलीं.

'कितें गो तूं अशें? आतांच थोड्या वेळा पयलीं त्या हलक्की बायलां वांगडा बरें नाचतालें, गायतालें आनी रोखडेंच रडपाक लागलें. मन घट कर. येवपी दोन दीस आमच्या जिवितांतले खूब कठीण प्रसंगांचे आसतले. आमकां आतां गोमन्तक सोडून वचपाचें आसा. घडये सासणाचीं. खूब अंतर हुपून, पुर्तुगेज सैनिकांच्यो नदरो चुकोवन निमाण्या सुरक्षीत थळार पावपाक जाय.' कृष्णान तिची फाट थापटीत म्हणलें.

'तशें हांव भिना. आमी थंय पावतलीं हाची म्हाका खात्री आसा. आमी फाल्यां राधिकाअक्काक घेवया आनी नवे जिणेक सुरवात करुंया.' सत्यान खूब धिटायेन ताचो उजवो हात आपल्या दोनूय हातांनी घट्ट धरून म्हणलें.

कृष्णान तशीच तिका उबी केली. ती कमरान बारीक आनी पांय किडकिडीत आशिल्ल्यान उंचायेन लांब दिसताली. तिणें तरेकवार रंगांची चोळी घाल्ली. जायत्या रंगीत मणयांच्यो माळो तिच्या बारीक सोबीत गळ्यांत सोबून दिसताल्यो. तिचे भरीव छातयेर त्यो सारक्यो मांडून दवरिल्लेवरी दिसल्यो. मंद वाऱ्यान तिचे मुदयाळे केंस भुरभुरू उडटाले. तिच्या हाताचे तळवे शितळ वाऱ्याक लागून थंड जाल्ले. तरी तिचे दोळे निवळ, चकचकीत आनी ओडलायणे दिसताले. कृष्णान तिका वेंगेंत घेवन तिच्या कपलाचो उमो घेतलो. तिका तो खोंपींत घेवन

गेलो. मध्यान रातीर वातावरण खूब थंड जाल्लें. पुनवेचो चंद्र मळबांत मध्यार येवन चकचकतालो. पयसुल्या रानांतल्यान तरेकवार रानवटी मोनजातींचे आवाज आयकूंक येताले. मनशाच्या हाताचे उबेचो विस्वासपूर्ण असो स्पर्श आनी ताच्या काळजाचें व्हडपण हीं त्या समयारूय कार्यरत आसलीं. होच आसता खरो आनी एकमात्र असो मनीसजात सतत तिगून उरपाचो स्त्रोत. राजकी मळार आशिल्लें दुबावाचें वातावरण, समाजांत पातळिल्लो गोंदळ, येणावळीचीं उणीं जायत वचपी साधनां, सहकारी मनशांचें उणाक लेखप, बेभरवंशाचो फुडार अशे तरेच्यो अनेक आडखळी आसतनाय जिवीत ओडलायणें आनी जगपायोग्य आसलें.

दुसऱ्या दिसा सकाळींच गांवच्या मुखेल्यान दोगां तरणाट्यांक सांगाताक धाडपा खातीर तयार दवरिल्ले. कृष्णाचो घोडो तयार आसलो. थोडें जेवण आनी उदकूय घालून दिल्लें. कृष्णान मुखेल्याक वेंग मारली आनी ताच्या पांयाक हात लावन मानान वंदन केलें. मुखेल्यान ओणोव घेवन ताका खांद्याक धरून उबो केलो.

'म्हज्या पांयाक हात लावं नाका. समाज असलें कर्तूप मानून घेना. तूं एक ब्राह्मण आनी हांव गावडो.' मुखेल्यान म्हणलें.

'अशे तरेची समाजवेवस्था बदलत्या काळांत तिगाव धरपाक पावली ना. दादी, तूं एक जाणटो आनी खूब अणभव आशिल्लो तसोच काळजान गिरेस्त मनीस. तूं म्हाका म्हज्या बापाय समान.' कृष्णान म्हणलें.

'हय, तुज्या बापायक हांव पळोवन जाणा आसलों. याद आसा म्हाका ताची. ताणें आपल्या मनशां पासत वावर केलो आनी तांचें बरें करपा पासत जिवाचीय पर्वा केली ना. आतां तूं तांच्या पावलार पावल दिवन वावुरता. देवान कृपा करूं तुजेर. हांव जाणां, आमकां पाखले त्रास दिवचे नात. पूण तूं जिवाक सांबाळून राव.' अशें म्हणून ताणें कृष्णाक वचपाक निरोप दिलो.

कृष्णा आनी सत्या घोड्याचेर सारकीं बरीं आसन घेवन बसलीं. आस्ते आस्ते घोडो गांवा भायर वचपाक लागलो. जे वाटेन तो आयिल्लो तेच वाटेन कृष्णा परत वचपाक लागलो.

कृष्णान जीव धोक्यांत घालून केल्लें साहस आनी हेर सगल्यो गजाली सत्याक सांगल्यो. त्यो आयकून सत्या अजापान तटास जाली. 'देवानूच वाटायलो तुका.' तिणें निमाणे कडेन म्हणलें.

'जे कोण स्वता कामाक फुडें सरतात तांकां देव पावता. लक्षांत धरपाची

गजाल ही.' कृष्णान म्हणलें.

तीं कुमारजुव्यां पावलीं तेन्ना दनपार जावन गेल्ली. तीं एका व्हाळाचे धडेर रावलीं आनी जेवपाक बसलीं.

जेवपाक सुरवात केल्ली तेन्नाच मुखार थोड्या अंतराचेर ऊंच वाडिल्ल्या तणा मदीं कितें तरी वयर सकयल हालताशें तांकां दिसलें. कृष्णान सत्याक ओगी रावपाक कुरू केली आनी तो उठून त्या तणा कडेन वचपाक लागलो. वतना ताणें आपली ल्हानशी समशेर जी तो घोड्याचे फाटीर बसपा खातीर आशिल्ल्या खोगीरा पोंदां सदांच लिपोवन दवरतालो ती हातांत घेवन गेलो. तोवूय बी त्या तणांतल्यान ओणोव घेवन चलपाक लागलो. तो धा बारा दांगां चलून गेला जायत इतल्यांत ताका एक मोटवो आनी बारीकसो वाडिल्ल्या खाडाचो मनीस मुखार उबो दिसलो. तो ताकाच पळयत रावलो. कृष्णान समशेरीक घाल्लो हात चडूच घट केलो.

त्या मनशान कृष्णाक उलोवं नाका म्हूण कुरू केली आनी सकयल बसपाक सांगलें.

'तुज्या जिवाक धोको आसा. ह्या वाठारांत शिपायक भोंवतात, ते तुका सोदतात. पयलीं ते अस्तुरेक हांगा आपय. ह्या वाडिल्ल्या तणां मदीं तुमी सुरक्षीत उरतलीं.' त्या मनशान सांगलें.

कृष्णाच्या मनांत दुबाव आशिल्ल्यान तो मात्सो फाटींफुडें जालो आनी ताणें भोंवतणीं निरखून पळयलें.

'भियेवं नाका तूं, हांव एकटोच आसां. तिका हांगा आपय आनी तुजो घोडो लिपय. तीं पयसुल्ल्यान दिसतात.' ताणें धोको सांगलो.

ताणें घोड्याक सोडलो आनी सगलें सामान पुंजावन घेवन आपणा फाटल्यान येवपाक सत्याक कुरवेन सांगलें. हीं दोगांय आनी घोडो मेळून ऊंच ऊंच वाडिल्ल्या थंयच्या तणांत भितर गेलीं. तो मनीस तांचीच वाट पळयत राविल्लो.

'आतां तुमी दोगांय सकयल बसात. चड हालत रावूं नाकात. हालता तें तण पयसुल्ल्यान दिसता. तुवें म्हाका पळयलो ते तरेन.' ताणें ताकतिकेनशें म्हणलें.

'कोण तूं? आमी हांगा आसात म्हणून तुका कशें कळ्ळें?' कृष्णान त्या अनवळखी मनशाक विचारलें.

'हांव कोण हाचो हुस्को करूं नाका तूं. तूं ब्रह्मपुरींत आसलो इतलेंच हांव जाणां. दोन दिसां आदीं हांवें तुका राना वटेन वतालो तेन्ना पळयिल्लो. म्हाका

दिसलें तूं जीव वाटावन सुरक्षीत जाग्यार गेला आसतलो. त्या दिसा सांजचे शिपायक हांगा आयिल्ले. घडये ते तुका सोदताले आसपाक जाय. तेच खातीर तुका परत हांगा पळोवन म्हाका अजाप जालें आनी खासा करून तुज्या सांगातांत ही सोबीत अस्तुरी पळोवन. तूं हांगाच कुमारजुव्यां खंयच्याय सुपुल्ल्या वाड्यार लिपला अशें शिपायकांक दिसलां आसतलें. ते अजून सोदतात. तूं बेगीन पलतडीं गेल्यार बरो.' ताणें कृष्णाक सांगलें.

तो उलयतालो तेन्ना त्या मनशाच्या गळ्यांतलो खुरीस कृष्णाचे नदरेंतल्यान सुटलो ना.

'हो पळय आनीक एकटो इत्सा नासतना धर्मांतर केल्लो मनीस.' कृष्णाक दिसलें. अशे तरेन अनेक मनशांनी कृष्णाक खूब आदार दिल्लो.

'आमी चलत रानाचे देगेर वचुंया. आमकां सुमार अर्द वर लागतलें. तुज्या घोड्याक आमचे फाटल्यान चलूं दी. आमी घोड्यार बसून गेलीं जाल्यार आमी तांकां दिश्टी पडपाचो संभव आसा.' त्या मनशान सुचयलें आनी कृष्णान तें मानलें.

'आमी हांगाच्यान वच्चे आदीं तूं कोण तें मात्शें म्हाका सांगशीत?' कृष्णान नमळायेन म्हणलें.

पयलीं ताणें कृष्णा वटेन पळयलें आनी मागीर पयस नदर लायली. 'ती म्हायती आतां तुज्या उपेगाची न्हय. पूण हांव तुका एक गजाल सांगतां. तुजे सारक्या खूब थोड्या मनशांनी गोमन्तकांतलो लोक वांचून उरचो म्हूण काम करपाची धिटाय दाखयली. तुवें पुर्तुगेजांक उक्तेपणी विरोध करप ना अशे तरेचें जें धोरण मनांत बाळगिल्लें तें म्हाकाय मानवलें. त्या बदला आमच्या मनशांक एकठांय करून तांकां सुरक्षीत जाग्यार व्हरप सारकें. तुवें ताचे आड जर शस्त्राचो उपेग केल्लो तर तूं केन्नाच ह्या संवसाराक मुकतलो आसलो. हांवें तुज्या बापाय खातीर खूब वर्सां काम केल्लें. म्हजे सारक्या अनेक लोकांक ह्या नव्या धर्मांत सासणाचो स्राप दिवन धुकलून दिल्यात. तुमी वेळ काडूं नाकात. बेगीन चलात. खूब धोको आसा तुमच्या जिवाक.' ताणें म्हणलें.

कृष्णा आनी सत्या हांणी वेळ वगडायलो ना. तणांतल्यान वाट काडीत लिपूलिपून सडसडीत चलत तीं रानाचे देगे वटेन वचपाक लागलीं. वाटेर तांकां एकाद्रो शिपायक बी कोणूच दिसलो ना.

सडसडीत चलून गेल्ल्यान सत्याक खूब पुरो जालें. वाटेर तांकां एक ल्हान

व्हाळ दिसलो. तें निवळसावें उदक तीं पियेलीं. उदक पियेवन तांणी एका व्हडल्या खडपाक तेंकून विसव घेतलो. सत्या खूब भियेल्ली. कृष्णाकूय हुस्को जाल्लो.

'कितें जातलें आमकां तांणी धरलीं जाल्यार?' सत्यान विचारलें.

'आमकां अजून तांणी धरूंक ना. हुस्को नाका आदींच.' कृष्णान तिका धीर दिलो.

'आमकां तांणी धरलीं जाल्यार तुजे वांगडाच हांव जीव दितलें. हें आसा पळय म्हजे कडेन.' गळ्यांतले मणयांचे माळेक गुथिल्ली एक सुपुल्लीच चेपटी डबी दाखयत सत्यान सांगलें.

'कितें तें?' कृष्णान उमळशिकेन विचारलें.

'म्हजे भयणीन दिल्या ती म्हाका.' सत्यान म्हणलें.

तिणें ती डबी माळेंतल्यान काडली आनी नाखटान उगडली. भितर कसली तरी धवी पूड आसली.

कृष्णान अजापान विचारलें, 'कसली पूड ती?'

'वीख तें. भयणीन दिल्या ही पेटी म्हाका. आमी जर तांच्या हातांत पडलीं आनी वेगळीं जालीं जाल्यार हांव ही गिळटलें.' सत्यान सांगलें.

'राधिकान दिल्या तुका?' कृष्णान विचारलें. तिणें मान हालोवन हय म्हणलें. एका वर्सा आदीं राधिकानूय अशेंच म्हणिल्लें ताची कृष्णाक याद जाली.

'म्हणल्यार दोगांय तुमी जिवा वयल्या कसल्याय प्रसंगाक तोंड दिवपाचे तयारेंत रावल्यात तर. पूण आमी हे तरेचो प्रसंग केन्नाच येवचो ना अशें मानून चलया.' कृष्णान तिका लागीं घेवन फाटीर हात मारीत म्हणलें.

'देवा पाव, अशें घडना जाल्यार पुरो.' सत्याचे दोळे दुकांनी भरले.

'आमी वेळ काडूंक फावना. आमचो घोडो आमचे फाटल्यान आयला जाल्यार पळयतां.' कृष्णान म्हणलें. तो एका ऊंच चिंचे झाडार चडलो आनी जंय लिपिल्लीं थंयच्या तणान भरिल्ल्या वाठारा वटेन पळयलें. थोड्या अंतराचेर ताका घोडो आपणा वटेन थंयचे थंय उडयो मारीत चलिल्ले वरी येतालो तो दिसलो. .

तो चिंतपाक लागलो, 'आमकां दोन वाटो आसात. एक आसा ती मांडवी हुपून वचप आनी दुसरी घोड्या वयल्यान उक्तीं शेतां मळां हुपीत कुशस्थळे पावप. वेळ वचत आसा. पावपाक अर्द दीस तरी जाय. फाल्यां रामचंद्र शानभागाचो मचवो बंदरांतल्यान सुट्टलो. मचव्याचेर पावले उपरांत भंय ना. पूण पावतलीं

आमी थंय रातचीं वा दुसऱ्या दिसा झिळमिटे फांतोडेर तरी?'

ताका वेळाची चिंता नासली. उरिल्लें अंतर हुपून वेळार थारायिल्ल्या जाग्यार पावतलीं हाची ताका आस्त आसली. पूण तितलोच प्रवास धोको नासतना जातलो काय ना हाचो ताका हुस्को जाल्लो.

पयल्या मार्गाचो पर्याय ताका आसलो तो मांडवींतल्यान वयले वटेन वचून, दक्षीण दिकेन फुडें सरून न्हंयेचे पश्चिमी देगेन आगशे लागीं ती जंय जुवारी न्हंयेक मेळटा थंय पावप. बाणस्तारी पावचे पयलीं देंवून भूंय मार्गानूय वचूं येतालें. पूण तो प्रवासूय बी तितलो सुरक्षीत नासलो. पूण ताणें धोको स्विकारून त्या मार्गान वचपाचें थारायलें. कारण प्रवासाचे सुरवातिकूच ताका राधिकाक वांगडा घेवन वचपाक मेळटलें आसलें.

अचकीत सत्याक जाग आयली आनी ताणें दोळे उगडून पळयलें.

'कितें जालें?' कृष्णान विचारलें. तिणें ताका पळोवन भोंवतणीं नदर भोंवडायली.

'धोको ना न्हय कसलोय?' तिणें विचारलें.

'ना. आसात आमी अजून सुरक्षीत. घोडोय आयला आमचो. वचुंया न्हय आमी आतां?' ताणें विचारलें.

ती सडसडीत उठून उबी रावली. 'हय, हांव तयार आसां. वचुंया आमी. राधिकाअक्का वाट पळयता आसतलें आमची.' सत्यान म्हणलें.

'पूण वचप तितलें सोपें ना.' कृष्णान म्हणलें आनी ताणें तिका परिस्थिती कशी आसा ती समजावन सांगली.

'कितें करुंया तर आमी आतां?' तिणें विचारलें.

'हांवें न्हंये मार्गान वचपाचें चिंतलां. तशीं गेलीं जाल्यार कशींय करून आमी रातचीं पावतलीं. पूण हुस्को ना.' कृष्णान म्हणलें.

तीं घोड्यार सुवार जावन न्हंये वटेन गेलीं. वतां वतां ताणें अदमास घेतलो जाल्यार ताका एकटोय खारवी वा ताचें व्हडेंय दिसलें ना. 'अशें कितें? कोणूच ना सो?' ताणें म्हणलें.

आनी इतल्यांत तांकां दोन व्हडीं एका खुट्याक बांदून दवरिल्लीं दिसलीं. थंयच धडेर पान चाबडायत बशिल्लो एकटो दादलोय तांकां दिसलो.

'आमकां लग्नाक बाणस्तारी पावपाक जाय. चडशे दुडू दितां हांव तुका.'

कृष्णान म्हणलें.

खारवी ताका उमळशिकेनसो पळोवंक लागलो. कृष्णान आपले बंडेच्या भितरल्या बोल्सांत हात घालो जाल्यार तें रितेंच आसलें. ताणें घोड्याच्या खोगिरा भितर दवरिल्ले एके ल्हानशे पिशवेंत पळयलें जाल्यार तिवूय बी रितीच आसली. ताणें सत्या वटेन पळयलें. सत्यान ताका हातान राव म्हूण कुरू केली. ओणोव घेवन तिणें आपल्या पांयांतलें रुप्याचें पैंजण काडून दिलें. कृष्णान तें काडून खारव्याच्या हातार दवरलें. तो तांचे कडेन अजापान पळोवंक लागलो आनी मागीर तांकां पलतडीं पावोवंक तयार जालो.

ताणें घोड्याक मानेर मात्सो थापटिलो आनी व्हड्या फाटोफाट येवपाची ताका कुरू करीत उतरांनी सुचोवणी दिली. खारव्यान व्हडें वलोवपाक सुरवात केली.

'हांगा सगळें थंडशें कित्याक? लोक ना, व्हडीं नात, काय ना?' कृष्णान विचारलें.

'हांगा पुर्तुगेज शिपायक आपलें तारूं घेवन आसले. ते कोणा तरी गुन्यांवकारी मनशाक सोदताले.' ताणें म्हणलें. सत्याच्या काळजांत कलकल्लें. तिणें कृष्णा वटेन पळयलें आनी ताचो हात घट्ट धरलो.

कृष्णान तिचो हात थापटिलो.

'खंय आसात ते आतां?' कृष्णान ताका विचारलें.

'हेच दिकेन गेल्यात ते.' ताणें जे दिकेन व्हडें वतालें तेच दिकेन बोट दाखोवन म्हणलें.

'आमकां मर्दीच आडायतले ते.' कृष्णाच्या लक्षांत आयलें.

अचकीत दोन गस्त घालपी पुर्तुगेज नौका न्हंयेच्या दोनूय देगांनी लावन दवरिल्ल्यो दिसल्यो. तांचेर शिपायक उबे आसले. तांणी हें व्हडें आपणा वटेन येतालें तें पळयलें.

कृष्णान व्हडेकाराचो हात धरलो. ताका आकांतान राव म्हणलें आनी दोनूय कुशींनी पळयलें. तांचें व्हडें पाविल्लें थंयच न्हंयेचो एक अशीर फांटो दावे वटेन वतालो.

'व्हडें दाव्यान घे.' कृष्णान मोठ्यान म्हणलें.

ताणें दुसरो वलो घेतलो आनी स्वता व्हडें दावे वटेन फिरावंक लागलो. व्हडेकारानूय तशेंच केलें. व्हडें रोखडेंच दाव्यान घुंवून उदेंते वटेंतले न्हंयेच्या

फांट्यांतल्यान वचपाक लागलें.

पुर्तुगेज शिपायकांक व्हडें आपणाक चुकोवन धांवता म्हूण कळ्ळें.

तांणी आपल्यो लांब नळयेच्यो बंदुको भरल्यो आनी तांचेर फार मारले. पूण व्हड्यान चडूच दावे वटेन वळसो घेतिल्ल्यान बंदुकांची मोख चुकली. झू...म्म, झू....म्म करून गुळयो वचून न्हंयेंत पडल्यो.

ते बंदुको परत भरतात आनी फार मारतात इतल्या वेळा भितर व्हडें दावे वटेंतल्या फांट्यांत नदरे आड जाल्लें. फार मारिल्ल्याचे परत आवाज आयले. हे फावटी कोंड्यांचीं बेटां आनी झाडां मदीं आयलीं आनी परत मोख चुकली. झाडां- झोंपांक गुळयो लागल्यो आनी बारीक खांदयो आनी पानांच कातरून गेलीं.

तांच्या नौकांक दोन व्हडलीं व्हडीं बांदिल्लीं आसलीं. चार शिपायक तीं सोडून भितर बसले आनी आपले मोखीचे फाटीक लागले.

हेवटेन शिपायक मांडवींत मोखीचे फाटीक लागिल्ले आसतना तेवटेन कपीत दियोगु फेर्नांदीश ऑदु आपली मोख हातासपा खातीर एक विशाल आंखणी करतालो. मठग्रामांत मदींच जें महालक्ष्मीचें देवूळ आसलें तें मोडपाचो वेळ आयिल्लो. सोबीत आनी भव्य अशी बांदावळ जी शारांत सारकी मदीं आसली ती पुर्तुगेज धर्मगुरू तशेंच तांच्या हेर नागरिकांच्या दोळ्यांत खुपताली.

वैकुंठ प्रभू साश्टीकाराच्या घरांत लग्न सुवाळो चलतालो. धर्मीक शास्त्रा प्रमाण कृत्यां चालू जाल्लीं. दियोगु फेर्नांदीशाक त्या आदारान आयतें निमित्त मेळ्ळें. वैकुंठ प्रभूक ताच्या बरें मागत्यांनी पुर्तुगेजान अनेक धर्मीक विधी करपाक आडावपी कायदो केल्लो ताची याद करून दिली. वैकुंठ प्रभून पुर्तुगेज सरकारी अधिकारी आनी थळावे धर्मांतरीत जे सरकारी कचेऱ्यांनी ऊंच पदांचेर काम करताले तांकां विस्वासांत घेतिल्ले. तांचे कडले बरे वळखीच्या म्हालवजार ताका पुर्तुगेजांच्या तारवां बांदपाच्या उद्देगाक मदेर आनी मनीसबळाची पुरवण करपाचो ठेको मेळिल्लो. ताणें सरकारी वेवस्थेंतल्या ताच्या धनयांक मोलादीक भेटो धाडिल्ल्यो. आपणाचेर कोण कारवाय करचो ना असो ताचो विस्वास आसलो.

कन्यादाना आदीं सगल्या देवांक गंधफूल घालून मागणें मागपाचो विधी सुरू जालो तेन्ना वाद उप्रासलो. भटांनी नव्या वैष्णव स्वाम्यांकूय संबोधन करून मागणें मागलें. न्हवरो आसलो तो कुशस्थळीकारांचो. ते आपूण अपमानीत जाले म्हूण कागाळ करूंक लागले.

हो आपलो अवमान अशें मानून ते गेले आनी कपीत दियोगु फेर्नांदीश हाका मेळ्ळे. ही संद ताणें सोडली ना. लग्नसुवाळ्याची मंडळी महालक्ष्मी देवळांत पावपाची तो वाट पळयत रावलो. थंय पावले तेन्ना कपितान वैकुंठ प्रभूक आडायलो. वैकुंठ प्रभून ताका शांत करपाचो यत्न केलो. पुर्तुगेज पुलीस अधिकाऱ्यान वैकुंठ प्रभून नवो कायदो मोडून जे अपराध केल्ले तांची वळेरी वाचून दाखयली. ताका परिस्थितीची गंभीरताय जेन्ना कळ्ळी तेन्ना तातूंतल्यान सुटपाचो मार्ग बंद जाल्लो. शिपायकांनी ताका धरलो आनी ताच्या 50-60 नात्यांतल्या मनशांकूय ताब्यांत घेतले. तांकां सगल्यांक कोटांत घेवन गेले.

सुमार 250 लोक देवळाच्या प्राकारांत जमले आनी कारवायेक विरोध करूंक लागले. कपीत दियोगान कडक कारवाय करपाचो निर्णय घेतलो आनी शिपायकांक बंदुकींचे फार मारपाक आनी समशेरी वापरपाचो आदेश दिलो. कांय मिणटां भितर पांच स जाण मरून पडले. नाळी ओडून लागीं हाडल्यो.

इतले मजगतीं गर्भकुडींत आशिल्ल्या तिगां जाणांक मुखार येवपाचो संभव आशिल्ल्या संकटाची सुलूस लागली. सगले भट आनी तांचीं कुटुंबां भायर उक्ताडार येवन कपीत दियोगा कडेन उलोवणीं करपाक लागलीं.

खूबशें भांगर, रुपें आनी मोलादीक खडे पुंजावन हाडिल्ले. कपीत दियोग कितेंच आयकून घेवपाचे मनस्थितींत नासलो. देवूळ मोडून घालपाचो ताका कडक आदेश आसलो. पाद्री आपणाचेर रागार जाल्ले ताका नाका आसले. ताणें फार मारपाची धमकी दिली.

सगल्या बोवाळ आनी गोंदळां मदीं तिगां तरणाट्या पुजाऱ्यांनी देवीचो मुखडो, कलश आनी साळिग्राम हें सगलें आशिल्ली पोटली एके रुप्याचे ल्हान पेटयेंत दवरली. ती घेवन ते लिपचोरयां थंयच्यान धांवले. तांकां कोणेंच पळयले नात आनी जायते लोक थंयच्यान पळ्ळे.

कपीत दियोगान नाळी फावो तशो मांडल्यो आनी पेटयल्यो. भूम....भूम....भूम.

देवळाची सोबीत बांदावळ कोसळपाक लागली. वणटी मोडून पडल्यो. गर्दी केल्ल्या लोकांक शिपायकांनी रेवाडो घालून आडावन धरले. लोकांच्या हातांत पारयो दिल्यो आनी तांकां देवळाची उरिल्ली बांदावळ पुराय मोडून उडोवंक सांगलें. जाणट्या भटाक ओडून हाडलो आनी श्री महालक्ष्मीचे मुर्तीचेर खोंट मारपाक सांगलें. तो तशें करपाक तयार जालो ना. प्रत्येक फावट ताणें ना म्हणलें.

कपीत दियोगान ताचे पोवटेच्या स्नायूक समशेर तोपपाचो आदेश दिलो. एकदां, दोनदां, तिनदां समशेर तोपली. ताचे स्नायू उबे भेदले. खूब रगत व्हांवलें आनी भटमाम जीव वचून पडलो.

लोकांची भियेवन गुळी जाली. कोणाच्याच तोंडांतल्यान एकूय उतर भायर फुटलें ना. सकाळ जाय मेरेन पुराय बांदावळ जमनी भरवण जाली.

कपीत दियोगान वैकुंठ प्रभू आनी ताच्या सगल्या कुटुंबांतल्या वांगड्यांक धरून व्हरपाचो आदेश दिलो. सगल्या कुटुंबाक क्रिस्तांव धर्म स्विकारपाक सांगलें. चडांत चड लोकांक धरून व्हरतले आनी तांकां धर्मांतर करपाक सांगतले हे भिरांतेन मठग्रामांतलीं अनेक कुटुंबां दीस उदेवचे पयलीं मठग्रामांतल्यान धांवलीं. ल्हान ल्हान पंगड करून लोक अस्तंते वटेन राना वटेन कोलव्यां आनी बाणावले गेले.

'जाता तितले गतीन बेगीन वच, नेटान मार वलो.' कृष्णान म्हणलें. व्हड्यान गती घेतली. ताणें फाटीं वळून पळयलें. तेन्ना ताका दोन व्हडीं आपलो फाटलाव करीत येतालीं तीं दिसलीं. तांचे मदलें अंतर आस्ते आस्ते वाडटालें. 'तांचीं व्हडीं व्हडलीं आसात आनी तातूंत चार चार जाण बसल्यात. ते खातीर तीं सवकास चलतात.' कृष्णान सत्याक सांगलें. सत्या भियेवन घट्ट जाल्लें.

व्हडें खूब गतीन दक्षीण - पश्चीम दिकेन चलतालें. इतल्यांत एका व्हड्यांतले दोग जाण शिपायक उदकांत देंवले आनी व्हडें धुकलूंक लागले. तो सुकतेचो वेळ आसलो आनी ते उथळ जाग्यार पाविल्ले म्हणपाचें कृष्णाच्या लक्षांत आयलें. तांचीं व्हडीं सवकास चलतालीं.

'नशिबान म्हाका आदार दिला. गती कमी करूं नाका. आमकां जीव वाटावन धांवपाक बरी संद आसा.' कृष्णान व्हडेकाराक सांगलें.

व्हड्यांत एक कोंडो आसलो. ताणें तो उदकांत बुडयलो. फकत तीन फूट उदक आसलें.

ताणें परत फाटीं वळून शिपायक कितें करताले तें पळयलें. एका व्हड्यान तांचो फाटलाव करपाचें सोडून दिल्लें आनी सवकास तें अस्तंत देगे वटेन वतालें तें दिसलें. दुसऱ्या व्हड्यांतलें वजन कमी केल्लें. आतां तातूंत फकत दोग जाण शिपायक आसले. तांणी हांचो फाटलाव तसोच चालू दवरिल्लो. तांच्या बंदुकांच्या फाराच्या पल्ल्यांत हीं नासलीं. शिपायकांनी ते खातीर फार मारले नात.

'चल बाबा. आमी नेटान वलोवया.' कृष्णान आड्डल्लेवरी सांगलें.

'हांव वलोवं?' सत्यान विचारलें.

'नाका. आमीच बरें करतात तें काम. तूं विसव घे.' कृष्णान म्हणलें. दोगांय दादल्यांनी पुराय शक्त लायली. मांडवी अशीर अशीर जायत वताली आनी उदक देंवत राविल्लें.

'आरेऽऽ ! ते उदकांत पडले !' सत्यान मोठ्यान म्हणलें.

कृष्णान फाटीं वळून फाटलाव करपी व्हडें पळयलें.

दोगां शिपायकांक घेवन वचपी व्हडें मात्शें व्हडलें आनी जड आशिल्ल्यान न्हंयेच्या तळांतल्या एका खडपाचेर आपटल्लें. तें नेटान आपटल्लें आनी ताका लागून तें उमथल्लें आनी दोगूय शिपायक उदकांत पडिल्ले. ते दोगूय उबे रावले. उदक तांकां वेतभर कमरा सकयल तेंकिल्लें. फुटिल्लें व्हडें सवकास बुडटालें. दोगांय शिपायकांनी आपल्यो बंदुको वयर धरल्यो आनी उदकांतल्यान पांय ओडीत चलत रावून न्हंयेचे अस्तंते देगे वटेन वचपाक गेले. कृष्णान तांचेरूच नदर लावन धरिल्ली आसतना तेच देगेर कितें तरी मुखार मुखार आपले वटेन येता अशें ताका दिसलें. तांचोच घोडो येतालो, खात्रेन !

शिपायकांक तो कृष्णाचो घोडो म्हणून कळ्ळें. तो तांच्या बंदुकांच्या पल्ल्या भायर आसलो. तरी एकट्यान आपली बंदूक काडून ताचेर फार मारलो. आवाज जालोच ना. बंदुकांनी उदक वचून त्यो मुंडिल्ल्यो. घोडो कृष्णाच्या व्हड्या वटेन धांवत रावलो.

'कोणूच करिना आमचो फाटलाव आतां. व्हडेंय ना आनी शिपायकूय ना. पळय, आमची आवय मांडवीन वाटायलीं आमकां.' कृष्णान त्याच सुरान म्हणलें. सत्यान ताका घट्ट वेंग मारली आनी ताचे छातयेर ओंठ तेंकयले.

'देव आयलो आमकां वाटावपाक.' अशें म्हणटना तिच्या दोळ्यांतल्यान दुकां व्हांवूंक लागलीं.

'तशीच आमची माता मांडवी. आमकां दोगांकूय आवयबापूय नात. तरी आतां देव आनी मांडवी आमकां पावतात. एक दीस तीं पाखल्यांक आमचे भुंये वयल्यान धांवडावन घालतलीं अशी म्हजी श्रद्धा आसा.' कृष्णान म्हणलें.

'आमी आनीक चड वेळ वगडावंक फावना. न्हंय उथळ आसा हांगा. हांगाच देंवया आमी आनी घोड्यार बसून मुखार वचुया.' कृष्णान म्हणलें.

ताणें माथ्याचो फेटो सोडलो आनी वाऱ्यांत हालोवन घोड्याक कुरू केली.

ताणें दोन तीन फावटी ताका शिळोणी घाली. घोडो न्हंये देगेर रावलो आनी आपल्या धनया वटेन अपेक्षेन पळोवंक लागलो.

कृष्णा आनी सत्या उदकांत देंवलीं. उदक आतां धोंपरा मेरेन आसलें. रोखडींच तीं न्हंये देगेर पावलीं.

कृष्णान घोड्याची मान सांसपून 'शाणो गुणाचो आं' म्हणलें. व्हडेकारान सवकास व्हडें कांठार ओडून हाडलें.

'आमकां आतां वेळ ना. शिपायक आतां भूंय मार्गान येवन आमचो फाटलाव करपाचो संभव आसा. वतात आमी. देवानूच धाडलो तुका आमचे मजतीक.' कृष्णान म्हणलें.

'तूं उदेंतेचे देगेन वच आनी व्हडें खंय तरी झाडां – झोंपांनी लिपोवन दवर आनी मागीर खंय तरी आलाशिऱ्याक राव.' कृष्णान व्हडेकाराक सादूर केलो.

'देव बरें करूं बाबा तुमकां.' अशें म्हणून तो व्हडेकार व्हड्यांत बसलो आनी न्हंयेचे दुसरे देगे वटेन व्हडें घेवन वचपाक लागलो.

कृष्णान सत्याक घोड्यार बसपाक आदार दिलो आनी ताचे फाटल्यान आपूण बसलो. घोडो दक्षिणे वटेन धांवूंक लागलो. बाणस्तारीचे दोंगर हुपून तीं भोमा पावलीं आनी थंयच्यान वेलिंग गांवांतल्यान कवळ्यां वचपाक गेलीं. ताणें दुर्भाटा वचून जुवारी हुपून साश्टी वचपाचें थारायिल्लें.

परिस्थिती विचित्र जाल्ली. हीं दोगांय आतां फोंडें म्हालांत सुरक्षीत आसलीं. पूण राधिका तांच्या वांगडा नासलें. ताका हाडपा खातीर कृष्णाक परत न्हंय हुपून साश्टी वच्चें पडटालें. तो आसलो दुस्मानाचो वाठार. राधिकान ताका सत्याक हाडपाक धाडिल्लो. आतां सत्या आनी तो पुराय सुरक्षीत आसलीं. राधिका अडचणींत पडिल्लें. तें रामचंद्र शानभागाच्या मचव्यार एकटेंच आसलें.

सूर्य अस्तंते वटेन खूब सकयल देंविल्लो. वेळ धांवतालो. घोडो थकिल्ल्याचीं लक्षणां दिसतालीं. कृष्णाक खूब हुस्को जाल्लो.

'राधिका वचनासतना थंयच गांवांत राविल्लें ना जाल्यार पुरो. मचव्यार चडल्यार पुरो.' कृष्णाच्या मनांतलो हुस्को भायर फुटलो.

सत्यान ताचें उलोवणें आयकलें. उमळशीक आनी सहानुभुतीन तिणें ताचे वटेन पळयलें आनी ताचो हात आपल्या हातांत घट्ट धरून ताका धीर दिलो. 'इतलो हुस्को करून आकुळपिकूळ जावं नाका. राधिकाअक्का तशी बुदवंत आसा. ती

मचव्यांतूच आसतली आमची वाट पळयत.' सत्यान म्हणलें.

'तितल्याचेर प्रस्न सुटचो ना. आमी वेळार पावपाक जाय मचव्यार. फाल्यां दनपरां उपरांत भरती आसतना मचवो वचपाक सुट्टलो. फावो तसो वारो आसलो जाल्यार दर्यासंगमाची शीम हुपून मचवो दर्यांत दक्षीण दिकेन वचून दीस अस्तमेक पावतासर कोलवा, बाणावली गांव हुपून वतलो. तो जर आमचे खातीर सवकास वचपाक लागलो तर पुर्तुगेज गस्तीच्या तारवांक दुबाव येतलो.' कृष्णान विस्कावन सांगलें.

'आमी यत्न करून पळोवया. आमच्या घोड्याक विसव जाय. आयची रात आमी दुर्भाटा रावया. फाल्यां सकाळींफुडें न्हंय हुपून वचुंया. आमच्या घोड्याक कितेंय जावन आमी ताका मुकलीं जाल्यार आमी बैलांगाडयेन साश्ट हुपून बाणावले पावप कठीण जातलें. तेन्ना कवळ्यां वा दुर्भाटा विसव घेवप बरें.' कृष्णान सांगलें.

'चड सुरक्षीत जागो खंयचो?' सत्यान विचारलें.

कृष्णान त्या विशयाचेर चिंतून पळयलें. 'जेन्ना कुडतरेचे दोनेकशीं लोक दुर्भाटा आयिल्ले तेन्ना तांचे खातीर आमी माटव घालून आलाशिरो केल्लो. आमी थंयच गेल्यार बरें जातलें.' कृष्णान म्हणलें.

दुर्भाटा पावतासर सूर्य अस्ताक गेल्लो. कृष्णा गांवांतल्या थोड्या मनशांक मेळ्ळो. थोडे ताका वळखले. ताका पळोवन ते खोशी जाले.

'तुवें आनी तिणें आमकां आमी हांगा पावलीं तेन्ना पेज दिल्ली. वर्स जालें ते गजालीक.' उलयतालो त्या मनशान सत्या वटेन बोट दाखोवन म्हणलें.

'आतां आमी दितलीं पेज तुमकां. पूण कितेंय तरी तुमचे खातीर वेगळें दितले आमी.' ताणें आपलेपणान सांगलें.

सगल्यांक शीत आनी नुस्त्या कडयेचें जेवण दिलें.

दुसऱ्या दिसा खारव्यांनी तांकां घोड्याक व्हरपा खातीर एक व्हडलें व्हडें आनी कृष्णा आनी सत्याक एक ल्हान व्हडें तयार दवरलें. तांकां विशाल अशी जुवारी न्हंय हुपून वचपाचें आसलें.

सकाळ जाली ते मेरेन कृष्णाचो घोडो थकवो वचून तरतरीत जाल्लो. घोड्यान तांकां रायतूर, लोटले मार्गान साश्टीचे उदेंते वटेंतल्या सपाट भूंय वाठारांतल्यान फुडें व्हेलीं. मठग्रामाक भोंवताडो घालून घोडो तांकां बाणावले वटेन घेवन गेलो. तांकां मठग्रामांतल्यान धांविल्ले कांय लोकांचे पंगड वाटेर मदीं मदीं मेळटाले.

कृष्णान तांचे कडेन खबर घेवन म्हायती मेळयली.

'हांगा जगतलो जाल्यार दोन पर्याय आसात. एक उपाय आसा तो धर्मांतर करून ख्रिस्ती धर्मांत वचप आनी दुसरो उपाय गोमन्तक सोडून वचप. तुमी थारावपाचें. कारवार पयस ना. तुमी कारवारा वचून रावूं येता. तुमकां जाय जाल्यार आमचे वांगडा भटकळा येयात. एकूच मचवो वचपाचो आसा. तो वचपाक सुटला. वाटेर तो बाणावले पावून दिश्टी पडटलो.' कृष्णान तांकां सांगलें.

'चडश्या लोकांनी सुरक्षीत असो कानडी प्रदेश वेंचून काडला आनी कांय लोक कोचीनांत लेगीत गेल्यात. थोडे लोक म्हणटात की थंयच्या शासकान जमीन दिल्या आनी थंय देवूळ लेगीत बांदलां खंय.' एकट्यान सांगलें.

'खरें तांचें. हांवेंय आयकल्या ती खबर. घडये तुमकां कोचीनांतूय येवकार मेळटलो. पूण आतां हे घटकेक हो मचवो आमकां भटकळा मेरेन घेवन वतलो.' कृष्णान म्हणलें.

■■■

# नवो गांव, नवें घर

तीं बाणावले पावलीं तेन्ना सूर्य मळबांत सारको मदीं पाविल्लो. 'तो पळय मचवो.' कृष्णान दर्यांत थोड्या अंतराचेर मचवो दिसलो तेन्ना ते वटेन बोट दाखोवन म्हणलें. वीस मनशांचो एक चोंबो बाणावले दर्यादिगेर माडां मदीं जमिल्लो.

'दर्या खूब खवदळिल्लो आसा. मचव्या मेरेन पावपा खातीर आमचे कडेन फावो ते संख्येन व्हडींय नात. तो मचवो दर्यादिगेर हाडपाकूय जमचें ना तांकां.' कृष्णान कशी परिस्थिती आसली ती तांचे नदरेक हाडून दिली.

'कितें करपाक जाता आमच्यांनी आतां? राधिकाअक्का आसल्यार पुरो मचव्यांत. देवा पाव !' सत्यान म्हणलें.

'तें आसतलें, भियेवं नाका तूं. राधिकाची शिटूकसाण आनी रामचंद्र शानभागाचें प्रामाणीकपण हांचे विशीं दुबाव ना म्हाका. हांव जाणां, तांचे कडेन दुर्बीण आसतली. घडये ते आमकां रावतात आसतले.' कृष्णान म्हणलें.

ताणें सगल्यांक लागीं आपयलीं आनी तांचे मुखार उबो रावन आपणें कितें करपाचें चिंतलां तें तांकां समजावन सांगलें.

'दर्या खूब उचांबळ जाला आनी मचव्या मेरेन पावपाक जाय तितलीं व्हडीं आमचे कडेन नात. हांव तीन सुचोवण्यो करतां. आमी फेटे काडून ते एकठांय

बांदून ताचो एक बावटो करपाचो आनी दर्यादिगे वयल्यान वयर काडून मचव्याक दाखोवपाचो. म्हाका दिसता खात्रेन थंयच्यान कोण तरी तो पळयतले आनी आमकां रावतले. तेच वांगडा दोगां तरणाट्यांनी ल्हान व्हडें घेवन मचव्या मेरेन वचून तांकां आमी सगलीं मेळून वीस जाणां आसात म्हणून सांगपाचें. तितले मर्दीं आमी मुखार दक्षिणेक वचून वार्का हुपून मोबोर पावया. बेतलांत दर्यादिग रूंद ना. न्हंय हुपून आमी बेतलांत पावया. उदक खोल आसा. मचवो थंय देगे कडेन लागीं व्हरपाक जाता. आमकां थंय मचव्यांत चडपाक सोंपें जातलें.' ताची ही आंखणी सगल्यांनी मानून घेतली.

दादल्यांनी माथ्याचे फेटे सोडले. ते गांठावन तांणी एक लांब बावटो कसो करून दोगां दादल्यांनी 15 - 20 फूट वयर वाऱ्यार उबयलो. अशे तरेन अर्दवर सुमार दोग दोग जाणांनी बावटो उबोवपाचें काम केलें. इतले मजगतीं दोग तरणाटे एका खारव्याक वांगडा घेवन ल्हान व्हड्यांतल्यान दर्यांत मचव्या लागीं गेले.

फार्टी उरिल्ले सगले लोक दक्षीण दिकेन बेतूल गांवां वटेन चलपाक लागले. दोन तीन वरांनी सगले जाण मोबोर गांव हुपून गेले. इतले मजगतीं कृष्णाक तांचो मचवो मुखार वचनासतना एका जाग्यार थारिल्लो दिसलो.

'कितें तरी जालां अशें दिसता. मचवो मुखार वचना. रावात. कपडो हालोवं नाकात. दर्या राखणेचें तारूं खंय तरी लागीं आसूं येता. तुमी मोबोर वाड्यार भितर चलात. थंयच्यान तुमकां न्हंय हुपून वचपाक सोपें जातलें. मागीर बेतला वटेन चलात. आमी दोगांय हांगा दर्यावेळेर रावन कितें घडटा तें निरखून पळयतात.' कृष्णान सत्याक बोट दाखोवन म्हणलें.

लोक मुखार वचपाक लागले आनी झाडां मर्दीं नदरे आड जाले. कृष्णान घोडो एका माडाक बांदलो आनी दोगांय रेंवेंत विसव घेत बसलीं. जोडप्याक पळोवन थोडे खारवी तांचे म्हऱ्यांत आयले.

कृष्णान तांकां आपूण दोगांय थंय कित्याक बसल्यांत तें सांगलें आनी पुर्तुगेजांक लागून कितें घडटा तेंवूय सांगलें. त्या मनशांनी ह्या सोयऱ्यांक पिवपाक उदक हाडून दिलें.

'त्या मचव्या फाटल्यान पाखल्यांचे गस्तीचें तारूं आसा अशें दिसता म्हाका.' एका खारव्यान म्हणलें. ते सगले दर्यांत पळयत राविल्ले.

कृष्णा आनी सत्या आकांतून उठलीं आनी दोळ्यां वयर तळटाची सावळी

घेवन अस्तंती दिगंते वटेन पळोवंक लागलीं. 'आरे देवा, तें पळय दिसता थंय.' कृष्णा व्हडल्यान उद्गारलो. ताका गस्तीर आशिल्ल्या पुर्तुगेज तारवाचें शीड दिसलें. तें तारूं पश्चिमे वटेन मचव्या आड आसलें.

'थोडो वेळ वाट पळोवया.' कृष्णान म्हणलें.

तीं खूब वेळ वाट पळयत रावलीं. खारवी खवदळिल्ल्या दर्या विशीं, नुस्तें मेळप कमी जाल्लें ते विशीं बी कितें तरी उलयताले. त्या लोकांनी तांकां गांवांतल्यो हेर गजालीय सांगल्यो. पाद्री शिपायकांक घेवन गांवांत भोंवतात, दर घरा सामकार वतात आनी तांकां पारंपारीक धर्मीक परबो मनोवं नाकात म्हणटात, घरा मुखार तुळशी बदला खुरीस उबो करात अशे तरेचे आदेश दिवन वतात म्हूण खूब कागाळी सांगल्यो. त्या वेळार दर्यांतल्यान एका व्हड्यार बसून एक मनीस आयलो.

'हो आयला तो पयलीं गेल्लो तोच व्हडेकार. आतां तो एकटोच परतला.' सत्या मुखार उलयली.

जेन्ना ताणें कांय लोकांचो चोंबो माडा पोंदा सावळेक बसला तो पळयलो तेन्ना तो ताकतिकेन तांचे म्हऱ्यांत गेलो.

'कितें जालें? पावलो तूं मचव्या मेरेन?' कृष्णान ताका विचारलें. ताका पिवपाक उदक दिलें.

'हय. पावले आमी मचव्या मेरेन. हांव ज्या दोगांक घेवन गेल्लों ते मचव्यार चडले. तातूंत खूब लोक आसात अशें दिसता.' ताणें बेगिबेगीन सांगलें.

'कितें घडलें थंय? सांग तूं म्हाका.' कृष्णान ताका फुसलायलो.

'तांणी आमकां पळयलें आनी तुज्या मनशांक वयर घेतले. तांणी म्हाका दर्या खवदळिल्लो आशिल्ल्यान बेगीन वच म्हणलें. तेन्ना हांवें पाखल्यांचो एक मचवो तुमच्या मचव्या वटेन येतालो तो पळयलो. हांव खूब भिलों आनी ताकतिकेन फाटीं आयलों.' ताणें उचांबळीत जावन सांगलें.

'कितें जातलें शें दिसता तुका आतां?' सत्यान कृष्णाक विचारलें. तिका भंय पडिल्लो.

'रामचंद्र शानभाग हो पाखल्यांचो सरकारी मान्यताय आशिल्लो मध्यस्त. ताचे कडेन पुर्तुगेज 'कार्ताज' (परवानो) आसा. तेन्ना कसलीय आडखळ येवंक फावना. तो तांकां बरो धंदो मेळोवन दिता. ताच्या मचव्यांत थोडे स्थलांतर करपी लोक तांकां मेळपाचो संभव आसा पूण तांकां ते गजालीचो पातसो ना. सरकारान

गोंयच्या लोकांक आदेश दिवन धर्मांतर करात नाजाल्यार स्थलांतर करात म्हणल्यार गोंय सोडून चलात अशें सांगलां. हे लोक गोंय सोडून चल्ले. ते खातीर आडखळ आसूंक फावना.' कृष्णान तिका धीर दिलो.

'आनी त्या लोकां मदीं राधिकाअक्का तांकां मेळ्ळी जाल्यार कितें जातलें?'

'राधिका विशीं खाशेली अशी कसलीच गजाल कोणाक कळची ना. त्या लोकांच्या चोंब्यातली ती एकटी, इतलेंच तें. तूं हुस्को करूं नाका.' कृष्णान समजावन सांगलें.

परत तीं वाट पळयत बसलीं. सूर्य अस्तंत देगेर सकयल देंवत आसलो.

'आनी अर्दवरान सूर्य अस्तमतलो आनी काळोख जातलो. आमकां मचव्यार चडप मात्शें कठीण जातलें.' कृष्णान म्हणलें.

'दोनूय मचवे कुशीन सरतात. तांचें तारूं पयस वचपाक लागलां.' सत्या खोस जाल्ले वरी उलयलें.

पुर्तुगेज नौदलाचें तें व्हडलें तारूं सवकास उत्तर दिकेन जुवारी न्हंयेच्या तोंडा वटेन वचपाक लागलें. रामचंद्र शानभागाच्या मचव्यान परत दक्षिणे वटेन वचपाक सुरवात केली.

'कितेंय आडखळ आशिल्ली जाल्यार ती सुटावी जाली. आमचो मचवो दक्षीण दिकेन वचपाक लागलो. आमचे दोग जाण त्या मचव्यांत पावल्यात. तांणी आमची येवजण तांकां सांगल्याच आसतली. आमी आनीक चड वेळ काडप ना. बेतलांत वचपाक या आमी आतां.' कृष्णान म्हणलें.

मोबोर पावलीं तेन्ना दीस बुडिल्लो. सगल्यांनी जंय प्रवाह उथळ आसलो थंय न्हंय हुपली.

'पुनवेचें चक्क चान्नें पडलां. वातावरण बरें आसा. आमी बेतला वटेंतलो प्रवास चालूच दवरूंया. मुखार गेल्यात ते आमकां वाटेर मेळटले.' कृष्णान सुचयलें. ताणें सत्याक घोड्यार बसपाक सांगलें. तो आनी हेर वांगडी दक्षीण-पश्चीम दिकेन चलत रावले.

बेतलांतले अशीर आनी उदकाक खोलाय आशिल्ले दर्यादेगे लागीं ते पावले. तेन्ना मध्यानरात जाल्ली. दोंगुल्लेचें तोंक त्या जाग्यार दर्यांत भितर गेलां. सानशा बंदरा वरी सैमीक रितीन एके वटेन दोंगुल्लेची देंवती दर्यामेरेन पावल्या. दोंगुल्ली चडटना मदींच आदीं गेल्ल्या लोकांनी उजो घालून शेकोटी केल्ली. कृष्णा आनी

ताचे सांगाती वयर चडून गेले. चडशे जाण थंय न्हिदिल्ले. ते थकिल्ले. दोग तरणाटे जागे आसले ते राखणेक राविल्ले. कृष्णाचो पंगड थंय पावलो. सगले जाण एकामेकांक जिते, जिवे आनी सुरक्षीत रितीन आशिल्ले पळोवन खोशी जाले.

कृष्णान तांकां कितें घडिल्लें तें सांगलें.

'तो थंय दिसता तो मचवो आमचोच आसतलो.' कृष्णान दर्यावटेन निर्देश करून म्हणलें.

एक मचवो दोंगुल्लेच्या पोंता कडल्यान चड पयस न्हय अश्या अंतराचेर नांगरून दवरिल्लो तांणी पळयलो. 'आमकांच रावल्यात आसतले ते.' कृष्णान म्हणलें.

'आमी फांतोड जाय मेरेन वाट पळोवया. दर्यायबी उचांबळ आसा.' पंगडां मदल्या एकल्यान म्हणलें.

'कितें म्हणटा तूं, आमी आतांच त्या मचव्यार चडुंया?' दुसऱ्या एका मनशान विचारलें.

'हय. करपाक जाय आमी यत्न. आमी तांकां हांगाच्यान कुरवेन आमी पावल्यांत म्हूण कळोवपाक जाय. आमी वेळ काडलो जाल्यार तांकां नांगर वयर काडून मचवो सोडचो पडटलो, आमकां हांगाच सोडून. मागीर भूंय मार्गान सदाशिवगड वा कारवारा वचपाचें. वेळ खूब लागतलो आनी प्रवास त्रासांचो आनी शिवाय धोक्याचोय बी.' कृष्णान तांच्या लक्षांत हाडून दिलें.

'आमी पेंवून मचव्या लागीं वतात.' आदीं बावटो दाखोवपाक फुडें सरिल्ले त्याच तरणाट्यांनी म्हणलें.

सगल्यांनी तांचें म्हणणें मानून घेतलें.

'तुमी पेंवन मचव्या मेरेन वचात आनी तांकां मचवो जितलो दर्यादिगेक लागीं हाडपाक जाता तितलो हाडपाक सांगात. तांचें व्हडें सकयल देंवन घेयात. इतले मजगतीं आमी तणाच्यो चुडी पेटोवन तांकां कुरवेन आमी पाविल्ल्याचें कळयतात.' कृष्णान म्हणलें.

सगले जागे जाल्ले आनी नवे उमेदीन तरतरीत जाल्ले. मचव्यार चडपाक जण एकलो तयार जाल्लो. खवदळिल्लो दर्या आसुनूय आपवावुरपी दोंगर देंवून दर्यावटेन वचपाक लागले.

'खूब धिटायेचे तरणाटे तुमी. देव कृपा करूं तुमचेर.' कृष्णान म्हणलें. सगल्या

जाणट्यांनी तांकां आशिर्वाद दिले. दोन आकृत्यो दर्याच्या थंड उदकांत उडयो मारून मचव्या वटेन पेंवत वतना दिसल्यो.

कृष्णा आनी सत्यान पांच स मनशांक वांगडा घेवन थंयचें तण काडलें आनी तें लांब बडयांक बांदून चुडी तयार केल्यो. त्यो चुडी तांणी पेटयल्यो आनी पांच स फावटी उजवे वटेन घुंवडायल्यो आनी तश्योच दावे वटेन घुंवडायल्यो.

अचकीत मचव्याच्या ऊंच खांब्या वयल्यान एक पेटिल्ली चूड दिसली. ती सात आठ फावटी हालून बंद जाली. तेच तरेन ती आनीक तीन फावटी हालिल्ली दिसली.

'आमकां पळयलें तांणी. पळयात, ते चूड हालयतात.' लोकां मदल्या एकल्यान म्हणलें.

'आमी सवकासायेन सकयल दर्या वटेन वचुंया. मचव्या मेरेन वचपाची वेवस्था करपाक जाय.' कृष्णान म्हणलें.

लोक देंवून दोंगुल्लेच्या मुळसांत पावले तेन्ना मचवो सवकास सवकास जमनी वटेन येतालो तो लोकांनी पळयलो.

'मचवो तांकां चड लागीं हाडपाक जमत सो दिसना.' कृष्णान म्हणलें.

सगले मचव्याची वाट पळयत रावले. तांच्या उलोवण्यांत पुर्तुगेजांनी भोगयिल्ली पिडापीड आनी धर्मांतराची बळजबरी असल्या विशयां वयल्यो खबरो परत वयर सरल्यो. लोक दुकां गळयताले आनी शासकांक तशेंच आपल्या नशिबाक दोश दिताले.

दोन ल्हान व्हडीं देगे वटेन येवपाक लागलीं. दोग मलबारी तांडेल तीं चलयताले.

ते कितें तरी विचारताले. कोणाक कांयच कळनासलें. कृष्णा हात वयर काडून मुखार आयलो.

'ते मलबारी भास उलयतात. ते आमचे मदलो कृष्णा कोण म्हूण विचारतात. तांचे कडेन कशें उलोवचें तें म्हाकाय कळना. आसूं, आपणा वांगडा आपयतात ते आमकां. व्हडीं ल्हान आसात. चड जाण तातूंत बसप धोक्याचें. एका एकात स स जाण बसून वचुया.' कृष्णान सुचयलें. अशे तरेन बारा जाणांक उबो आशिल्ल्या मचव्या मेरेन व्हेले.

'राधिकाअक्का आसल्यार पुरो मचव्यांत. हांव केळशेच्या भवानी शंकर

महादेवा कडेन ताका सांबाळ म्हूण मागतां.' अशें म्हणून सत्यान हात जोडले.

कृष्णाकूय हुस्को जाल्लो. 'अक्का त्या मचव्यांत ना जाल्यार कितें जातलें?' तो उलयलोच ना. ताका हुस्को जाला आनी उलोवपाचे मनस्थितींत तो ना म्हूण तिका कळ्ळें.

'हुस्को सोड तूं. म्हाका खात्री आसा राधिकाअक्का मचव्यांत आसतलेंच.' तिणें ताका शांत करपाचो यत्न केलो. तिणें ताचो हात हातांत घेवन दामलो आनी ताका धीर दिलो.

'आमी मचव्यार वचून पळोवया. तें जर कसल्याय कारणान मचव्यांत ना जाल्यार आमी फाटीं परतुया. ताका घेनासतना आमी गोमन्तक सोडून वचप ना.' सत्यान आपलो निर्णय सांगलो.

कृष्णा मंदसो हांसलो. 'हांव जाणां तूं तशें म्हणटलें म्हण. म्हाकाय तशेंच दिसता. राधिका जर त्या मचव्यांत ना तर आमी ताका सोदपाक परत फाटीं या. आमकां तें मेळ्ळेंना जाल्यार आमी गोमन्तकांतूच रावुंया पूण ताका घेनासतना गोमन्तक सोडप ना.' कृष्णान सत्याक उतर दिलें.

तीं दोन व्हडीं परत देगेर आयलीं. जे आठ जाण फाटीं उरिल्ले ते दोन व्हड्यांनी चार चार बसले. व्हडीं आस्ते आस्ते मचव्या वटेन वचपाक लागलीं. तीं जेन्ना मचव्या लागीं पावलीं तेन्ना तातूंतल्या प्रवाशांचो एक पंगड तांची वाट पळयत राविल्लो तो कृष्णा आनी सत्याक दिसलो. मचव्या वयल्यान एक दोरयेची निसण सकयल हुमकळटाली. सगले प्रवाशी सवकास वयर चडले.

कृष्णान सत्याक निसणीक चडपाक आदार दिलो. ताचे फाटोफाट तो वयर चडलो. कृष्णा जेन्ना वयर चडटालो तेन्ना ताणें सत्यान अक्का म्हणून उलो केल्लो आयकलो. सत्यान मचव्यार राधिकाक पळयल्या आसतली हाची खात्री जाली. तो सडसडीत वयर चडलो आनी मचव्याचेर उडी मारली.

रामचंद्र शानभाग आनी ताचे भोंवतणीं धा बारा जाण जमून कृष्णाची वाट पळयताले. तो फुडें सरलो आनी ताका वेंगेंत घेवन येवकार दिलो. कृष्णान ओणोव घेवन ताच्या पांयांक हात लावन नमस्कार केलो. 'खरेंच, खूब धिटायेचो गडी तूं कृष्णा. अभिमान दिसता म्हाका तुजो. पूण हांगा आनीक एक मनीस तुजी केन्नाच्यान, उमळशिकेन वाट पळयता व्हडा अभिमानान.' रामचंद्र शानभागान राधिकाक बोट दाखयत म्हणलें.

कृष्णान राधिकाक लार्गीं घेतलें आनी ताच्या कपलार ओंठ तेंकयले. 'हांव जाणा आशिल्लें देव आमकां निराश करचो ना म्हणून.'

राधिकान तांकां पिवपाक उदक दिलें आनी थंयच मचव्यार शिजयिल्ली हूनहूनशी पेज दिली.

रामचंद्र शानभागान धाकलीं व्हडीं वयर काडपाचो आनी मचवो दक्षीण दिकेक भटकळा वटेन चलोवपाचो आदेश दिलो.

थोड्या प्रवाशांक खूब पुरो जाल्लें. ते मचव्याच्या वयल्या माळ्याचेर न्हिदले. थोडे घडून गेल्ल्या सगल्या कोडू प्रसंगांचेर उलोवंक लागले जाल्यार हेर कोण दुकां गळयत पुर्तुगेजांक शिराप सोडीत दुख्ख व्यक्त करताले.

कृष्णा राधिका आनी सत्याक घेवन मचव्याच्या मुखा वयल्या तोंकार गेलो. थंय तांकां बसपाक बांका सारकी एक बसका दिसली. तिचेर तीं बसलीं. मलबारी तांडेल शिडां सोडटाले. दुर्गा खारवी हो खूब अणभवी तांडेल आसलो. तो तारवाचें सुकाणू सांबाळटालो. तारूं खोल उदकांत वचपाक लागिल्लें. दुर्गा श्री कृष्णाचे जिणेचेर आदारीत गाणें म्हणटालो

*वृन्दावनाचो कृष्णु गेलो मथुरेक*
*मथुरेंतल्या लोकांक वांचोच्याक*
*मगधेचो जरासंदु गेलो मथुरेक*
*मथुरेच्या कृष्णानु व्हेले लोकांक द्वारकेक*
*मथुरेचो कृष्णु गेलो कुंडळीपुराक*
*रायाली धुवू रुकुमिणीक वांचोनु हाडूंक*
*द्वारकेचे कृष्णानु वांचैली सत्यभामाक*
*रुकुमिणीन आदर केलें कृष्णानु हाडिली सत्यभामाक*

पुनवेचो चंद्र अस्तंती दिगंते वटेन सकयल देंविल्लो. सह्याद्री पर्वताचीं काणकोणचे उदेंते वटेंतल्या वाठारांतलीं तेमकां काळश्या, निळश्या आनी गुलाबी फाटभुंयेर सोबून दिसतालीं.

'आमच्या गोमन्तक मायभुंयेचे दर्यादेगेर एक निमणी नदर घालात.' कृष्णान दुराव्याच्या दुख्खान उमाळून आयिल्ले भावनेन भरिल्ल्या ताळ्यान म्हणलें. राधिका आनी सत्याच्या दोळ्यांतल्यानूय दुकां देंवतालीं.

'कसलीं दूखदिर्णीं भोगणां आयलीं आमचे मायभुंयेच्या आनी आमच्या

वांट्याक! आमकां भूंय सोडून भिकारी जावन पयस वच्चें पडटा.' राधिका भरून आयिल्ल्या ताळ्यान उलयलें.

'तुज्या बापायन पुर्तुगेजांक गोमन्तकांत आपोवणें दिलें हें खरें?' राधिकान कृष्णाक विचारलें.

कृष्णान आपले दोनूय हात उजव्या दाव्यान बशिल्ल्या राधिका आनी सत्याच्या खांद्यांचेर घाले. पयस दिगंता वटेन खीणभर पळयलें आनी मागीर सवकासायेन वेंचीक उतरां सोदून उलोवंक सुरवात केली.

'तुमी पयलीं राजकारणांतल्यो कांय मुळाव्यो गजाली समजून घेवपाक जाय. माधव मंत्र्याचें शासन सोंपले उपरांत गोमन्तकाचेर मुसलमानांचें शासन सुरू जालें आनी तें लांब काळ चल्लें. हेर खंयच्याय देशभक्तावरीच म्हज्या बापायकूय आदिलशाचें शासन सोंपोवपा खातीर पुर्तुगेजांचो आदार घेवचो अशें दिसलें. ते परिस्थितींत तांकां तें योग्य दिसलें. तशेंच त्या तिमोजाकूय दिसलें. म्हज्या बापायक आनी गोमन्तकांतल्या जायत्या लोकांक त्या वेळार दिसलें कीं तोच पुर्तुगेजांक गोमन्तकांत हाडपाक जबाबदार आसलो. ताका एके गजालीची कल्पनाच आयली ना कीं तिमाप्पा नायकान आदींच पुर्तुगेजां कडेन इश्टागत केल्ली आनी घुरी घालपाची आंखणी लिस्बोआंत पयलींच तयार जाल्ली. तो फक्त ह्या डावांतलें एक प्यादें जावन पडलो.' कृष्णान सांगलें.

'म्हणल्यार तिमाप्पा नायक होच पुर्तुगेजांक गोमन्तकांत हाडपाक जबाबदार आसलो अशें तूं मानता?' राधिकान विचारलें.

'हांव म्हणटां खरी वायटांतली वायट गजाल म्हणल्यार हेंवूय बी खरें न्हय.' कृष्णान म्हणलें.

राधिका आनी सत्या तें आयकून चडूच घुस्पलीं. तांकां कांयच कळ्ळें ना.

'अर्थ कितें तूं म्हणटा ताचो?' सत्यान विचारलें.

'खरी गजाल अशी कीं पुर्तुगेज गोमन्तकाचेर घुरी घालून हो प्रदेश जिखून घेवपाची येवजण 1500 वर्सा सावन करीत आयिल्ले. 1498 वर्सा वास्को द गामा आमचे भुंयेक भेट दिवन गेलो. ताणें परत वचून पुर्तुगालच्या राजाक आनी ताच्या दरबारांतल्या मनशांक आमचे भुंयेचें सोबीत सुंदर वर्णन करून सांगलें. तें आयकून ही भूंय जिखून घेवपाची इत्सा थंयचे शासक मनांत बाळगून रावले.'

'तांची नदर आशिल्ली ती आमच्या देवळांचे गिरेस्तकायेचेर. मिरीं, इलायची

आनी हेर मसाले आनी आपल्या वस्तूंक हिन्दुस्थानांत मेळपा सारकें तांकीवंत गिरायक, असल्या फायद्याच्या गजालींचेर तांची नदर आसली. हें सगलें साध्य करपाक तांणी आपल्या भूंय दळाच्यो बंदुको, नाळी असले तांचे बळिश्ट तांकीचो हुशारकायेन उपेग केलो. आमचे भुंये वयल्या हिंदू आनी मुसलमान शासकांच्या राज्यां भितर जीं भितरलीं केस्तांवां चलतालीं तांचोय तांणी आपणाक जाय तसो फायदो करून घेतलो. आनी हांगा आपली बसकण घट केली. तरी म्हाका एक दुबाव येता. तिमोजा आनी तुज्या बापायच्या आदारा बगर गोमन्तकांत येवपाची तांची तांक आसली?' सत्यान विचारलें.

'म्हज्या बापायची खबर सोड, तिमाप्पा नायक होवूय बी व्हडलो बळिश्ट सरदार नासलो. हांव जाणां ते प्रमाण आफोन्सु आल्बुकेर्का कडेन तो मांडवींत भितर आयलो तेन्ना 23 व्हडलीं लडायेचीं तारवां आसलीं. ही तांची येदी व्हडली तांक पळोवन म्हज्या बापायक खंय व्हडलें अजाप जालें आनी धक्कोय बसलो अशें आमच्या प्राचार्यांनी खूबदां म्हाका सांगिल्लें. तिमाप्पा नायक आनी म्हजो बापूय हे दोगूय फक्त खेळांतलीं प्यादीं आसलीं. तांचे येवजणेची आंखणी 1505 वर्सां लिस्बनांत जाल्ली. आफोन्सु आल्बुकेर्काक ती येवजण हांगा कारवायेंत हाडपाची संद मेळ्ळी इतलें मात सत्.' कृष्णान म्हणलें.

'पूण हम्पीचे राया पाखल्यां परस बळिश्ट आसात न्हय? तांणी पुर्तुगेजांक आडावपाक कांयच केलें ना?' राधिकान म्हणलें.

'ना. ती गजाल खरी. गोमन्तकांतले जायते लोक आनी म्हज्या बापायन लेगीत हम्पीच्या रायाक तांकां आडावपा खातीर मागणें केल्लें. तांणी गोमन्तकांतल्या लोकांच्या समस्यां कडेन केन्ना लक्षूच दिलें ना. तांकां सतत एका व्हडल्या सैतानाची भिरांत आसताली तो म्हणल्यार तांच्या साम्राज्या भोंवतणीं आशिल्ले मुसलमान शासक.' कृष्णान सांगून सोंपयलें.

'पूण पुर्तुगेजांनी कितें दशा करून दवरल्या पळय आमचे मायभुंयेची, मायभाशेची, धर्माची आनी लोकांची.' सत्याक दुख्ख सोंसप जड जाल्लें. ते रडकुन्यांनीच उलयतालें.

जेन्ना राजकी आनी सामाजीक रितीन तांणी आपलें मुळावण घट केलें तेन्ना तांचो वखवख बळावलो. तांकां आमचे भुंयेंतली गिरेस्तकाय, देवळांची गिरेस्तकाय पुंजावन व्हरपाची आस जाली. तांच्या धर्मगुरूंचो धर्मांतरां करून

लोकांक आपल्या क्रिस्ती धर्मांत घेवपाचो हावेस वाडलो. भायल्यान देवाचें नांव घेवन आपलो धर्म लोकांचेर थापपा खातीर तांणी असंस्कृत रानवटी लोकांची चलणूक आपणायली.' कृष्णान म्हणलें.

'ते देव मानताले जाल्यार तांणी आमच्या देवांच्यो मुर्ती मोडून नश्ट कित्याक केल्यो?' राधिकान विचारलें.

'दोनूय धर्म मुसलमान आनी क्रिस्तांव देव मानतात पूण तांकां मुर्तीपुजा मान्य ना. तांकां आपले विचार आमचेर थापपाक जाय आनी मुर्तीपुजा सोंसून घेवपाक नाका. ते खातीर तांणी मुर्ती मोडल्यो. दुर्दैवान तांकां एक समजना की हेर धर्माच्या लोकांचो आनी तांच्या धर्माचो दुस्वास करप हेंच एक पातक आनी तशें करून देवाची सेवा जायना. तांणी आपल्या वायट कर्तुपांनी दुसऱ्यांक मारले, तांचीं घरां मोडलीं, भंय घालो, दुख्ख दिलें, नात्याचे संबंद तोडले, मानसीक छळ केलो.'

'म्हजी आवय सांगताली की हिंदू धर्मा मदींय बी एका पंथांतल्यान दुसऱ्या पंथांत वचपाच्यो घडणुको घडल्यात. अशें घडलां तें धर्मांतर न्हय?' राधिकाक समजून घेवपाचें आसलें.

'राधिका, तुवें एक गजाल समजून घेवपाक जाय ती म्हणल्यार देव ही एक शक्त आनी ती मनशाचे शक्ती परसूय खूब ऊंच तांकीची. हिंदू धर्म आमकां एके गजालीचें स्मरण दवरपाक सांगता ती म्हणल्यार तुजे परस खूब बळिश्ट अशी एक शक्त आसा. ह्या सत्याची जाणविकाय दिवन हिंदू धर्म तुका सतत कार्य करीत राव आनी नवी निर्मिती करीत राव आनी हें करता आसतना दुसऱ्यांच्यो भावना दुखावच्यो नात हाची जतनाय घे म्हणटा. हिंदू धर्माचीं चडशीं धर्मीक कृत्यां हानीकारक न्हय. खूबशीं तातूंतलीं पिशेपणां म्हणपा सारकींय आसात. फाटल्या साबार युगांनी आमचे पूर्वज एके तरेचे शास्त्रविधी बदलून नवे तरेचे विधी करीत करीत तातूंत बदल करीत रावले. पूण तांणी जीव घेवप, पिडापीड भोगोवप अशे तरेचे छळ पुर्तुगेजांनी जे तरेन केले तशें कांयच केलें ना. फाटल्या शंबर वर्सांच्या काळांत आमच्या गोमन्तकांत स्मार्थ आशिल्ले लोक वैष्णव जाले हीच एक देख घे. जबरदस्ती, अन्याय असलें कांयच जालें ना. पिडापिडूय ना आनी 'व्हडलें घरय निर्मिलें ना.'

'म्हणल्यार अशें घडटा तें तुका मान्य आसा तर !' राधिकान म्हणलें.

'पळय, जेन्ना राजा दरबारांत येता तेन्ना लोकांक कळीत करपाक घोश

करतात, तुताऱ्यो वाजतात, धोल बी सगलीं वाजंत्रां वाजतात. राजाक आपल्या ऊंच पदाची शान मिरोवपाची आसता. हेंच तुमी देवा खातीर केलें जाल्यार ताचो उपेग जायना. देवाक असल्या बडवाचाराची गरज आसना. असल्या रिती प्रथांक लागून मनीस एकामेकां कडेन झुजतात. आपणाक जाय तींच क्रियाकर्मां करपाचो हट्ट घेवन बसतात देखून तुगेले साश्टीकार आनी तिगेले कुशस्थळीकार आपणा भितर झगडत रावले.' कृष्णान राधिकाक आनी सत्याक बोट दाखयत म्हणलें.

'आमी झगडूंक ना आमचे मर्दीं.' मुखामळार मंद हांशें हाडीत राधिकान म्हणलें.

'तो एक शुभशकून आमचे खातीर.' कृष्णान तिचे परस मेकळें हांशें चेऱ्याचेर हाडीत म्हणलें. तेन्ना तिगांय मोठ्यान हांसलीं.

'कसलो विनोद जालो?' सुकाणू धरून आशिल्ल्या दुर्गान विचारलें.

'भटकळांत बरें नुस्तें मेळटा व्हय अशें विचारतात तीं.' कृष्णान ताका जाप दिली.

'भटकळांत नुस्त्याचो उणाव ना, स्वामी. भटकळा पावले उपरांत हांव हाडून दितां तांकां बरें नुस्तें. तुमचो साबार लोक आसा भटकळांत. बरो गांव तो. तुमी आरामांत रावपाक जाता थंय.' दुर्गा खारव्यान सांगलें.

'पळयलो तुमी हो फरक? हो शिकप नाशिल्लो एक सादो खारवी. तो आमकां आपल्या गांवांत येवकार दिता आनी ते पुर्तुगेज आसात व्हडलो बडेजाव मिरोवपी रईस, गिरेस्त लोक जे स्वताक हेरां परस ऊंच कुळांतले समजतात, आपलो धर्म ऊंच दर्जाचो म्हणटात आनी कसलेय तरेचें पातक करपाक फाटीं सरनात, फकत आमकां आमचे मायभुंयेंतल्यान भायर घालपाच्या हेतान. हाचे वयल्यान एक गजाल सिद्ध जाता ती म्हणल्यार मनशाचो ऊंच दर्जो खंय कोणागेर जलमला त्या आदारान फावो जायना. स्वताच्या अणभवान शिकून आनी बरी करणी करून मनीस व्हडविकायेक पावता. आमचे पूर्वज जे संस्कार म्हणटाले ते हेच.' कृष्णान सांगलें.

'कितें जातलें ह्या लोकांचें आतां? आमचें कशें कितें जातलें? खंय वतलीं आमी भटकळांत?' राधिकान चिंतीत जावन विचारलें.

'राधिका, आमी खंय आसात हें म्हत्वाचें न्हय जाल्यार आमी कोण हें म्हत्वाचें. आमचे कडेन जर अंतरांतलें बळ आनी धिटाय आसत जाल्यार प्रतिश्ठेन आनी मानान जगूं येता. पयलीं आमी आमची पेज मेळपाची तजवीज करुंया आनी उपरांत लोकांक संघटीत करून जें आमी वगडावन बसल्यात तें परत निर्माण करुंया. असोच

भगवान श्रीकृष्णान उपदेश केला. उद्धरेदात्मनात्मानं नात्मानमवसादयेत म्हणल्यार जो कोण स्वताच्या यत्नान फुडें सरता तो आपलो विकास करून घेवंक पावता आनी देव सदांच ताका हात दिता. गोमन्तकांतल्यान जे सगले लोक जीव घेवन धांवल्यात ते फुडारांत आपलो विकास करून घेतले आनी आपलीं घरां, देवळां आनी ब्रह्मपुरी परत बांदतले.' कृष्णान आत्मविस्वासान म्हणलें.

मचवो हालतालो, धोलतालो. ताका लागून तांकां तिगांकूय न्हिदेन वेंगायलीं.

सकाळचो थंड वारो, दर्या वयल्या शेवण्यांचें चिंवचिंवप आनी मचव्या वयल्या लोकांच्या उलोवण्याच्या आवाजान तिगांय जागीं जालीं. रामचंद्र शानभागान सगल्या प्रवाशां खातीर पेज शिजोवपाचो आदेश दिलो.

दुर्गा खारव्यान आस्ते आस्ते मचवो न्हंयेंत व्हेलो. संगमाच्या जाग्यार उदक खवदळिल्लें आसलें. मचवो खूब हालतालो. जायत्या प्रवाशांक गिरगिरपाक लागलें, पोटांत धवळ्ळें आनी ते ओंकूंक लागले. मचवो मुखार वचपाक लागलो तशें तशें तांचें हालप उणें जालें आनी संथ गतीन तो बंदरा वटेन चलपाक लागलो.

रामचंद्र शानभागान लोकांक मचव्यांतल्यान देंवून धक्यार वचून रावपाक सांगलें. ताणें कसाय करून तांकां दिवपाचो आदेश दिलो. नव्या लोकां भोंवतणीं थळावे लोक जमले. आनीक थोडो कोंकणी लोक आयला म्हणपाची खबर पातळ्ळी. चड बारीकसाणेच्या लोकांनी धक्यार गर्दी केली.

'हे न्हंयेंत आमी न्हावया आनी वयर दोंगुल्लेर तें महादेवाचें देवूळ दिसता थंय वचून देवाची भेट घेवया.' कृष्णान म्हणलें. एका तळपाचेर देवाची ल्हानशी देवळी आसली. पांच स जाणटे लोक सोडून हेर सगले दोंगुल्ली चडून देवाचे भेटेक गेले.

'आमकां काम करपाची इत्साशक्त आसा. कृपावंत देवा, आमकां आदार दी आनी कृपा कर महाराजा.' कृष्णान हात जोडून प्रार्थना केली. राधिका आनी सत्या हांणी ताचे कुशीक रावन देवदर्शन घेतलें.

'आतां हाचे उपरांत कितें करप?' राधिकान कृष्णाक विचारलें.

'आमी आतां गांवांत वचून दामरस पै आनी ताच्या भावांची भेट घेवया. गोमन्तकांतल्यान स्थलांतर करून आयिल्ल्या लोकांक सगले तरेचो आदार दिवपाचें तांणी उतर दिलां.' कृष्णान सांगलें.

खेत पैच्या पुतांनी स्थलांतरीत लोकांक येवकार दिलो आनी धर्मछत्रांत तांकां रावपाक आलाशिरो दिलो.

खेत पैन बांदिल्ल्या कमल नारायण देवळाच्या प्राकारांत कृष्णान कांय म्हत्वाच्या प्रतिशठीत गांवकारांची बसका घेतली. ते बसकेक दामरस पै, ताचे भाव आनी भटकळांतले थोडे नामनेचे गांवकार हाजीर आसले. गोमन्तक सोडून भटकळांत फुडारांतली जीण सारपाक आयिल्ल्या लोकांचें पुनर्वसन करपा संबंदान उपाय करपाची आंखणी केली.

भटकळांतल्या दर एका घरान एक थारायिल्लें मापभर तांदूळ म्हयन्यांतल्या एका थारायिल्ल्या दिसा निराश्रितां खातीर भटकळांत स्थायिक जाल्ल्या गोंयकारांनी बांदिल्ल्या देवळांक दिवचे अशी सुचोवणी वैष्णव मठाचे मुखेल स्वामी जिवोत्तम तीर्थ हांणी केली.

'कितें करतलीं आमी भटकळांत? कसलें काम आसा आमकां? आमचे कडेन दुडू नात. सत्या कडेन वा म्हजे कडेन भांगराचो जावं रुप्याचो कसलोच दागिनो ना. कशीं जगतलीं आमी?' राधिकान विचारलें. ताच्या दोळ्यांतल्यान घळघळीत दुकां व्हांवतालीं. सत्यान ताका वेंगेंत घेतलें आनी छातये कडेन धरून थातारलें.

कृष्णा मुमुरको हांसतालो. 'पळय आमी तिगांय मेळून आमकां स हात, स पांय आनी तीन तकल्यो आसात. आमी गोमन्तकांत आसतना केलें तशें काम करून जोडपाक शकतात, लोकांची सेवा करपाक शकतात. इतलें निर्शेवन जीव गळसणावं नाकात. म्हाका तांणी एक समाजसेवा केंद्र सुरू करपाक सांगलां, जे कोण गोमन्तक सोडून हांगा आलाशिऱ्याक येतले तांची नोंद दवरपा खातीर. गोमन्तकांतल्यान खूब वर्सां आदीं जे लोक हांगा येवन रावल्यात ते उद्देग, वेवसाय करतात. खूब जाणांक तांणी आपल्या वेवसायांत दिसवड्याच्या कामाक घेतल्यात वा घरांतलीं कामां दिल्यांत.'

राधिका आनी सत्या हांचे वांगडा एका मेकळ्या जाग्यार वचत कृष्णान म्हणलें, 'येयात, हांव कितें दाखयतां तें पळयात. पळयात, तें मेकळें मळ. हांगा जमीन कसून शेत रोयतलों हांव. आमी तिगांय काम करुंया. आमी फक्त जगतलीं अशें न्हय जाल्यार आमची उदरगतूय जातली.' कृष्णान आत्मविस्वासान म्हणलें. राधिका आनी सत्याच्या मुखामळांचेर हांशें फुल्लें.

'तुगेल्या सपनांतलीं दोन सपनां फळादीक जालीं. आतां तिसरें एकूच उरलां.' राधिकान कृष्णाक म्हणलें.

दोगांयनी सत्या वटेन पळयलें. ताका तांच्या उलोवण्यांतलें कांयच कळूंक

नाशिल्लें. ताच्या चेऱ्याचेर कसलोच बदल दिसनाशिल्लो.

'आगो, सादी गजाल ती. गोमन्तकांत पिडा भोगतल्या लोकांक भायर काडून तांचें दुसरे कडेन पुनर्वसन करपा विशीं तो सदांच उलयतालो आनी तांचे उदरगती खातीर उपाय सोदतालो. आतां हें जें घडून आयलां तातूंत ताचीं दोनूय सपनां पूर्ण जालीं.' राधिकान विस्कावणी केली.

'तिसरें सपन कसलें?' सत्यान विचारलें.

'ब्रह्मपुरी सुरू करप आनी लोकांक शिक्षण दिवप.' राधिकान कृष्णा वटेन प्रतिक्रियेचे अपेक्षेन पळयलें.

'एक दीस तेंवूय कार्य घडून येतलें होवूय विस्वास आसा म्हाका.' कृष्णाचे दोळे खीणभर चकचकले.

राधिका आनी सत्या दोगांय येवन कृष्णाच्या उजव्यान दाव्यान उबीं रावलीं. दोगांयनी ताचे दोन हात हातांत धरले.

वसंतांतलो मंद वारो वातावरणांत चलतालो आनी कोगूळ पयस खंय तरी आपल्या जोडिदाराक साद घालतालें.



# लेखकाचो परिचय

**प्रो. डॉ. कस्तुरी मोहन पै** हे मणिपाल विद्यापीठांत आनी नवी दिल्लींतल्या अखिल भारतीय आयुर्विज्ञान संस्थानांत (AIIMS) वैजकी शिक्षण आनी प्रशिक्षण घेवन तांच्या मातृ संस्थानांत फाटली 35 वर्सां वैजकी शास्त्र ते शिकयताले. वैजकी प्रोफेसर म्हणून निवृत्त जाले. भारत देशाच्या 12 विद्यापीठांक ते यूजी आनी पीजी परिक्षक (Examiner ) आसून संवसारांतल्या पांचूय खंडांच्या वेगवेगळ्या देशांनी हृदयशास्त्रांत (Cardiology) तांणी संशोधनात्मक प्रबंध मांडल्यात. विज्ञान, इतिहास, कला आनी तत्वज्ञान ह्या विशयांत अदीक खोलायेन अभ्यास करपा खातीर ते आनी तांची घरकान्न उषा हांणी संवसारभर प्रवास केला. प्रो. पै हांचें ह्या विशयाचेर कोंकणी, कन्नड आनी इंग्लिश वर्तमानपत्रांतल्यान साहित्य उजवाडा आयलां. तांची कन्नड कादंबरी 'ध्रुवतारेरू' ही गोवा कोंकणी अकादेमीन कोंकणींत अणकारीत केल्या आनी तिका मणिपालच्या डॉ. टी. एम. ए. पै फावंडेशनाचो पुरस्कार फावो जाला. 'मांडवीच्या मोगा खातीर' ही कोंकणी कादंबरी तांचे मायभाशेची आनी पूर्वजांची भूंय गोमंतक हांच्या मोगाची निशाणी. ही कादंबरी तांणी इंग्लिश भाशेंतूय प्रगट केल्या.

**–प्रकाशक**



**प्रो. डॉ. कस्तुरी मोहन पै** हे भारतांतल्या आधुनीक बरोवप्यां मदले एक यशस्वी बरोवपी. कठीण आनी घुस्पागोंदळाच्या इतिहासा वयलें हें पुस्तक तांणी रोगी मनशांची चिकित्सा करतात ते शैलीन बरयलां. तांची नदर विज्ञानीक आनी निश्कर्श तेच नदरेन काडिल्ले. 1510 वर्सा पुर्तुगेजांनी गोंय घेतकूच फुडल्या 55 वर्सांतल्या इतिहासाचें पडबींब 'महाप्रस्थान' हे तांचे कादंबरींत पडलां. 16 व्या शेंकड्यांत पुर्तुगेज आनी आदिलशहा हांचे मदल्या संघर्शाचें चित्र प्रो. पै हांणी चितारलां. खंयच्याय चित्रकारान कागदार रंगांचो खेळ करचो ते तरेचें कौशल्य तांणी कादंबरी बरयतना दाखयलां आनी तें वाचप्यांक अजापीत करता. कथावस्तूचो सोद घेतना ते भारतभर भोंवल्यात; इतलेंच न्हय तर पुर्तुगालांतल्या ब्रागा शाराकूय भेट दिवन म्हायती मेळयल्या. हे कादंबरींतलें प्रेम-प्रकरण तर तरणाट्यांचीं मनां जिखपा सारकें आसा.

- **अॅड्. उदय भेंब्रे**

मडगांव-गोंय

